साहित्य अकादेमी तस्त्रीप मेळील्ली बांगला कादंबरी

# अधिकार अरण्याचो

महाश्वेतादेवी



पुस्तकाचे फाटले वटेन एक शिल्पाकृता दिल्यां शिल्पांत तीन जोतिशा बुद्धभगवानाची आवय राणी महामाया हिका पडिल्ल्या सपनाचो अर्थ राजा शुद्धोधनाक सांगतात अशें दाखयलां. शिल्पाचे सकयले वटेन एक बरोवपी तें सांगप बरोवन घेता. भारतांतल्या लेखनकलेची हा अशे तरेची सगळ्यांत पुर्लिल्ला नोंद आसूंये.

*नागार्जुनकोंडा, दुसरो शेंकडों, इसवी,*

*नॅशनल म्युझियम, नवी दिल्ली हांचे बरेपणान.*

साहित्य अकादेमी तस्त्रीप मेळील्ली बांगला कादंबरी

# अधिकार अरण्याचो

बरोवपी

**महाश्वेतादेवी**

अणकार

**कस्तुरी देसाय**







साहित्य अकादेमी

**Adhikar Aranyacho** (अधिकार अरण्याचो) :
Konkani translation by Kasturi Desai of
Mahasveta Devi's Akademi Award winning
Bengali novel *Aranyer Adhikar*
Sahitya Akademi, New Delhi (2007), Rs. Ninty Only



First Edition : 2007

**Published by :**
Sahitya Akademi

**Head Office :**
Rabindra Bhavan, 35, Ferozeshah Road, New Delhi-110 001

**Sales Department :**
Basement in 'Swati', Mandir Marg, New Delhi-110 001

**Regional Offices :**
172, M.M.G.S. Marg, Dadar (East), Mumbai-400 014
Jeevan Tara, 23A/44X, Diamond Harbour Road, Kolkata-700 053
Central College Campus, Dr. Ambedkar Veedhi, Bangalore-560 001

**Chennai Office :**
Guna, 443 Anna Salai, Teynampet, Chennai-600 018

ISBN 81-260-2351-1

मूल्य : 90/- रुपये

**Cover Design :** U.T. Suresh

**Pagination by :** Rachana Mudran, 172 M.M.G.S. Marg, Dadar (E), Mumbai -14
**Printed by :** New Age Printing Press, Prabhadevi, Mumbai-400 025.

# भूमिका

भारतीय स्वतंत्रताये-झुजाच्या इतिहासांत बीरसा मुंडाचें नांव आनी विद्रोह सर्वार्थान यादींत उरपासारखो आनी अर्थभरित. ह्या देशांत जे सामाजिक आनी आर्थिक फाटभुंयेचेर तो जल्मलो आनी झुजलो तो निखटो एके विदेशी सत्तेआड वा तिच्या शोषणाआड विद्रोह न्हय, तो त्या काळांतले सामंतवादी वेवस्थे आडूय विद्रोह आशिल्लो. ह्या समांतर इतिहासाची विस्कावणी खेरीत काडून बीरसा मुंडा आनी ताचें व्हडपण हांचो विचार फाव तसो जावप अशक्य.

बरोवपी म्हुण, आयची सामाजिक व्यक्ति म्हुण, एका वास्तव इतिहास पर्वाची पुराय जापसालदारकी घेवपाक आमी सदांकाळ बांदिल्ले आसात. ही जापलदारकी न्हयकारप्याक समाज केन्नाच भोगशिना. म्हजी बीरसाचेर आदारिल्ली ही कादंबरी हें तेच बांदिलकेचें फळ जावन आसा.

जाल्यारूय कादंबरी सदांच आपल्या खाशेल्या नेमांक पाळो दियत रूप घेता. हेय कादंबरीचें तशेंच. ती बीरसाच्या मरणान सोंपता. पुण जीण, विद्रोह, जें जें चालंत, ताची परंपरा केन्नाच, खंयच फुडाऱ्याच्या मरणान सोंपना. तिची उदरगत काळा सांगाताक, तिच्या दायज्यांच्या मार्गान निरंतर जायत रावता. विद्रोहांतल्यान जल्माक येता आंदोलन. देखून म्हजे कादंबरीचे अखेरे उपरांतुय एक परिशिष्ट जोडचें पडलां.

ही कादंबरी बरोवपांत हांव खासा करून उपकारी आसा तें सुरेश सिंग हांच्या "Dust, Storm and Hanging Mist" ह्या पुस्तकाचें. वस्तुनिष्ठ आनी बेस बरें बरयल्लें हें पुस्तक नासतें जाल्यार ही कादंबरी बरोवप शक्य नाशिल्लें.

'अरण्येर अधिकार' 1975 वर्सा 'बेतार जगत' नेमाळ्यांत खिस्तींनी उजवाडाक आयली. तिचेंच परिमार्जित रूप म्हळ्यार हें पुस्तक. उजवाडावप्याक म्हजे दिनवास फावतात.

महाश्वेता देवी

# 1

9 जून 1900. रांची जेल.

सकाळच्या आठांक बीरसा रगत ओंकून बेशुध्द पडलो. बीरसा मुंडा, सुगाना मुंडाचो पूत, पिराय 25 वर्सां, खटलो चालू आशिल्लो कैदी. तीन फेब्रेराक बीरसक धरिल्लो पुण मायाच्या निमण्या सप्तका मेरेन बीरसा आनी हेर मुंडांआड खटलो भरप जालें ना. तेन्ना मुंडांचो वकील म्हुण खटलो चलोवपी बॅरिस्टर जेकब, आतांय तो चलयता, बीरसा जाणा आशिल्लो जेकब तांचेवतीन खटलो चलयतलो. बीरसाक खबर आशिल्लें आपले खातीर जेकबाक खटलो चलोवंचो पडचो ना. क्रिमिनल पुलीस कोडाच्या साबार कलमां खाला बीरसाक बांदून घाल्लो, पुण बीरसाक खबर आशिल्लें आपल्याक सजा जावंची ना म्हुण.

बीरसा बेशुध्द पडिल्लो, बेशुध्द, पुण ताका सगळें कळटा, एका फाटल्यान एक चित्र ताका दिसता. मुंडाचे जिणेंत शीत हें एक सपनशें! घाटो हें एकूच खाण मुंडांक मेळटा, देखून शीत हें सपन! खंयचे ना खंयचे परीन बीरसाचे जिणेचेर शिताचो शेक चलता. चडशे खेपो बीरसाची उद्धट घोशणा, ''मुंडा फकत घाटो कित्याक खातले? तांका दिकूं भाशेन शीत कित्याक फावना?'' आनी तीन फेब्रेराक बीरसाक अटक जाली ती तीं शीत रांदतालीं देखून. बीरसा न्हिदिल्लो, एक बायल शीत रांदताली, निळ्या मळबांत धुंवर दिसतालो, बीरसा न्हिदिल्लो, त्या लोकांक धुंवर दिसलो.

उपरांत बंदगांव, मुखार खुण्टी, थंयच्यान रांची. बीरसाच्या हातांक कडें आशिल्लें, दोंयवटेन दोग पुलीस. बीरसाच्या माथ्यार मुंडाशें आशिल्लें, न्हेसूंक पुडवें. आंगार कांयच नाशिल्लें, देखून वारें आनी वत सांगातान कातीक तोपतालीं. मार्गाच्या दोनूय कुशींक लोक आशिल्लो. ते सगळे मुंडा. सगळे रडटाले. बायलां हड्डीं धोडायतालीं, मळबा दिकेन हात उबारतालीं. दादले म्हण्टाले, ''जेणी तुका धरून दिलो, ते माघ म्हयन्याची अखेर देखूंक पावों नाका. जाळ पातळावन मेळटलें तें दुकर जावं -सोंसो जावं- कांयच घरा पावों नाका तेंच्या. ''

पुण बीरसा तांचेर रागार जालो ना. धरून दिलो, कित्याक दिवंचे नात? डेप्युटी कमिशनरान तांका पांच-पांचशीं रुपया मेजून दिलेनात?

पांचशीं रुपया म्हळ्यार कितलो दुडू! पांचशीं खंयच्या मुंडान केन्ना पळयल्या? मुंडाक न्हिदिल्ले कडेन सपनांत लेगीत दिसल्यार मोठ्या कश्टान महाराणयेच्या छापाचे धा रुपया. तांका मेळ्ळे पांचशीं. कित्याक बीरसाक धरून दिवंचे नात?

खऱ्यांनी बीरसा आपल्याचेरुच रागार जाल्लो. झेम आयली कित्याक? न्हिदलेलो नासल्यार तो जागो आसपाचो. उजो पेटोवन शीत रांदूंक दिवंचो नासलो. जाल्यार उजो पेट्टो ना, मळबांत धुंवर दिसतो ना, कोणाक दिसतो ना! वाट चलतां-चलतां बीरसाक याद जाली, आतां भावनाहीन जाल्ल्या बीरसाक येवजलें, तेणी तो उजो पालयलो मू? मुंडाक बुद्द साप उणी. सुपुल्ल्या इंगळ्यान लेगीत रान लासून वता, वडवानळ पेट्टा, आनी कांय वर्सां जालीं रान साप सुकें जालां, रखरखीत, देखुनूच बीरसा उलगुलानांत सगळें सामकें लासूंक सोदतालो. उलगुलानाच्या उज्यान रान पेटना, मनशाचें काळीज आनी रगत जळटा. त्या उज्यान रान पेटना, रानां नव्यान मुंडा आवयवरी, बीरसाचे आवयवरी, रानाच्या भुरग्यांक मांडयेर घेवन बसता.

हाकाच लागून बीरसा रानाचेर हक मागतालो.

रान झोंपून घेतले दिकूंच्या ताब्यांतल्यान. रान मुंडांची आवय, आनी दिकूंनी मुंडांचे आवयक भश्टिल्या. उलगुलानाचो उजो पेटोवन बीरसा आवयक शुध्द करूंक सोदतालो. मागीर मुंडा आनी हो, कोल आनी सावंताल, ओरांव, रानाचेर हक, छोटा नागपूरच्या रानांवेलो अधिकार, पालामौ, सिंगभूम, चक्रधरपूर, ह्या सगल्या रानांचेर जांचो हक आसपाचो, ते आवयचे कुशींत रावंक वचपाचे.

बीरसाक कळ्ळें आपूण खंय तरी वतां. कारण, आज सकाळींच तो खूब रगत ओंकिल्लो. आपल्या रगताचो रंग पळोवन बीरसा साबुद्द वचचे आदीं अजापित जाल्लो. रगताचो रंग इतलो तांबडो? सगल्यांच्याच रगताचो रंग तांबडो आसता, ही गजाल ताचे नदरेन व्हड म्हत्वाची आनी गरजेची, ताका दिसलें हें कोणाकूय पुण सांगूंक जाय आसलें. हें कोणाक सांगपाची गरज आसा? कोणाक खबर ना? अमूल्याक, बीरसाक, मुंडांक खबर आसा. सायब लोकांक खबर ना. जेकब जाणा, पुण जेल सुपर, डेप्युटी कमिशनर, हांका खबर ना. पुलिस सुपराकूय खबर ना. खबर ना देखून ते फौज, तुबकां आनी नाळी घेवन काश्टी मारिल्ल्या, भाले - तिरकामटीं, बरच्यो आनी फातर हांचोच वापर करपी मुंडांक मारूंक आयिल्ले. बीरसा जर उलोंवक शकतालो, जाल्यार सांगतलो आशिल्लो, "सायबांनो, रगतांत भेद नासता. मारल्यार तुमकां जितलें दुखता, तितलेंच मुंडांकूय दुखता. मुंडांचे जिणेंत तुमी जी बळजबरी केल्या, ती सोडूंक तुमका जितलें दुख भोगता तितलेंच रानांतली कसलेली जमीन दिकूंक दिवपाक मुंडांक भोगता."

पुण बीरसा कांयच उलोवं शकचो ना. दोळे उगडूंक जायना ताच्यान. भितर महुआच्या तेलान पेटपी मशाल आनी चिमणी कोण पालयता काय दिसता. कोण पुण बीरसाक धोलयता. म्हण्टा, न्हीद, न्हीद, न्हीद बाबा.

सकाळीं आठांक बीरसा रगत ओंकून बेशुध्द जाल्लो. तेन्नाच रांची बंदखणीचे कुडी - कुडींतल्यान रडपाचे आवाज येताले, पुण बंदखणीच्या सुपर सायबान तेवाटेन आडनदर केली. कळून चुकिल्लें-बीरसा मरतलो. लेफ्टनंट गव्हर्नराक कितें सांगप तें तो चिंततालो. परती-परती नदर घडयाळी वटेन वताली. अजापाची बीरसाची कूड. माया म्हयन्याचे तीस तारखे सावन भोगीत आशिल्लो. फेब्रेरा सावन वासपुशेबगर अटक करून एके कुडींत ताका एकल्याकूच दवरिल्लो. फेब्रेरा आदीं कितले दीस रानांनी, दोंगरांनी लिपून रावतालो. खातालो-पितालो कितें ताकाच खबर. कूड मोडून पडना, मरण येना. आतां तो मरूंक जाय. ना जाल्यार सिध्द जातलें - बीरसा खऱ्यांनीच देव. देव न्ही जाल्यार इतल्या दिसांभितर मरून वचपाचो.

बीरसा सकाळीं णवांक सोंपलो. जेल सुपर ॲंडरसन हातीक घड्याळ घालून मदींमदीं नाडी तपासतालो. मंद, भोव मंद नाडी. बीरसाचे दोळे धांपिल्ले. कपलाक आटयो. ॲंडरसन उमळशिकेन बागवलो.

आतां बाग घेवं येता. ज्या धव्या हाताचो, धवे चामडेचो तो दुस्वास करतालो तेच हात ताच्या चिकचिकीत कपलाक, पोल्यांक लावं येतात. ॲंडरसनाक ताच्या तोंडाक हात लायतना एक खेरीतशें कितें तरी जाणवलें. हो खंय बीरसा, जाका लागून दोन जेलर, पुलीस आनी सेना धांवाधांव करताली. निरागस, सोबीत तोंडावळो. कोण म्हण्टलो हो मुंडा भुरगो म्हुण? आतां ताच्या तोंडार मर्णसावळी. ॲंडरसनान ताची नाडी पळयली. णवांच्या अदमासाक नाडी मंद जायत गेली, आनी थांबली. फट् करून कूड आडवी जाली. कपलावेल्यो मिरयो नीट जाल्यो. तोंड शांत थीर. मरणाबगर कोणाक बीरसाचे कुडीक इतली थंडाय हाडूंक शक्य नाशिल्लें.

तो णवांक सोंपलो. तेन्ना ताच्या हाता पायांच्यो सरपळ्यो काडून घेतल्यो. जितेपणीं, ते एकसुरे कुडींत एकोडो अज्ञात, उपचाराविणें दुयेंस भोगतालो, तेन्ना सरपळ्यो सोडोवप जमलें ना. ताचेर पातयेवप शक्य नाशिल्लें. सावंतालांची 'हूल' न्ही, सरदारांची 'मुल्कय लडाय' न्ही; बीरसान साद घाल्लो 'उलगुलाना' चो, एका म्हा विद्रोहाचो.

बीरसा सोंपलो. तेन्ना ताचे कुडीक घाल्ल्यो सरपळ्यो काडल्यो, तोंडाचें रगत पुसलें. भायर हाडलो. एक-एक करून तांकांय हाडले, मुंडा कैद्यांक. भरमी, गया, सुखराम, डोनका, रामाय, गोपी, चारशीं साठ-सत्तर कैद्यांक येवंक वेळ लागलो. कमर, हाता-पायांक आशिल्ल्यो सरपळ्यो ओडीत चलपाक वेळ लागलो, ते भायर मळबाक उजो पेटला, जून म्हयन्यांतल्या सोंसूं नजो जावपी उज्यान ह्यो कुडी, लोखणाच्या सरपळ्यांच्या भारान बागवल्ल्यो काळ्यो कुडी, मंद गती.

देखून तांका बीरसाचे कुडीक भोंवाडो घालूंक बरोच वेळ लागलो. ॲंडरसनाचें पासियेंस सोंपतालें. तो जेल सुपर, आनी सरकारी दोतोरूय बी. बीरसाची कूड कापची

पडटली, ताचे आदीं वाळ्याच्या आयण्याचो वारो घेत कुडींत बसून थंड जावंक जाय, थंड बियर पिवप हाच्याकूय चड गरजेचें. रांचीचे बंदखणींत मरणाची गरमी, ताका त्रास जाताले पुण मुंडा बदपी न्हय. नदर काडूंक तयार नाशिल्ले . खालते नदरेन आपल्या देवाक पळयत राविल्ले, मेल्ल्या देवाचे कुडीक रेवाडो घालून सरपळ्यांनी बांदून पडिल्ले, काळे, काश्टी मारपी कैदी चलत भोंवाडो मारुन गेले, एकल्यानूय वळख दाखयली ना. 'हय, होच आमचो बीरसा, भगवान' अशेंय कोणेच म्हटलें ना.

– 'वळख दाखयात! वळख दाखयात!' ॲंडरसन आड्‌डलो.

हय, एकलो उबो रावलो. कपलाक बायोनेटाची कोंक आसा, ताचे वेल्यान कळ्ळें, हो भरमी मुंडा. ना जाल्यार हांचे मदल्या जण एकल्याचें तोंड, काळें-काळें तोंड ॲंडरसनाक एका सारखेंच दिसता. भरमी उबो आसलो, पळयतालो.

– 'कोण? कोणाक पळयता?'

भरमी कांयच उलयलो ना, उबो राविल्लेकडेन धोलूंक लागलो. मागीर, ताचे भितरल्यान खंयच्यान तरी गीत उदेलें. दुर्बोध, मुंडारी भाशेंतलें गीत, रड्यावरी सूर, मंत्रावरी गंभीर. भरमी गावंक लागलो. ....

" हे ओते दिसुम सिरजाओ
नि 'आलिया आनासी
आलम आंदुलिया
आमा' रेगे भरोसा
बिश्शास मेना ।।"
(हे पृथ्वीच्या स्त्रष्ट्या, आमची प्रार्थना फुकट वचूंक दिवं नाका.
तुजेर आमचो पुराय विस्वास ।।)

गरजे भायल्या बोवाळाक लागून ॲंडरसन आड्डलो, 'हटाव, हटाव.' वॉर्डरान भरमीक धुकल्लो. ते सगले गेले.

णव जुनाक सकाळीं णवांक बीरसान निमणो स्वास घेतलो पुण सांजच्या साडेपांचां आदीं ताची तपासणी करप सुपर सायबाक जमलें ना. निमाणी तपासणी करून ताणे शेरो मारलो, "पोट मर्दी मर्दी आंवळून गुठल्योशो जाल्यात. धाकली आंतकडी बारीक जाल्या. झरून-झरून. खूब तपासणी करुनूय पोटांत विख मेळ्ळें ना." इतलें बरोवन तो उठलो, हाताक ओडिकोलोन लायलें. हाताचो वास घेवन पळयलो. वासाच्या शाब्बान न्हावन लेगीत आंगाचो बीरसाचो वास वचना! अजाप! फॉर्मेलिन आनी स्पिरिट लावन पुशिल्ल्या मड्याक हय न्हयसो कुशिल्लो वास मारतालो. कूड कुसूंक लागता तेन्नाच्यान असोच वास मारता.

सुपर सायबान मुखार बरयलें, "रगताची हागवण लागल्या उपरांत कॉलराच्या संसर्गान व्हडले आंतकडेचो वयलो भाग आंवळून येवन घुस्पल्लेवरी जाला. ताका लागून

काळजाचे दावे वटेन रगत किणेलां आनी ल्हवू-ल्हवू निस्तेज जावन बीरसान प्राण सोडला.'' मागीर विचार करून पळयलें, बीरसान जेला - भायल्यान एक उदकाचो थेंबो लेगीत पोटांत घेवंक ना. कॉलराची गजाल बरयल्ल्याचें मनाक परतें-परतें खावपाक लागलें. निमाणेकडेन बरयलें, 'कैदी कसो कॉलराचे भकीक पडलो, तें कळ्ळें ना.' बरयतां बरयतां वयर पळयलें, ''कोण?''

– 'हांव' तपासणेचे कुडींतलो डोम उबो आशिल्लो.
– 'कितें जालां?'
– 'सायब म्हण्टालो...'
– 'कोण सायब?'
– 'डेप्टी सायब !'
– 'कितें म्हण्टालो?'
– 'ताचें कितें करप?'
– 'कोणाचें?'
– 'भगवानाचें.'
– 'भगवानाचें? तो कितें तुजो देव? तूं मुंडा व्हय तर?'
– 'न्हू सायबा'
– 'जाल्यार भगवान म्हणुं नाका.'
– 'ना सायबा, म्हणचों ना.'
– 'कितें म्हण्टालो तूं?'
– 'भगवानाचें कितें करप?'
– 'ओगी बस.'
– 'हय, सायबा.'
– 'सारखें उलय.'
– 'भगवानाचे कुडीचें कितें करपाचें?'

ॲण्डरसनाची कूड आनी मन अवसान गळिल्लेवरी जाल्लीं. जे तुबकां घेवन बीरसा आड लडटाले तांची लडाय सोंपली. जांणी बीरसाक बांदून हाडिल्लो, तांचीय लडाय सोंपली. बीरसा कडली म्हजी लडाय कित्याक सोंपना? हांवें कितें केलां? ताका सॉलिटरी सॅलांत दवरिल्लो? ताच्या हाता पायांक, कमराक सरपळ्यो घालून दवरिल्ल्यो? कितें केल्लें? कित्याक लागून ही लडाय? ह्या मुंडांनी बीरसाक 'बीरसा' म्हुण कित्याक वळख दाखयली ना? आपल्या हाताखाला आशिल्लो हो हिशबाक धरपाचो न्ही असो मड्या-कुडींतलो डोम बीरसाक 'भगवान' कित्याक म्हणत रावला?

– 'वच, डेप्टी सायबाक धाडून दी.'
– 'सायब येयला.'

– 'भितर आपयला म्हणचें.'

डेप्युटी सुपर अमूल्यबाबू भितर आयलो. पिराय उणी, आशिल्लेपरस दिसूंक उणी. ताची चाल चलणूक, उलोवणें ज्युरस्ताज्युरस्त. सभ्य. सायबा मुखार मोन्यांनी उबो रावपाची ताची संवय. जाल्यारूय ॲण्डरसनाक दिसतालें बीरसाच्या विद्रोहाच्यो खबरो कोलकात्याच्या 'अमृत बजार पत्रिका', 'दि बेंगॉली' आनी 'दि हिंदू पेट्रियट' ह्या पत्रांक तोच धाड्टा आसूंक जाय. असो दुबाव आशिल्लो, पुरावो असो कांय मेळूंक ना. मुंडा कैद्यांविशीं ताका कळवळो आशिल्लो अशें दिसतालें. ना जाल्यार दर एके कुडींत पिवपाच्या उदकाची वेवस्था सारखी दवरपांत ताची इतली तत्परताय कित्याक? कैद्यांक न्हांवक दोन तांबयांच्या जाग्यार धा तांबये उदकाची वेवस्था ताणे कित्याक केली? कित्याक परतो परतो, जेल कोड – बुक घेवन येवन सांगता, 'सर, हातूंत बरयलां तांका पोटभर जेंवक मेळसारखे तांदूळ रांदपघरांत दिवंक जाय?'

दुबाव मारता, पुरावो कांय मेळूंक ना. डेप्युटी सुपर, क्रिस्तांव भुरगो. जोड बरी आसा. पुण रांची शारांत सद्दां उठून वाड्या वाड्यार फिरता, सगल्यां मदीं भरसता, समाजसेवा करूंक सोदता.

– 'कितें जालां, अमूल्यबाबू?'

मनीस असो हटवादी! फकत 'बाबू'! म्हळ्यार राग येता. एक दीस म्हणूंक लागलो, बरो हांसून सो, ''रागार जावप सारकें न्हय, हें कळटा म्हाका. पुण हांवें आयकल्लें, 'बाबू' हें उतर 'बबून' उतरावेल्यान घडयलां. तेन्नाच्यान निखटें 'बाबू' आयकल्यार कितें तरी ...

ॲण्डरसन चड कांय म्हणपाकूय शकना. कारण हो सोडून गेलो जाल्यार, कोलकात्याच्या त्या 'नावाडग्या' खबरापत्राक खऱ्यो खबरी धाडूंक लागल्यार परिस्थिती कठीन जातली. देशी पत्रांनी आयल्यार तसो व्हडलो भंय ना, खरो भंय जेकबाचो. मनीस इंग्लेज. पुण मुंडांचे पार्तीन फी घेनासतना केशी चलयता. हेय खेपे तांची पार्त घेवन केश लडयतलो. मुंडा म्हज्याच ताब्यांत कैदी म्हुण आसात. म्हजे आड अशी खबर मेळ्ळ्यार जेकब म्हाका सोडचो ना.

ॲण्डरसनान म्हळें, 'कितें म्हण्टा अमूल्य बाबू?'

– 'मेल्ल्याच्या निमण्या संस्कारां संबंदान कांयच आदेश मेळूंक ना.'

– 'सो?'

– 'कितें करपाचें?'

– 'कितें करपाचें म्हळ्यार?'

– 'निमणे संस्कार कशे करप? तांचो नेम समाधी दिवपाचो.'

– 'कैद्यां मदीं तपासा बगर अटकेंत आशिल्ल्या कोणाकूय अचकीत कॉलरान मरण आयल्यार जे तरेन अंत्यविधी करतात तेच तरेन करपाचें. राजकी सन्मानान अंत्येष्टि

करप ना हें नक्की? ही काय 'स्पेशल' केस न्हय?'

पराजय-पराजय. ॲण्डरसनाक कितें ही केस खऱ्यांनी 'स्पेशल' दिसता? मनांतलें लिपोवन दवरूंक इतल्या नेटान उलयता?

अमूल्य बाबूच्या तोंडावेल्यान कांयच कळ्ळें ना.

– 'ऑल रायट सर .'

– 'आनी कितें आसा?'

– 'ताचो भाव कोनु मुंडाक कुडीक अग्नी दिवपाक मेळत?'

– 'ओ, नो. अजिबात ना. जर बीरसायतांनी अंत्यविधी पळयलो जाल्यार परते येवन काणयो करून सांगूंक लागतले. बीरसाक धूमधडाक्यान लासलो म्हुण सांगूंक लागतले. ताचेर वेल्यान तरेकवार अलौकिक काणयो तयार करून पातळायतले. हांव, हांव बीरसाच्या नावान हाचे मुखार तर्कटां आयकूंक तयार ना.'

अमूल्य बाबूची चर्या फातरेल्ली, निर्विकार.

– 'तुवेंय ह्या असल्या गजालींक थारो दिवंक जायना. तूं शिकिल्लो, आमच्या धर्माचो तूं. पळय, हांव फाटलीं कितलींशींच वर्सां बीरसाच्यो काणयो आयकून आयकून... काणयो आयकून आयकून... पुण हे खेपे, फाटलेय खेपे तो हेच बंदखणींत आशिल्लो. तुवेंय पळयलां - तो एक सामान्य मनीस, एक सादो मुंडा, कॉलरान मेल्यार तो कितें।...'

– 'ती सेल कार्बोलिकान धुवपाची?'

– 'कार्बोलिक ! कित्याक ? पिशें लागलां तुका?'

– 'पुण सर, कॉलरा तर संसर्गी.'

– 'कॉलरा? कॉलरा तुका खंय लागता?'

– 'तुमीच म्हळें बीरसा कॉलरान मेलो म्हुण.'

ॲण्डरसनाचीं दाडवणां हाललीं. मागीर तोडिल्ले भशेन, रुक्ष आवाजांत ताणें म्हळें, 'हय, बीरसा कॉलरान मेला म्हळें खरें हांवें. हांवें म्हळां खंयच्यान कॉलरा घेवन आयलो, खबर ना - अशेंय म्हळें. कार्बोलिकान धुवपाची गरज ना अशें हांवेंच सांगलां. हांवूच सांगतां, ताची अंत्येष्टि बंदखणीचे डोम भंगी करतले. एकाय बीरसायताक तें पळोवंक मेळूंक जायना, नोट कर, एकल्या लेगीत बीरसायताक अंत्यविधी पळोंवक मेळूंक जायना. पळयल्यार ते काणयो घडयतले आनी पातळायतले, मागीर जेकब म्हण्टलो, अभागी मुंडांक अंत्येष्टि पळोंवक लावन बंदखणीच्या अधिकाऱ्यांनी मड्याची अवहेलना केली. आतां कळ्ळें तुका?'

– 'वेळ?'

– 'तुजी बोल्सांतली घडयाळ ना?'

– 'अंत्येष्टीचो वेळ?'

– 'आनिकूय काळोख जावं दी.'

– 'हांवें वचपाचें?'

– 'नो. ही म्हजी ऑर्डर.'

– 'रायट सर !'

– 'तूं कामांत नाका तितलो घुसपता. तूं रजा घेवन घरा वचून येना कित्याक? ट्रायल केन्ना सुरू जातली कोण सांगतलो?'

– 'म्हाका वचपाःक खंय जागो असो ना, सर. हांव ऑर्फनेजींतलो भुरगो. रांचीचे ऑर्फनेजींतलो.'

– 'चल तूं , वच आतां.'

– 'येस सर.'

अमूल्य बाबू तसोच निर्विकार तोंडान भायर सरलो. बंदखणीचे ते वटेन ताचें घर. तो नीट घरा आयलो. शिबन डोम ताच्या घरा सारण मारतालो. शिबना वटेन पळयनासतना अमूल्य बाबून म्हळें, 'राती ताका लासपाचो, कळ्ळें? ताका पुरप ना. डोमांनी उजो लावपाचो. वचपाचें जाल्यार आतांच बंदखणींत वचून रावल्यार बरें.'

– 'हय सायबा.'

– 'हांव सायब न्हय.'

– 'हय बाबू.'

शिबन भायर सरून गेलो. अमूल्य बाबून एका कागदार बरयलें, बीरसा मुंडा पयली खेप बरो ना जालो 30–5–1900 तारखेक. 20–5–1900 तारखेक सिंगभूमांतल्या एका खटलो चालू आशिल्ल्या कैद्याक कॉलरान मरण आयलें. ताणे बंदखणींतल्यान न्यायालयांत वतना वाटेर गार्डाच्या संगनमतान आपल्या भाच्यान दिल्लो प्रसाद खाल्लो. बीरसाचे बाबींत सरकारी खुलासो तयार जालो. तातुंत म्हणिल्लें कीं बंदखणींतल्यान न्यायालयांत वतना वाटेर बीरसानूय कितें तरी भायर खाल्लें. पुण गार्ड आनी हेर कैद्यांची कडक तपासणी केल्यार कळटलें बीरसान फकत एक दीस कपलार आनी मानेर मारपाक उदक मागिल्लें, हवालदाराच्या तांबयांतल्यान उदक घेतिल्लें. तें उदक ताणे हातांत घेंवचें घेवन गार्डान ताच्या कमराची सरपळी ओडून म्हणिल्लें, ''वेळ जालो.'' देखून तें उदक बीरसा वापरूंक पावलोच ना.

आनीक मातशें चिंतून बरयलें, 30 माया सावनूच बीरसाक बरो ना कशें दिसतालें. दुयेंसांत ताची तपासणी आनी पथ बी सगल्याची वेवस्था जेल सुपरान केल्ली.

अमूल्य बाबून कागद पाकिटांत घालें. वयर बॅरिस्टर जेकबाचें नांव आनी नामो बरयलो. फाटले खेपे जेन्ना बीरसा पयलेच फावट कैद जालो तेन्ना कोलकात्याक अमूल्य बाबूची हाचेकडेन वळख जाली. बीरसा जसो फामाद आशिल्लो, जेकबय ताचेपरस फाटी नाशिल्लो. कितलो तेंप तो कोल, ओरांव, मुंडा हांची पार्त घेवन झगडला, तोच जाणा.

– 'कित्याक तूं म्हाका आदार करता बाबू?'

अमूल्य बाबूक सगळे 'बाबू' म्हणूंक शकतात, सगल्यांक ताणे हो अधिकार दिला. फकत ॲण्डरसनाकडेन तो सामको कडक. जेकबाच्या ह्या प्रस्नाक ताणे जाप दिली ना.

– 'कित्याक आदार करता?'

– 'म्हजें नांव सांगूं नाका.'

– 'तूं भोव धाडसाचें काम करता, काय सामकें दुराग्रहाचें?'

– 'हांव नकळ.'

– 'पिशेपणूय म्हळ्यार जाता. आतां डी. एस्. जाला काय आजून हुद्दो मेळपाचो आसा?'

– 'म्हाका दिसता आमी सगलेच थोडेभोव पिशे. डी.एस्..ची ड्यूटी करतां, मुखार जातलों.'

– 'तूं रांचीचो, न्हय?'

– 'हय.'

– 'शाळा - कॉलेजींत थंयच शिकला?'

अमूल्य बाबू खिणभर ओगी रावन मागीर उलयलो, 'चाइबासाक जर्मन मिशनाचे शाळेंत हांव बीरसाचो वर्गमित्र आशिल्लों.'

– 'हां हां. पुण जाल्यारूय तूं मुंडांक आधार करता तें कित्याक तेंच कळना.'

– 'कळपासारखें कांय ना.'

अमूल्य बाबू आतां भायर काळखा दिकेन पळयतालो. चौदा वर्सां, काय पंदरा वर्सां जालीं? बीरसा दाऊद पैशिल्ली वाट चलून दुखावल्ल्या, झरकटल्ल्या पांयांनी चाइबासा शाळेंत गेल्लो.

अमूल्य बाबू हय न्हयसो हांसलो. बंदखणींत मेळटकच बीरसान मुद्दाम ताका वळख दाखोंवक ना. तेन्नाय ना, हे खेपेकूय ना.

रातच्या सुमार आठांक तिरडेर बीरसाची निमणी तपासणी केल्ली - शिंविल्ली कूड घेवन डोम भायर सरले. मुंडा कैदी रातचे जेवले नात. कुडी-कुडींत गर्दी करून, मरणप्राय उबाळांत उकडून गेल्ले, तरिकूय ते गायताले. ज्या गाण्याचे सूर रड्यावरी, ताची भास कळूंक कठीन, रानाच्या काळजांतल्या वादळाचे भाशेवरी आदीम, जें गीत मंत्रावरी गंभीर.

मड्यां-कुडीचो रखवालदार, पुलीस, गार्ड, कूड व्हरपी डोम सगळेच तें गीत आयकून एकमेकाचे दिकेन पळोवंक लागले. अस्वस्थतायेन तांचीं मनां सणसणटालीं. आयचे रातच्या उबाळावरीच तांचो भंय, राग, दुःख सगलें भितरले भितर धुंवरेतालें. भंय कित्याक, राग कसलो, कित्याक दुःख! कितें जालां? एक खटलो चलतलो कैदी मेलो. पुण

मुंडा कैद्यांक केश चलयनासतना जनावरा भशेन अटकेंत दवरप, तेच अवस्थेंत अर्दीमर्दी तांकां मरण येवप, हें हाचे आदीं जावंक ना तर?

अशें घडतूच आसता. अर्दीमर्दी चालूच आसता. आयच्या दिसा उजो चड जाता इतलेंच. अवर्शण तर फाटलीं दोन–तीन वर्सां चालूच आसा. ते भायर बीरसाच्या 'उलगुलाना' चे धगीन सगलें करपलां. मनांतलीं चिंतनां आनी विवेचना सगलें 'उलगुलाना' च्या हुलपान लासून गेलां. अशे तरेन लासून गोबर जालां, मुंडा कैदी ल्हान–ल्हान कुडींनी चिड्डून गर्दी करून वण्टींच्या आंकड्यांक सरपळ्यो घालून बांदून पडल्यात, ताचेंय कोणाक कांय दिसना. कुडीक गुळयेचो घाव, कुशिल्लो घावो आनी जोर आशिल्लो सुनारा मुंडा उपाय जाय नासतना कसो मरता ताचेंय कोणाक पडून वचूंक ना.

पुण आतां बीरसाची कूड उखलून, उज्यावरी गरम वारें कापीत जेलांतल्यान भायर सरतना सगल्यांक भंयसो दिसतालो. शिबन डोमान तोंड उगडलेंच, 'हें अशें कशें? जातीच्या, धर्माच्या मनशांनी खांदो दिवपाचो, ताका मातयेक लावपाचो, त्या जाग्यार हें कितें?'

– 'तूं ओगी राव रे, शिबन.'

– 'तूं कितें सांगतलो शिपाय सायब, हें पातक न्हू?'

शिपाय मुनेश्वर प्रसादान म्हळें, 'पातक जाल्यार सायबाक लागू. आमी हुकमाचे चाकर.'

– 'बापूय आसा, आवय आसा, वयावेलो पोर तूं. कित्याक मरूंक गेलो सांग?'

– 'आरे, ती रानवटी जात, बुद्दुय रानवटी. म्हज्या व्हडल्या भावान कोर्टातल्यान निकाल जावन जमीन घेतली. जाल्यार म्हण्टा, आमकां हुमटायले कित्याक? म्हण्टा, तुमीय दिकू. कायदो कळना, कोर्ट समजना, जुवीज कितें सांगता तें कळना. फकत एकूच विचारतात –कित्याक? जमीन सोडूं कित्याक? रान आमचें न्हू? जमीन आमची न्हू? धर, हो लापयांव घे, शिबन. तुमी चला.'

– 'तुमी कोण येंवचे ना?'

– 'ना. होरमू न्हंय ही हांगा धा पावलांचेर. चला तुमी, चला.'

– 'काळोख कसलो आसा.... '

– 'काळखांतूच वच, मोन्यांनी. कोणाक लासता, खंय लासता कोणाक कळूंक फावना.'

– 'ते तेका भगवान म्हण्टाले. '

– 'व्हडलो सायब ताच्याकूय व्हडलो भगवान, कळ्ळें मरे शिबन?'

– 'होरमूंत उदक ना.'

– 'उदक कित्याक जाय? सारी धुयतलो? उजो लावन तशें सांडून येवं नाका. पुराय लासलांशें पळोवन मागीर यो.'

शिबनाच्या अचकीत लक्षांत आयलें, फकत तेच आशिल्ले, रखवालदार, शिपाय, गार्ड. सगले फाटी परतून वाटेक लागल्यात. ते मुखार चलूंक लागले. वारें, काळोख आनी तातूंत जमनीक हुलप पडल्यात. तांचे मदलें उलोवप आपसूक बंद जालें. चत्रायेन चलतना शिबनाच्या मनांत आयलें – तांणी भगवानाक एक नवो कपडो लेगीत घालो ना.

सारी दाळूंक चड वेळ लागलो ना. लांकूड ना. निसते सुक्या शेणाचे थापे. धर्मून मान झटकून म्हळें, 'अधर्म हो. आमी जाती-पातीचे मनीस न्हू. बीरसाक अग्नी दिवप जालें ना, न्हाण जालें ना, पुरप जालें ना, पुरयत येयलो ना. लांकडान जाळपाचो, तेंय ना. रांचींत कितें लांकडांक तूट आसा?'

– 'धर बाबा. उखल बेगीन. कुसला काय कितें रे?'

बीरसाक सारयेर आड घालतां घालतां धर्मून म्हळें, 'हागवण कशी लागली कोणाक खबर.'

– 'चल, लाय उजो!'

धर्मू पांयां पडून उलयलो, 'बीरसा तूं सगलें पळयताच, तुका सगलें खबरूच आसा. आमी हुकमाचे चाकर. हुकमा प्रमाण काम करतात, आमका दोशी धरूं नाका.' धर्मून सारयेक उजो पेटयलो.

ते पयस वचून रावले. बीरसाक रेवाडो घालून उजो नेटान पेटलो. मळबा वटेन शेंवटलो.

मळबा वटेन नदर मारून धर्मू भंगी उलयलो, 'उलगुलानांत ताणे जाय तो उजो पेटयला. ताची वळख आसा उज्याक. कसो पेट्टा पळय.'

– 'जाल्यार तुज्या 'उलगुलाना' ची हीच अखेर तर?'

भिकण फकाणां करूंक गेल्लो, तीं अर्द्यार उरलीं.

सगले भंयान एकामेकाक पळोवंक उरले.

शिबन सारयेक पळयत रावलो.

मागीर, सारी पुराय जळून सोंपूंक आयली, तेन्ना हातींतल्या दांड्यान उजो सारीत ताणे म्हळें, 'तुमी चलात. हांव सारी धुयतां.'

– 'तूं एकलो?'

– 'हय, एकलो.'

तांणी शिबना वटेन पळयलें. उलोंवक सोदताले, पुण ओगीच रावले. ते गेले.

ते वतकच शिबनान मुखार पळयलें. सारयेचो उजो आतां धुंवत-धुंवत जळटा. असलो उजो खूब वेळ जळटा, शिबनाक खबर आसा. भितरले-भितर जळून धुंवत रावता- बरोच वेळ. हजारीबागांत, ताच्या भुरगेपणांत, ते वसंतरुतूंत रानांतल्यान रानवटी बोरींचीं शिरपुटां पुंजोवन हाडून खळाच्या कोणश्याक राशीक मारताले. शिंया दिसांनी

तांचो पल्लो पेटोवन हात-पांय शेकताले. बोरीच्या लांकडांचो उजो बरोच वेळ पेटत रावतालो. शिबनाची आवय म्हण्टाली, 'म्हाका शीं खायना. म्हागे काळजांत बोरी लांकडांचे इंगळे पेटोवन गेल्याय तुगे बापूय, तुगे व्हडलो भाव, आनी धाकलोय.''

मड्याचो सारयेर गोबर जायत आयलो. मड्यांत कांय नाशिल्लेंच! सुके खोलयेवरी जावन गेल्लें. ताची कूड निवळ करूंक गेल्ले कडेन शिबन कितल्या तेंपा सावन पळयतालो - सरपळ्यांचो भार ओडी-ओडीत बीरसा ते येदेशे कुडींत भोंवत रावतालो. सॉलिटरी सेल. उलोवंक मनीस ना. एकलोच कपलाक आटयो घालून चलत रावतालो. कूड साप ल्हान आशिल्ली. फकत चवदा पावलांनी हे कडेच्यान ते कडेक पावतालो. थंय वणत. उत्तर-दक्षिणेक, उदेंत-अस्तंतेक वणत, फकत वणत. भरमी, धानी, सुखराम, कोनू, सगळे मुंडा कान लावन ताचो घश्टतलो सरपळेचो आवाज आयकताले.

कोनू म्हण्टालो, 'जुवानपण येतसावन दादाक कोण घरा दवरूंक शकलो ना. तेचे इतलो रानां-दोंगरांनी कोण केन्ना भोंवक ना. ह्या 'उलगुलाना' च्या काळ्या काळख्या रातींनी दादा दोंगर भेदून खंय-खंय चलोन वयतालो.'

पुण तीस तारखेक रातचो जेन्ना सरपळेचो आवाज आयकूंक आयलो ना तेन्ना मुंडांनी भंयान एकामेका दिकेन पळयलें. धानी मुंडा रडत आड्डलो, 'सरपळी ओड भगवान, चलत राव तूं. जाणा, ते सरपळेचो आवाज आयकोन आमी जिते आसाय.'

पुण भगवान आनीक परतो उठलो ना. कपलाक आटयो घालून वरांचीं वरां फिरत रावंक पावलो ना. तीस तारखेसावनूच ताची नाडी दुर्बळ जाल्ली, धांवक लागिल्ली. जीब सुकी, जळजळ जाताली. मरणांतिक तानेन तो परतें-परतें मागून घेवन उदक पितालो. खावंक एक कण लेगीत खालो ना. एकाच दिसांत दोळे खोल गेल्ले. पुण दुसऱ्या दिसा आदीं डेप्युटी कमिशनर येवंक पावलो ना. डेप्युटी सुपर सायब दोतोरकी पास जाल्लो खरो, पुण ताका ते कुडींत वचपाक ऑर्डर नाशिल्ली. डी.सी. चे सांगणे वेल्यान सुपर सायबान येवन बीरसाक कितें-कितें सांगलें. बीरसा इंग्लेजींत उलयलो. त्या दिसा सुपरान सांगलें, ताका कॉलरा जाला, तो वांचचो ना. कॉलरा शिबनान आनी ताच्या सांगात्यांनी जायतो पळयला. म्हामारी, देवी, जिवाणीं चाबून - कितल्या तरांनी मरण तांचे टोळयेंत फिरु-फिरून लोकांक यमपुरींत दास म्हुण घाण्याक बांदूंक व्हरतालें. भायर जावप ना, ओंकारो ना अशी हागवण भगवानाकूच लागता आसूंक जाय.

सारी पालवत आयली. शिबन आतां सारयेच्या उज्याच्या उजवाडांत दिसतल्या वाठारा पलतडी काळखा कडेन भोव उमळशिकेन पळोवंक लागलो. काळखांतल्यान अवतरलें साली, भगवानाची उलगुलानांतली संगी, इश्टीण. ताचे काळे कुडीर हळडुवें वस्त्र, दोळ्यांत धुंवट.

सालीच्या हातांत मडकी. ताणें आनी शिबनान नुलयतां ते मडकेन होरमूंतल्यान उदक हाडून सारयेर ओतूंक आरंभ केलो. सारी फसफसली, एका खिणा खातीर गोबर

आनी वाफ वयर हुबली. उपरांत सगलें शांत.

सालीन मूठभर गोबर पालवाक बांदून घेतलो. शिबनाकडेन आयलें. हांसलें खोल, म्हौंवाळ, अजापाचें हांशें. अशें हांसूंक ताका बीरसान शिकयल्लें.

साली शिबनाक लागीं, सामकें लागीं आयलें. पुण शिबनाची कूड निर्विकार, मोनी. आतां साली इतलें तेंकून उबें आसा, ताचे उस्वास शिबनाचे कुडीक लागतात.

सालीन म्हळें, 'तुयें म्हाका खूब दिलें शिबन.'

– 'कितें करतलें?'

– 'रानांत फाफसून उडयतलें.'

– 'कित्याक?'

– 'तेणे म्हुणलेलें, रानांत गोबर उडयल्यार रानांक कळटलें बीरसा तेची याद विसरोंक ना म्हुणोन. गोबर जमनीर पड्टलो, मातयेंत रूख जल्मतले! ते रूख व्हड जातले, साली.'

– 'अशें, सांगल्लें?'

– 'हय.'

– 'तूं वयता?'

– 'हय.'

– 'म्हाका कितेंय तरी सांगून चल.'

– 'सांगतां! आयक.'

– 'सांग.'

– ' उलगुलानाक अंत ना. भगवानाक मर्ण ना.'

– 'मरण ना?'

– 'ना.'

– 'जाल्यार हांवें लासलो कोणाक तर?'

– 'भगवानाक मर्ण ना.'

साली गेलें. खिणा भितर बिण्ण काळखांत नाच जालें.

शिबनाच्या रगतांत परती-परती सारये उज्याची कीट पेटून गेली. उतरा-उतराक कीट - उलगुलानाक. अंत. ना. भगवानाक. मर्ण. ना.

शिबनान भंयान आंग काडून मळबा वटेन नदर केली. ताचें रगत भोव प्राचीन. काळे कुडीच्या आदिवासीचें रगत भोव आदीम आसता. ताच्या रगतांत भूक, दळदीर, लांछन. लोकां काणयांनी, प्रवादांनी, अघटितांनी विस्वास दवरीत ताचें रगत सदांकाळ मेकळें जियेवंक सोदता. स उतरां ताच्या प्राचीन रगतांत स क्रिटी जावन पेटून उठलीं. शिबन मडकी आपटून धांवक लागलो.

बंदखणींत धानी मुंडा बसून आशिल्लो. भरमी, कोनू , गोपी, रामाय, शेंकड्यांनी मुंडा

कुर्डीर सरपळ्यो व्हांवयत बशिल्ले. सरपळी आसताना न्हिदपाक खूब त्रास जातात. एकशें धा, एकशें पंदरा डिग्री तापमानांत ताशिल्ल्या फातरांनी घडयल्ल्यो वण्टी तापतात. ते गरमेंत न्हीद पडना.

हड्ड्यांत निष्फळ 'उलगुलाना' चो उजो. भायर ज्येष्ठांतलो उजो. ह्या उज्याक आज बीरसाचे सारयेचो धग लागला. मुंडांच्या दोळ्यांत न्हीद ना. ते बशिल्ले. एकलो सुनाराच न्हिदिल्लो. तरणो, अठरा वर्सांचो तरणाटो मुंडा सुनारा. ताचो देह गुठली जावन पडिल्लो. ओंठांचे कडेच्यान रगत व्हांवतालें. फाटले कांय दीस व्हांवत आशिल्लें. डोमबारीच्या झुजांत ताका हड्ड्यार फातर मारून दुखयल्लो तेन्नाच्यान.

आज ताका बीरसाची वळख दिवंक वचपूय शक्य नाशिल्लें. चलपाचें त्राण नाशिल्लें.

'तूं वचों नाका सुनारा', धानीन म्हणिल्लें.

– 'म्हाका व्हराय, घेवन चलाय.'

– 'तूं वचों नाका.'

– 'म्हाका व्हर.'

– 'मरतलो तूं.'

– 'तुमी भगवानाक पळोवन येतले, हांयें पळोवप ना?'

– 'सुनारा, तूं मरतलो.'

– 'तुमकां कितें खबर, भगवानान म्हाका सांगोंक ना, आगेल जावन परतोन येयल्यार, तुमी भितले. आगेल जावन पडलों, जाल्यार तुमी भितले! वाग जावन परतो येयल्यार तुमी भितले. जनावर जावन परतो येयलों, जाल्यार तुमी म्हाका वळखोंक पावंचे नाय. देखून मनीस रूप घेवनूच परतो येतलों मरे हांव, आनी हांव नवी धर्तरी निर्माण करतलों. बामण जावन, गोसांय जावन येयल्यार तुमी म्हाका वळखूचे नाय. हांव मुंडा जावन परतो येतलों, कळ्ळें? परतो उलगुलानाची खबर सांगपी, तेन्ना तो हांव म्हुणोन समज.'

'अशें सांगल्लें, सांगल्लें अशें?' भरमीन आकांत करून म्हळें.

'कितें सांगल्लें?'

'धानी, तूं सांग.'

'हांव सांगों?'

'तुजे कडेन सगळें उलयला तो.'

'जाल्यार आयकाय! तेका हांयें सांगलां, तेणे म्हाका सांगलां, तें सगलें तेणे भरमीक सांगलां.'

'भरमी सांग मरे!'

'म्हाका तेणे सांगलें, भरमी, जेलांतल्या ह्या चारशीं मुंडांक वांचयतलों आनी वयतलों. मॅजिस्ट्रेट म्हाकां जेन्ना कोर्टांत विचारतलो तेन्ना हांव तुमका कोणाक वळखना

म्हुणोन सांगतलों. जे केलें, तें हेरांक घेवन. तुमी तेंतुंत नासलें. तुमीय सांगोप तुमी म्हाका वळखनाय म्हुणोन.

'तेणें सांगल्लें अशें?'

'हय. सांगलें. तेणें म्हुणलें हे आमका जेलांतल्यान सोडचेनाय. आनी ही मातयेची कूड सोडली ना जाल्यार तुमी वांचचे नाय. आस सोडूं नाका. तुमकां वाऱ्यार सोडून गेलों अशें धरूं नाका. सगलीं आयिद्यां तुमकां दिल्यां, सगलें शिकयलां. लडत-झगडत तुमी वांचूंक जाय.'

'अशें म्हणलें?'

'आनीकूय कितलें कितें-कितें सांगोन गेला तो. हांव परतोन येतलों भरमी. बुंदू , तामार, जाग्यां - जाग्यांनी होळयेचो उजो पेटयतलों. सोनपूराक चक्री वादळ हाडटलों. तूं जाणा, वानरां दोंगरार रसमा किड्यांनी तांतयां काडलीं जाल्यार तेतूंतल्यान जशे कितलेशे ऽ ऽ ऽ च किडे भायर सरताय, तशो म्हागे सांगणेच्यो तरेकवार सांगण्यो जावन पातळटल्यो.'

— 'चल, सुनाराक घेवन या.'

तेन्ना ते सुनाराक घेवन गेल्ले. बीरसाचे कुडीक भोंवाडो घालून तो परतो आयलो. तेन्नाच्यान ताच्यान तकली वयर काडूंक जालें ना. आतां सगल्यांक खबर आसा तो गेलो म्हुण, पुण हाका कळ्ळां काय ना तें कोण सांगतलो?

सगल्यां परस पिरायेन ल्हान तो. जमीन नाशिल्ली, गोरवां-वासरां, घर, कांयच नाशिल्लें. चेंदू गांवांत सूरज सिंगान दिसाक एक थाळी घाटो आनी मूठभर मीठ, वर्साक तीन वाले इतल्याक ताची जीण-मरण विकतें घेतिल्लें.

आपले मालकेचें म्हुण ताचेकडेन आशिल्लें तें एक लांकडाची दांतोणी, एक बांसरी आनी एक धोणू. हेंच घेवन तो रानांनी सूरज सिंगाच्या गोरवांक - बोकडांक चरयतालो, कोलसुण्यांक वा वागांक बाण मारून वा लातां बडोवन धांवडायतालो.

आनी गायतालो. बीरसा तेन्ना आनंद पांडाल्या घरा रावतालो, देवाचीं गायनां करतालो. सुनारा ताका पयसुल्ल्यान पळयतालो. ताचें गावप आयकतालो.

बीरसा गावन - फकत गावन, तेन्नाय मनशाच्या रगतांत म्हादळ्याचीं धपकणां गाजोवंक शकतालो. सुनाराच्या रगतांत तेन्नाच सूर भरिल्ले. देखून उलगुलानाच्या सादार तो सूरज सिंगाच्या गायां-बोकडांक रानांतूच सांडून, सूरजागेर येवन चकमकीन उजो पेटोवन वरयांचे तांदूळ - जे उकडून तो घाटो रांदतालो - ते साकभर आनी मीठ मूठभर चोरून बीरसा कडेन येवन पावल्लो. परतो आनी गेलो ना.

तोच सुनारा हांगा मरूंक तेंकिल्लो. हेर सगळे मुंडा बशिल्ले. ते चिंतताले प्रेत लासल्यार कितलो वेळ जालो, शिबन कित्याक येंवक ना?

दिस्त तेन्नाच नेटान घांट वाजूंक लागली-टण् -टण् -टण् -टण्.

घांट कित्याक वाजता काय? कोण पळ्ळो बी वारांव बागोवन? अचकीत कितें

जालें? वारांदांत बुटांचो आवाज कित्याक? रखवालदारांची धांवाधांव कित्याक चल्ल्या? व्हडा-व्हडान कोण आड्डता? कोणाचो आवाज, 'सायबाक कळयात रे!' कोण आड्डता काय?

उलगुलानाक अंत ना! भगवानाक मर्ण ना.

सगल्या मुंडांनी बिजलेवरी चाबकाचो आवाज आयकून तकली वयर काडली. सगल्यांक दारा कडेन वचन दिसलें, कान फांकारून आयकन दिसलें. फकत धानी, जड्डो धानी सुनाराक धरून थंयच थीर बसून रावलो. खूब, खूब दिसां सावन तो झगडत आसा. सांवतालांच्या 'हुलां' त तीर मारल्या, सरदारांचे 'मुलकी लडायें' त वांटो घेतला, बीरसाच्या 'उलगुलाना' क आदार केला.'

उलगुलान सोंपना, भगवान मरना हें फकत ताकाच खबर आसा. भगवान परतो मुंडा जावन मुंडामायेचे हांडीर येता. तो कित्याक आयकूंक वतलो? जांकां कळना , ते वचून आयकूं.

'उलगुलानाक अंत ना! भगवानाक मर्ण ना.'

हो शिबनाचो आवाज! शिबन आड्डता!

आवाज थोडो थोडो हे दिकेन येता. कोणे तरी म्हणलें, 'शिबन डोम पिसावलो रे!'

– 'धर, धर ताका.'

– 'उलगुलानाक अंत ना! भगवानाक मर्ण ना रे मुंडांनो, म्हाका कळ्ळां आतां. उलगुलानाक, तुमच्या उलगुलानाक अ....!'

शिबनाचो आवाज अचकीत थांबलो.

अख्खो बोवाळ ठप्प! चाबकाचे फटके, लाठयेचे धपके मनशाच्या आंगार पडपाचो आवाज. लटाफट चलल्या. परवंल्ल्याचो आवाज. मनशाक ओडून व्हरतना जातल्या बुटांचे चालीचो आवाज.

सुनारान म्हळें , 'धानी, म्हागे तोंड पूस.'

धानीन ताचें तोंड पुसलें.

– 'भगवानान सांगलेलें, शिंगभूमांतलीं अख्खीं रानां आनी जमीन आमकां परती मेळटली.'

– 'ओगी राव.'

– 'सगळें रान मेळटलें! जशी आदीं धर्तरी कुमारिके भशेन निर्मळ, पवित्र आसली तशी ती परती जातली. ते धतरिर सावकार नासतले, दिकू नासतले, सायब नासतले. फकत सगल्याक रान आनी दोंगर आसतले, जाणा धानी!'

– 'ओगी राव.'

– 'तशी धर्तरी तुका पळोंवक मेळटली, म्हाका न्हू. म्हाजें तोंड पुसता धानी?' 'देवाचें नांव घे, धानी, तें गीत म्हुणाय तुमी. तें हांव म्हण्टालों तें गीत 'बोलोपे' गावन

दाखय.'

एकदांच घर्र घर्र आवाज जालो. सुनाराचो आवाज बंद जालो.

– 'धानी, सुनारा सोंपलो?'

धानीन जाप दिली ना. सुनाराची तकली हड्ड्याकडेन धरून तो धोलोवंक लागलो. मागीर गावंक लागलो –

'बोलोपे बोलोपे हेगा मिसि होनको.
होईयो डुडुगार हिजुताना.
बोलोपे ....
ओतेरे डुडुगार सिरमारे कोआनसि.
दिसुम ताबू बुआल ताना
बोलोपे ....
ताइ ओम ते दो होरा काये नामिया.
दिसुम ताबू नुबा जाना
बोलोपे .... '
(भावांनो, भैणींनो, आनी भुरग्यांनो धांवात, पळात, वांचयात प्राण
सुटलां वादळ भावांनो ...
आयलें तुफान भुंयेर, धुंवटान धांपलें मळब.
आमचो वाठार ते सुतलावन गेले.
भावांनो ...
आनी मुखार वाट ना तुमका.
सगल्याक बिण्ण काळोख!
भावांनो ...)

धानी थांबलो. सगल्या मुंडांच्या गळ्यांतल्यान, रगतांतल्यान मंत्रावरी, वेदनेवरी गंभीर आर्त गीत एक बराबर उदेलें .

'बोलोपे... '

बंदखणींत बसून धानी मुंडा, भरमी मुंडा बीरसाची खबर उलयताले.

कितल्याशाच पुनवां आदीं बीरसाच्या पणज्याचो पणजो, घडये ताचोय पणजो हे सगले घर बांदूक जागो सोदीत–सोदीत आयल्ले. तेन्ना रानां, दोंगर जमीन अशीच पडींग आसताली. जागो सोदतां–सोदतां आंकवार जमनीर कुदळ मारून खुंटी पुरून आवाठ बांदपीच तो गांव वसयताले.

ते दोग भाव आयिल्ले–चोटिया हरम आनी नाबू. तेन्ना म्हयनो शिरवणाचो. डोमडागरा न्हंयेक व्हडलो हुंवार आयिल्लो, दोनूय कांठ भरून. थंय ते न्हंयच्या कांठार तांणी चुटिया

गांव वसयलें. त्या दोगां भावांच्या नांवां वेल्यान करतां करतां त्या वाठाराक नांव पडलें छोटा नागपूर.

ते पुती मुंडा आशिल्ले. जंय गांव वसयताले, थंय लोक वसतेक येतालेच, परतो तांचे मदलो एकएकलो नव्या जाग्याचो सोद घेवंक वतालो. काळे-काळे दादले-बायलो, गायो-बोकड्यो-म्हशी, संसाराच्यो गरजेच्यो वस्तू, पांटले-कुराडी-खोरीं-कुदळी, - धोणू - तीर. तांच्या पावला-पावलान घडत गेलीं तिलमा, तामार, उलिहातु, चालकाड - गांवां फाटल्यान गांवां.

त्या काळार सगलेंच सोंपें आशिल्लें. ते रानांनी शिकारेक वताले. गायो चरयताले. रानांतल्यान पानां-लांकूड हाडटाले, रानां मारून जमीन तयार करताले. तांकां खबर आशिल्लें शिंगबोंगा सगल्या देवांपरस वयले सुवातेर. सगल्या बोंगांचेर ताचो शेक चलतालो. त्या शिंगबोंगांचो पुरयत आशिल्लो पहान.

पुण बीरसा कित्याक? बीरसाल्या जल्मा आदीं, घडये बीरसाचो आजो लकराहाच्या जल्मापयलीं सगलेंच बदलून गेल्लें. कशें बदलून गेल्लें, तें फकत धानी मुंडाच जाणा आशिल्लो, हेर कोणाक खबर नाशिल्लें. धानी ती खबर मुंडा कैद्यांक सांगी. ताच्यो खबरी आयकूंक मुंडांक जाय तितलो वेळ मेकळो आशिल्लो, कित्याक तर तांकां बंदखणींत घाल्ले खरे, तपासकाम चलतना एका फाटल्यान एक अशे हे कैदी मरतालेय बी, पुण इतलेंय जावन सरकार तांचो तपास पुराय करपाक शकूंक नाशिल्लें. आनी तपास पुराय जायनासतना खटलो उबो करपाक शक्य नासता. अदीं मदीं कांय शेंकड्यांनी निःशस्त्र मुंडांची रानाच्या हकाची लडाय इतलो व्हड गुन्याव जावन पडूं येता, की ब्रिटिश सरकाराची अख्खी शासनयंत्रणा वावराक लागल्यारूय केस तयार करूंक अनंत काळ लागता. मुंडा खटल्या बगर अटकेंत उरतात. केस उबी जायना.

– 'तुका कशें कळ्ळें धानी?'

– 'ना जाल्यार कोणाक तुमकां कळटलें? हांव कितें आयज कालचो तर? सावंतालांनी हूल उबारलें तेन्ना हांवें पांयशा परस चड पुनवो पळयल्ल्यो. कोणाक पळोंवक ना हांयें? सिधू , कानू हेंकां पळयल्ले. भागनादिहीक वचून तेंच्या हुलांत वांटेकार जावंक ना हांव? गुंजीचें वीख केलां, सोरपाचें वीख काडलां, म्हाजेवरी वीख तयार करूंक कोण जाणा अशें दिसता तुका?'

– 'तुयें हूल पळयल्लें?'

– 'पळोंवक ना? तेन्ना म्हागे पूत तरणेताठे. दोगांयगेरूय म्हागे नातू जल्मल्ले!'

– 'ते खंय तर?'

– 'तेंका सोडून येयलों.'

– 'कित्याक?'

– 'हांयें सांगलें सायबा मुखार, ते म्हागे कोणू न्हो , हांव तेंचो कोण न्हो , ना

जाल्यार तेंकाय फांसार चडयता आसले.'

– 'चडयता आसले खऱ्यांनीच?'

– 'हय तर! तेन्ना वळखलें दिकू कशे आसताय आनी सायब कसले ते.'

– 'तेन्नाच्यान तुका हें खबर आसा?'

– 'आसा तर, हांव वळखलां तेंकां. आतां पळय बीरसाच्या वंशाचो मूळपुरीस छोटा नागपूर थापून गेलो, पुण राजा भलतेच जाले. तेन्नादर आमगे जमीन, रानां सगल्याचेर भायल्यांनी घुरी घालून आमगे सगलें नागोवन व्हेयलें. हेर जातींचे, हेर गांवचे भायले लोक!'

चोंय दिकांतले लोक आयल्ले. तेच दिकू. धानीक खबर आशिल्ली, जे आयल्ल्यान मुंडांची पूर्व पुरातन खुंटया-शिमांची गांवकी भंगली, जांणी मुंडांक मारून जमीन-जुमल्याचेर आपलो शेक हाडलो, तेच दिकू. तांणी 'वेठबिगारे' चे नेम केले. दिसवड्याबगर वावर करचो पडटालो! धानी जाणा, जिणेंतल्या सगल्यांत चड दुखदिण्या खिणांक मुंडा गीतां-सुरांनी बांदून दवरतात. हीं गीतां कोण घडयता, तांका चाल कोण लायता, कोणाक खबर ना.

ही याद जावन धानी उलयत गेलो, 'आतां चय, दिकूच्या घोड्या खातीर मुंडांगे दुडू. दिकूचे पालखेक मुंडा दिता दाम, तोच मारता खांद. दिकूक जाय तितलेंय दिवप मुंडांनी. दिकूच्या कंत्राटदाराक सायबाच्या कोर्टांत दंड जाल्यार तो भरपाचो मुंडांगे पैशांनी. वयल्यान जबरदस्तेन मुंडांक रीण घेवंक लावप, आनी मागीर तेंका सोंपोवप. तेन्ना पुरवणदार आसाच. पिशा मुंडांक हे पुरवणदार मानाय म्हुण घेवन वतले तेंका जाय थंय. म्हागे भयणीक आनी भावजीक खंय व्हयले खबर ना. गांव सोडून गेल्ले मुंडा परतून घरा पाव नाय, तेंका वाट कळना, परक्या गांवांत उपाशीं मरताय. मुंडा केन्नाच हेर कडेन वचून बरो जेवंक-खांवक, रावंक पावना.'

अशीच जीण धानी आनी हेरांची आशिल्ली. ते जिणेंत भितर सरिल्ले सावकार, भाटकार, मिशनरी, बंदखण, न्यायालय, डांबरी मार्ग, रेल्वे, आर्मा आनी तुबकां, दुकळ, दुर्भिक्ष्य, पुरवणदार, वेठबिगारी ...

तरणेपणांत धानी बी गायताले,

'वेठबिगारी करीत-करीत झरयले म्हागे खांदे!
भाटकाराचे गुलाम जावन दीस - रात बंदे.
धांवडायताय, सदांकाळ फुट्टा म्हाका रडें.
वेठबिगारे नांवान म्हागे जाल्या अशे हाल-
नासतां घर, दीत कोण सूख म्हाका सांग.
दीसरात रडटां हांव.
दोळ्यांतल्यां दुकांवरी मीठ म्हागे काडून घेयलें!

धानीच्या जुवानपणांतलीं जमीन, रानां, दोंगर तांका दायजान मेळिल्ल्या मुंडारी विश्वांतल्यान मुंडा शेणटाले.

तेन्ना धानीन बी जाण्टेल्यां कडल्यान आयकल्लें - एकदीस काळ्या मनशांगेर जल्म घेतलो तांचो त्रातो. एक दीस तो येतलो. आनी सिंगभूम, रांचींतल्या रानांनी पळस फुलतकूच जसो उजो पटिल्लेवरी भास जाता, तशी ही खबर आख्ख्या मुंडारी संवसाराचें मळब तांबडेंगुंज करीत सगल्याक उज्यावरी पातळटली. काळ्या मनशांच्या कुसव्यांत येतलो अनार्य कृष्ण. देखुनूच मुंडांची जीण कंसाची बंदखणशी जावन पडल्या.

तो आयला अशें धरून व्हड आस धरून 1855 वर्सा शेचाळीस वर्सांचो धानी मुंडा बाराहायते साकून सिधू आनी कानू सांवतालाच्या पंगडाक आदार करूंक भागनादिहीच्या मळार गेल्लो. मुंडांच्या खुंट्यां-शिमांचे मांडावळींत सगल्यांक पटी भरून आपलो जमनीवेलो अधिकार दवरूंक मेळटालो. सांवताल रान मारून जमीन करताले तिका म्हण्टाले 'दामीन-इ-को'. सांवतालांचे जिणेंत, तांचे दामीन-इ-को चे जिणेंतूय दिकू भितर सरिल्लो.

– 'तेकाच लागोन तेणी हूल केल्लें!'

– 'तुयें कितें केलें तेन्ना?'

– 'तेंचीं तुबकां, आमचीं तीरकामटीं. जाल्यारूय हूल दोन वर्सां चल्लें.'

– 'तुयें कितें केलें?'

– 'हांव गुंजां - वीख तयार करतालों. तें तीरांच्या तोंकांक लायतालों. विखारी रानवायंग्याचीं फळां उदकांत शिजोवन तेंचो अर्क काडटालों, तेतुंत तीर बुडयतालों. ते सुकयतालों. इतलें करतालों.'

– 'तूं गेलो कित्याक?'

'भगवान येयलो म्हुणोन आयकिल्लें. हो भगवान मनशाक हांडीर घेवन धोलोयना, विसरयना. हेचे हातीन तीरकामटें आनी भालो.'

– 'भगवान येवंक ना तर?'

– 'भगवान येयलो ना.'

– 'मागीर कितें केलें तुवेन?'

– 'वीस वर्सांमिरेन लोलोसो जावन परकीसो जगलों. सावकाराचें शेत कसलें, गोरवां राखलीं, पोटाक घाटो खायलो, आगांक वस्त्र घायलें. उपरांत गांवभर हेडटालों. बाजारांत भोंवतालों. हूल जातलें अशें कोण म्हुणनाशिल्लो. पुण हांव कान लावन आसतालों, सगलें आयकतालों. एकदीस हो तो भरमी, आतां सादो भोळो जावन बसला चोय तो, म्हुणपाक लागलो, 'धानी, चल या भागनादिहीक.'

– 'हांयें म्हुणलें, कित्याक रे बाबा? जाल्यार तेणे सांगलें, थंय सिधू-कानूच्या गांवांक सगले सावंताळ वयताय, पुजा करताय. तेन्ना हांयें म्हुणलें, भगवान येयला दिसता, तशें जाल्यार, राव हां! गुंजां-वीख काडून घेतां पावंभर. तेणें म्हाका एक थापट

लायलें. म्हुणपाक लागलो, पिसो खंयचो. आरे, आदीं वचोन चोवया तरी, मागीर काड तूं गुंजां-वीख. गुंजी खंय मेळना म्हुणोन आसा? म्हुण्टकूच गेलों. आतां आनीक एका मार्गान.'

– 'रेल्वेन?'

– 'ना. चलत गेले. तेन्ना आठशीं पुनवो पळयल्लो सुमार सत्तर वर्सांचो जड्डो हांव. तो जुवान. दोगूय रानां माडयत गेल्ले. वचून चोय जाल्यार सावंतालांनी आपलें खेरवार हें आदलें नांव आपणायलां. व्हडलीं झगडीं. खेरवारांचे तीन पंगड. हुला उपरांत सावंताल परगणा जाल्लो. थंयसावन लडाय पावली हजारीबागाक.'

– 'तुयें कितें केलें?'

– 'गुंजां-वीख केलें. तीरां तोंकांक माखलें. विखारी रानवायंग्यांचीं फळां उदकांत शिजोवन तेंचो अर्क केलो, तेतुंत तीर बुडयले, सुकयले. इतलेंय केलें.'

भरमी मुंडान म्हणलें, 'इतलेंच काम तुजें?'

'इतलेंच काम! खेरवारांचें म्हणणें, हजारांनी-लाखांनी पुनवां पयलीं आमी चंपदेशांत रावताले, तेन्नाचे आमी खेरवार. तेन्ना आमी कोणाक म्हासूल दिवंक ना, आतांय दिवंचे नाय. व्हडली लडाय जाली. पुण तुबकां मुखार तीरकामट्यांचो नेट चल्लो ना.'

– 'चल्लो ना.'

'तेन्ना हांव ऐन तरणाटो. सगल्यो मेळून अडेयशीं पुनवो पळयल्ल्यो. तुमकां कळटा वरसांचो हिशोब. वर्साक पुनवो बारा, हेचे वयल्यान तूं हिशोब कर! तेन्नाय एक खेप पांच परगण्यांतल्यान मुंडांक सोंपयल्ले. त्या वेळार छोटा नागपूरच्या राजाचो भाव, हरनाथ शाही, तेणे आमचीं खुंट्यां-शिमांचीं गांवां काडून परक्या गांवच्या सावकार, कंत्राटदारांक दिवन वडयलीं. तेन्ना हांव गुंजां-वीख करूंक शिकलों.'

– 'फुडें कितें जालें?'

– 'तुका कितले फावटी सांगलें भरमी. मुंडांक अचकीत शेंकड्यांनी गांव दिकूंक दिवन उडोवंचे पडले. मुंडा खुनटी, तामार अशे वचून रावले. लडायेक तोंड फुटलें. तेन्ना हांव रानांनी भोंवतालों, गुंजां-वीख करूंक तुमी सगलेच जाणाय, पुण म्हाजे भशेन कोणाक जमचें ना, तेन्ना म्हाका शिकोवपी भरमील्या बापायचो बापुलयो जो पहान आशिल्लो. तेणे म्हुणलें, सगले तांबड्यो गुंजो सोदतात. तूं काळ्या गुंजांचें वीख कर. तांबड्या गुंजांच्यो बियो कुडींत रोमल्यार मर्ण ल्हवू-ल्हवू येता, विखांत काळ्या गुंजांच्या बियांचो अर्क आसल्यार मर्ण तत्काळ, खिणा भितर. हें हांव शिकलों.'

– 'मागीर?'

'तेन्नाय भगवान दिसलो ना! सिधू-कानूनूय दाखयलो ना. खेरवारांनीय दाखयलो ना. काळजांत भोव दुख जालें. हेवटेन म्हागे वर्सां वाडटालीं. दिकू सगल्याक पातळ्ळे. ज्यागेर धा रुपया मेळत असो मुंडा सोदून मेळपाक ना, सगले भिकारी जावन पडले.

कितलेशेच जाण वचोन मिशनांत भर्ती जाले. दुकळान सगलो वाठार सुकोन गेलो. सावकारांनी सेवक-पटे बरोवन घेतले. कितल्या लोकांक मुंडकार केले. मुंडांनी आखांडे तेंकयले. हांयेंय लायलो.

– 'कोणाकडेन?'

– 'जगदीश साहू , खूनटीच्या बाजरांत केन्ना पळयलो ना तुयें?'

– 'हां, हय-हय. बैलांगाडयेर तेचें मडें हाडलेलें त्या दिसा, तोच न्हो?'

– 'वगी राव. जगदीश मरोन गेलो केन्ना. तुयें पळयलो तो तेचो पूत.'

– 'जगदीश आदीं मेल्लो?'

– 'हय तर, तो कसो वांचतलो? घाटो उणो दिवप, वावर दिसभर करून घेवप. निमणो बाण लागून मेलो.'

– 'मागीर?'

– 'मारून उडोवन पळ्ळों! रानांत उडोवन दिल्लो. मरोन धा वर्सांनीय सगळे तेका सोदी.'

– 'फुडें?'

– 'हांव वचोन रावलों चालकाडाक.'

– 'मुखार कितें जालें?'

– 'तितले भितर सरदार मिशनांतले मुंडा सगले मुल्कुयचे लडायेच्यो खबरी सांगताले. धा वर्सां सुमार ते मुल्कुयची लडाय मारताले. जेकब सायब तेंच्या अर्दान मिशन आनी सरकारा आड कितलो झगडला, पुण जिकेंक पावलो ना. मुल्कुय लडाय ल्हव चल्ली! हांव तेंचे कडेन आशिल्लों.'

– 'कोणाकडेन?'

– 'सरदारां वांगडा.'

– 'थंय कितें करतालो?'

– 'गुंजां-वीख करतालों. तें तीरां-तोंकांक लायतालों आनी हांसतालों.'

– 'कित्याक?'

– 'आरे, हांसचों ना कसो! तितले मदीं सुगाना मुंडागेर भगवान अवतरलेलो. बीरसा तेन्ना ल्हान. हांव तेका पळयतालों. पळोवन सरदारांक म्हुण्टालों, दुख कसलें आतां? वीस वर्सां धीर धराय, भगवान मेळटलो. हो भगवान मनशाक विसरयना, हांडीर धोलयना, तेच्या हातींत आसतलें तीरकामटें आनी भालो.'

– 'सरदार कितें म्हुण्टाले?'

– 'तेणी म्हाका खयं कितें सांगलां? पुण तेंची मुल्कुयची लडाय चालूच उरली, ल्हवू ल्हवू चलत रावली. जेन्ना बीरसान उलगुलानाचो साद घायलो, तेन्ना सगले गेले.'

'बीरसा ना, आतां कशें फुडें?'

'उलगुलानाक अंत ना, भगवानाक मर्ण ना, शिबनाच्या तोंडांतल्यान आयकोंक ना तुयें? चल. न्हीद आतां. मळब कशें धवें धवें जालां पळय! इगर्जेंत घांट वाजता.'

– 'धानी, तूं तेन्ना चालकाडाक आसल्लो? बांबाक भगवान जल्मलो तेन्ना?'

– 'आसलों तर.'

बीरसाच्या बापायचें - सुगाना मुंडाचें मूळ गांव उलिहातू. पूण उलिहातूंत ते खेरवारांचे लडायेआदींच रावप कठीन जावन पडलेलें. गया, छापरा, आरा, भागलपूर, तिरहूत - सगल्याक सावकारांनी कायद्याचो भंय घालून मुंडांकडल्यान तांचीं मूळ गांवां हाताशिल्लीं. जांचीं गांवां घेतलीं, तांकां शेतांतल्या कामांक लेगीत दवरले ना. देखून हेर कितल्याशाच मुंडांवरी सुगानाय शेताचें काम सोदीत आज कुरूंबदा, फाल्यां गायचोरी, थंयच्यान बांबा असो भोंवत आशिल्लो.

एक पोटलीशी, मातयेची तळणी, मातयेचो बुडकुलो, मांदरी, पायलीभर वरयांचें बीं, मूठभर मीठ इतलीःच आस्पत.

आपले मूळ भुंयेंतूच सुगानाक घर नाशिल्लें. रानांतलें लांकूड–बेत घेवन घर बांदतलो म्हणल्यार जमीन नाशिल्ली. तांकां कायदो कळ ना. आपलें मूळ घर हांगाच हें ते त्रिबुनालर जुविजाक पटोवपाक शकना. न्यायालयांत पावतकच ते सगळे बेचान मुंडावरी जावन पडटात. बेचानालें घरदार सगलें जेन्ना जगदीश साहून कवळ्ळें, तेन्ना ताणे एक वकील काडिल्लो.

जुवीज सायब फिरंगी. दुभाशी आनी वकील मेळून ताका जें समजायलें तें ताणें समजून घेतलें. बेचानाचें म्हणणें, कोणाच मुंडाचें म्हणणें ताका कळना. इंग्लीश सोडून कांयच कळना. जाल्यारूय मुंडा, सावंताल, ओरांव, हो आनी कोल हांची नीत करता. वकील, दुभाशी जें सांगता तेंच आयकता आनी बरोवन घेता.

खटल्यांत बेचानान सगलें वगडायलें – बोकडां – मेंडरां – नांगर विकून मेळिल्ल्या पैशांनी वकील काडिल्लो. खटलो हारलो.

बेचानाक जमीन परती मेळ्ळी ना. जगदीशाचे जमनींत गोरां चरयल्ल्याच्या आरोपाखाला ताका दंडूय जाल्लो.

हाकाच लागून सुगाना मुंडा छोटा नागपूरच्या मूळ थापणाराचो दायजी जावनूय भिकाऱ्या भशेन भोंवतालो, भोंवतां भोंवतां मरतालो. दुकळाच्या दिसांनी मुंडांच्यो म्हशी हाडांचे पांजरे जावन गांवो–गांव फिरून हरवी खावड सोदतात तेवरीं.

भोंवतां भोंवतां ताचो एक पूत कोमता, दोन धुवो दासकी, चंपा हांचो जल्म जालो. निमाणें बांबाक पावलीं तेन्ना ताची बायल करमी म्हणपाक लागली, 'नयें घर उबार आतां. पूत जांव. तितल्याभितर दिकू येवन धांवडायल्यार या.'

सुगानान एक घर बांदलें. तातूंत पूत जल्माक आयलो. ब्रेस्ताराक ताचो जल्म देखून नांव दवल्लें बीरसा. ∎

# 2

दाट रानाक तेंकून घर, दोंगरा कुशींत पाशनाचो भुरगो वागान व्हेलो. फाटल्यान एक दीस दिकू थंय पावलो. भोजपुरी सावकार. परतेय मुंडा बेघर जाले.

सुगानान म्हणलें, 'म्हागे आजोळा चाकलाडाक या आमी. थिंगा बीरसिंग मुंडा आसा.'

– 'तो कितें करतलो? गांव तुज्या नांवार करून दितलो?'

करमी व्हडलें चिंतिनासतना उलयली. तांचें अशें तोंकाचें उलोवप व्हडलेंशें चिंतिनासतानाच जाता. नशिबाकडल्यान मार खावन खावन तांचेमदीं अशें उदासपण येता.

सुगाना ओग्गी. वेदनांनी भरिल्ल्या दोळ्यांनी ताणे तेळ्ळें. 'ना. तशें केन्ना जाता? रावंक दितलो.'

– 'तूं म्हुण्टालो मिशनांत वचोन किरिस्तांव जातलो म्हुणोन?'

– 'चल तर या. दुकळ सुमारा भायलो. मिशनाचे सायब कुयदाद घेताय, तांदूळ दिताय. भुरग्यांक शिकयताय.'

– 'शिकोन कितें जातलें?'

– 'दोग व्हडले आसाय. आनिकूय जातले. वाचूंक-बरोवंक शिकल्यार तेंका कचेरेंतल्या जुविजाली भास कळटली.'

– 'तूं कितें कायदो-कचेरी घेवन बसतलो?'

– 'गरज पडल्यार करतलों. कितल्या गांवांनी भोंवन घरां बांदतलों, तूंच सांग. कितल्या गांवांतल्यान दिकू धांवडावन घालतले? आपलो म्हुणोन एक जागो नाका! ना जाल्यार भुरगे आपल्याक जाय तशे पुरवणदारा फाटल्यान धांवतले. परतें तुका तेंचें तोंड पळोवंक मेळचें ना.'

तीं चालकाडाक येवन पावलीं. येवंचे आदीं सुगाना, पाशना, कोमता, बीरसा सगळे जर्मन मिशनांतल्यान ख्रिश्चन जावन आयले. सुगाना आतां जालो सुगाना मासिदास, बीरसा जालो दाऊद मुंडा वो दाऊद बीरसा.

बीरसा आपल्याक केन्नाय तरी शिकप शिकूंक जाय हें जाणा आशिल्लो. सुदारूंक जाय हें ताच्या मनांत आशिल्लें. दिकूंची भास शिकल्यार तो दिकूंच्या चपक्यांतल्यान जमीन, घरदार वाटावपाक शकतालो. सगलें जाणा आशिल्लो, पुण चालकाडाच्या सुगाना मुंडाचो भुरगो आनी शिकप कळपाची जीण, हांचेमदीं जायते आडे - सावकार, मुखेली, पुलीस, हवालदार, जुविज, दांबरी मार्ग-कितलेशेच आडे. सगले हुंपप तरी कशे? तो आजून ल्हान.

ल्हान, पुण मुंडाच्या भुरग्यांक आठवें लागतकूच बसून रावप खबर ना. बीरसाय रावलो ना. बोकडां राखून, रानांतल्यान लांकडां-पानां-फळां-कांदे-म्होंव हाडून संसाराक आदार करी. करमी, ताची आवय म्हणी, 'संसार फाटके गोदडेवरी जावन पडला. हिंगा शिंवल्यार थिंगा फाट्टा. सगलें पिंजलां तें केन्नाच शिंवणीन जोडूंक जावचें ना.'

बीरसाक खबर आशिल्लें, मुंडांचो संसार तसोच पिंजके गोदडेवरी. ताचें ताका दुख नाशिल्लें. फकत दिसा अखेरेक घाटो वांगडा लावपाक मीठ मेळ्ळें ना जाल्यार ताच्या मनाक लागतालें.

ताचो व्हडलो भाव कोमता म्हण्टालो, व्हड जातकच तो खंय बाजारांतल्यान एकदम साकभर मीठ हाडटलो. जाका जितलें जाय, तितलें आपल्या हातीन घेवन घाटोक लावन खावंचें.

बीरसा ताच्या ह्या अशक्य कर्तुबाच्या उलोवपाक हांसतालो, बांसरी घेवन चलूंक लागतालो. कोंकणदुदयाच्या कट्ट्याचें केल्लें 'टुयला' आनी बांसरी हीं ताचे मुठींत आशिल्लीं.

टुयल्याचो झंकार आनी बांसरेचे सूर ताच्या संगातांक फिरताले.

रानांत बसून तो मनसोक्त बांसरी वाजयतालो.

जेन्ना तो रानांत वतालो, तेन्ना ताचे फाटोफाट धानी मुंडाय वतालो.

– 'तूं म्हागे फाटल्या-फाटल्यान कित्याक फिरता?'

– 'फिरचों ना कित्याक? रान कितें तुवें विकतें घेयलां?'

– 'घेयलांच!'

घरा वचून पळयल्यार आवय महुआच्यो बियो वायणांत घालून कांडटाली. आवय बियो कांडटाली, भयणी त्यो वांट्टाल्यो. मागीर तेल येतालें. घरांत दिवो जळटालो. ताका बेगीन व्हड जावंचें दिसतालें. कोमता वांगडा वचून बाजारांतल्यान मिठाचे सगले साक, तेलाचीं पिंपां हाडून करमीक राणी करून सोडची अशें दिसतालें.

रानांत येवन ह्यो सगल्यो गजाली तो विसरूंक शकतालो. दिगंतेंत रोमिल्ल्या निळ्या दोंगरां दिकेन पळयत सपनेंवक शकतालो. सपनांत ताका दिसतालो फकत ताचो तो आदिपुरीस. दोन भाव हुंवारान पिशांतर जाल्ली न्हंय हुंपून येतात. बिजलेच्या चकमकाच्या उजवाडांत एका अस्पर्श रानाच्या चारूय वाटांनी काळे -काळे हात वावडीत म्हण्टात, 'हें सगलें आमचें!' तांच्या तोंडांतल्यान पावस झडटा. न्हंयचें उदक तांच्या पांयांर घालून

घता. त्या कुंवर रानाचो राखणदार एक विशाल हती मळबा वटेन सोंड उबारून व्हडान गर्जन करून तांका येवकार दिता.

आपलेच संगतींत एकमुळो रावंक जमता जाल्ल्यान तो आपल्याक विसरून जियेवंक शकता. देखून ताणे तिडकून धानीक सांगलें, 'हें म्हागे रान.'

धानी कांय खीण ताचेकडेन पळयत राविल्लो. मागीर रुक्ष आवाजांत ताणे म्हणिल्लें, 'याद धर. हें सगलें तुगे म्हणलां तुयें.'

धानी गेल्लो.

घरा परतून येवन बीरसान केंदू रुखा मुळांत बसून पानाच्या दोण्यांत सुवादहीण घाटो खायत व्हडल्या भावाक म्हळें, 'धानी मुंडा असो कितें? तो पिसो काय अर्दकुटो?'

— 'झगडें –पिसो.'

— 'कसो?'

— 'जंय झगडें –झूज आसा थंय तो आसा. तेगे पिराय जाली आठशीं अठ्ठ्यांयशीं पुनवो. इतल्या भितर हो सामकी पयली मुंडा लडाय, हूल, खेरवारांचें झूज, सरदारांचें मुल्की झूज, सगल्याक लडाय खेळोन येयला.'

— 'तो म्हातारो?'

— 'म्हातारो जाल्यार कितें जालें? तिरकामट्याचो तेचो तीर खात्रेचो. तेचेवरी बारा गांव कोण भोंवला?'

— 'म्हागे जीव खातालो.'

करमीन आंगणांत सान्न मारताना म्हळें, 'तेचें आयकों नाका रे बाबा. तेणें आयजवेर धा भुरग्यांक तरी झुजा तोंडाक लायल्याय.'

— 'म्हाका मारूंक तेका जमचें ना.'

— 'वगी राव रे! तिनकात्रेर मर्णाची खबर नाका, बीरसा!'

— 'तेका मारून उडयतां हांव एक दीस.'

— 'तुजे परस धानी व्हड न्हू रे? जाण्टो?'

— 'म्हाका चाळयता कित्याक तर तो?'

— 'कितें म्हुण्टा?'

करमी लागीं येवन उबी आशिल्ली. कोमताक लागून न्हय, दोन चेडवांक लागून न्हय, ह्या पुताक लागून करमीचें काळीज कांचवेतालें.

बीरसा कोंकणदुदयाच्या कट्ट्याक तार बांदून टुयला घडयतालो. नदर वयर काडिनासताना ताणे म्हळें, 'कितलो बडबडटा!'

— 'कितें म्हुण्टा?'

— 'तो म्हुण्टा, हें सगलें रान, सगले दोंगर, आसा तितलेय म्हागे खंय.'

— 'अशें म्हुण्टा तो?'

— 'आवय, रड्टा तूं?'

बीरसा आपले विस्मितभरित, निशपाप, नितळ दोन दोळे तिचेवटेन करीत उलयल्लो अवाक् जावन.

— 'बीरसा, तूं म्हागे काळजाचो कुडको, एक आयकतलो?'

— 'सांग.'

— 'धानीगे व्हडलें मनार घेय नाका.'

— 'कित्याक?'

— 'तो पिसो.'

— 'कित्याक?'

— 'तो मरे भगवानाक सोदता, कळ्ळें तुका बीरसा?'

— 'भगवानाक सोदता?'

— 'हय रे बाबा.'

— 'हें आनीक कितें?'

— 'तेंच सांगतां.'

— 'भगवान कितें सांतेक आनी तिठ्यार मेळटा?'

— 'हांव जाणा तो खंयच्या भगवानाक सोदता तें. तो भगवान खंय मुंडा जावन जल्माक येतलो. तो खंय सगल्या मुंडांक एके वळीन वसयल्लीं गांवां दितलो. तो येतकूच दिकू उरचे नाय. तो येयल्यार सगल्या मुंडांच्या आंगार कापड, बुडकुल्यांत घाटो आनी पायलीभर मीठ भरोन आसतलें. मालटेंत महुआचें कोडू तेल आसतलें. तेन्ना मुंडा राजा जातले.'

— 'ओगी राव! ही पिशांची खबर.'

— 'हय रे बाबा, तेच्यो खबरी तूं आयकों नाका.'

— 'कित्याक आयकतलों?'

— 'तो पिसावला, मुंडांच्या भुरग्यांक चाळोवन घालता.'

— 'आवय, तेचें सोड. एक मजा दाखोवं?'

— 'कसली रे बाबा?'

— 'हे ऽ ऽ ऽ तें सुकणें रुखावयल्यान वडयन हाडूं? पळय.'

— 'नाका रे! तेका नाका मारूं. तें कोणाचे वाटेक वचना. तेचेर नाका तीर सोडूं.'

— 'ना गे, तीर कित्याक मारूं?'

— 'जाल्यार?'

— 'चोय तर.'

कोमतान म्हणलें, 'तुगे पुताचे गूण नेणा तूं. तो बांसरी वाजोवन हरणाक लागीं हाड्टा, सोंशांक आपयता, रानांतलीं सुकणीं-सावदां तेका वश जाल्यांय.'

करमीन म्हणलें, 'चे: !'

बीरसान म्हणलें, 'जाल्यार चोय तर!'

बीरसा टुयला वाजयत रावलो टुंग टांग, टुंग टांग. ल्हवू ल्हवू नाजूक सूर तारेंतल्यान काडीत. सांजवेळच्या वाऱ्यार ते टुंग टांग टुंग टांग सूर सांजेंत विरगळून गेल्लेवरी पातळ्ळे. आनी भांगराळ्या सुरांवरी उडून तो हळडुवो वाणी उडत सकयल देंवलो. बीरसाच्या माथ्यावयल्यान पांखाटे हालयत खंय तरी उडून गेलो.

करमीन म्हणलें, 'म्हाका एक सांग बीरसा, तुजेलागीं अशें आसा तरी कितें?'

बीरसान म्हणलें, 'जादू आसा.'

– 'कोणी शिकयलो तुका?'

– 'रानांत चल. रानांतलें वाजप आयकोंक ना तुयें? पानांपानांतलें वाजप आयकोन शिकलां हांव.'

– 'रानांत एकलो वचों नाका, पुता म्हाज्या.'

– 'एक दीस टुयला वाजोवन तुका हांव तें निळें सवणें धरून दितां. तूं म्हुण्टा तें सवणें घरांत आसल्यार सऽऽगलें बरें जाता म्हुणोन?'

कोमता उलयलो, 'आसूं आसूं! तुका कितलें सांगलें रानकोंबयेक लागीं आपय. तिचें मांस खावया. तें काय तूं आयकना.'

– 'कित्याक आयकतलों? तिका मारूंक तूं जाळ वडय, तीर मार. हांव कित्याक धरून दितलों?'

करमीन म्हणलें, 'चला, न्हिदा आतां. काळख जालो, चला भितर.'

करमीन राती सुगानाक सांगलें, 'बीरसाक खंयूय वावराक लाय.'

– 'कित्याक?'

– 'म्हाका भिरांत दिसता.'

– 'भंय? कसलो?'

– 'हांव नेणा. पोटचो पोर. जाल्यारूय केन्नाय परकी, अनवळखीसो दिसता.'

– 'कित्याक?'

– 'तो कोमतावरी न्हो. कोणाय हेर मुंडारी भुरग्यावरीय न्हो. कसलो म्हुणोन भुरगो हो?'

– 'सोड, हें सगलें चिंतों नाका.'

पुण सुगाना मुंडाक कळटालें, बीरसा मुंडारी भुरगो खरो, पुण हेर जातीचो आशिल्लेवरी. दिसूंक हेरांवरी न्हू, नाकातोंडान खेरीत. सगलेच मुंडारी भुरगे बांसरी, टुयला वाजयतात. बीरसाय वाजयता.

पुण बीरसा बांसरी वाजयता ती कसल्या सुरांनी, खंयच्या सुरांनी? सुगानाचे ल्हान पिरायेर मुंडारीचें आदिदैवत हरम आसूला चे देवरपणावेळार व्हडल्या उत्सवांत मोठो

दबाजो जाय. गांव मुखेली म्हण, हरम असलाक बांसरी आयकूंक आवडटा. देखून एका एका भुरग्याक जल्मतनाच बोटांचेर आनी ओठांचेर ताचो आशिर्वाद मेळटा.

बीरसाकूय तसो दिल्लो काय? ना जाल्यार हातांत टुयला आनी कमराचे मुंजीक बांसरी हुमकळावन बीरसा जेन्ना मुंडारी भुरग्यांच्या रासवळ नाचा मांडार वयता, तेन्ना सुगानाचे पिरायेचे, तेच्या आवय-बापायचे पिळगेचे, चालकाडांतले सगले मुंडा थंय दोन खीण पुण उबे रावन बीरसाची बांसरी कित्याक आयकतात?

सुगानाचो व्हडलो भाव बडा कानू पलूस, तो केन्नादर क्रिस्तांव जाल्लो! सुगानाक तो मेळय ना सपसप तशें पळयल्यार. तोय कित्याक फाटले खेपे सांगून गेलो, 'तुजो हो भुरगो मरे सुगाना, भोव अप्रूप! तेची बांसरी आयकली, केन्नाच आयकूंक ना तसली.'

नाचा मांडार बीरसा गेला म्हूण कळ्ळ्यार पुरो, ताचे पिरायेचे सगले थंय वचून हाजीर. करमीक मुंडारी आवयो म्हण्टाल्यो, 'जाणा मुगो करमी, तो दिकू नंद गोलदार पुजता त्या किशणदेवावरी तुजो पूत बांसरी वाजयता. तशे सगल्याच मुंडांगेर भुरगे वाजयताय गो, पुण ती आयकून धांवते सोंशे, बेफाम दुकरां, रानांतलीं हरणां, सगलीं थंडपणान कांय खीण थिरावताय, हें तुयें केन्ना चोयलां?'

सुगानाचो पूत असो कित्याक जालो? ताची खबर सगल्यांच्याच तोंडार घोळटा. बीरसा पुता, तूं सगल्यांवरी जा!

हांव सुगाना मुंडा. हांव नेणा, केन्ना म्हाज्या आदिपुरसांनी - चुटू आनी नागू हांणी अस्पर्श भुंयेर खुंटी मारून, कुंवारी रानसुंदरीचें कुंवारपण भंगोवन मुंडारी वसती आकाराक हाडलेली - कदीऽम काळार! केन्ना तेंच्या नांवान हे वाग, दुकरां, वांस्वेलां हांगा येवन रावलीं, साल, गजार, पलाश, कुसुम, पियाल, पियासाल, सिधा, शिबम रुखांचें रान आनी कुंवरी धर्तरिच्या फुलिल्ल्या हड्डयावरी बसके दोंगर हांणी धांपिल्लें जें अद्भुत, तो अजापांचो अप्रूप वाठार, ताका नांव दिल्लें छोटा नागपूर.

छोटा नागपूर जांच्या नांवान वसलां तांचो दायजी हांव - सुगाना मुंडा भिकाऱ्याच्याकय पाश्ट, पोटांत घाटो ना, आंगावेलो वालो ओडून बांदल्यार पिंजता. कितले खेपे येवजितां, अशें जगचे परस सुकण्यां-सवण्यांचो जल्म मेळ्ळ्यार शेतां-खळांवयले दाणे गोटे वेंचून जियेवन सुख आशिल्लें, जीव वांचोंव येतालो.

पुण तें म्हाजे मतींत येयना. सगले मुंडा म्हाजे वरीच वांचतात, मरत मरत जियेतात. म्हाज्या फुटक्या नशिबान सेंगेल-दाचो उजो पेटलो, त्या आदियुगांतल्या सेंगेलदाच्या उज्यांत धर्तर लासून गोबोर जावन गेल्ली. सिंगबोंगान मळबांतल्यान उजो रकयल्लो. तातुंत अख्खी मनीस जात जळून मेली. एके कुल्लेच्या बिळांत थंड उदक आशिल्लें. मातयेच्या पोटांत थंड उदक. एक चेडो, एक चेडूं - तीं मुंडारी, सालांच्या रानांत सावळेंत बसून तो टुयला वाजयतालो, चेडूं नाचतालें, तीं उजो पळोवन थप्प जालीं.

सिंगबोंगान मळबांतल्यान तोंड बागोवन म्हणलें, – 'आरे, तुमी धांव माराय. तुमच्या हातांत जल्म–मरणाची जापसालकी आसा. तुमी आसल्यार संवसार परतो जल्म घेतलो.'

तांणी म्हणलें, 'खंय धांवचें आमी?'

– 'तें ऽ ऽ ऽ पळयात!'

उज्या कोराचो सोरोप, नागदेवता नागी, ताणे फण्याचो आसोर धरून तांका दोगांकूय कुल्ले बिळांत व्हेलीं. शीतळ उदकांत तीं बुडून रावलीं. कितले दीस न्हिदून पडलीं कोणाक खबर. मागीर सिंगबोंगाचो उलो आयकून तांका जाग आयली.

भायर येवन पळय जाल्यार पावस केन्ना सावन पडटालो. सिंगबोंगान उजो रकयल्लो तसोच पावस वतोवन विश्वभुवनाक थंडाय हाडिल्ली. कितले दीस जाले कांय कळना, रानां, न्हंयो, दोंगर, जनावरां, सुकणीं, फुलां, फळां, किडे, पाखे सगलीं राबित्याक आयलीं.

सिंगबोंगान कुपांतल्यान तकली भितर घालून आडून म्हणलें, 'चेः! संवसारांत सगलें आसा, पुण मनीस ना. तुमी निर्माण करात. आयक – मनीस–मनीस करून मुंडारी मनशांनी हें घर भरून उडय.

तो चेडो, तें चेडूं हांचे पसून समेरस्त मुंडारी संवसार आरंभलो.

पुण सुगानाच्या कर्मात सेंगेल–दाचो उजोच! कर्मात उजो, पोटांत उजो, मनांत उजो.

सगल्या तरांचो उजो ताणें मानून घेतला. हातुंत वाद ना. इतलो उजो एके खेपेन कसो पालवत? मुंडांचे जिणेंत उजो पेट्टा आनी पेटत उरता.

ताचेंय सुगानाक कांय दिसना. पोटभर जेवल्यार, आंगभर अख्खें कापड आसल्यार, अभंग घरांत न्हिदल्यार कशें दिसता तें ताका खबर ना. देखुनूच उणें जेवन – ना जेवन, फाटको वालो न्हेसून, मोडक्या घरांत न्हिदून जियेतना ताका दुःख ना.

खरें म्हळ्यार, सुगाना आनि करमी नशिबाचे उपकार मानतात. जायत्या हेरां परस तीं बरीं आसात. सेवक–पटो बरोवन दिवन तीं जल्माचीं गुलाम जावंक नात, कोणा दिकूकडेन वेठबिगारी करपाची ख्यारस्त ना, खूब बरीं आसात तीं.

कोमता, बीरसा, सगल्यांत धाकलो कोनू– तिगूय घरा आसात. दोनूय चेडवांचीं लग्नां जाल्यांत. पुरवणदार वर्सान वर्स येवन च्यावे–मळ्यांत हमालेच्या कामाक बरे दुडू मेळटा म्हुण आस दाखोवन मुंडांक घेवन वता.

मात तीं गेलीं नात जाल्यारूय तांचें बरें चल्लां.

उधारी – रीण – तूट – उपास हेंच सगळें सुगानाक ह्या संवसारांतल्यान येणें आसा. हो संवसार सोडून तो दुसरे भशेन जावंक सोदिना.

बीरसा वेगळो कित्याक? अटंग्या रानांत गायो–बोकडां चरोवंक सगलेच मुंडा भुरगे

वतात. फकत बीरसाकूच अख्ख्या रानाचीं गुपितां कशीं कळटात?

खंय कंद, खंयचें कोंडींत नुस्तें, खंय बरीं गोड बोरां आनी खंय आंबट-तोरट आंवाळे, सुरण, मांसाळ सोंशे, साळी-हें सगळें ताका एकल्याकूच कशें खबर? रानांच आपलीं सगलीं रहस्यां ताकाच सांगता कशीं. सगले लिपोवन दवरिल्ले गिरेस्तकायेची सांठवण एकल्या बीरसाच्याच पोशांत घालता. अशें कित्याक?

बीरसा, तूं चारचौगांवरी जा. आवय-बापायसरीं रावपी भुरगीं तशीं जातात. रोगिः-कश्टी, एक वर्सा दुकळ पडल्यार मिशनांत वचून क्रिस्तांव जातात. परत बरी पीक जाल्यार आपल्या धर्मांत परते येतात.

तूं तांचेच भशेन जा बीरसा.

सुगानान थारायलें, बेगिनात बेगीन बीरसाक खंयूय तरी राखणेपणाक दवरूंक जाय.



# 3

दिस्त संदूय आयली. सुगाना मुंडाले जिणेंत धाकल्या पुताक राखणेपणाक लावपाक बारीकशेंच निमित्य, संसाराचे दिसपट्टे व्हांवतेंतली कसलीय घडणूक जावन येवं येतालें.

दोन धुवांच्या लग्नांक लागून सुगाना रिणांत पडलो. तेंय थोडें न्हय, सुमार चवदा-पंदरा रुपया. बीरसा फाटलो भाव कोनूय आतां दिमखुन्यांनी चलत घाटो खावपा इतलो व्हड जाल्लो.

संसाराचेर अचकीत भार पडलो. करमील्या व्हडल्या चुलत्यालो पूत, तिचो दादा एक दीस अवचित चालकाडाक आयलो. म्हणपाक लागलो, 'जाणा मुगो करमी, बायल

तुसडी म्हाजी. पीक विकून दोन रुपया मेळ्ळे. म्हुणलें, सोरो हाडुया, मजा मारुया, कोंबयोय कापच्यो दोन, जाल्यार तिणे काडून घेयले पैशे. तांदूळ हाडटां म्हुणोंक लागली. थूः!

निबाय मुंडा जमनीर थुंकलो. तांदूळ हाडटा खंय! हाडले तांदूळ. हांवूय तसलोच. घेवन येयलों साकांतल्यान एक पायली तांदूळ. चल, शीत रांदून वाड. बरो जेवतां.

करमीन जाळ मांडून सोंसो धरिल्लो. सगल्यांनी बसून शीत आनी सोंशाचें जेवण केलें. निबाय म्हणूंक लागलो, 'तुगे दोगुय भुरगे म्हागे सुवादीन कर. व्हरतां तेंकां. तुगे संसाराक जोडूंक हात ना, खावंक तोंडांच चड.'

'तूं खंय दवरतलो म्हागे भुरग्यांक?'

'तुगे बापायलें घर ना? दिबाय मुंडा, तुगे बापूय, म्हागे काका. तेगे घर ना तर? आमी ना थिंगा?'

'थिंगा गेल्यार तुगे घरांत खातलीं तोंडां वाडटलीं, खरें मरे?'

'कोमता आतां कामाचो जाला. तेका व्हरतां कुंडी बरतोली. भूरा मुंडा आसा थिंगा.'

'कोण भूरा रे? तो चिकनी भूरा मरे?'

'हय गो. तोच.'

'तेचे कडेन कित्याक पुण?'

'तूं जाणा? तेणें तीन कुडे भूंय निवळ करून थंय घर बांदून अख्ख्या कुडक्याक आडो बांदून काडला. पूत ना, आसाय चार धुवो. कोमतान तेगेर राखणेपण केल्यार

बऱ्याक पावतलो. तेंगेर शीत जेयताय. आनी मीठ कितलें? दोण भरोन. हांयें म्हागे दोळ्यांनी चोयलां.'

'कोमताक आतांच धा भल्ल्यांय. बीरसा तेचेकूय ल्हान.'

'आब्बा. ल्हान खंय. कसलो ल्हान! तेचे येदो आसताना तुगे बापायन म्हागे फाटीर बडयांचे वळ काडलेले. हांयें राखणेपण करूंक ना तेदो आसतना?'

'सगलेच कितें तुजेवरी?'

'तुगे भयण जोनीय तेंका जीव घालता. थिंगा रावतले ते.'

'थिंगा रावोन कितें जल्म सारतले?'

'तो जयपाल नाग ना गो सालगाक? तेगेर दवरुया मागीर राखणेपणाक. आनी व्हय, तेणें साळा काडल्या, थंय शिकोंकूय मेळटलें.'

'कितें जातलें शिकोन?'

'देवा म्हाज्या! चालकाडांत रावनूय तुका वारें खंयच्यान मारता तें कळना मगो. आतां निखटे क्रिस्तांव जावन कांय लाव ना. बरप-वाचप शिकल्यार मिशनांत पावतले, पाद्री जातले, माथ्याक पागुटें घालून सांतेक भोंवन जेजूची खबर सांगतले.'

'तें म्हागे कपलांत ना रे दादा. तूं व्हरतलो, व्हर! म्हाजेकडेन आनी चिंतोंक जायना. तीन पूत आनी तेंचो बापूय सगल्यांक पोटाक कितें घालूं, सगल्यांचो जीव कसो राखूं, हें चिंतोन चिंतोन पिशें लागपाचो वेळ येयला म्हाजेर.'

— 'बीरसा, वयता मरे मामा वांगडा?'

— 'वयतां.'

— 'आतां तूं व्हड जाला पुता. तुका पोटाक घालपाक तांक ना, काळजाक घाय पडटाय -म्हुणोन वच म्हण्टां. ना जाल्यार तुका पयसांवचें नासलें.'

— 'तूं आनी एक एक सांगता. आठ वर्सांचो जालो, आतां काळार येद्या व्हड भुरग्यान बसोन खावप?'

— 'येदो व्हड म्हणजे असो केदो तर तो?'

— 'बऽऽरो व्हड.'

— 'बऽऽरो व्हड?'

— 'बऽऽरो.'

करमीचें आवय-मन सांगतालें आठ वर्सांच्या भुरग्याक वेंगेंत दवरून सांबाळपाचो. पुण ती बाबडी फकत आवय न्हय, ती मुंडारी आवय. मुंडारी आवयक खबर आसता, आठ वर्सांचो भुरगो राखणेपण करून जावं वा कोणाय दिकूल्या खळार खुंटारो मारून जावं, आपल्या पोटापुरतो घाटो जोडून हाडटाच.

करमीलो बापूय दिबाय मुंडा जाणो शाणो मनीस. ताचेकडल्यान करमीन आयकल्लें - एका काळार खंय सगलीं रानां आनी दोंगर मुंडा, ओरांव, हो, कोल, सांवतालांचेच

आशिल्ले. तेन्ना मुंडारी आवयो आपल्या मुंडारी पुतांक दिकूंल्या पुतांवरी खूब व्हड जायसर माये-अपुर्बायेन आपलेसरीं दवरताल्यो, दवरूंक शकताल्यो.

ही गजाल हजार, लाख पुनवां फाटली. तेन्ना धर्तरी इतली निबर जावंक नाशिल्ली. होरोम आसूलाल्या शेकातळाच सगलें आशिल्लें. जेन्ना तो चेडो आनी चेडूं कुल्लेच्या बिळांत न्हिदिल्लीं, तेन्नाच होरोम आसूलान उदक वतोवन धर्तरिवेलो उजो पालयल्लो.

सगल्यांत पैलीं अवतरले उदकांतले जीव. नुरत्याक आपोवन सांगलें, 'दर्यातळाच्यान माती हाड. जमनीर जीव निर्मितां.'

दर्या माती कित्याक दितलो? नुरत्तें तोंडांत माती घेवन वयर आयलें, दर्याचीं ल्हारां माती परती घेवन गेलीं. हांगा होरोम आसूल शिंगभूमायपरस विशाळ एक तळाचो तायट तसोच धरून आशिल्लो. माती मेळटकच भुंयेवेली जीवसृश्ट घडोवपाची आस धरून.

निमाणो गांयडोळ वयर उफेलो. पोटांतली माती विश्ठेंतल्यान भायर वोतली. तितलीच माती मेळ्ळ्यारुय होरोम आसूलान सऽऽगली सृश्ट निर्मिली.

ते आशिल्ले सुख-शांततायेचे सरळ-सोंपे दीस.

तीं चेडो-चेडूं आशिल्लीं, तांका एक भुरगो जालो. भुरगो मरणांतिक दुयेंत! त्या आदि मुंडा जोडप्याक कितें करचें कळना, भुरगें मेल्यार होरोम आसूलाचे मुंडारी संवसार, शिंगबोंगाची मुंडारी धर्तरी, काळ्या मनशांनी भरून कशी उडोवप?

'होरोम आसूल बाबा रे!' म्हणत ती आदिमाय खूब रडली. फातरावरी काळ्या मुखामळावेल्यान हिन्यावरी चकचकपी दुकां गळ्ळीं.

होरोम आसूलान म्हळें, 'आवयस! सृश्ट निर्मितना मातसो दोळो लागलो, तितल्यांत उलो मारलो तुवें?'

त्या आवय-बापायन म्हळें, 'बाळक मर्णा धडेर आसा, देवा! तुका सोडून आनीक कोणाक साद घालूं?'

'दारा भायर हुंबऱ्याक तेंकून कोळश्यान चित्र काड. तें पळोवन दुयेंस पळटलें. म्हाजी पुजा कर. धव्या कोंब्याची आंगवण करून पुजा कर.'

ती पुजा करतकच भुरग्याक गुण पडलो.

कितले बरे आशिल्ले ते दीस? देव कितले सोंपेपणीं प्रसन्न जाताले? आतांय करमी बी सगलीं क्रिस्तांव जाल्यांत आनी बोंगा-बोंगीकूय भजतात. पुण राखणे देव आनी मुंडां मजगतीं आतां मेल्ल्या मुंडांच्या मसंडींतल्या यादी-फातरींवरी मोठेमोठे आडसर आसात. वैष्णव धर्म, संन्यासी धर्म, गोंसाय धर्म, क्रिस्तांव धर्म, सदान धर्म, दिकू - न्याय - निवाडे - न्यायालय - सावकार - कळंतर - वेठबिगारी - सेवक-पटो - गुलाम-पत्र - शेंकड्यांनी आडसर. इतले आडसर, देवांक आतां मुंडांचें कल्याण करप शक्य ना.

करमीन उस्वासून म्हळें, 'तशें कर. म्हाज्यान आनी चिंतोंक जाय ना. उपाशीं रावोन धुंवळ येता. दोळ्यांमुखार नखेत्रां. तकली कणकणटा.'

# 4

तशेंच जालें.

कोमता आनी बीरसा निबायावांगडा गेले. कोमता कुंडी बरतोलीक गेलो. थंय भूरा मुंडाल्या खळावेल्या आनी राखणेपणाच्या कामाक लागलो.

करमीली भयण जोनीन म्हळें, 'बीरसा तूं हांगाच राव. आनी खंय कित्याक वयता?'

बीरसान झेतान म्हळें, 'आईक सांगोन येयलां हांव आतां व्हड जालां. हांव व्हड जातलों.'

जोनी तोंडार पालव ओडून हांसलें. ताणे म्हळें, 'पिसो! अपुरबुद्द तूं! व्हड जातलो, कितें करतलो व्हड जावन?'

'आईक साक भरुन मीठ हाडून दितलों. दोणभर तांदूळ आनी कड्डणां.'

'तूं कितें डाकू, लूटमारो जातलो काय कितें रे?'

'पाद्री जातलों.'

'कसो जातलो?'

'शाळा शिकोन.'

'आनी कितें करतलो?'

'तुगे गोरां राखतलों. वंय बांदून दितलों. लांकडां हाडून दितलों.'

'साळा कितली पैस, जाणा तूं?'

'जाणा.'

'जयपाल नाग भोव रागी.'

'कितें करता? बडयता?'

'ना ना, बडयना. पुण खूब तापयता.'

'म्हाका तापोवंचो ना तो.'

'जाल्यार हो वालो लाय. तुगे कपडे शाब्बा मातयेन धुयतां.'

जोनीन बीरसाचे कपडे धुले. धवेफुल्ल कपडे घालून, लांकडा फळयेची पाटी, कोळसो आनी सुडक्या फाळी घेवन बीरसा जयपाल नागाले शाळेंत पावलो. ताणे म्हळें, 'म्हाका तुगे साळेंत घे.'

'आँ ऽ? कोण रे तूं?'

'दिबाय पहानाचो नातू हांव. म्हागे आवय करमी. म्हाका साळेंत घे.'

'तुजें घर चालकाडाक न्हू रे?'

'चालकाडच्यान सालगा येवंक जाता? हांव आयूभातूक रावपाक येयलां. थंयच्यान येतलों सद्दां.'

'साळा सक्काळ फुडें. सांबाळून यो बाबा! रानाची वाट, वागाचो भंय.'

'वाग खूब चोयल्या हांयें.'

'भंय दिसना तुका?'

'हांव भिना.'

येदोसो बीरसा कसोच भिलो ना. व्हड जातलोच–खूब व्हड. सालगाच्यान आयुभातू रानांतल्यान चलून यो–वच करीत रावलो.

एक दीस बीरसा बोवाळ घालीत घरा आयलो. जोनी सुपांत जोंदळे आसुडटालें. ताणे म्हळें, 'कितें जालां?'

बीरसा मोठ्या गर्वान आंगणभर पावली मारीत रावलो कांय खीण. मागीर पाटी दाखोवन म्हणपाक लागलो, 'चय. कितें दिसलें?'

'हें कितें?'

'हें कऽ, हें खऽ आनी हें–हें गऽ – सगळें शिकलों हांव.'

जोनी हांसतां हांसतां रडूंक लागलें. ताणे बीरसाक विचारलें, 'इतलें सगलें शिकलो तूं?'

'शिकलों.'

'यो, तुका वाडटां.'

जोंदळ्या ल्हायो, रानकोंबयेची शागोती आनी रानघोंसाळ्याची भाजी. मावशेगेर खावन जेवन भोव सुख. निखट्या घाटोन भागयना ही मावशी. रानांतल्यो माडयो आनी कांदे, सवर्णी, सोंशे, साळी हांचें मांस खातना बीरसाक येवजतालें, हे धतरिर इतलीं खाणां आसात! जाल्यार ताचे आवयक करमीक घाटो वांगडा मीठ कित्याक मेळना?

मावशेगेर भोव ऊब. मावशेलें घरदार उजवाडान भरिल्लें – सांसवां तेलाच्या दिव्यांतल्यान पातळपी धुंवरासयत. पुण सवण्या घोंटेर वाऱ्यार थरथरता. जोनीचें लग्न जालें.

'मावशे ऽ ऽ' म्हुण मोठ्यान रडत बीरसा आकुळपिकुळ जालो. जोनीन हळडीन भरिल्ल्या हातांनी बीरसाक लागीं घेवन म्हळें, 'तूं रडटा कित्याक? तूं म्हाजे वांगडा खाटांगाक येतलो न्हो?'

'तीं म्हाका दवरून घेवंचीं ना.'

'ओगी राव! थंय तेंगेर गोरां राख. रावतलो म्हाजे वांगडा?'

'बरें रावतां.'

जोनीन बीरसाच्या केंसांनी हात भोंवडायत म्हळें, 'व्हड जाला, व्हड जावंक जाय. इतलो व्हड जावंक ना रे तूं.'

'कित्याक?'

'म्हाजेबगर तुज्यान रावंक जायना?'

'तूं वयतकूच म्हाका कोण वाडटलो?'

'तें खरें.'

पूण बीरसाचे मामीन –निबाय मुंडाचे बायलेन म्हळें, 'नाका वचूं बीरसा, तुजी बांसरी आयकोंक मेळची ना, टुयला वाजयत नाचतना तुका पळोवंक मेळचो ना, आयूभातू थंड पडटलें.'

जयपाल नागान म्हळें, 'बीरसा, तूं वचूं नाका. तुजे सारखो दुसरो भुरगो म्हाजे साळेंत ना. म्हाका जितलें येता, जें कितें येता, तितलेंय सगलें हांव तुका शिकयतलों.'

गांवच्या भुरग्यांनी सांगलें, 'नाका वचूं बीरसा. तूं गेल्यार मांड ओसाड पडटलो.'

बीरसान म्हळें, 'म्हाका खूब व्हड जावंचें आसा. हांगा रावल्यार हांव व्हड जावंक पावतलों?'

बीरसाक खबर नाशिल्लें, जोनीक खबर नाशिल्लें, जयपाल नाग नकळो आशिल्लो, गांवच्या भुरग्यांक खबर नाशिल्लें, बीरसाक मुंडारी संवसार आनी जिणेंतल्यान भायली कसली ओड ओडटाली तें. खूब नेटाची, आडावं नजो अशा प्रबळ आकर्शणान.

मुंडारी जीण म्हळ्यार हजारांनी नेमकायदे आनी रगतांत घोळिल्ली स्रध्दा. आयज तूं मुंडारी, फाल्यां क्रिस्तांव, परतो मुंडारी, परतोय क्रिस्तांव. पुण तुजें नांव आयज सुगाना – कोमता – डोनका – भरमी –धानी – फाल्यां पावल – दाविद – मातेव – अब्राहम – कितेंय जाल्यार रगतांत शिंगबोंगाचे नेम, होरमी आसूलाचो असंतोश.

हाकाच लागून रानां–दोंगर–झरी हें सगलें तुमची आवय जावनूय तांचो तुमका भंय दिसता. सदांच दिसता – देवा म्हाज्या! सिंगबोंगान जेन्ना राकेसाक जाळून मारलो, राकेसाच्या बायलांनी सिंगबोंगाकडेन वचून न्याय मागिल्लो.

आनी सिंगबोंगान राकेसांच्या बायलांक केश्ट्यो धरून आसमंतांतल्यान सकयल सोडून दिल्यो दोंगरां–रानांमदीं. तेन्नाच्यान त्यो रानां –दोंगरांनी दुश्ट आत्मे जावन रावतात.

तांचो सऽगळो राग मनीस जातीचेर. केन्ना अप्रूपाची मुंडारी कुंवरी, केन्ना अजापां दोळ्यांचें हरण जाल्यार केन्ना तोंडांतल्यान उजो ओंकपी कोलो अशीं रुपां घेवन मुंडा दादल्यांक दाट रानांत वाट चुकोवन ओडून व्हरतात.

व्हरून मारून उडयतात.

बीरसा ह्या सगल्या स्रध्दांसयत वाडला. ताका खबर आसा, कांय लाख मुंडा जे तरेन मुंडांची जीण सारतात, ते भायर हेर जिणेविशीं चिंतप लेगीत म्हळ्यार म्हापातक.

पुण बीरसा तें म्हापातक करतालो. ताच्या रगतांत, ताका नकळटना खंय पुण बंड रूप धरतालें.

खाटांगांत जोनील्या घोवान म्हळें, 'तुजो ह्या भुरग्याचेर जीव आसा, जाल्यार तेका हेर कोणागेर कित्याक दवरूं? तेणें गोरां राखों आमगेर.'

जोनीकूय तेंच जाय आशिल्लें. घोवागेर तीन गायो आनी सात बोकड्यो आशिल्ल्याचें तिका खबरुच आशिल्लें. ते भायर जमीन नांवार आशिल्ली.

जोनीन बीरसाक म्हळें, 'हें बरे जालें ना, तूं सांग. पुतासारखो म्हाजेकडेन रावतलो?'

मावशान म्हळें, 'एक सांगतां! शिकलेलो मुंडा म्हाका सोंसना. गोरां राख, पोटभर जेव, मांडार गायन– नाचप कर. मुंडा शिकून दिकू जावंक सोदता तेन्ना त्रासांत पडटा. मुंडा म्हुण जल्माक येवप, आनी बरोवंक वाचूंक शिकप, हें सगलें चालकाडांत चलता.'

कांय दिसां भितर बीरसाक कळून आयलें, मावसो मनीस वायट न्हय, पूण खूब किचकिच करपी. खाटांगा गांवांत जाचेकडेन ताचो वाद जावंना असो मनीस नाशिल्लो. ताच्या किचकिच्या सभावाची खबर सगल्याक पातळिल्ली, ताकाच लागून अकरा मैल पयसुल्ल्या आयूभातूची व्हंकल हाडची पडली. भोंवतणच्या एकाय मुंडान ताका चेडूं दिलें ना.

ताचें सगल्यांत चड झगडें घाशी मुंडाकडेन. घाशी मुंडाली आनी ताची जमीन तेंकून. दोगांच्याय शेतांमदीं कांट्यां–झोंपांची वंय. पुण मावशाक सामखें दिसतालें, घाशीन वंय काडून उडोवन आपली बरीच जमीन सुतलायल्या म्हुण.

कांट्यांची वंय काडपाक शक्य ना, हें ताका पटोवन दिवप कोणाकूच जमलें ना– गांवच्या मुखेल्याक लेगीत. कोणेय सांगूंक गेल्यार तो म्हणी, 'कितें सांगता तूं? कोणें पळयलां दोळ्यांनी?'

ताचेकडेन मेतेर जावंकूच सगले भितात. मनीस कोपिश्ट जावं, कितेंय जावं, वखदां–बिखदां बरींच जाणा. सगल्यांक खबर आसा.

बीरसाल्या मावशा वांगडा नासानबोंगा ह्या दुश्ट आत्म्याची उठबस आसा. सगल्यांक हेंय खबर आसा, झरी, व्हाळ, गांवच्या तळ्यांनी बोंगानाग आसता. त्या उदकांत न्हाल्यार कसलेंय पुण कोड जाताच.

खंयच्या उदकांत नाग–इरा आतां आसा वा आतां ना हें सांगूंक शकता एकलोच – बीरसाचो मावसो.

मुखेली लेगीत ताका मानता हे खातीर.

दुकळ – उपासमारी – हुंवार – रान–उजो, गोरां – धाम – देवी – महामारी ....

हातूंतलें कितें खंयच्या नासानबोंगाच्या स्रापान जाता तेंय बीरसाचो मावसो सांगूंक जाणा.

घाडपणांय ताका कळटा. चेटकिणी केन्ना काळें मांजर जावन, जाल्यार केन्ना गिड्डो

जावन मुंडांल्या घरांत भितर सरून न्हिदिल्ल्या मनशाची लाळ चाट्टा. तेन्ना तो मनीस मरताच.

असली चेटकीण कोण, कोण हेरांची जीण चोरून आपली जीण वाडयता हें बीरसाचो मावसो न चुकतां सांगूंक शकता.

घाशी मुंडा लेगीत जाचे वाटेक वचना, असो हो मनीस. बीरसान मावशाच्या उलोवण्यांतल्या कित्याचेरूच विरोध परगटायलो ना. ताका दिसलें, कसलो मनीस म्हाजो मामा? जोनी सारख्या चेडवाक एक तरणो न्हवरो पळोवंक शकलो ना? एक बरो मेळून - घोळून रावपी मुंडा? जो टुयला वाजोवन, पिल्लूक वाजोवन, नाचून-खेळून सगल्या गांवांक भार हाडटा तसलो?

पुण कांय दिसांभितर बीरसाक कळून चुकलें - दिसपट्टें पोटभर खावंक-जेवंक, आंगा-माथ्याक तेल माखूंक, कपडे-वाले अख्ख्या अख्खे न्हेसूंक- मेळप हाचें एक खेरीत सुख आसा. तें सुख मनशाक भिजूड आनी अरकत करून उडयता. हीच मोठी मजा. खावंक मेळ्ळें ना जाल्यार, शिकूंक ना मेळ्ळ्यार मनीस बीरसाल्या बापायवरी अरकत आनी भिजूड जावन पडटा. तेन्ना एकसारखें दिसता - आसूं. मोठ्यान उलोवप ना. कोणाकूय राग येत जाल्यार?

आतां खावंक, न्हेसूंक आनी माखूंक फाव तें मेळ्ळ्यारूय मनीस जोनी मावशेवरी भिजूड आनी अरकत जाता. तेन्ना दिसता- नाका सायबा. मोठ्यान उलोवप ना. हेंय सुख व्हगडत जाल्यार?

जोनी खूब बदल्लें. करमा परबेक माथ्यांतलीं फुलां काडून उडोवन तें परतून आयल्लें, कोणे तरी ताचो पांय माड्डिलो देखून.

त्याच जोनीन मावशाच्या हातान मार खावनूय सगलें मानून घेतलें.

बीरसाक काकुळट दिसली.

एक दिस जोनीन बीरसाक म्हळें, 'रागीट मनीस, पुण तांक खूब! कितलें कितें कितें जाणा पळयलें ना? तेका धरून राव. तुका सगलें शिकयतलो. तेन्ना तुकाय एक बुदवंत म्हुणोन मान मेळटलो. तुज्याय गोठ्यात गोरां-म्हशी-बोकडां आसतलीं, आंगणांत भाता मुडयो.

बीरसा कांयच उलयलो ना. तो म्हणूंक शकतालो, 'मावशे, म्हागे बाबान मिशनांत वचोन नांव घायलां. तो क्रिस्तांव, हांवूय आतां बीरसा दाविद. आमगे वळखीच्या, सोयऱ्या-धायऱ्यां मदल्या जायत्या जाणांचें मिशनांत वचप-येवप आसता. मिशनांत सांगताय, नासानबोंगा, नाग-इरा सगले फट. सिंगबोंगा, होरोम आसूल फट. कोड जाता आफडून, रगत भरसून, पटकी जाता म्हेळें - इबाडिल्लें उदक पिवन. देवीचीं रोगा-बियां वाऱ्यार उडटात. हें सगलें सारें पुरें खरें काय न्हो हांव नकळ. पूण तुमचेभशेन घाडपण, मंत्र-तंत्र, जादू-करणी हे सगलें कळ्ळ्यार भंय उणो जाता.'

जोनीन म्हळें, 'कांय उलयनासो?'

'चिंततां.'

'कितें चिंतता?'

'हांयें म्हणल्यार जाता? आई ना, बाबा ना?'

'हांवें म्हणल्यारुय जावंचें ना?'

जोनी खूब दुखावली. म्हणपाक लागली, 'तूं पयलो. पोटांत आसा तें तुजे फाटल्यान. हांयें सांगल्यारुय जावंचें ना?'

बीरसा अचकीत व्हड जालोसो. जोनीलो बाबा दिबाय मुंडा जितो आसल्यार ज्या आवाजांत समजायतलो आशिल्लो, त्याच आवाजांत बीरसान समजायत म्हळें, 'तेगे आनी म्हागे खबर न्हो ही! मावसो खोशी आसल्यार खबरी न्हू त्यो!'

'खोशी आसताच तो.'

'खूब किरकिर करता.'

'तसोच तो!'

जोनी उस्वासली. म्हणूंक लागली, 'तूं नासल्यार हांव मरतलें आसलें! आतां बाग घेवन आंगण झाडूंक-सारोंवक, झरीचें उदक हाडूंक आंग मोडून येता.'

बीरसान आंगण झाडलें, कोंबयो घरांत हाडल्यो, गवळांत धुंवरो घालून गोठ्याची कवडी धांपली. मागीर कळसो घेवन झरीर गेलो.

खळखळ-झुळझुळ -- झरीचें उदक व्हांवत आसा, व्हांवत आसा. बीरसान कळसो भरून घेतलो. भरिल्लो कळसो गुंड्यार दवरून उबो रावलो.

सांज देंवता, निर्शेल्ली, कश्टी, ताचे आवयवरी - करमीवरी - शिरपुटी, थकिल्ली सांज. सांजेच्या नखेत्रांची नदर ताचे आवयच्या दोळ्यांतले नदरेवरी.

लुकास आयिल्लो. पाद्री लुकास. मिशनाच्या कामाक आयिल्लो. बीरसाच्या मावशान ताका गांवां भायर घाला.

लुकासान बीरसाक सांगलां, 'राखणेपण करून जीण सारतलो? तूं यो, बरोवंक-वाचूंक शीक, कितलीं कामां करूंक शकतलो.'

बीरसा बरोवंक-वाचूंक शिकूंक सोदता. कित्याक तो इतल्या गरीब बापायचो पूत जालो? बापूय पोटाक घालूंक शकना, मावशेगेर पावलो. मावशेचें लग्न जालें, तिचे वांगडा हांगा. हांगा जीण कसली? - गोरां राख, पोटभर जेव, सुस्त राव.

पूण बीरसाक कळटा आपुण खोशी ना!

तो उस्वासलो. कळसो उखलून उबो रावलो. चारुय दिकांनी कचकचीत रान आनी दोंगर. नदरेंत आसपावंक जायना. पुण जाल्यारुय दिसता, जीण सामकी बांदून पडल्या. खाटांगा इतलें एकोडें, कोणशाक पडिल्लें! चालकाडाक सगलें आशिल्लें - दुःख, दळडीर, उपासंमार. पुण जाल्यारुय व्हांवते जिणेची धार चालकाडाक आफडून व्हांवताशी दिसताली.

सांतेक येतलो-वतलो चालकाडांतल्यान वतालो. मिशनांतल्यान लोक येतालो. धानी सारखो बुदवंत मनीस येतालो. रांची, खुंटी, तामार, बंदगांव सगले कडली खबर पावताली.

खाटांगा सगले कडल्यान इतलें पेंस! अशें बंदिस्त आनी घुस्मटिल्लेवरी जाता.

गिमांत रानांतल्यो सगल्यो झरी, कोंडी, न्हंयो सुकतात, जाल्यारूय हांगा-थंय खंय-खंय उदक आसता. तें खबर आसता जनावरांक आनी बीरसाक.

तेय खेपे तीं लिपिल्लीं, कोणाक खबर नाशिल्लीं. तळीं, कोंडी सुकून गेल्ल्यो. झरी आनी न्हंयांतले रेंवेच्या पोटांत बुराक सोदून थेंब-थेंब उदक झिरपतालें. फांतोड्डेर बायलो तें उदक घेवन येताल्यो. सूर्य वयर सरतालो तोच सेंगेलदाचो उजो ओंकीत. आनी वत लागल्यारुच उदक वाफ जावन वतालें.

त्या वेळार बीरसा रानाच्या पोटांत रिगिल्लो अटंग्या दाट रानांत. थंय एके तळयेंत उदक सुकून मदेकांत थोऽडें उरिल्लें आनी भोंवतणी उपाट चिखल. एक घटमूट सांबर हरण त्या चिखलांत रोमून पडिल्ल्यान उबें आशिल्लें बीरसाक दिसलें. पांय अर्दे अदीक चिखलांत बुडिल्ले. चिखलांतल्यान तें दिसता पांय ओडून काडूंक सोदतालें तितलें-तितलें आनीक भितर रोमतालें.

तेन्ना सांबराक कळ्ळें, मुखावेल्या उदका मेरेन तें पावचें ना. रेब्यांतल्यान पांय सोडोवंकूय पावचें ना. मुखार उदक आसुनूय तें तानेन मरतलें. चारूय दिकांक रान आसुनूय तें मेकळे जिणेंत परतें वचूंक पावचें ना. भयंकर निर्दय मरण मुखार उबें आशिल्लें. मुखार निर्दय मरण उबें आशिल्लें कळिल्ल्यान ताचे निश्चलतायेंत एक रितेंरितें अपेशी आत्मसमर्पण आशिल्लें.

आतां बीरसाय तें सांबर जाला? चारूय वाटांनी मेकळी, विशाळ जीण, जाल्यारूय हांगा बांदून पडटलो? चिंतल्यार लेगीत भंय दिसता.

सांबराचो कुशिल्लो-विरविरिल्लो सांगाडो पावस येमेरेन थंयच उबो आशिल्लो.

बीरसा उदकाचो कळसो घेवन घरचे वाटेक लागलो. आयजकाल हें सगलें तो रातदीस चिंतता. जेन्ना चिंतता, तेन्ना आपुण खंय आसा, भोंवतणी कितें चल्लां, ह्या सगळ्याचो ताका विसर पडटा. कांयच खबर आसना. मनीस पशु न्हय. देखून भयंकर बंधनांतल्यान, अचकीत मुक्ती मेळोवंक शकता.

तशी, बीरसाक मेळ्ळी.

मावशालीं गोरवां आनी बोकडां चरोवंक गेल्लो. आतां शिगम्याची अखेर. शेतांनी वांयगणे पिकेचो भार. एका नीट रुखा पोंदा बसून बीरसा येवजितालो आपलेच भितर. थंयच थंड सावळेंत, वाऱ्यान ताका न्हीद लागली. मावशाची बडी आंगार बसमेरेन ताका जागूच आयली ना.

ताच्या मावशाच्या मतान ज्या गुन्यांवांक माफी ना, ते सगळे बीरसान केल्ले.

गोरां राखतना न्हिंदून पडिल्लो.

गायो, बकऱ्यो, घाशी मुंडाच्या शेतांत देंवन तांणी फसल खावन उडयल्ली. घाशीन बडी शेंवटिल्ली. तिणे एका बोकड्याचो दोंको मोडिल्लो. तो बोकड आतां मारून खावंक जाय.

घाशी सदांकाळ गुन्यांवकारी आशिल्लो, मावसो निरपराध. आतां मावशाक पानवळ दिवपाक ताका बरें निमित्य मेळ्ळें. ताचें शेत सामकें मातयेभरवण जाल्लें.

मावशान बीरसाक यथिश्ट पेटलो. बीरसान एक उतर काडलें ना. तोंड धांपून मार खालो.

जोनील्या मनांतल्यानूय भंयाची खिळी सुटून पडलीशी. तेल तापोवन बीरसाच्या आंगाक माखलें. मागीर घोवाक संवक लागलें.

'दळडिरो! काटांदोर खंयचो! चेडो म्हागे पोटच्या पोराभशेन, हें जाणा. तेच्या आंगार हात घालता? तुका म्हागे पोटचो भुरगो नाच दिवंचें. तेका घेवन दादागेर वयतलें .'

'हो खंय घाडी! कितलें कितें कितें कळटा खंय तेका! इतलें जाणा जाल्यार शेजरा पाजराक व्हंकल कित्याक मेळना? ह्याच रागाक लागोन! तेचो राग तेचेकडेन! तेचो दाणो लेगीत खावंचें ना हांव! चल्लें हांव दादागेर!'

आंग-पांग फोडटालें. जाल्यारूय बीरसाक हांसूंक आयलें. जोनीक घोवाचे करणेन जबर धक्को बसला, ताका समजलें. रागान, दुःखान सगली भंयभीड सोडून इतलें उलोवपाक तेका धाडस जाल्लें. तेयपरस अजाप म्हळ्यार, मावसो मोन्यांनी हें सगलें आयकत बसून आशिल्लो. जोनीन आदीं गाळी घाल्यो, उपरांत पांय पातळावन रडूंक बसलें.

तेन्ना मावशान म्हळें, 'आयूभातूच्या चेडवाक दादान कांय शिकोवंक ना काय म्हण्टां?'

'कितें शिकोवंक ना?' जोनी फुरस्कारलें.

'गुरवार बायल सांजवेळा रडल्यार भूत वायांतल्यान पोटांत सरून भुरग्याची हानी करता. घे. ऊठ. तोंडार उदक मार. म्हाका वाड. बीरसाकूय वाड. आनी जेय. संवलें भरपूर, आयक, केलें तें सगलें रागाच्या भारार. ना जाल्यार तोंडान भंय घालतां, हात लायला केन्ना? राग खूब म्हाका. कितें करूं?'

हें एके परीन हार मानिल्लेवरीच. दुस्मानान हार मानल्यार ताचेकडेन लडाय करूंक जायना. जोनी उठलें. तोंड धुवन, दोळ्यांर उदक मारून पालव खोंचलो. घोवाक वाडलें, बीरसाक वाडून आपुणूय जेवंक बसलें.

दुसरे दिसा सकाळीं बीरसा हाडजोडीची वाल घेवन आयलो. बोकडाचो पांय मोडून चामडेंतल्यान हाड दिसतालें, तो पांय ओडून हाडाक हाड जोडून बसयलें. वालीचो वांटून लेप आंग भर खंय खंय लायलो. ताचेर एरंडा पानां बांदून एके पातळ बडये वांगडा

मोडिल्लो पांय बांदलो. थोड्या जाग्याक वंयशी करून थंय बोकड्याक दवरलो.

मावसो सगळें पळयतालो. म्हणपाक लागलो, 'आयक रे, हें करून जातलें? पांय जातलो बरो?'

'दिकूल्या तट्टू – घोड्यांचे पांय मोडल्यार अशेच जोडटात. ही वाल भोव बरी.'

मावसो भोव खोशी जाल्लो सो दिसलो. कित्याक, त्याच दिसा कांय खिणां उपरांत ताणे एक पितळेची हारशी काडून बीरसाक दिली. आनी म्हळें, 'हांव तोंड पळयना, पिराय सरली आतां. तूं दवर ही तुका – तोंड पळोवंक.'

ताणे जोनीक म्हळें, 'ना गो, रागाभरशीं मारलो. पुण तो घुंवता–लोळटाना पळयलें, तशी व्हडलीशी दूख जावंकना.'

बीरसान सांज वेळ जातासर संसाराचीं कितलींशींच कामां केलीं. झरीचें उदक हाडून भांड भल्लें. आंगण झाडलें. जळवाचीं लांकडां वालींनी बांदून भऱ्यांर भरो उबारून हाडून आंगणांत कोनशाक जळवाची रास घाली. गोठो खरवडून निवळ केलो.

जोनीन हांसून म्हळें, 'पिशा, असो राबता कित्याक? घरा कितें सोयरे येवपाचे आसा?'

बीरसान म्हळें, 'भायर भोंवतां. ह्या वावरांत तुका कितले त्रास!'

सदां भशेन बीरसा राती न्हिदूंक गेलो. पुण फांतोडे आदींच ताका जाग आयली. मोन्यांनी घराभायर आयलो. ताऱ्यावटेन तेळून वाट थारायली आनी चलूंक लागलो. कुंडी बरतोली वचपाचो तो. थंय भूरा मुंडागेर कोमता वावराक आसा. कोमता राखणेपण करता खरो, पुण थंय ताका बरो मानतात हें सगल्यांक खबर आसा. कारण भूरा आनी अचीरचो तो जांवय जातलो. कोमताकडेन वचून बीरसा सगलें मेकळेपणान सांगूंक सोदता.

जोनीक त्रास जातलेच. बीरसा कितें करतलो? त्रास ताकाय जातलेच. इतले दीस सुखा–दुखांत एकामेकाक सांबाळीत रावप! पुण त्या दिसा ताका मारलो तें बरेंच जालें. ना जाल्यार बीरसा खाटांगाच्यान सुटूंक पावतो ना.

आनी बीरसाकूय बरे भशेन खबर आसा, जोनीक ताचेर भोव विस्वास हें जितलें खरें, तितलेंच ताका लागून जोनीक भोव अडचण, हेंय खरें. तो नासल्यार ताका लागून घोव–बायलेचीं झगडीं जावंचीं ना. मावशाक दिसतलें, ताणे मारलो म्हूण रागान बीरसा गेलो, पुण बीरसा, गरीबकायेंतल्यान मेकळो जावपाची मोख दवरून, आपुण रागार जावंक शकना हें समजल्लो. कारण मावशान कांयच अन्याय करूंक नाशिल्लो. दायजी दुस्मानाचें शेत खावपाक लागून झगड्यां–झुजांचो मार्ग उकतो जालो. एका जनावराक दूख जाली, पांय बरो जायतूय घडये. मावसो बीरसाचेर खोशी कित्याक जातलो?

## 5

सांज जावपाक बीरसा कुंडी बरतोलीक पावलो. कोमतान ताका पळयलो ना. कोमता मांडार गेल्लो. भूरा मुंडाचे बायलेन ताका बरो येवकार दिलो. गंवा-कुडक्यांचें लोरांव खावंक दिलें. पांयांक रगडूंक कांचेचे वाटयेंत तेल दिलें. कोमता घरा पावलो तेन्ना भूरान सांगलें, 'तुगे भाव येयला. तेका कांय म्हुणो नाका. भुरगो हटी आनी अविचारी. ना जाल्यार इतली वाट चलोन येवंक जाता?'

राती दादा वांगडा न्हिदिल्ले कडेन बीरसान म्हळें, 'तूं हांगा लग्न जातलो?'

'हय.'

'दिसोंक कशें आसा चेडूं?'

'बरें ना. ल्हवू-ल्हवू उलयता, हालत-धोलत काम करता, सवकास चलता.'

'जाल्यार कित्याक करता लग्न?'

'भूरागे मांवागे वसयल्ली जमीन आसा, तीन म्हशी आसाय. तेका पूत ना. भूरागे बायल एकलीच धूव तेका. व्हडले नातीचें लग्न जाल्लें कळयल्यार सगलें नात-जांवयाक पडटलें खंय.'

'भूरा कितें सांगता?'

'तो म्हण्टा सगलें घेवन हिंगाच राव. तुगे आवय-बापायकूय घेवन यो.'

'बाबा येतलो रे?'

'येयल्यार बरें जालें. आमगे घरा सदांच कडकी.' कोमता उठून बसलो. बीरसा आनी ताच्या दादा मदीं भुरगेपणा सावन सारीपुरी समजिकाय आसा. बीरसाक आपलो तेरा वर्सांचो भाव भूरा मुंडाचे कुरुप, रोगी धुवेकडेन लग्न जाता तें पळोवन कोमताकडल्यान कांयच समजून घेवपाची गरज नाशिल्ली. बीरसा जाणा कोमता हें करता तें घरचो प्रपंच सांबाळूंक.

कोमता गरीब बापायचो मायेस्त पूत. ताच्या माथ्यार एकूच हुस्को – कशे करून तीन भाव, आवय-बापूय एकठांय दोन वेळचें जेवण मेळून रावंक शक्य जायत? बापूय अबरगत, देखून कोमताक दिसऽ – आपलें बरें वायट येवजिनासतना प्रपंच उबो दवरूंक जाय.

कोमताल्या सभावाक आनीक एक आंग आसा. बीरसा ताचे परस वेगळे तरेचो हें ताका खबर आसा. भावाल्या स्वतंत्रपणाचेर ताचो भावार्त. ताकाच लागून ताणें बीरसाक म्हळें, 'तूं कितें करतलो?'

'तुगे कितें मत?'

'म्हागे सोड.'

'म्हाका शिकन दिसता.'

कोमता गरीबपणाच्या दांत्यांत भङ्गून जाण्टो जाला. मातशें येवजून उलयलो, 'वायट न्हो.'

'कितें?'

'हेंच शिकोप-बरोप-वाचोप.'

कोमता करुण, असहाय्यसो हांसलो. म्हणूंक लागलो, 'हांव कांय करपाक शकलों ना.'

'तुजेखातीर कोणी कितें केल्लें तरी? यत्न करून ना ज़ाल्यार तुज्यान म्हुणोंक येतालें, 'कांय जालें ना' - आतां कित्याक म्हण्टा?'

'कोण यत्न करतलो रे? आबा आनी आवोन खूब त्रास काडले. दुकळ आनी अवर्षणांतूय म्हाका जितो दवरिलो. आमगे जीव राखूंक दोगांय मर मर मेल्यांय. कशीं शिकयतलीं आशिल्लीं?'

'हांव जाणा.'

'तुगे जातलें. कित्याक जाणा? तुका बरी बुद्द आसा. तेभायर, संसाराचो भार हांव घेतां. तुजेर पेंच ना. तुयें शिकोंक जाय.'

'हांयें शिकचें म्हुण्टा तूं?'

'हय रे. शिकल्यार पाद्री जातलो. एकलो मिशनांत आसल्यार म्हाकाय तितलो धीर.'

'खंय वचूं म्हुण्टा तर?'

'कित्याक? लुकास पाद्री खाटांगाक वचोंक नाशिल्लो? तो हिंगा आसा. तुका तो बुर्जूक घेवन वयतलो - जर्मन मिशनांत.'

बीरसाक कळ्ळें, ताचें नशीब ताका भायर ओडटा. मुंडारी कल्पनेच्या सुपुल्ल्या संवसारा भायर.

पाद्री लुकास ताका बुर्जूच्या जर्मन मिशनांत घेवन गेलो. रेव्ह. पुट्स्किनान म्हळें, 'घेतां हांव तुका. पूण एक गजाल. लोवर प्रायमरी परिक्षा दिवनूच सोडूंक मेळटलें. मुंडा भुरग्यांक हुशारी आसता, शिकपाची इत्साय आसता. पुण घरच्या अडचणींक लागून तांचें शिकप जायना. ते सोडून वतात.'

बीरसान म्हळें, 'हांव ना वयचों.'

बुर्जू जर्मन मिशन मातशें खेरीत. लोकवस्तेंतल्यान बरेंच पैस. थंय बीरसाची नवी जीण आरंभ जाली. मिशनाची नितळ, नेमबध्द, सुंदर जीण बीरसाक खबर आशिल्ली, वळखीचे जिणेपरस साप वेगळी. ते जिणेंत बीरसा बुडून गेलो.

बरपा-वाचपाचें विश्व एक खेरीत विश्व. एक-एक अक्षर, एक-एक उतर वाचूंक आयल्यार अजापाचें जैत जोडिल्ल्याची खोस भोगता. शिरंतरांनी खोशी व्हांवता - तीरान मोख सादची तसली खोशी. निर्बुद्द कोलो आनी आंबट द्राक्षांची काणी ज्या दिसा बीरसाक इंग्लेजींत वाचून समजली, त्या दिसा बीरसाक रडूंक आयलें. ताका जमलें, वाचूंक जमलें, समजलें. हें एक व्हडलें जैत. बीरसाच्या नशिबान ताका एके खेरीत जिणे कडेन बांदिल्लो. ते आदले नेम कायदे किंकोंत करून बीरसान एके खेरीत जिणेंत जल्म घेतिल्लो. ताणे सिध्द केलें आपुण एक पुरुष म्हुण. नियतीचो हुकूम ताणे अंतिम आनी अचूक असो मानलो ना.

'वन डे ए फॉक्स .....' बीरसान परतें एक फावट वाचलें. क्लासांत पाद्रीन म्हळें, 'तुका जमतलें.'

लोअर प्रायमरी परीक्षा बीरसा दोन वर्साभितर पास जालो. पाद्रीन म्हळें, 'हांगा तुका फुडें शिकपाची सोय ना. तूं चाइबासाक वच. शिकप सोडूं नाका! तुजो फुडार खूब पर्जळीत आसा.'

इकरा वर्सांचो बीरसा एक दीस चालकाडाक परतून आयलो. सुगानाक म्हणपाक लागलो, 'बाबा! हांव चाइबासाक वयतलों. मुखार शिकतलों.'

'चाइबासाक?'

सुगानान आपले मायेन भरिल्ले दोन दोळे पुताचेर रोखले. मिशनांतले सायब क्रिस्तांव भुरग्यांक शिकोवंक सांगतात. शिकूंक गेल्यार, ते जयपाल नागाचे साळेंत, बुर्जूच्या मिशन स्कुलांत, खंयूय जांव, पृथ्वी खूब व्हड हें कळटा. ते पृथ्वीचें मुखडेंच खेरीत. करमी कडेन सुगानाचें लग्न जालें तेन्ना त्या दबाज्यांत सुगानाचे आवयन रंगांतली रांगोळी घाल्ली.

सुगानाल्या लग्नांत पृथ्वीचें चित्र तिकोणी आशिल्लें. पुण आतां पुताच्या दोळ्यांकडेन पळोवन सुगानाक कळ्ळें आनीक एके तरेची पृथ्वी आसा तिका शीम ना, ते विशाळ, अनवळखी पृथ्वीचो उलो पुतान आयकला.

सुगाना भंयानसो हांसलो. ताची पृथ्वी ह्या चालकाडासावन बांबा, बांबासावन कुरुंबदा. वाणयाकडेन सगळें वगडल्या उपरांत एका गांवांतल्यान दुसऱ्या गांवांत.

ताची पृथ्वी बांदून पडिल्ली तरेकवार शिमांनी. ते पृथ्वीचेर दिसाक दोन वेळचो दोन पानां घाटो, वर्साक चार शिंविल्लीं वस्त्रां, शिया दिसांनी कुंड्याचो साक दिवन ओम सावकाराकडल्यान सुटका, दिवो लावंक महुआ तेल, घाटो जेवंक काळें मीठ, रानांतलीं मुळां आनी म्होंव, रानहरणां - सोंशे - सवण्यांचें मांस, हें सगळें मेळ्ळ्यार राजा जावं येता.

सुगानान म्हळें, 'खूब जालें म्हागे पुता. इतलें शिकोप चालकाडांत कोण शिकलो ना. आतां हातापायां पडल्यार मिशनाचो सायब तुका मळ्यांत काम दीत. सायबाचो माळी जाल्यार दोन वेळचें शीत मेळटलें. लग्ना परबेक जेवंक मेळटा तसलें.'

– 'आबा, हांव चाइबासा वयतलों, शिकतलों.'

– 'आनीक शिकोन करतलो कितें, म्हागे पुता? शिकोन येयल्यार ह्या घरांत, ह्या संसारांत तुजें मन लागचें ना. मुंडा भुरग्यांक दिसतलें, काश्टी न्हेसप म्हुणल्यार अन्नाडीपण. जितलो शिकतलो तितलो दुखी जातलो. म्हाका दुःख ना. हांव उपाशीं रावन रावन भीकमागो जालां. तुका बेठेंच दुःख जातलें. खूब शिकलो म्हुणोन कोण तुका सायब म्हुणचो ना. गांवांत मुखेलपण दिवचे ना. निमणे खेतनागे भुरग्यां वरी कोळशा खणीर मानाय जातलो, पुरवणदारा वांगडा च्यावे मळ्यांत वयतलो. घराच राव. रीण काडून एक गाय घेतां. ती तूं राख.'

बीरसान थंड नदरेन बाबाक पळयलो. 'आबा! शिकतकच हांव सायबाभशेन जातलों, सायब म्हण्टालो.'

सुगानान हुस्कार सोडून म्हळें, 'बाजारांत वचोन शाब्बा माती हाडटां. कपडे धूय तुजे. सूय मागून हाड खेतनागेरच्यान. आवय कपडे शिंवन दितली.'

– 'आनिकूय तीग जाण वयतले. लानदीरुली सावन अभिराम, कुंदारीचो इशाक आनी बांबा.'

दुराय आसता मनार निंबून. केन्ना केन्ना थोडीशी दुराय लेगीत खऱ्यांनी खूब पयस आसूं येता. आनी व्हडली दुराय उणी पयस आसूं येता.

चालकाडासावन चाइबासा दूर हें निखालस. 1886 वर्सा चार भुरगे चाइबासा गेल्ले सुगाना मुंडा सांगाताक. लानदीरुलीच्या योहानाचो पूत अभिराम, माशीदासाचो बांबा, कुंदारीच्या दाऊद पाद्रीलो पूत इशाक, हे फकत मार्गाची दुराय चलून गेल्ले.

बीरसा नकळो आशिल्लो: तो चलिल्लो एक जल्म, एके जिणेंतल्यान आनी एके जिणे वाटेन.

सुगाना ताच्या तोंडाक एके कुशीन नदर दिवन लिपचोरयां पळयतालो. पूत खूब अनवळखीसो दिसतालो. ताचो पूत बुर्जू मिशनांतल्यान लोअर प्रायमरी पास जाल्लो. तेंच शिकप भरपूर जाल्लें. तो आनीक कित्याक शिकूंक सोदता? कित्याक वळखीचो संवसार सोडून भायर सरूंक सोदता?

सुगानाक खबर आसा जमीन जुमलो, शेतीभाती, एका जाग्यार वसती करून रावप. सुगानाचो धाकलो भाव पाशन जाल्यार बांबांतूच उरलो. बीरसा तेन्ना ल्हान, कोनू जावंक नाशिल्लो. पाशनाल्या पुताक वागान व्हेलो. बीरसा ल्हान तेन्ना. आतां दिसता बीरसा केन्नाच ल्हान नाशिल्लो जावंये. सदां काळ तसोच गिन्यानी, फिशालसो. केन्ना नागडो

बाळक, आंगणांत पोटयां चलपी भुरगो बी तो नाशिल्लोच जाल्ले वरी. एका वर्साचो आसताना लेगीत, 'आबा!' म्हुण सुगानाल्या आंगार केन्ना घालून घेवंक ना ताणे.

कोमता सुगाना वरी घर-संसारी. बीरसाक संसाराचें काम जमता तें कोमताक जमना. पुण बीरसाक कसली ओड ना.

सुगानालें अंतरमन उलयलें, 'बीरसा, पुता म्हज्या! नाका रे वचों चाइबासाक! या आमी घरा परते. करमा परबेक तुका नवें पुडवें घेवन दितां ह्या वर्सा. कुशुंब-फुलांनी रंगयतां. केंसांक गुंजी-माळ घालून नाच तूं, पुता! चालकाडा या परते, चल.'

बीरसान म्हळें, 'ही ऽ ती पळय! मिशनाची इमारत दिसता हांगाच्यान, पळय आबा.'

सुगानान ल्हवू म्हळें, 'ही जादूशी पळयली रे!' ताच्या ताळ्यांतल्यान अनवळखी भावनांच्या नेटान आवाज सुटनाशिल्लो.

बीरसान म्हळें, 'केदी व्हडली इमारत रे बाबा! देवा सायबा! विटो कितल्यो लागल्या आसतल्यो हिका, सांगूं येता? देखून येदें व्हडलें उबारलां हें.'

सुगानान म्हळें, 'कितल्यो कितल्यो शो विटो.'

– 'हय, हांगाच शिकतलों.'

– 'हय म्हागे शाण्या!'

– 'दादा -- !'

– 'कितें म्हुण्टा?'

– 'सदांच संवसारा फाटल्यान उरलो. बरोप-वाचपूय शिकलो ना, कांय कळ्ळेंय ना कसलें.'

– 'सगल्यां कडेन कितें सगलेंच जाता रे?'

– 'दादा -- !'

– 'चल, पावले रे, बीरसा!'



# 6

ते चालकाडासावन चलत चाइबासाक पावले तेन्ना सांज जाल्ली. कपड्यांची पोटली फाटीर मारून बीरसा पांय दुखिल्ल्यान जमनीर बसलो. रेवरंड सायबान सांगलें, 'भरती जावपाचो टायम जावन गेलो. तुमी परते वचात.'

— 'दक्षिण तामार, सगले कडले भुरगे हांगाच येताय. तशे आमीय येयल्या.'

— 'सुवात ना.'

— 'सुवात ना?' अभिराम, इशाक, बीरसाल्या बाबान एकामेकाल्या तोंडाकडेन पळयलें. सुवात ना म्हळ्यार कितें? येदो व्हडलो विटांनी बांदिल्लो वारांद, इतल्यो कुडी, आनी सुवात ना?

बीरसान म्हळें, 'हांव परतो वयचों ना, म्हागे पांयांक गुंडे लागोन घाये जाल्याय. म्हाका चलोंक जमना.'

— 'घाये पेखतले. वखद दितां हांव.'

— 'ना. म्हाका बुर्जूच्या सायबान चीट दिल्या.'

— 'थंय वचून शीक तर.'

— 'थंयचें शिकोन जालें. पास जालां हांव.'

— 'बरें आसा. फाल्यां यो. भरती करून घेवया तुका.'

रातचे ते मिशना मुखावेल्या पाकूड रुखा पोंदा न्हिदले. सकाळीं सायबान बीरसाक भरती करून घेतलो. बांबा, अभिराम आनी इशाक हांका परते धाडले.

मिशनांत तांणी बीरसाक दोन शाबू दिले, दोन शर्ट, दोन चड्ड्यो, एक तुवालो. एका भुरग्याक सांगलें, 'ताका दाखय शाबू आंगाक लावन कशें न्हावप तें.'

तो भुरगो अमूल्य. किडकिडीत, थंड भुरगो. बीरसा परस व्हड जावंये.

हौदाकडेन व्हरून ताणे बीरसाक शाबू लावन न्हावंक शिकयलो. एक दोरी दिवन म्हळें, 'चड्डेक घालून घे. शर्ट भितर घाल असो.'

— 'तुगे नांव कितें?'

— 'अमूल्य.'

— 'तूं बाबु रे?'

— 'हय. हांव बंगाली.'

— 'जाल्यार मुंडारी कशी उलयता?'

— 'हांव अनाथ–घरांतलो भुरगो. म्हाका मुंडारी येता.'

— 'तूं म्हाजे वांगडा रावता?'

— 'रावतां. आयक. कोणाक 'तूं' म्हणप ना, 'तुमी' म्हण. तशें केल्यार सायब मरे, सामके अजाप जातात. ते पयलींच मुंडा भुरग्यांक सांगतात, "तूं" म्हणूंक जायना.'

बीरसान मातशें येवजून म्हळें, 'तूं कितें व्हड जावन दिकू जातलो? बाबू सगले दिकू जाताय.'

— 'हेर बाबू जाता आसतले दिकू. हांव जावंचों ना!'

— ' कोण जातलो तर?'

— 'दोतोर जातलों. चाकरी करतलों.'

— 'हॅ ऽ ऽ ऽ'

— 'कित्याक?'

— 'चाकरी केल्यार दिकू जालो ना?'

— 'तूं कितें जातलो?'

— 'बरोंवक–वाचूंक शिकतलों. खूब शिकोप करतलों. मागीर देमान करून बाबागे मूळ गांवची जमीन परती मेळयतलों.'

— 'मागीर?'

— 'पाद्री जातलों. सगल्यांक जेजूची खबर सांगतलों.'

— 'आनी ते उपरांत?'

— 'तेन्ना चोवया मागीर.'

बीरसा बरो करून रावलो. मिशनांत तो जितलींय गीतां शिकलो, त्या सगल्यांच्या सुरांर ताका पिल्लूक वाजोवंक येताली. अमूल्यान ताका नक्शे काडूंक, गणितां सोडोवंक, पुस्तकां वाचूंक शिकयलो. शाळेंतलें शिकून जातकच अमूल्य ताका शिकयतालो.

बीरसा ताका आपल्या वाठारांतल्यो, गांवांतल्यो, रानांतल्यो खबरी सांगतालो.

एक दीस ते सायबाक सांगून–करून शार फिरूंक गेले. अमूल्याक शिश्यवृत्ती मेळटाली, ताचेकडेन चार आणे आशिल्ले. तांणी उशिकांडो घेतलो, गरम तिळां–वडो घेतलो. बीरसान म्हळें, 'दुकानांत कितलें मीठ, चोयलें तुवें?'

— 'मीठ दुकानांतूच मेळटा.'

— 'तेलूय कितलें रे बाबा!'

— 'दुकानांत तेल आसपाचेंच मरे!'

— 'व्हडलो जातकच हांव आवोक साकांनी मीठ घेवन दितलों. तेलूय व्हरतलों घरा. आवो वात लायतली.'

— 'साकांनी मीठ?' अमूल्याक अजाप जालें.

— 'हय. मीठ घायल्यार घाटोक रूच बरी ऽ ऽ येता. आवो सगलें मीठ आमका दिता. आपुण अळणी घाटो खाता. तेणेंच आवो साप भागल्या.'

'बीरसा, तो जाण्टेलो तुका उलो करता.'

फाटल्यान परतून बीरसा थंयच तटास जालो. धानी मुंडा! वांगडा एक जाण्टेली.

— 'तूं हिंगाय पावलो?'

— 'कित्याक येवचों ना? चाइबासा कितें तुजें बेंस?'

फाटले यादीन बीरसाक हांसूंक आयलें. म्हणूंक लागलो, 'हय तर. म्हाजेंच तें.'

— 'चोवया.'

— 'कितें चोयतलो?'

— 'तुका चोयतलों रे!' धानी वांगडा आशिल्ली जाण्टेली मुखार आयिल्ली. म्हणूंक लागली, 'तुगे कपल अशें कितें, हात पांयूय बी. कोण रे बाबा तूं?'

— 'हांव बीरसा.'

— 'जाल्यार चल बाबा. वच.'

— 'खंय वच म्हण्टा?'

— 'तुका सोदताय.'

— 'कोण सोदता?'

— 'म्हागे भाव, हो धानी, सरदार.'

— 'सरदार?'

— 'मुल्कुयची लडाय खबर ना तुका? सरदारांची खबर ना? कसलो मुंडा तर तूं!'

बीरसा हें सगलें आयकून अजापलो. ताका, सुगाना मुंडाल्या सोळा वर्साच्या भुरग्याक सोदतात? कोण ते? कित्याक?

अजाप! मिशनांतूच एक एक करून सगल्यो खबरी आयकूंक येवपाक लागल्यो.

मिशनांत डॉ. ए. नॉट्रट आशिल्लो. एक दीस ताचेच कडेन येवन पावले जर्मन लुथरन चर्चीचे क्रिस्तांव जाल्ले मुंडा.

— 'एक मागणें आसा.'

— 'कसलें मागणें?'

— 'छोटा नागपुरच्या जमीन सुधार कायद्यांत सांगलां जेची जमीन तेच्यान ती आपले कडेन दवरूंक जाता. तुमी सायब. आमगे मूळ गांवां आमगे सुवादीन कराय.'

— 'मूळ गांव म्हुण आनी कितें आसा व्हय तर?'

— 'ना.'

— 'जाल्यार? जें ना तें कशें परतें दिवंक जायत?'

— 'ना कित्याक? दिकूंनी घेतलां देखून.'

– 'ताका हांव कितें करूं?'

– 'तुमी सायब. देसाचें सरकारुय सायब. सायब सरकाराक सांगाय वेवस्था करपाक.'

– 'हांव मिशनाचो सायब. सरकार म्हजें आयकुचें ना.'

– 'जाल्यार झक मार. तुमगे मिशनांत आमी रावंचे नाय. आमी तोरपा मिशनांत चलले. कॅथॉलिक मिशन खूब बरें. तोरपा मिशनाच्या लियेव्हेन्स सायबाक मुंडांगे दुःखां कळटाय.'

पंगडां-पंगडांनी ते जर्मन मिशन सोडून तोरपाक गेले. लियेव्हेन्स सायबा कडेन वचून कॅथॉलिक जाले. बीरसाक कळ्ळें लियेव्हेन्स सायबान सांगलां खंय, 'ते अत्त्याच्यारी, तांचे आड वचून लडात. लडल्यार ते थंड पडटले.'

मागीर आयकलें, सरकारान फौज धाडून सरदारांक धरले. लियेव्हेन्स सायबाची बदली केली. सरदारांक अटक जावंक लागली. चाळीस जाणांच्या नांवान केस सुरु जाली. पुण न्यायालायांत पांजऱ्यांत उबे रावंचे आदींच रांचीचे कादयेंत आठ जाण मेले.

उपरांत कळ्ळें, सरदारांनी जे वकील पळयल्ले तांणी कांयच केलें ना. मुंडां वटेन उबो रावलो फकत बॅरिस्टर जेकब. कोलकात्याच्यान येवन केस लडयतालो.

नातलांचे सुटयेंत बीरसा घरा गेलो. रोकोंबासावन धानी मुंडा ताचे वांगडा आशिल्लो. धानी आतां बरोच जाण्टो जाला.

धानीन रागाच्या किंवाट्यान म्हळें, 'णवशीं साठ पुनवो फाटी पडल्यो, एकूय भगवान आजून येयना मरे!'

– 'भगवान एकलोच आसा, सायब सांगताय.'

– 'तेंगे खबर सोड.'

– 'खंयचो भगवान म्हुण्टा तूं?'

– 'जो मुंडाच्या रुपान येतलो, मुल्कुयचे लडायेंत बारीक बारीक उज्यांत सगलें लासून उडयतलो तो.'

– 'मागीर?'

– 'सायब, दिकू बी सगल्यांक धांवडावन घालतलो. मूळच्या गांवांनीं मुंडांक ठाय बसणेक लायतलो!'

– 'म्हाका कित्याक सांगता तूं हें सगलें?'

– 'तुज्यान करोंक जातालें हें, बीरसा. छोटा नागपुर तुगे वंशकुळांतल्या पुरसांनी वसयल्लें. तुज्यान भगवान जावं येतालें.'

– 'तूं वच घरा धानी.'

– 'कित्याक?'

– 'ना जाल्यार रानांत चल, तामाराक वच. हांयें आयकलां, घोड्यां स्वार पुलीस तुमकां सोदीत ह्या वाठारांत येवपाचे आसाय.'

– 'खरें काय कितें?'

– 'हय रे. खरेंच. रातच्या काळखांत येतले ते.'

– 'आतां सावन सरदार सायबां कडेन झुजतले. जमीनदार, सावकार हांचेय कडेन झुजतले.'

– 'ल्हवू ल्हवू झुजतले?'

– 'पळय तूं. आदल्या सरदारां कडेन हें काम जावपाचें ना.'

– 'मागीर?'

– 'तरनाटे जाय.'

बीरसान ल्हवूच सांगलें, 'रानांत वचून लीप. तुमकां धरून दितल्याक आतां पांच-पांच रुपया तस्त्रीप दवरल्या.'

– 'तूं तें मिशन सोड आतां. सायब कितें म्हुण्टाय जाणा? मुंडा रानवटी, नागडे रावताय. सगले मुंडा चोर, लुटमारे. सोड तूं तें मिशन.'

– 'चल धानी, वच तूं!'

सुटये उपरांत बीरसा मिशनांत परतो आयलो. ताच्या मनांत भोव खळबळ आशिल्ली. मुंडां भितरले जे क्रिस्तांव जाल्ले, ते जर्मन लुथरन चर्चीचे क्रिस्तांव, रोमन कॅथॉलिक चर्चीचे क्रिस्तांव आतां सरदारांचे मुल्कुय लडायेंत पडिल्ले. बीरसान येवंचे आदीं आयकल्लें, ते म्हण्टाले, 'मिशनाचे सायब आनी सायब सरकार सगले एकूच. सायब आसासर मुंडांचें कांयच भलें जावंचें ना.'

तांचीं हीं उतरां मुंडांच्या तोंडांनी घोळत आसात.

मिशनांत बीरसाची हेर मुंडा भुरगे व्हड उमळशिकेन वाट पळयताले. एलियाझर, गिडियुन, योहान, मायका, टेंगा, भुटका, सगल्यांनी ताका रेवाडो घालो.

– 'बीरसा, कितें कितें आयकलां तुयें?'

– 'सरदारांचें झूज सुरू जालां.'

– 'आमी कितें करोप?'

– 'सायब कितें म्हण्टा? फादर नॉट्रट?'

– 'फादर म्हुण्टा, तुमचेकडेन उलोवपाचें ना. बीरसा येतकूच तेका सांगतां.'

– 'सांगूं दी.'

– 'तुगे आबा कितें म्हण्टा?'

– 'आबा दोनूय वाटांनी वाऱ्यार धोलता. एक फावट म्हुण्टा, सरदारांचें आयक. मिशन सोडून यो. आनी एक फावट म्हुण्टा, असलें नाका करूं म्हागे पुता. मिशनांतूच

राव.'

– 'फादर तुका कितें सांगता चोय.'

– 'तूं सांगता तें आमी आयकतले.'

– 'तूं आमगे मुखेली.'

बीरसान म्हळें, 'ओगी राव. कसलो मुखेली? मिशनांतूय सगल्यो गजाली उलोवप ना. धांवडावन घालतले.'

मुंडा भुरगे म्हणपाक लागले, 'त्या अमूल्या वांगडा घसट कित्याक दवरता तूं? तो बाबू, तो दिकू जातलो, तो मुंडांलो दुस्मान.'

– 'कोणे सांगलें?'

– 'आमका अशें दिसता बाबूगे भुरगो केन्नाच कोणा मुंडा भुरग्यागे इश्ट जाल्लो ना, जावं शकना.'

बीरसाच्या दोळ्यांत इंगळे फुटले. ताणे म्हळें, 'वाचूंक शिकों, बरोंवक शिकों, मुंडा ते मुंडाच उरताय. अमूल्य म्हागे इश्ट. हांव तेका सोडचों ना. तेका लागोन तुमी म्हाका सोडल्यार जाता, तुमकां जाय जाल्यार.'

मुंडा भुरग्यांनी एक दुसऱ्याच्या तोंडाक पळयलें. मागीर टेंगान म्हळें, 'ओगीच दोळे तांबडे कित्याक करता? तूं आमगे फुडारी. तुका जाय जाल्यार दवर तुमगे इश्टागत.'

फादर नॉट्रटाक कळून चुकिल्लें, मुंडारी भुरग्यांक भायलें वारें लागलां. ताणें बीरसाक आपोवन हाडलो. म्हणपाक लागलो, 'तूं म्हजो विस्वासी. याद धर. सरदार जें सांगतात तें आयकून मुंडा भुरग्यांचें बरें जावपाचें ना. मिशन सोडून वचून कितें लाब आसा?'

– 'खबर ना. कळना म्हाका.'

– 'आयक. मिशनांत रावल्यार सगल्या वाटांनी बरें. म्हजें आयकल्यार तुमचेर सरकार खूश उरतलो. भोव बरें जातलें.'

– 'जमीन परती मेळटली?'

– 'नक्कीच.'

– 'सगल्या मुंडांक जमीन मेळटली?'

– 'मिशनांतल्या मुंडांक मेळटली.'

– 'भुरग्यांक हें सांगल्यार बरें.'

– 'पळय. सरदार केश करूंक गेले. केश कोर्टांत पावली? कायद्या मुखार तांचें म्हणणें धरलें?'

बीरसा ओग्गी रावलो. सायबाक सगलें सांगून चलना. सायबाक तें कळना.

अमूल्याक कळटा. अमूल्यान म्हळें, 'हें खबरूच आसा मरे, बीरसा. मुंडा वकील उबो करतात. तो तांचे पैशे खाता. न्यायाधीशांक सगलें परतेंच सांगता.'

– 'मुंडांक चोयतकूच सगलेच दिकू जाताय.'

– 'अशेंच दिसता.'

– 'तेकाच लागून भरवंसो दिसना, कळ्ळें?'

– 'कळटा रे म्हाका बीरसा!'

– 'तूं आयज बरो आसा. मिशनांतल्यान भायर सरतलो, दोतोर जातलो तेन्ना असोच उरतलो? म्हजेकडेन उलोवंक तुका लज जातली _____'

– 'केन्नाच ना.'

– 'केन्नाच ना म्हुण्टा?'

– 'ना. केन्नाच ना.'

– 'चोवया.'

– 'पळय.'

– 'चोयतलोंच.' बीरसाचे दोळे हांसले.

– 'फादरान कितें सांगलें बी?'

– 'सांगता खूब कितें कितें.'

– 'खबरींनी काम जायत कितें?'

अमूल्याक खबर नाशिल्ली, बीरसाकूय सारखें खबर नाशिल्लें. बरींच कामां जावपाचीं न्हय.

1878 वर्सा मुंडांनी सरकाराक निवेदन दिवन कळयल्लें, छोटा नागपूर तांचे मालकेचो वाठार. ह्या वाठारांत तांचो अधिकार मानून घेवंचो.

मुंडांक कांयच नदरेक पडनाशिल्लें. सगलें धुल्लाच्या वादळान भरिल्ले वरी. सगलें धुक्यान धुंवटेल्लें. ते आसात, छोटा नागपुराचे भुंयेरूच आसात, पुण नात, छोटा नागपुरांत नात. कित्याक, तर ते जमनीर तांचें नांव ना. तांचे आनी तांचे मांयभुंये मदीं शेंकड्यांनी वण्टी. मिशन आनी मिशनाचे सायब ही एक व्हडली वणत. ते आसात देखून सिंगबोंगा सर्वशक्तिमाना मुखार आत्मसमर्पण करप जायना. सिंगबोंगाय मुंडांक ते तरेची राखण दिना. चिंतूंक गेल्यार तो आदलो काळूच बरो आशिल्लो. सिंगबोंगा सोडून मुंडांक हेर कांयच खबर नाशिल्लें. ताकाच लागून सेंगलदाच्या उज्या वेळार सिंगबोंगान मुंडांच्या फुडाराच्या आवय-बापायंक कुल्ले-बिळांत लिपोवन दवरून वाटायल्लीं.

1879 वर्सा त्या निवेदनाचें कांयच जालें ना. 1881 वर्सा मुंडा सरदारांच्या एका पंगडान मिशनांत तोडफोड करून थंयच्यान ते भायर सरले. तांणी म्हणिल्लें, 'आमी मेरीचीं भुरगीं. आमचो फुडारी एक मुंडा, जॉन दि बाप्तिस्त! छोटा नागपुराच्या राजांच्या मूळ थाण्यार-दोयेसाक आमी राज्य थापतले.'

पुण तांची ही फुशारकी तगली ना. तांका धरून बंदखणींत घाल्ले. तांणी परतेय नॉट्रटा कडेन येवन हट केल्लो, छोटा नागपूर भूंयसंपादन कायद्या प्रमाण सगली जमीन तांकां परती मेळूंक जाय. थंयच्यान ते फादर लियेव्होन्साकडेन गेल्ले.

हें सगलें घडून गेलें. मुंडा मिशनाचेर आनीक विस्वास दवरूंक शकनाशिल्ले. सरदारांच्या आंदोलनांत सगले भरती जातालें. सगले मिशन सोडून वताले. अणभवी सरदार म्हण्टाले, सिंगबोंगा कितें वायट आशिल्लो? तेन्ना मुंडांचे जिणेंत वाती जळटाल्यो. दिकू आयले त्या दिसा सावन तांची जीण काळखी जाली. आनी मिशनांत येवन तरी कितें लाव जालो? जिणेंतलो काळोख वाडलो इतलेंच न्ही?

चाइबासाच्या मिशनःच्या शांत सुंदर वातावरणांत सरदारांच्या हजारांनी प्रस्नांच्या उज्याचो धग लागतालो. मिशनांत शिकले उपरांत मुंडांचे स्रध्देची आंकरी त्या धगान बाक्ताली.

फादर नॉट्रटाक भंय दिसतालो. तेवटेन चक्रां फिरूंक लागिल्लीं, कायद्याचीं चक्रां. लियेव्होन्साकडेन गेल्ल्यांतल्या चाळीस जाणांक धरिल्ले. आठ–णव जाण केश चलतनाच बंदखणींत सोंपिल्ले.

मुंडांचो आतां मिशनाचेर विस्वास नाशिल्लो. तांचो पुराय भरवंसो कोलकात्याच्या बॅरिस्टर जेकबाचेर. जेकब इंग्लेजांक एक कलंकसो. सरकार आनी मिशनरी मुंडांक आडावंक सोदतात. जेकब तांका अधिकारां खातीर कायदो वापरून झुजूंक शिकयता.

फादर नॉट्रटाक भंय आशिल्लो.

तांणी सगल्या भुरग्यांक आपोवन खात्री दिली, 'तुमी किंगडम ऑफ हेवनावेलो विस्वास वगडांव नाकात. मिशनाचेर विस्वास दवरात. तुमका सगली जमीन परती मेळटली.'

अमूल्यान बीरसाक म्हळें, 'फादर नक्कीच खूब भिला. ना जाल्यार असो आपोवन व्हरून ह्यो सगल्यो गजाली सांगता?'

पुण काळ बीरसाक दुसरे जिणे वटेन ओडटालो. 1887- 88 वर्सा भितर सरदारां कडेन मिशनाचे संबंद तुटले.

मागीर एक दीस फादर नॉट्रटान म्हळें, 'सरदार नागवणे, फटकिरे.'

बीरसाच्या मनाक हें खूब लागलें. तो तर किंगडम ऑफ हेवनांतूच विस्वास दवरूंक सोदतालो! तो भरवंसूंक सोदी फादर नॉट्रटाचो लोब जसो धवो फुल्ल तशेंच ताचें काळीज आसतलें हाचेर! ताका विस्वास दिसतालो, निजाच्या क्रिस्तांवाक कोणाच भितर दूशण दिसना म्हूण! तो मोगांत पडिल्लो ह्या सुंदर वातावरणाच्या, सुंदर मिसाच्या, इगर्जींतल्या गायनांच्या! तो तर फादरांकडेन कृतज्ञ जाल्लो! तांणी ताका वाचूंक शिकयलें, परजळीत, ज्योतिर्मय विश्वाचें दार दाखयल्लें!

पुण सरदार मुंडा. ते मुंडांचें बरें चिंततात. ना जाल्यार कादयेंत वता कोण? बंदखणींत वचून तशे मरतात? सरदारांक नागवणे आनी फटकिरे म्हणत जाल्यार बीरसाच्या आंगांतल्यान मुंडारी रगताक उजो पेट्टालो. मुंडाचे कुडींतलें थेंबभर रगत म्हळ्यार पुराय कृष्ण भारत. तो भारत सेंगेलदाच्या उज्यांत कांय न्हय करून जळूं येत, सामको कांय

न्हय करून. कित्याक काय म्हटल्यार, त्या भारतांत भूंय सुकी सडसडीत, पेटूंक राविल्ली, दावानलाची वाट पळयत.

बीरसान मुंडा भुरग्यांक सांगलें, 'फादर बदमाश. ते आतां सरदारांक नागवणे म्हणटाय. सरदार मिशन सोडून गेल्याय तेचो सायबांक राग येयला.'

फादर नॉट्रटान बीरसाक आपोवन हाडलो. म्हणूंक लागलो, 'बीरसा दाऊद! तूं मिशनाच्या नांवान खेपता कित्याक?'

'तुमी सरदारांक नागवणे कित्याक म्हुणटात? कित्याक तांका गाळी घालतात?'

– 'ते नागवणेच.'

– 'न्हू!'

बीरसान एकदम संतापून म्हळें. नॉट्रटाक अजाप जालें. बीरसाक इतलें तापूंक येता हें ताका खबर नाशिल्लें.

– 'बीरसा! तूं म्हजे कडेन उलयता. आवाज देंवोवन उलय.'

– 'ना!'

बीरसा आड्डलो. म्हणपाक लागलो, 'कितें नागयलां सरदारांनी? ते मुंडांच्या हकांखातीर लडले. कैद जाले. मरून गेले ते नागवणे? ना – ना – ना!'

फादर नॉट्रट रागान थरथरत उलयलो, 'मुंडा सगले एकूच. मिशनांकडेन येतात भिकाऱ्याभशेन. भितरले भितर सरदारांचें आयकतात. सगले मुंडा बैमान.'

– 'ना! तुजीं उतरां परती! मुंडांक बैमानी कळना, कळ्ळें? कळ्ळ्यार ते अख्खें मिशनूच आड घालतले आशिल्ले.'

– 'तूं चलूंक लाग हांगाच्यान. ह्या मिशनांत तुका सुवात ना.'

– 'वयतां.'

बीरसाच्या दोळ्यांनी उजो पेटलो. रागान फातर जावन बीरसान म्हळें, 'सायब – सायब एकेच तोपयेचे. जशें सरकार, तशेंच मिशन, सगले सारखेच.'

बीरसा मिशन सोडून वचपाचो. अमूल्य धांवत आयलो. म्हणपाक लागलो, 'बीरसा, तूं वचूं नाका. एकदां सायबाची चूक माग. चूक जाली म्हण.'

– 'ना.'

– 'तुजें शिकप? तुजो फुडार?'

– 'मुंडाचें शिकप? मुंडाचो फुडार? मुंडा बाबू व्हय तर? काय तो दिकू? फुडाराचो हुस्को करीत खोंटो खायत पडोन रावपाक?'

– 'म्हजें आयक बीरसा.'

– 'ना.'

अमूल्यान ताचो हात धरलो. हांसून म्हणूंक लागलो, 'हात धल्ल्यार सोडूंक जातलें तुज्यान? हांव तुजो इश्ट. तूं चूक माग बीरसा, माफी माग. मिशनांत रावन शिकून

सवरून खूब व्हड जा. मुंडांचेर चड मोठे उपकार करूंक पावतलो तशें केल्यार.'

'हात सोड म्हागे.'

– 'आनी सोडलो ना जाल्यार?'

बीरसान नेटान हात झिडपिलो. अमूल्यान हात सोडलो ना. बीरसान आनिकूय नेटान हात झटकिलो. अमूल्यान हात सोडून दिलो. बीरसाचो हात दाराचे खिळयेर वचून आपटलो. हात कापून रगत व्हांवक लागलें.

बीरसा चाइबासा मिशन सोडून चालकाडाक गेलो. सुगाना ताचें सगलें आयकून अजापलो.

सुगानान म्हळें, 'गाळी कित्याक घायल्यो?'

– 'तेणें सरदारांक चोर कित्याक म्हुणले?'

– 'तूं सरदार न्हो न्हू रे.'

– 'सरदार मुंडा. हांवूय मुंडा.'

– 'आनी कितें?'

– 'आबा, सायब सायब एकेच तोपयेचे, म्हुण सांगोन येयलां हांव. सगले सायब एकेच लायकेचे, हें मात खबर नाशिल्लें.'

– 'आतां?'

– 'मिशन सोडचें आमी. सरदार दोनूय मिशनां सोडून आपल्या आपल्या धर्मांनी परते येयल्याय.'

– 'घर सोडलें, जाल्यार परतो सिंगबोंगाक पुजप? काय सदान (हिंदु मत) जावप? काय महाप्रभूचे वाटेन वचप? वा संन्याशांचो मार्ग?'

– 'तें मागीर चोवचें. आदीं मिशन तरी सोडूंया न्हो?'

– 'आनी तुजो हात कसो कापलो?'

– 'एक बाबू भुरगो हात धरून रावलो. नांव अ–मू–ल्य. तेच्या हातांतल्यान हात सोडोवंक गेलों, तेन्ना कापलो. तो बाबडो म्हाजे खातीर रडटालो. तेकाय सांगोन येयलों, दिकू जालो ना म्हुणोन कळ्ळ्यार जाप दितलों. ना जाल्यार उलोवंचों ना.'

– 'जाल्यार फाल्यांच वचोन नांव काडून येवया.'

■

# 7

पुण धानीन ताची फाट सोडली ना. एक दिस आयलो. सांगूंक लागलो 'सरदारांची मुल्की लडाय थांबल्या. तुयें मिशन सोडलांच. आतां तूंय चल. काय तूं मुंडा न्हो?'

— 'धानी, तूं सपनांच चोय.'

— 'कित्याक?'

— 'तुंयें 'वच' म्हुणल्यार हांव वयतलों?'

— 'मागीर?'

— 'म्हाका कळना! मन थतर–वितर जाता.'

— 'रानांत हेड्टा कित्याक पिशा वरी?'

— 'कोण सांगता?'

— 'हांव जाणा.'

— 'खबर ना. कितल्यो गजाली मनांत येताय. खंयच्यान येयलां हांव, कित्या पासत येयलां, कसो येयलां?'

— 'तुंयें सेंगेलदाची काणी आयकोंक ना?'

— 'आयकल्या.'

— 'जाल्यार तुका सगलेंच खबर आसा. सिंगबोंगान एकदां चयलें धतरिर सगल्याक मुंडाच मुंडा. इतले मुंडा जे एकामेकाक आपटोन सगले न्हंयांनी, दर्यांनी पडले. शेतांत कितलींय फसल जावं, ती पोटाक पावना. रानांनी कितलींय जनावरां आसूं , खावंक मांस सगल्यांक पावना. सगले आकुळ–पिकुळ जावन गेले. रागार जावन सिंगबोंगान सेंगेलदाक वतयलो. कसली उज्या वृष्टी जाणा तूं बीरसा! एक मुंडा दादलो आनी एक मुंडा बायल कुल्लेच्या बिळांत जीव राखून रावलीं. मागीर भायर सरोन येयलीं. तीं आसोन आमी जाले.'

— 'ही काणी म्हागे मनाक पटना.'

— 'जाल्यार कितें करतलो?'

— 'हांव सोदूंक भायर सरतलों. चोवया कोणाक खबर आसा जाल्यार.'

— 'खंय?'

— 'बंदगांवचो जमीनदार जगमोहन सिंग. तेचो कारकून आनंद पांडे – तेका

सगळें खबर आसा म्हुण्टात. तेणे शिकयतां म्हुणलां.'

'कितें शिकयतलो?'

'भगवान इस्पराची खबर.'

'तुका सांगलें, तूं यो. भगवान जा. मुंडाल्या घरा जल्मला, मुंडांक पळय मातशे. ना जाल्यार वच. दिकूवरी जानवें घालून पुजा कर.'

'केल्यार करीन. तूं आतां चल धानी. म्हाका बेजार हाडूं नाका.'

'वयचों ना? आनी कितें करूं?' धानी रागान चलूंक लागलो. बीरसा बंदगांवां आनंद पांडेक मेळूंक गेलो. जानवें घालें, गंद लायलें, तुळशी पुजा केली. रामायण-महाभारत-पुराणां सगलें आयकलें, थोडें भोव वाचलेंय.

पूण मनाक बरें पटलेंशें ना. बीरसा थतर-वितर, उचांबळ जाल्लो. मुखामळ भोव सुंदर जालें. मुंडागेर इतली लांब, सुघड कूड, अशेंच नाक, तितलेच ओडलायणे दोळे पळोवंक मेळना.

आनंद, ताचो भाव सुखनाथ पांडे हांणी म्हळें, 'बीरसा, खंय खंय भोंवता रे तूं?'

– 'भोंवतां असोच.'

– 'कित्याक?'

– 'रगतांत खळबळशी जाता.'

– 'जातलीच. वयावयलो भुरगो तूं.'

– 'चेः!'

– 'अशें कितें?'

– 'कांय कळना.'

– 'कितें कळना म्हण्टा? तुजी बांसरी आयकून सगल्यांक कळटा.'

– 'कांय कळना.'

– 'थंड जा. जप कर. तुळशी-माळ बोटार घोळय.'

– 'तेणे तुमकां शांती मेळटा. मुंडागे जातली?'

– 'सगल्यांची जातली.'

– 'आमचो देव खेरीत. आमी सिंगबोंगाची परजा. होरोम बोरा आमचो मूळ पुरीस.'

– 'देव सगलो एकूच रे! श्रीकृष्ण भगवान.'

मन भोव अस्थिर जाल्लें. देखून तळये कांठार बसून बीरसा सांजवेळा पिल्लूक वाजयतालो. तेन्ना थंय धांवत आयल्ल्यो दोन मुंडा चलयो – गुंजा आनी राता, म्हणपाक लागल्यो, 'बीरसा तूं आमका घेवन चल. गांवाक व्हर.'

– 'कित्याक?'

– 'तुजेकडेन लग्न जावंक.' गुंजान म्हळ्ळें.

राता कांयच उलय नाशिल्ली. फकत म्हणी, 'तुजे पिल्लुकेंत कितें आसा रे बीरसा? म्हजे भितर अशें कित्याक जाता?'

बीरसा पिल्लूक वाजोवपाचो थांबलो. थंडपणान उलयलो, 'तुमी घरा वचाय आतां. सांज जाली. शिंयांतली सांज. वाटेर भुतां आसताय.'

रातान ताका एक दीस म्हणिल्लें, 'म्हागे बाबा गांवचो मानेरत्त. बाबान सांगलां, जो म्हाजेकडेन लगीन जातलो तेका गोरवां-पोसरां, जमीन-जुमलो दिवन तेची वेवरस्था करतलों.'

बीरसान सांगलें, 'राता, तूं चल घरा.'

– 'तूं कसलें गीत वाजयता?'

– 'म्हाका गीत येयना. पूण सूर कळटा.'

पयस-पयसुल्ल्या रानां-दोंगरांनी सरदार तें गीत गायताले. गीताचे सूर भोव नकसूद. पुण उतरां बीरसाक खबर नाशिल्लीं.

सुनारा मुंडा, एक पोरगोसो वेठबिगार, ताणे बीरसाक तें गीत आयकयलें. बीरसाक सगले भिताले. कोण कसलो हो मुंडा भुरगो? मिशनांत सायबाकडेन झगडून मिशन सोडपी? भटागेर वचून गळ्यांत सूत घालून घेवपी? सदांच अस्थिर, अशांत, चंचल? कित्यांतूच सूख ना ताका. कोण लागीं वचनाशिल्लो. पूण सुनारा एक दीस ताका सांगून, ताचे पिल्लुकेचे सूर आयकून तें गीत गायत धांवल्लो.

'बोलेपे बोलेपे हेगा
मिसिहोन को
होइओ डुडुगोर हिजुताना
बोलोपे.... '

धांवत वचून फातरा फाटल्यान उबो रावन सुनारान म्हळें, 'म्हाका हें सगळें येता.'

– 'जाल्यार गावन दाखय सगळें.'

सुनारान पुराय गायल्लें. बीरसान ताका लागीं आपयल्लो. लागीं बसोवन ताणें गीत शिकून घेतिल्लें.

– 'हें कसलें गीत रे, सुनारा?'

– 'म्हाका खबर ना.'

– 'जाल्यार गायता कित्याक?'

– 'हें गायता ते आनी आयकता ते सगले भाव-भाव जाताय.'

बीरसान ताका वचूंक सांगलें.

पुण सुगानान ज्या दिसा भरमी, दासो आनी मातारीक ताचेकडेन धाडले, त्या दिसा बीरसाक तांका परत वचात म्हुण सांगपाक जालें ना.

भरमी बी आयल्ले शिग्रीडा गांवच्यान. तांणी म्हळें, 'बीरसा, भायर सर. मुंडांगे जीण

नश्ट जायत चलल्या. सगळ्यांक बंदखणींत उडयल्या सरकारान. तुळस पुजोन कितें जातलें सांग. कितें जातलें?'

– 'कितें जालां?'

– 'रानांतल्यान धांवडायले आमकां.'

– 'कोणी?'

– 'सरकारान! तुगे सायबालें सरकार !'

– 'म्हागे सायब सरकार!' फट् करून परत्या हातान बीरसान भरमीच्या पोल्यार एक फुलयलें. म्हणपाक लागलो, 'म्हागे सायब सरकार? म्हागे? म्हागे? परतें म्हुण.'

भरमीन पोलो पोशेलो. म्हणपाक लागलो, 'कितें करता तूं? हातान लोखंड बी पिळटा काय कितें?'

– 'सांगाय कितें तें.'

– 'रानांचो कायदो लागू केला आतां.'

– 'खंय?'

– 'पालामोउ, मानभूम, शिंगभूम.'

– 'कितें केलें शिंगभुमाक? कायदो 1878 वर्सांतलो.'

– 'कायदो आशिल्लो. लागू करूंक नासललो. आतां दवंडी घाल्या सगळ्या गांवांची खासगत जमीन रानां-हापिसान घेयली म्हूण. रानांनी आमी लाखांनी पुनवां सावन गोरां-बोकडां चरयल्यांय, लांकूड-बडी रानांतलीच हाडल्या. बीरसा, तेणी रानां व्हयलींच! हेजेमुखार कोणाक गायो-बोकडां व्हरोंक मेळचीं ना. रानांतल्यान लांकडां, पानां, म्होंव हाडूंक मेळचें ना आतां. कासाक वचोंक मेळचें ना. रानांतलीं गांवां सोंपयलीं तेणी.'

– 'ना !'

बीरसा व्हडल्यान आड्डलो. ताच्या रगतांत भिनिल्लीं चुटुआ आनी नागू आड्डून उठलीं. अरण्याचो अधिकार कृशण भारताचो मूळ अधिकार. जेन्ना धव्या लोकांचो देश दर्यातळाक झेमतालो, तेन्ना सावन कृशण भारताचे काळे लोक रानाक आवय म्हुण वळखतात.

बीरसान 'ना' म्हळें. तें ताणे म्हणूंक नाशिल्लें, ताच्या रगतान ताच्या तोंडान तें वदयल्लें. तो उलोंवक नाशिल्लो. सकट कृशणभारत आनी सगळे काळे लोक मेळून ताच्या तोंडान उलयल्ले.

बीरसा आनी घरा गेलो ना. थंय सावन तांका घेवन नीट चाइबासाक गेलो. निवेदन बरोवन रानां खात्यांत दिवन आयलो.

रानां खात्या मुखार मुंडांचो बाजार भरिल्लो. सगले निवेदनां - अर्ज घेवन आयल्ले.

अर्ज पळोवन ऑफिसांतले बाबू खो ऽ खो ऽ करून हांसले. तांणी म्हळें, 'कितें करतलो तूं?'

– 'रानांचो अधिकार दिवंचो पडटलो.'

– 'कोण दितलो?'

– 'सरकार.'

– 'दर्या पेंवन विलायतेक चल. थंय म्हाराणी आसा. ती मुंडांच्या भंयान थरथरता.'

– 'अर्ज फायल करून घे.'

– 'फायल म्हण्टा मरे! बरोंवक – वाचूंक शिकला काय कितें रे!'

– ''रे' 'रे' कित्याक म्हुण्टा? मुंडा मनीस न्हो? सायब दिसल्यार 'आप' 'आप' म्हुण्टाय. शेट दिसल्यार 'तुमी' जाता. मुंडाक मात 'तूं' आनी 'रे'?'

– 'ओगी बस.'

– 'हे दिकू! म्हाका बीरसा म्हण्टात. हांव सायबाक भिना. रितीन उलय.'

– 'हें:!'

– 'ना जाल्यार कान्या विखाच्या तिरान तोपतलों.'

धुमसत धुमसत बीरसा भायर सरून आयलो. ताणे भरमीक सांगलें, 'अर्जाक सरकार बदता? रोगोता, गुडरी, दुरकारपी, सगल्या ऑफिसांतल्या बाबूंनी अर्ज घेवन दाळाक मारल्या.'

– 'जाल्यार फुडें कितें?'

– 'सरकार रावता शारांत. थंय बसून कायदे करता. जे कायदे करताय ते मुंडा – कोळ – ओरांव हेंचें चिंतिनाय!'

– 'मागीर?'

– 'मागीर कितें करोप, तुमचें तुमी चिंतोप. एकलो कोण चिंतचो ना. दुसऱ्यान चिंतोप तुमचें सदांच. तुमी तेचे फाटल्यान रावताय, तो कुशीक सरल्यार पडले जेलांत? आपलें आपूण कांयच चिंतिनाय, तेच पासत तुमी तरासांत पडटाय. आनी चड तरासांत पडटाय महुआ आनी हांडियाक लागून. कितें सोरो पियेवंक शिकल्याय तुमी? आपलेच जिणेक उजो पेटयताय! रानांत वचपाचो हक वगडायताय. तुमी चवताळटाय, जळटाय, आनी परते रोखडेच सोरो पियेवन सगलें विसरोन वयताय!'

– 'तूं कितें करता म्हण्टा?'

– 'चोवया, कितें करूंक जाता जाल्यार!'

– 'तुगे जाण्टेलीं थंय भुकेन मरोंक तेंकल्यां.'

– 'मरतलींच न्हो. रान आसोन जितीं आसलीं.'

– 'रानांत रुखां पोंदा जें वरयां तण जाता, तेचे दाणे कसले मोठे जाणा बीरसा, घाटो कितलो जातालो.'

– 'जाणा.'

रागान, थतर-वितर जावन बीरसा बंदगांवाक परतो आयलो. पुण आनंद पांडे

म्हणपाक लागलो, 'तुका हांगा रावंक मेळचें ना.'

– 'कित्याक?'

– 'सरकाराक अर्ज करता, सरदारांच्या उतरांक भुलता तूं. तुका दवरल्यार धनी तापतलो.'

बीरसान दोळे बारीक करून पळयलें. ज्या कान्याचे तीर करतात, तशे तांबडेगुंज जाल्ले ताचे दोळे. ताणें म्हळें. 'वयतांच रे हांव ! पुण एक सांग.'

– 'कितें?'

– 'मुंडा न्हो जाल्यार म्हाका धावंडायतालो तूं?'

– 'म्हणचे कितें?'

– 'म्हणचे अशें. मुंडा अर्दकुटे, जनावरांवरी, देखून तेंका राखणे केले, लांकडां फोडूंक लायलीं. आतां मुंडांनी बोवाळ केला देखून धांवडाय तेका, अशें न्हो तें?'

– 'चेः चेः, पिसो तूं!'

– 'तुमचो देव तुमका हेंच शिकयता? असलो देव म्हाका नाकाच, तेचो कांय उपेग ना म्हाका.'

– 'सिंगबोंगाकूच पूज तूं वचून!'

– 'सिंगबोंगाय ना, तुजो देवूय ना. कोणाक पुजचों ना. तुगे मीठ खालां म्हुणोन सुटला तूं.'

– 'ना जाल्यार?'

– 'तुका फातरावन तुजो कुंडोच करतलों आसलों.'

■

# 8

बीरसा चालकाडाक गेलो. ताच्या मनाचेर, बुध्दीचेर, व्हड काळखी आयल्ली. कांयच दिसनाशिल्लें, सुचनाशिल्लें. सिंगबोंगाचे उज्यावृश्टी उपरांतचे काळखे परिस्थिती वरी.

त्याच वेळार चालकाडाक सुगाना आनी करमी उपाशीं मरूंक पाविल्लीं. करमीन रडून म्हळें, 'बीरसा पुता! खंय रे तूं साकभर मीठ आनी डबोभर जळोवंचें तेल घेवन येतालो तो. गाय-बैल, जमीन-जुमलो करपाचो! बापायक चोयतलो, आवयक पोसतलो! तूं जल्माक येतना भीनगांवच्या लोकांक म्हागे घरावैर मळबांत तीन नखेत्रां लिकलिकतीं दिसलेलीं. पैस रानांतल्यान कोणे तरी कुंकारो घालून सांगलेलें, इतल्या दिसांनी धर्तर-आबा जल्माक येयला. तो तुजो मुखडो कसलो जाणा, भिकाऱ्या पाश्ट. तुज्या उतराक मिशन सोडलें, कितें जालें चोयलें? सायबूय भीक वाडीना.'

बीरसा एक उतर उलयलो ना. ताचे भितर उजो पेट्टालो, पालवतालो. सामखें दिसतालें, तो आतां मरतलो तरी ना जाल्यार जगतलो.

पूण भूक तर वसवशाची. रानांत वचूंक मेळना. मानेरत्त रानां खात्याक रिपोर्ट दितात. रिपोर्ट दितांच हाती वयले हातीर पैशे. रिपोर्ट दिंवचो दिवन मुंडांक दंड. हापिसांतल्यान वाठाराच्या अधिकाऱ्याक हुकूम सुट्टा. ताचे कडल्यान रखवालदाराक.

मागीर दंड कोठडी. ताचे उपरांत लागून तीन पावटी रानां कायदो मानिना म्हटलें जाल्यार घरा भोंवतणचो पोरसाचो जागो लेगीत रानां वाठार म्हूण रानां खातें ताब्यांत घेता.

बीरसान बापायक म्हळें, 'न्हंयत नुस्तें ना?'

– 'खंयचें नुस्तें? रानांत आतां रखवालदारांचे डेरे पडल्याय. ते फातरांनी उदक आडावन नुस्तें धरताय.'

– 'रातचे रानांत रान सुरीण मेळना? रान कणगां?'

– 'ना पुता.'

– 'चिंचेपालो शिजोवन खायला केन्ना?'

– 'ओंकूंक येता.'

बीरसाक दिसलें, खंयची तरी अद्‌भूत, अदृश्य शक्त ताका हारयता. पुर्वील स्रध्दा

ताका मनांतल्यान आपणावंक जमना. देखून बोंगा ताका काळखे शक्ति वरी हारयतात.

तशेंच आसतलें. बोंगा निखालस सूड घेता असो. बीरसाचें मन आदीम देवतेची सासाय कित्याक मेळोवंक पावना? कित्याक तो एक फावट क्रिस्तांव जाता, एक फावट आनंद पांडेचें आयकता? कित्याक ताका दिसता आपलो आदीम धर्म आपल्याक राखूंक शकना म्हुण? हाकाच लागून तापिल्ले बोंगा आतां सूड घेतात.

तो गांवांतल्यान भायर सरिल्लो. मसंडीकडेन, चालकी मुंडिणीक पुरिल्लेसुवातेर तो तळपार बसलो. चालकी बाळंटेरांत मेल्ली. ती आनी तिच्या बाळकाचो आत्मो 'रोवा' परलोकांत कितें विकून खातलीं अशें चिंतून मुंडांनी चालकीच्या आंगावयली रुप्याची मुदी तशीच सांडिल्ली. चालकीच्या घोवान आठ आणे मड्यार दवरिल्ले. मसंडराखण्या बोंगाक धिरस्पटावन बीरसान थडें उसपून चालकीची कूड भायर काडली. ती भायर ओडटाना तो भितरले भितर म्हण्टालो – भंय दिसना म्हाका. खऱ्यांनीच तो भिवंक ना. चालकीचें मडें काळखांत सांसपितां सांसपितां बीरसाक आनीक एक गजाल कळ्ळी. भूक, पोटाचे भुकेची शक्त आळाबंदा हाडप सगल्यांत कठीन. ही भूक बोंगांचे नेम किंकोंत करपाचो धीर मनांत जागोवंक शकता. मुदी आनी पैशे घेवन तो रातच्या काळखांत बोडाबांकीच्या बाजारा दिकेन पळून गेल्लो.

थंय शेनवारचे सांतेक रुप्यामुदी विकून ताणे त्या आठ आण्यांचे तांदूळ विकते घेतिल्ले. तांदळांचें शीत सुगाना वा करमीक नेमान केन्नाच मेळना. थंय ताका ताच्या दादाच्या – कोमताच्या – पयसुल्ल्या मेवण्यान पळयल्लो. तेन्नाच ताणे चालकाडाक ही गजाल गांवार घाली.

करमीन रागान आनी दुःखान रडून आकांत केलो. पांयान तांदुळ धुकलून उडयले. धांवन येवन म्हळें, 'तुका भायरो करूंक लायतलें हांव. तूं देंवचार. देंवचार जाला तूं. मनीस उरलो ना.'

गीम सामको तापिल्लो. ज्येष्ठाचो म्हयनो. बीरसाले तकलेंत उजो पेटिल्लो. आवयक ताणे स्राप दिलो. आड्डून म्हळें, 'चालकीची हालवांतीण म्हुणोन कांय नासता. हालवांतीण मनीस न्हो. हालवांतिणीक भूक लागना. मनशाक लागता ती. हालवांतिणीच्या धर्मान तुज्या पोटाक पडल्यार कितलें बरें. तुयें तांदळांक खोंट मारली? खोंट मारून तांदुळ वडयले गे तुयें? हें कितें केलें तुयें?' व्हडल्यान तापून हड्डें पेटीत तो रानांत धांवलो.

रानांत पावतांच ताची तकली सदांच थंड जाताली. पूण हे खेपेक तशें जालें ना. 'सगलें म्हाजेंच. खंयचोच कायदो म्हाका आडावंक शकना.' तोंडान बडबडत तो रानांत भितर सरलो. 'तुका जेलांत व्हरून घालतले ते बीरसा' हो करमीचो आक्रोश ताच्या कानार पडलोच ना.

तो पुटपुट्टालो, 'धानीन सांगलां, हें सगलें म्हाजेंच. कोणाक दिवंचों ना हांव. हें रान! तुयें कित्याक सांगलें ना, तुजी सासाय जबरायेन काडपाचो हक कोणाक ना म्हुणोन?'

रानाच्या पोटांत वेंर घालून तो आनीक आनीक खोल रानांत सरतालो. रान सगल्याच मुंडांची आवय! पुण बीरसाक कळटालें ताची अरण्यमाय रडटा. अरण्याचेर बळजबरी जाल्ली, जुलूम जाल्लो. दिकू, कायदो हांच्या हातची गुलाम जाल्ली ती. अरण्यजननी सांगताली, 'बीरसा, म्हजो जीव वाटय. हांव शुध्द, नितळ, निश्कलंक जावंक सोदतां.'

बीरसा जमनीक नाक घांसतालो, रुखाक आंग घश्टितालो. ल्हान भुरग्यावरी निर्भयपणान रानाक अलौकिक भुजवण दितालो, उतर दितालो, 'दितलों, तुका शुध्दी मेळोवन दितलों. तूं म्हागे आवय, खऱ्यांनीच तूं सगल्या मुंडांगे आवय. तूं आसा म्हुणोन घराक आसर आसा, वणटी आसा, भुकेक कंद-फळां-मुळां-सोंसो-दुकर-साळ-हरण-सुकणीं हांचें मांस!' इतलें उलोवन तो सावध, सावचीत, तुरतुरीत सुकण्यांवरी मान आड घालून आयकूंक लागलो. ताच्या रगतांतलें रान उलयतालें.

दुखावल्ल्यान बुद निकामी जाल्ले, दळडीर, शेणिल्लेपण भोगपी रित्या थानांचे मुंडा आवयवरी अरण्य रडटालें, बीरसाक आयकूंक येतालें.

— 'हांव भश्टल्यां रे!'

— 'तुगे हांव शुध्दिकार करतलों, माये.'

— 'तुयें पळयलें मरे, दिकू आनी सायब एक जावन म्हाका परती परती भश्टितात.'

— 'हांव करतलों तुगे शुध्दिकार.'

— 'म्हगे पुतांक घराभायर काडले तांणीं.'

— 'तेंका हांव परते हाडटलों.'

— 'मुंडा-कोळ-ओराव-हो-सांवताळ सगळे पुरवणदारान आपयतकच चलूंक लागतात.'

— 'हांव ना दिवंचों तेंका वचोंक.'

— 'म्हगे रडें कोणाच्याच कानार पडना.'

— 'हांयें आयकलां तें.'

— 'म्हाजेवाटेन कोण नदर घालिना.'

— 'खंय गे तूं माये?'

— 'तुगे हड्ड्यांत, तुगे रगतांत.'

— 'म्हागे हड्ड्यांत, म्हागे रगतांत?'

— 'आनी खंय रावतलीं हांव पुता, म्हागे शाण्या?'

— 'खंय तूं?'

— 'नदर मार.'

बीरसान आपलेंच रगता तेळ्ळें. वा! ताची कूड म्हळ्यार छोटा नागपूरची भूंय - ताचें रगत ही न्हंये धार - हेच न्हंये कांठार आवय - ताची आवय - ताची अरण्यका माय - नागडी पडिल्ली मुंडारी कुंवारीशी - पुण हें नागडेपण पळोवन वासना जागना - कुडीची

भूक जागना – हड्ड्या पोंदा दुःखान उजो पेट्टा.

– 'तुका अशी उगडीबोडकी कोणी केली?'

– 'जांणी म्हाका भश्टिली, तांणीच.'

– 'हांव तुका रगत दितलों.'

– 'दी पुता म्हज्या.'

– 'तुजी लज धांपतलों हांव.'

– 'धांप म्हागे पुता. तेंच्यानी म्हाका उगडीनागडी वस्त्रहीण करून उकत्या मळबा पोंदा उडयल्या. तूं म्हागे लज राख.'

– 'राखतलों गे, राखतलों हांव.'

– 'खूब कश्ट पडटले.'

– 'कित्याक?'

– 'तुका त्रास दितले.'

– 'कित्याक?'

– 'तशें जाल्यार पुता म्हज्या, तुका भगवान जांवचो पडटलो.'

– 'भ–ग–वा–न?'

– 'हय रे बाबा. धर्तर–आबा जावंचो पडटलो. धर्तर–आबा नासल्यार धर्तरिची अब्रू धांकूंक जायत कोणाच्यान?'

– 'जाल्यार तुजो आबा जातां.'

– 'तुका जियेवंक दिवंचे ना.'

– 'भगवान जाल्यार तेकाय मारताच ते. जेझूक मारिल्लो, अशें मिशनांत सांगताले. कृष्णाक मारिल्लो पांयांक बाण मारून.'

– 'कश्ट काडटलो, सूख दितलो.'

– 'सूख दितलों?'

– 'तुका लागोन सगळ्या मुंडांक सूख मेळटलें.'

बीरसा मोठ्ठ्यान आडल्लो, 'हांव सगळ्यांक सूख. हय. हांव भगवान जातलों, बीरसा भगवान! धर्तर आबा जातलों हांव! हय, त्या चुटू आनी नागूच्या रगताचोच हांव. म्हाका लागून वांचतले मुंडा, म्हज्या हड्ड्याक कोंक करून. हांव रगताक वळखतां गे!'

व्हडलो गडगड जालो, मळबाक बिजलेन झळझळोवन सोडलें. खंय तरी पैस हती आड्डलो. वागान गरड घाली. बीरसा मळबा वाटेन पळोवन पावसाच्या थेंब्यांनी तोंड चिप्प भिजयत म्हण्टालो, 'हें सगलें म्हागे! आख्खें रान म्हागे. हांव धर्तरिचो बापूय षटी.'

तेवटेन चालकाडाक कोणाक न्हीद नाशिल्ली. सगल्यांक कळिल्लें, सुगाना मुंडाचो पूत बीरसा मुंडा पिसावला, पिशें लागलें खंय. करमी म्हण्टाली, 'ना–ना–ना!' सगळे म्हण्टाले, 'कित्याक मिशंनांत वचून सायबाकडेन झगडोन येयलो? सदां हटीच तो.'

– 'कित्याक धायलें जानवें? आनंद पांडे कडेन वचोन रावलो?'

– 'सदांच मोठो हुतहुतो.'

– 'चालकीचें मडें कित्याक उस्तून काडलें?

– 'म्हाका तांदूळ हाडून दिवंच्याक.'

– 'कित्याक रानां-रानांनी भोंवता?'

– 'म्हाजेर तापून गेल्लो तो.'

– 'पिसोच तुजो पूत.'

करमी कपलाक कोंक पडिल्ली तशीच आंगणांत बसून आशिल्ली. सुगानान म्हळें, 'नशिबांत आसा तेंच जातलें न्हो? कपलांत बरयल्लें ना तें केन्ना जाता?'

– 'चार दिसां सावन हें मोड चललां. मळब पिसावल्ल्या हतयावरी कुपांचें सोंडेंतल्यान उदक ओतता. न्हंयेक हुंवार, गडगड चलला, रानांत तो एकसुरो कित्याक हेडटा? करता तरी कितें?'

– 'कशें सांगतलो?'

– 'तूं बापूय तेचो.'

– 'जाल्यार कितें जालें?'

– 'हात पाय गुठलावन बसोनूच रावतलो?'

सुगाना ल्हवू उलयलो, 'तो म्हागे आयकता? आयजवेर केन्नाय आयकलां? केन्नाच आवाज चडोवन उलयलो ना, आड्डलो ना, उलयलां तितलेंय आयकोन घेयलां. पूण कामाची खबर केल्यार, तेका जें दिसता तेंच तो करता. म्हागे पूत तो. पूण तेका हांयें वळकोंक ना. तूंय तेका वळखना. मुंडागेर असलो भुरगो जावंक ना केन्ना.'

– 'तूंय तशेंच उलयता?'

– 'हय, उलयतां.'

– 'तूं उलोवं नाका. हें असलें आयकोन म्हाका भंय दिसता. हांव भितां. असलो भुरगो, असलो भुरगो, म्हणजे कसलो? तो सगल्यां वरी जाल्यार हांव भिंवचें नासलेलें! तो कसो म्हुणोन! कितें जातलें काय तेजें? आवयचें काळीज म्हागे, तें सांगता तेगे सर्वनाश जातलो!'

– 'जातलोच धरूया सर्वनाश. तुज्या – म्हाज्यान आडावंक जाता? सगल्या सरदारांची तेचेर नदर.'

– 'जाणां हांव.'

करमी रडत रावली.

म्हणपाक लागली, 'इतलेय भुरगे आसतना, तेंका म्हाजोच पूत कित्याक जाय? बीरसाच्या जल्मा काळार मळबांत तीन नखेत्रां दिसलीं तीं कित्याक? कित्याक सगल्यांनी म्हणलें, तुज्या घरा धरती आबा जल्मलो? देवा म्हाज्या! म्हाका धरती आबा नाका!

म्हाका म्हागे पूत काळजांत जाय. म्हाका म्हागे पूत जाय!' करमी कपलार हात मारून 'हो ऽ हो' करीत रडटाली. म्हण्टाली, 'आवयचें दुःख कोणाकूच कळना!'

उपरांत गडगड – बिजली – कऱ्यांचो पावस हांचे मदीं वाऱ्याच्या चाबकान साळ – महुआ – पलाश –सायले – केंद – रुखांच्या हाहाकारांत तांच्या दारांत अचकीत नगारो वाजलो.

हो नगारो मुखेल्यागेर आसता. व्हडल्या संकश्टांत, दावानळांत, हुंवारा वेळार, पुलिसांच्या अत्याचारांत, हो नगारो मुखेली भायर काडटा. ह्या नगाऱ्याचो आवाज खूब व्हडलो, गंभीर, रगत थरथरावपी. भूंयकांप जाल्यार धर्तरेच्या पोटांतल्यान गंभीर, चत्राय दिवपी हुंकार ह्या आवाजावरीच भायर फुट्टात. सुगानान दार उगडलें.

– 'कितें जालां?'

लोक! गांवच्या सगल्या लोकांक गडगड आनी बिजलेच्या निळ्या उजवाडांत दिश्टी पडटा काळ्या कातींचेर पावसाचें उदक चकचकता, गळटा.

सगळ्यांनी म्हळें, 'चोयात. धरती आबाक चोवन घेयात.' सगल्यांनी वांगडाच तकल्यो हालयल्यो. तो देखाव एक अद्‌भुत, व्हड अजापभरित. त्या देखाव्याची कल्पना केल्यारूच हड्ड्यांत धडधडटा. नगारो गंभीर वाजता, रान वादळाच्या चाबकान वाजता, मळब गडगड आनी बिजलेन हांसता, उदक ओतता. आनी मळबावटेन हात उखलून बीरसा येता. बीरसाच्या तोंडार–दोळ्यांत पावसाचें उदक, दृष्ट पर्जळीत, खर, भविश्यावरी, मुंडांच्या भविश्यावरी खर.

बीरसा मुखार आयलो. तकली वयर काडून, दोनूय हात उखलून. सुगाना आनी करमीचीं उतरां थिजलीं.

'बीरसा!' करमीच्या तोंडार अविश्वास.

– 'बीरसा म्हुणो नाका आई. हांव भगवान. हांवूच भगवान. हांव मुंडाच्या संतानांक विसरचों ना, हांडीर धोलोवंचों ना. हांव सगल्यांखातीर हीं रानां – दोंगर – जमीन सगलें जिकून हाडून दितलों. हेंका भगवान जाय आसलो, हांव भगवान जावन येयलां!'

– 'म्हाजेकडेन यो.'

करमीच्या शीर्ण, आंवळिल्ल्या हड्ड्यार बीरसान तकली तेंकयली. करमीचे दोनूय हात आपल्या हातांत घेवन म्हळें, 'आवो गे, हांव भगवान! तुका परतो आनी म्हाका धरूंक मेळचो ना. म्हाका आडांवक मेळचो ना. हांव आतां धर्तर आबा.'

करमीचो आर्त, काळीज चिरपी आकांत मुंडांल्या जैत – उल्हासांत चिड्डून गेलो, नगाऱ्याच्या ढूम् ढूम् ढूम् वाजतल्या गंभीर घोषनादांत बुडून गेलो.

मुंडा व्हडाव्हडान गर्जताले, 'आमचो बीरसा भगवान जाला. सगळे रोगी–अभागी वांचतले, मरतल्यांक वांचयतलो तो, भुकेल्ल्यांक जेवंक घालतलो, भात खावयतलो.'

नगाऱ्यार तोणयो पडटाल्यो.

– 'सगली भूंय परती दितलो, रानां परतीं दितलो, दिकूंक धांवडावन घालतलो.'

नगाऱ्यार तोणयो पडटाल्यो.

सुगानान कानांर हात दवरले. म्हणपाक लागलो, 'करमी! तुका सांगोंक ना हांयें हो पूत जितलो हांसयतलो तितलो रडयतलो म्हुणोन?'

– 'हय, कितें जातलें?'

– 'हांव भगवानाचो बापूय, तूं आवय. तो हांसयतलो-रडयतलो तशीं हांसूंया-रडूंया.'

सुगाना खोल, कळनाशिल्ल्या दुःखान, भंयान परती परती मान हालयतालो.

■

# 9

कांय दिसां भितरूच सुगानाचें घर तीर्थस्थान जालें. बीरसींग मुंडा, जाणे ह्या गांवांत तांका रावंक दिल्लें, तो बऱ्याच तेंपा सावन सरदारांच्या पंगडांत आसा. ताणे सगळ्या सरदारांक कळयलें.

सांवरीचीं बोंडां फुट्टून कापसाचे पुंजुले धाय दिकांनी उडचे तशी बीरसाची खबर पैस पैस पातळ्ळी. लोंगा कुरिया, नारंगा, तुबिल, मुचिया, बनपिरी, बार्तोआ, गोपाला, बीरबांकी, बोंदो, बांबा ... पैस पैसुल्ल्यान लोक येत रावलो.

मुंडांच्यो सगल्यो अपेक्षा पुराय करूंक भगवान मनीस रूपान जल्माक आयल्लो. लोक पंगडा पंगडांनी भगवानाच्या दर्शनाक येतालो. तो गावपी भुरगो सुनारा धनयाचीं बोकडां रानांत सोडून दिवन एके दोंगुल्लेच्या तेमका वेल्या एकमुळ्या पियासाल रुखाचे तेंगशेर चडलो. थंय बसून सगले मुंडा एके हारीन गायत गायत चालकाडाचे वाटेन वताले तांका पळोवंक लागलो. वयल्यान ताका मनीस–मुंयांच्यो राशी दिश्टी पडटाल्यो. सुनारान कपलाक आठयो घालून पोल्यार हात दवरलो. चिंतूंक पडलो, हो कसलो हुंवार आयला? कसल्या आसऱ्याच्या सोदांत हे सगले बीरसा कडेन चलल्यात?

सुनारान बीरसाक तें 'बोलोपे बोलोपे' गीत गावन दाखयल्लें. आतां कसलें गीत म्हण्टात काय ते?

'ने मुलूक दी शुमरे धरती आबाय हाइजी लेखाये भाद्र मासे,
मानुवा होनको रोशिक तानारे भाद्र मासे .....'
'ह्या वाठारांत धर्तर आबा जल्मला गो भाद्रपदांत
लोक मनयती खोस तीच भाद्रपदांत.....
करती लोक प्रार्थना येवन एक हारेन
वयती परते एक जावन पंगडांनी रीतीन
--- --- --- --- --- --- ---
चल आमची खोस मनावया करुया नमन धर्तर आबाक
तोच आमच्या दुस्मानांक करीत बंदी भाद्रपदांत....'

सुनाराक अजाप जालें.

काल सुनारा धनया बराबर सांतेक गेल्लो. सांते सावन कितल्योशोच नव्यो नव्यो खबरी ताका कळ्ळ्यो.

ताणे आयकलें, बीरसा धर्तर आबा - ही खबर, पालामोऊ मेरेन पावल्या खंय. आनी कसलोच जाती-पातीचो भेद नासतना, बीरसाचें नांव एक प्रभावी जोरगतीचें ल्हारशें जावन गेल्लें. त्या ल्हारान व्हडल्या व्हडल्या फातरांचे बांद व्हांवन चलले. फातराळ जमनींतल्यो ताजने न्हंय, कांचा न्हंय, ह्या न्हंयांनी हुंवारान फातर व्हांवन वतात.

बीरसा आतां जालो धर्तर आबा. कितल्या काळा सावन आदिवासी बीरसा भशेन कोणाक पूण सोदताले, कोणाक खबर! सिंगबोंगा सांगताक, मिशनाच्या धर्मा सयत एका बराबरुच झुजांत देंवक शकत अशा धर्तर आबाक ते सोदताले. ओरांव, कोळ, खारिया हांची राखण करूंक सिंगबोंगाक शक्य नाशिल्लें, तांका जेजूच्या पायां कडेन वचपाक भरवंसो नाशिल्लो. तांका नवो भगवान जाय आशिल्लो. जो भगवान निखटे जादू, पाड्यो देवता आनी स्राप दाखोवन चुकोवन घालचो ना. जो उपाशीं पडिल्ल्याक किंगडम ऑफ हेवनच्यो काणयो सांगचो ना तसलो देव.

जो देव सांगता, पाड्या देवांक न्हय, दिकू आनी सरकार हांका सोंपयात.

आपले हक आपुण झोंपून घेयात. जो देव सांगता, गरज पडल्यार मरण पत्करात, मरपाखातीर तयार रावात.

त्याच देवाची खबर पाविल्ली पयस-पाराक. खंय पालामोऊ, खंय छोटा नागपूर! पालामोऊचे चावडेर आनी चेचारी मेरेन खबर पाविल्ली! चडावत ओरांव आनी मुंडा बीरसायत जाल्ले.

ना, जाती पातीची आडखळ नाशिल्ली. हिंदु -वाणी - मुसलमान सगले चालकाडाक वताले.

बीरसाच्या दर्शनाक वताले.

मुंडा गायताले, हिंदुय गायताले
पांयां पडूंक सोदतां, सांग कितलें पैस चालकाड
वतलों हांव सवकास
कोण म्हण्टा उदेंत, कोण दक्षिणेक
वतलों हांव सवकास
रानांत गरड वागांची, भालू रडटा
सांग, वचूया ल्हवू-ल्हवू?
काय पंगडांनीच वचूं?
बीरसाच्या उतरांनी खंय उजवाड पाझरता?
वतलों हांव सवकास, आयकन ताची वाणी

सुग्रानाक बाजारांत आयकूंक आयल्लें, सरकाराक खबर पावल्या. तातुंत बरयलां,

रोगी, अपंगुळ, कुड्डे – सगले चालकाडाक वतात. चालकाड कितलें पैस, अटंग्या रानांत! थंय रावपाक जागो ना. जाल्यारूय ह्या उटंगाराच्या पावसांत अटंग्या रानांत, चालकाडाक रेवाडो घालून भक्तांची जात्रा भरल्या.

सुनाराक गोतंग मुंडान सांगिल्लें, 'हांवूय गेल्लों.'

'चोवन येयलो?'

'चयलो.'

'कसोसो दिसता?'

'भ–ग–वा–न!'

'भगवान!'

'म्हाका एक सांग, आदीं कितलो चोयल्लो, तुवेंय चोयल्लो. आतां चोयल्यार तुका तो बीरसा म्हुण वळखूंक येवचो ना. कसलो पावस म्हुणोन सांगों तुका, सुनारा! मळबांतल्यान उदक वततालें. माथ्यार वेळवाचो कंडो धरून रावलों. सांतू आनी मीठ घेवन गेल्लों इतलें! सांतू आशिल्लो तितले दीस थोडो थोडो खावन बसोन रावलों थंय. खाण सोंपलें तेन्ना परतो येयलों. आमी इतलो लोक गेल्लो, कितें सांगों!'

'कितें चोयलें थिंगा?'

'जितले म्हुण काणे – थोंटे – रोगी – कश्टी – सगले थिंगा बसोन आसाय. खूब गायनां रचल्यांय रालुडूच्या गोमी मुंडान.'

'कसलीं गायनां?'

'आयकतलो? चल.'

'खंय चल म्हुण्टा?'

'आयक तर –'

चल गा इश्टा, चालकाडाक, रानां पोटांत चालकाडाक
पळोंवक तेका वचोया
सगले वयता, आमीय या तेका पळोंवक वचोया
मळबांतल्यान सूत धरून देंवलो तो खाला
नवी खबर घेवन उतरांत देंवन तो येयला
दुदया पोटांत भरून उदीक, चल आमी या
आस मनची भागोंवक आमी चल थिंगा या
उदेलो तो सूर्यापरी, पूर्णचंद्रावरी
येंवचो ना तो सदां सदां, अचकीत भेट तरी
चल पळोंवन येवया त्याका
गेल्यार परतो दिसचो ना तो
येंवचो ना तो सदांसदां

केन्ना सोडून वचत वाठार बुडत तो काळखांत ।।

सुनारान आयकल्लें, गोतांग ताका सांगतालो ______

बीरसान ताका सांगलें खंय धवो रंग सायबाचो. धवी कोंबी, धवो दुकर सगळें भश्टें. देखून मुंडा धवी कोंबी, धवो दुकर कापून खाताय.

बीरसा खंय मळब-वारें-रान-भूंय हांची अवस्था पळोवन सांगतालो, व्हडलो दुकळ पडटलो 1895 वसां. सगळें पातकांत बुडलां. सेंगेलदाच्या उज्याकूय व्हडलो सर्वनाश मळबांतल्यान देंवतलो. नास्तीक सगले मरतले.

बीरसाचेर स्रध्दा दवरपीच वांचतले.

मागीर सुखाचे दीस येतले. त्या सुखांत आदिवासी शेत भाट – वृत्त वावर करपाचें सोडून दितले. नास्तिकांक ना नपयत करपी प्रलय येवं, पापाचें राज्य नश्ट जावं. शेत करून, स्रम करून, वेटबिगारी करून, सेवक – पट्या प्रमाण राबून दिकू, सावकार, शेटीचें पोट मोठें करून कितें जावपाचें आसा?

बीरसा नवें युग हाडटलो. नव्या युगांत मुंडांच्या सुखा खातीर कश्ट करूं येत. आतां काम बंद.

सरदार सगल्यांक सांगत सुटल्यात, 'भगवान म्हण्टा महासर्वनाश येतलो. धा सेंगलदांच्याकूय व्हड सर्वनाश. कोण शेतबीत कसों नाकाय. म्हासूल दिवं नाकाय. आपल्या आपल्या शेतांतली फसल खावन सोंपयाय.' हें आयकोन मुंडा खोश्येन, भंयान पिसावले. हें सांगणें भगवानाचें काय सरदाराचें तेंय चिंतून पळयलें ना कोणी. गोरां-वासरांक शेतांनी सोडून घालीं. वायंगणांतलो तरवो लेगीत खावन फस्त. जो तो घरांतल्यो कोंबयो कापतालो. सगलें विकून बाजारांतल्यान कपडे घेताले. नवे कपडे घालून गायनां गायत सगले भगवान पळोवंक चल्ले. शेट-सावकार कपडे विकून गब्बर जाले.

सुनारान मान हालयली. कांय समजना. काटुय गांवांत पटकेची धाम आयली. खबर आयकून भगवान आपुण जावन थंय धांवलो. ताणे सांगलें, 'रोगी आसा तेंका कुशीक दवराय. मीठ घालून तापयल्लें उदीक पिवंक दियाय. तेंचे कपडे हौदाच्या कांठार, झरीर धुवं नाकाय. सगले उदीक तापोवन पियाय. हें सगलें सांगलां तशें कराय. भात, पेज, घाटो, सगलें खाण – जेवण धांपून दवराय. शेळें – नासकें खांव नाकाय.'

– 'भगवान, तुगे पूजा करुं नाका म्हण्टा?'

– 'तितल्यान म्हागे पुजा जाली.'

– 'जाल्यार मंत्र बी कांय सांगना?'

– 'दितां.'

भगवान धुरा न्हंयच्या कांठार गेलो. म्हणूंक लागलो, 'फातरांनी उदीक कोणी आडयलें? उदीक व्हांवपाचें बंद जावन पांचवें जालां.'

– 'आमी केलें तें.'

भगवानान फातर काडून उडयले. हातजोड करून दोळे धांपून म्हणपाक लागलो, 'हेंका बुद्द दी देवा, गिन्यान दी, म्हाजे भितरल्या देवा. मुंडा पटकेन मरोंक लागल्याय.'

म्हणपाक लागलो, 'ह्या व्हांवत्या प्रवाहाचें उदीक खायाय. मंत्र म्हुणला हांयें. आनीक पटकी जावंची ना. आगाड्याचीं झाडां तुमकां सगल्यांक खबर आसा. तेंचीं मुळां वांटून खावंक विसरों नाकाय.'

खऱ्यांनीच कोणाक पटकी जाली ना. सरदार म्हणपाक लागले, 'चोयलें? पटकी जड्डी भगवानाचो मंत्र आयकोन सुकण्यावरी पांखां फुलोवन कशी हुडोन गेली?'

सुनारान मान हालयली. बीरसा जर भगवान जालो, मुंडा भगवान, जाल्यार सुनारा ताचो चेलो जातलो. सेंगेलदा आयल्यार ताणें कित्याक धनयागेर बंदो जावन रावप? धनी, ताच्या सोयऱ्यां भितल्ले सावकार, धनयाचो धनी जमीनदार, जमीनदाराचो धनी राजा, सगले पिसावल्यात.

– 'पिसो एक, अर्दकुटो! वयावयलो भुरगो, सामखोच बिगडलो ना, देखून भुताक चाळयता?'

धनी आनी सावकार हांचेमदीं हें उलोवणें जालें. सावकारान म्हळें, 'आतां मळब कशें जालां पळयलां? बीरसाक रानांत व्हरून भगवान करपा खातीरूच कितले दीस वारें-पावस आयलो. ते उपरांत मळब कशें बिगडलां पळयलें? उदकाचें नांव ना?'

– 'ना. मळब पळोवन तो सांगता खंय, हे खेपे भूंय जळून वतली. सगलो गोबर जातलो.'

– 'सरदार तरी कमी बदमाश? ते सांगतात खंय हाचे उपरांत सुकून करपल्ल्या शेतांक उजो घालात. मुंडांक दिसतलें भगवान खरेंच सांगतालो.'

– 'पुण परिस्थिती बरी ना.'

– 'कित्याक?'

– 'दुकळ पडटा. मुंडा येतात. सेवक-पटे करून घेतां, तांका विकते घेतां. कितलें सूख तातुंत? शेतांत राबतात, घरांतलो वावर करतात, पालखी उखलतात, बाबडे अन्नाडी अर्दकूट. शेत राखतले, पुण एक दाणो लेगीत चोरचे नात. घरांत देवांक मांडून पुजा जातना पळोवन भितात.'

– 'अन्नाडी अर्दकूट.'

– 'आतां कोण येनात आपल्याक विकूंक. सरदारांनी सगल्याक पातळयलां, मनीस घेवप - विकप कायद्या भायरें.'

– 'कायद्या भायरें तें आमकाय कळटा; पटो बरयतात तो तांकां भंय घालूंक.'

– 'हय. हांवेंय आयकलां अशें. पूण हे खेपे सगलेंच जळून वतलें. जाल्यार आनी भंय कसलो? पळय, जे भयान सदांच गुळी जावन रावतात, तांचो भंय वता, मुंडा जेन्ना हांसत हांसत आपल्या शेताची नासाडी करतात, तें लक्षण भोव वायट. त्या बीरसाक

लागून आमका बरेंच लुसकण आसा. इतलो तेप मुंडांनी कितें केलां सांग? भिनाशिल्ले?'

– 'इतलो तेंप भिल्यात.'

– 'बीरसा तांकां समजायता, मरतलोच जाल्यार भिता कित्याक?'

– 'आमी तरी आमी म्हुण भितात. मिशनाचे सायब कितले भिल्यात? कोण क्रिस्तांव रावंक सोदिना. सगळे मिशन सोडून वतात. ते म्हण्टात आमचेकडेन रावन बीरसा चार वर्सां भितर जें-जें शिकलो तेंच तोडून-फोडून तो मुंडांक फटोवपाक वापरता.'

– 'हातुंत भंय कसलो? दुकळ पडटा, तांदूळ मेळटा, वचून क्रिस्तांव जातात. एकेक खेप पिशांवरी चवताळून सरकारा आड लडूंक वतात. मार खातात, जेल-फांशी-कैद-चाबकांच्या भंयान वचून क्रिस्तांव जातात. दोन वर्सां पीक घेतात, पोटभर जेवतात, मिशन सोडून वतात. सायबान कित्याक भिंवक जाय?'

– 'भंय बीरसाचो. तो कितें करता कांयच कळना.'

– 'कळ्ळ्यार भंय नासता. कळना जाल्यार चड भंय.'

सुनाराक सगळें याद जालें ! ताणे पळयल्लें, लोक चालकाडाचे दिकेन चलत आसात.

बीरसाच्यो म्हुण ज्यो गजाली आयकूंक मेळटाल्यो, त्यो सगल्यो खऱ्यांनीच बीरसाच्यो काय कितें, तें कोणाक खबर ना.

बीरसा करमीचे हातचें जेवतालो. करमीले कुडींतूच न्हिदतालो. पूण करमीक कळिल्लें, तिका हाचे फुडें आपल्या पुताक वेंगावंक मेळचो ना. तो धर्तर आबा. भुंयेचे, धर्तरिचें मूर्त रूप तो. करमीक खंयचो धीर पुताक सांगपाक, 'तुका चोवन म्हाका भंय दिसता, पुता. तुगे चड भंय दिसता. जेका इतले लोक भजताय तेचो चड भंय. मनीस रोखडो विसरता. आयज माथ्यार घेवन नाचता, जाल्यार फाल्यां भुंयेर आपटिता.'

होरमू ओझाकूय भंय पडिल्लो. सदां काळ मुंडांक भूतबादा जाताली, चेटकिणीची नदर लागताली, दुस्मान तीर मारताले. सदांच ते होरमू ओझाकडेन येताले. होरमू ओझा तांदूळ, कोंबयो, चेंचयल्लो बोकडो घेतालो. जादू-तोणो, यज्ञ-याग करतालो. सगळे ताचें खरें धरताले.

आतां बीरसा जर सिंगबोंगा जावन बसलो, ताचे वरीच शक्तिवंत, जाल्यार होरमूक मुण्डा कित्याक मानतले? बीरसा म्हण्टा, 'मंत्र-तंत्राचेर विस्वास दवरूं नाकाय. मनांतलो काळोख पैस कराय, मुखार खूब वायट दीस येवंचे आसा.'

देखून गांवांत जेन्ना देवीची धाम आयली तेन्ना होरमून सांगलें, 'बीरसाच्या पातकांनी गांवार धाम येयल्या.'

बीरसान म्हणलें, 'हांव गेल्यार देवी वयतली?'

– 'वयतली.'

चाल्नकाडाची शीम हुंपून बीरसा भायर गेलो. पूण मरणां देंवलीं नात. घराघरांनी

मनशां मरूंक लागलीं.

मुंडा म्हणूंक लागले, 'होरमू ओझा! तुका आमी मारून तुगे मडें रानांत उडयतले. तुयें भगवानाक गांवा भायरो केलो. त्या पातकान गांवांत रोग पातळ्ळो.'

होरमू ओझाक भंय पडलो. ताणेय वचून बीरसाक सांगलें, 'बीरसा, तेन्ना म्हाका कळ्ळें ना. तूं खरोच धर्तर-आबा. तूं आसताना आनीक बोंगा-बोंगी पुजपाची गर्ज ना. तूं यो आतां. देवीक भायराय! ना जाल्यार ते म्हागे मडें पातळयतले, रानांत उडोवन दितले.'

बीरसा परतून आयलो. सगळ्यांक आपोवन हाडले. घरा मुखावयले लांकडाचे माचयेर उबो रावलो. हळदींत बुडोवन काडिल्लें नवें पुडवें, गळ्यांत जानवें, कपलाक गंद. मळबा वटेन हात उबारून कितलो वेळ दोळे धांपून रावलो. मागीर उलयलो, 'आयकाय समेरत्तांनो!'

– 'सांग आमगे भगवाना, देवा सायबा!'

– 'जेंका देवी लागोंक ना, तेणीं सगळ्यांनी कोडू निंबाचो पालो शिजोवन तें उदीक पिवपाचें. कोडू निंबू उदकांत शिजोवन त्या उदकान आंग पुसपाचें. जेका देवी जाल्या पुण पातशेवंक ना, तेंका धवे तुळशी पानाचो रोस, आल्या रोसांत भरसून खावयाय. फुटोन वयतली ती. मागीर देवी जाल्ल्या सगल्यांक कारात्याचीं पानां आनी हळदीचो रोस भरसून खावयाय.'

– 'आनीक कितें? मुखार उलय!'

– 'बरे नाशिल्ल्यांचें आंग पुसपाचें, खांवक दिवपाचें सगलें काम कोणेय एकल्यान करपाचें. हेरांनी ज्या घरांनी दुयेंस पावंक ना त्या घरांनी शेजाऱ्यां सांगात रावपाचें. सांगतां तें बरें करून आयकाय.'

– 'म्हागे भुरगो साप धाकलो. चलता, पुण सारखो चलना. तेका देवी!'

– 'तेका हांव पळयतलों. आनी मेल्ल्यांच्या कपड्यांचो सुवार्थ धरुं नाकाय. कपडे तशाक तशे लासून उडयाय. धुवन आंगाक घालूं नाकाय. जे मांदरेर ते न्हिदलेले ती मांदरीय लासाय.'

– 'मागीर?'

– 'चलाय आतां. हांव गंदा लेप घेवन येतां. घायांचेर गंदा लेप लायतां.'

बीरसा घरोन घर भोवंक लागलो. मुंडांक पटकी-देवी-सर्प चाबप, वागान धरप हे तरेचें मर्ण नशिबांतलें चुकना अशें दिसतालें. बीरसान तांका शिकोवपाक सुरू केलें, देवी-पटकी हांचेय वांगडा झुजूंक जाता. गिन्यानी भगवान सांगाताक आसल्यार पटकी जड्डी, देवी जड्डी आपूण जावन पळ काडटात.

गांवांतल्यान देवीची धाम गेली. मागीर करमीन सांगलें, 'बीरसा, तूं खरोच भगवान जालो पुता? देवी येयली आनी पांच-पन्नास मुंडा मेले ना अशें केन्नाच हांयें पळोवंक ना.'

बीरसान म्हळें, 'इतल्या लोकां मदीं हांव तुजोच बीरसा न्हो, माये! हांव धर्तर-आबा.'

– 'जालोच तूं धर्तर-आबा.'

– 'भगवान जावन येयलां. तुमका वाट दाखयतलों. मागीर वयतलों! दिकूंनी म्हागे शक्त वळखून म्हागे म्हणणें मानलें ना जाल्यार मुंडा वांचचे ना, हें कळ्ळां म्हाका.'



# 10

बीरसाक कळून चुकिल्लें, नव्या धर्माचो प्रचार - म्हामारी थांबोवपाचे उपाय सांगप, इतल्यान धर्तर-आबा जावप शक्य ना. आतां मेरेन ताणे जें जें केल्लें, ताचे फाटल्यान ताणे मिशनांत जोडिल्ली विद्या -थोडें भोव घडये वैष्णव धर्माचेंय गिन्यान - नितळ रावप, नेमान न्हावप, शुध्द-निर्मळ कुडीन - मनान प्रार्थना करप - हाचे फाटल्यान ताणे फाटल्या स-सात वर्सांनी घेतिल्ल्या अणभवांचो इतिहास आशिल्लो.

पूण ताका आतां नवें रूप घेवंचें पडटलें. अंतर्मनात ताका रानमायेचें रडें आयकूंक येतालें. हांव पवित्र जातलों. मना-काळजांत - रगताचे न्हंये-धारेंत ताका ती जननी दिसताली. नागडे-उगडे मुंडारी युवतीवरी ताजी कृश्णा जननी ---- आदीम आरण्यक रडून म्हण्टालें, 'हांव विवस्त्र रावंचीं ना. तेणी म्हागे अब्रू जबरेन लुटोन म्हाका अशी नागडी करून उकत्या मळबा खाला उबी केल्या.'

आपल्या अंतरींच्या एकसुरपणाखातीर, आपल्या काळजांतल्या काळखी एकलेपणांत निर्वासित जननी कृश्णा, भारत माता रडटाली. म्हण्टाली, 'म्हागे हड्ड्यांत आजूय दूद आसा, जाल्यारूय तेणी म्हागे पोरांक घराभायरीं करून सोडल्यां, असलें हें नशीब!' बीरसा उचांबळ जाल्लो.

ताची ही उचांबळाय उमजून करमी एके रातची उठून आयली.

करमीन म्हळें, 'धर्तर-आबा जालो, जाल्यारूय तुगे तडफड कित्याक सोंपना रे पुता? फांशांत पडलेल्या वागा भशेन रातभर भोंवतडे कित्याक मारता, सांग? तुका जाय तरी कितें, बीरसा पुता?'

'आये, तूं रातची न्हिदच ना काय कितें गे?'

'ना रे पुता! ज्या दिसा तूं धर्तर-आबा जालो, तुयें म्हागे न्हीद व्हयली.'

'कित्याक गे पुण, कित्याक?'

'बाबा! तुका आतां म्हागे काळजांतलें दुःख कळपाक ना. तूं तर आतां सगल्यांच्यो वेदना जाणटाय. कोण म्हाका वळखनासलो, कोणाक खबर नासली म्हाजी - आतां हांव दिसल्यार मुखेली आनी शेट लेगीत उठोन उबे रावताय. म्हुण्टाय, बाबा म्हाज्या! पूत तुजो भगवान, तुजे मुखार बसोन रावोंक जाता!'

'तेचें तुका दुःख काय सूख?'

'जितलें सूख तितलेंच दुःख पुता! कोमता-कोनू सारखो तूं जाल्यार, घरांत सून हाडटासलो, नातरां जातासलीं, कांय दुःख उरपा नासलें. कित्याक जालो तूं भगवान, पुता? एदो होड कित्याक जालो, म्हागे येंगेंत जायना येदो. कित्याक वयतलों म्हण्टा? खंय वयतलो बाबा, म्हागे पुता? कित्याक तुगे जल्मा वेळार म्हागे घरामाथ्यार मळबांत तीं तीन नखेत्रां दिसलीं? कित्याक धानीगे भयर्णीन तुका चाइबासाक पळोवन येतरीत सगल्यांक सांगोन उडयलें करमीगेर भगवान जल्मला म्हुणोन? कित्याक, कित्याक, कित्याक रे देवा?'

'वचोन न्हीद तूं आतां, चल.'

'सगल्यांक न्हीद पडटा. भगवानागे पाख्या तळा आसाय, निश्चिंत न्हिदताय. म्हाका मात न्हीद येयना. हांव भगवानागे आवय, भगवानाचें कितें जातलें ह्या भंयान हांव रडत बसतां.'

'आये, यो तुका घट धरून न्हिदतां.'

'म्हागे छातयेक तेंकोन तूं केन्ना न्हिदला, केन्ना तुका भुकेक खांवक दिलां, केन्ना तुका खरचटल्यार हांडीर घेवन तुगे रडें थांबयली, सगलेंच हय-न्हो शें काळखें झिळमिळेंशें याद जाता.'

'आये यो तूं!'

'हांयें आयकिल्लें, कोणे एके मुंडा आवयल्या भुरग्याक पुरवणदार घेवन गेल्लो. पूत येवपासलो ते वाटेर दोळे लावन न्हंये काठार बसोन ती आवय रड-रड- रड-रड- रड-रड रडोन थंयच गुंडो जाली! तूं म्हाका रडयतलो, हें म्हाका बरें ऽ कळ्ळां. हांवूय गुंडो जावन उरतलीं दिसता!'

'ना गे, तूं भिये नाका.'

'यो म्हाजेसरीं यो.'

बीरसा तिचे कडेन गेलो. करमीन आपल्या सुक्या, शीर्ण हड्ड्यार ताची तकली तेंकयली. तकलेचो वास घेवन म्हणूंक लागली, 'तुजे कुडी-माथ्याचो वळखीचो वास ना जालो मरे!'

'तूं आतां न्हीद पळोवया. हांव तुगे केंसांर हात भोंवडायतां.'

'भोंवडय पुता. तूं लागीं आसा, आयज दोळ्यांनी न्हीद लोटून येतली म्हाज्या.'

'दीसभर कित्याक कश्टताय?'

'बाबा! आतां हांव भगवानाचो संसार सांबाळटां. हांयें कश्ट ना काडल्यार ह्या सगल्या लोकाक पोटाक पडटलें? घर निवळ-नितळ उरतलें?'

'न्हीद तूं आतां.'

करमीक झेम पडली. बीरसा कपलाक आठयो घालून सरदारांची खबर चिंतूंक

पडलो.

माझिया मुंडा, बूध मुंडा, पोरान पहान, जे ताचे सगल्यांत लागचे मनीस, ते म्हण्टाले, 'भगवान, सरदार तुगे खांद्यार कुराड दवरून सायल्या रूख मारूंक सोदताय.'

बीरसाकूय खबर आसा. हें जाणून आसा तो. सरदारांची चळवळ म्हळ्यार अर्ज-विनवण्यो करपा पुरती. ते चळवळींत केन्नाच एक गजाल स्पश्ट जावंक ना. चळवळ सरकारा आड आसा, मिशनरीय सरकारा वरीच मुंडांच्या हिता आड. दांत चिड्डून झुजप हो एकूच मार्ग हेंय आजून सरदारांक पटूंक ना. सरदार मुंडांच्या हिताखातीरुच चळवळ करतात, पूण ती पळयल्यार फकत छोटा नागपूर टेन्युअर ॲक्ट चालीक लावपा पुरतीच चळवळशी दिसता. हेच खेपे तांणी मिशनाची संगत सोडल्या. आतां तांची मोख सादारणशी नक्की जाल्या काय दिसता. मार्ग मात घातक.

सरदार सगळे येवन येवन ताचे अनुयायी जावंक लागल्यात. पूण ताचे फाटल्यान तांचे हेत तरेतरेचे आसात.

आतां हो बीरसिंग मुंडा - जाणे तांका हांगा चालकाडाक सुवात दिल्ली, ताचीच खबर. बीरसिंग मुंडा अणभवी सरदार. 1831- 32 वर्सा कोळांच्या बंडांत वांटेकार जाल्ल्यान ताच्या आज्याची चालकाडा वांगडा हेर 22 गांवांची मानेस्ती गेली. बीरसिंग सोदता बीरसान चळवळ करची. तातुंत वांटो घेवन तो परतो मानेस्त जांवक पावंचो.

मांगा मुंडा, जॉन मुंडा, मार्टीन मुंडा बी सरदार ताचेकडेन पावल्यात. ताचें कारण, तांका खबर आसा सरदारांची चळवळ दुर्बळ आसा.

तांका खबर आसा बीरसाचेर मुंडांची अमाप स्रध्दा. ते बीरसाक वापरूंक सोदतात. तशें केल्यार तांची चळवळ तडीक पावतली.

सरदार बीरसाच्या अलौकिक सामर्थ्याच्यो काणयो पातळायताले. गिडियून, इलायजर, प्रभुदयाळ असले कांय वेंचीक सरदार बीरसाकडेन आयल्यात.

बरें, भोव बरें!

ताचे चळवळींत सरदारांची चळवळ भरसूं. पूण बीरसान सरदारांच्या हातांतलें बावलें जावंक जायना. ताणे फुडारी जावंक जाय.

तशें जाल्यार मुंडा राज्याची घोशणा करीत काय बीरसा? ज्या राज्यांत सगल्या परक्यांक हद्दपार करतले. ज्या राज्याचो मुखेली खासा बीरसा आपुणूच जातलो?

बीरसाक कळ्ळें, तो धर्तर-आबा जाला तो फकत एका इस्परी धर्माच्यो, नवे उपासने रितीच्यो खबरी सांगूंक न्हय. ताची आवय, कृशण अरण्यकेचें दुःख आनी लज तातुंत येंवचीं ना. ताका दुसरें कितेंय तेरी उलोंवचें पडटलें.

बीरसान थारायलें, हाचेमुखार मुंडा सोडून कोणाच कडेन उलोवप ना. शेट-सावकार आनी दिकू हांका ताच्या सभांनी प्रवेस ना. जमीनदार, सावकार, वाणी हे मुंडांचे दुस्मान म्हणपाची खबर तो मुंडांक सांगतलो!

पूण बीरसाची दिकूंक भिरांत आशिल्ली. बीरसा नकळ आशिल्लो, सरदार सगळे येवन तेच्या पंगडांत भितर सरतात म्हणपाची खबर सरकारी हापिसांतल्यान मिशनांतल्या सायबांक येवन पाविल्ली. सायबांनी रिपोर्ट बरयलो. चाइबासा आनी रांचींत पुलीस सतर्क जाले. मुंडा सगले एका नांवा भोंवतणी जमा जाले. दुकळ, उपासमार, सरकारी पुलीस ह्या सगल्यांचो भंय ते विसरून गेल्ले, आतां सायब-सरकाराक भंय दिसूंक लागला.

बीरसाक खबर नाशिल्ली - ताच्या नांवान व्हडले व्हडले रिपोर्ट वताले. मिशनाच्या सायबांनी बरयिल्लें, बीरसा आमचे हांगा रावन जें जें शिकला त्यो बायबलांतल्यो काणयो सांगून तो मुंडांक फितयता. आमकां म्हामारे वेळार सेवा-जतनाय करताना ताणे पळयल्यात तेच तरेन सेवा करून मुंडांक फितूर करता. मनीस शिकनाशिल्लो, बदमाश, अर्दवट आनी फटिंग.

सरकारी कागद आयलें, 'तशें जाल्यार तामाराक साकून मुंडा ताचेकडेन कित्याक वतात? तोय मिशनाच्या पादऱ्यांच्या वाठारांनी कित्याक भोंवता? बीरसा कित्याची पुनर्निर्मणी करूंक सोदता? एके आदीम धर्मस्रध्देची काय बंडाची? मतींत घेवपाची गजाल अशी, 1831- 32 वर्सा तामार बंडान पेटून उठिल्लें. नोंद घेंवक जाय, सरदारांच्या बंडांत सायब-सरकाराआड कसलीच तक्रार आरंभाक नाशिल्ली. सरदारांचें झूज दिकूं आड चलिल्लें. सायब-सरकार आपलें दुस्मान, ही भावना तांचे मदीं उपरांत आयली. पूण आतां सरदारांक खबर आसा, सायब-सरकार तांचो दुस्मान.

कागदाक जाप गेली, 'बीरसान कितेंय म्हणूं , तोंडान कितल्योय धर्माच्यो खबरी उलोवं, ताचे भक्त हत्यारां पुंजावंक लागल्यात. बीरसाच्या धर्माचें कांयच कळना. आतां इतलो खर दुकळ. जाल्यारूय मुंडा हांगा मिशनांत येवन अन्नछत्र उगडूंक मागिनात. बीरसाचो प्रभाव इतलो वाडत चल्ला, सरदार सोंपल्याच म्हणुं येत. ताणे एकदां उलो मारल्यार सगले मुंडा बंड करतले.'

सायबांची ही कांयच खबर नासतना बीरसान मुंडांक साद घाल्लो, 'हांव भगवान हें तुमी परीपरींनी चोयलां.'

— 'चोयलें.'

— 'आतां आयकाय. मुंडांचेर व्हडलें संकश्ट येयलां. दिकूंनी मुंडांक कळांतर आनी रिणां, कोळशा-खणी, रेल्वे, बंदखण-कोर्ट अशा हजार आड्यांभितर बांदून घायल्याय. आतां आमकां सगल्या तरांनी स्वतंत्र जावंचें पडटलें. सगल्या परक्यांक धांवडोवया. कोणाक कसलो म्हासूल दिवप ना. सगलीं रानां ताब्यांत घेवया. आदीं घेयल्यां तशींच.'

— 'केन्ना पुण?'

— 'हांव सांगतलों तेन्ना. आयच्यान आमी कोणीच गोऱ्या लोकांकडेन उलोवप ना. म्हाका कोणीच :''बाबू'' म्हुणंपा ना.'

– 'ना म्हुणपाक. आदीं मानान म्हुण्टाले.'

– ''बाबू'' म्हुणोन म्हाका मान दिवंचेली गरज ना.'

– 'म्हुणपाक ना.'

– 'लडाय केन्ना सुरू करोप तें हांव सांगतलों. आतां सावन गांवां गांवांनी सगल्यांनी तीर पावते करप. पान धाडल्यार धर्माच्या कामाक आपयतां हें तुमी जाणाय, तीर धाडल्यार समजयाय, हांव तुमकां झुजूंक आपयतां.'

– 'दितां धाडून. तीर धाडून दितां, बाबा! कान्या दिका तीर!' खोश्शेन धानी मुंडा हुडकी मारून उबो रावलो. धवे फुल्ल केंस, कांपते हात जोडून मळबा वटेन व्हरत तो आड्डलो, 'घेवन वचाय! पांच वर्सांसावन हांयें कितले ऽ तीर करून दवरिल्या. हांव जाणासलों, बीरसा एक दीस पुण तीर धाडटलो.'



# 11

धानीन घडयल्ले सगले तीर गांवांगांवांनी पावंचेच आसले, ते आदींच सरकारी चक्रां घुंवंक लागलीं.

मुंडा शेतां रोयना जाले, रीण घेना जाले.

जमीनदार जगमोहन सिंग, सावकार सूरज सिंग, म्हासूल अधिकारी बलराम साहू, पुरवणदार शिवलाल बी सगल्यांक मोठो भंय पडलो. म्हासूल ना, कळांतर ना, जमीन घाण दवरून दाणो गोटो कसलीच उधारी ना. च्यावे मळ्यांत मानायपणाक कोण वचना.

मिशनांतल्या सायबांकूय भंय जाल्लो. कोण क्रिस्तांव जावंक तयार ना. सगले मिशन सोडून चल्ले.

सरकाराक वास लागलो. ही बंडाची तयारी न्हय जाल्यार आनीक कसलें लक्षण तर? कसल्या धीरार ते शेत-भात करपाचें सोडून दितात? शेत कसल्यार, वरस भर मळबा दिकेन उपकारा खातीर नदर लावन शेत कसल्यारूय, जांका दोन वेळांक पोटभर घाटो मेळना, तांच्या हड्ड्यांत इतलो धीर कोणी ओतलो?

डेप्युटी कमिशनरान तामाराच्या पुलीस इन्स्पेक्टराक कळयलें. 1895 वर्सा 6 आगोस्ताक तामाराक खबर पावली - बीरसान सांगलां, 'सरकार "पडलां", सोंपलां, बरखास्त जालां, आतां मुंडारी राज्य घडटलें.' तेन्नाच हेड कॉन्स्टेबलाक आनीक दोन कॉन्स्टेबल वांगडा दिवन इन्स्पेक्टरान धाडून दिलो.

चालकाडाक पावंक तांका व्हड रात जाली. सुगानाल्या घरा भोंवतणीं घरांच घरां उबारिल्लीं बीरसायतांनी. पुलीस एका घरांत बसून रावले. बीरसायत गांवांगांवांनी तीर पावते करूंक भायर सरिल्ले. काळखी रात! पावस पडटालो. सकाळफुडें दोन शिपाय बीरसाल्या घरांत दाखल जाले. म्हणपाक लागले, 'तुका अटक केल्या, बीरसा.'

पुण बीरसाक अटक जाली ना. सुगाना आनी हेर बीरसायतांनी पुलिसांक सांगलें, 'चलोंक लागाय.'

बीरसान म्हळें, 'त्या घरांत विसव घेयाय. इतल्या पावसांत परते नाका वचूं तामाराक.'

हवालदारान म्हळें, 'सुका चौकीदर! तूं कोचांगाक वच. पाद्री पावलूशाक घेवन यो.'

पाद्री पावलूश आनी कॉन्स्टेबल युसूफखाँ दोनशीं मुंडा, महातो आनी मुखेली हांका

घेवन येवन पावले. परतोय बीरसाच्या दारांत.

बीरसान हांसून म्हळें, 'सरकाराचें मीठ खातात. धरूंक येयल्याय म्हुण आयकलें. कित्याक धरतात तें सांगा पळोवया.'

सांगाताक आयिल्ल्या मुंडांनी म्हळें, 'जाप दियाय न्हो!'

– 'तूं मुंडांक चाळोवन घालता.'

– 'हांव धर्माची खबर सांगतां.'

– 'मुंडा येतात कित्याक?'

– 'तेंकाच विचाराय तुमी.'

– 'म्हासूल कित्याक दिना?'

– 'विचाराय तेंकांच.'

– 'शेत करानात कित्याक?'

– 'तेंय तेंकांच विचारात न्हो!'

– 'तूं सांग. सरकारान तुका धरपाक हुकूम काडला. तूं हांच्या कामांत अडखळ हाडटा.'

बीरसान सवकास म्हळें, 'पावलुश, त्या पुलिसांक तूं विचारून चोय. णव तारखेक राती सावन ते त्या घरांत आसलेले आमकां खबर आसलें. हांव तेंका मारून उडोवंक शकतालों, धांवडोंव शकतालों. हांये तसलें कांयच केलें ना. पावसांत तेंकां भायर घायले ना. तेंच चुकलें. तुमकां कांय त्रास ना मूं म्होण विचाल्लें. चुकलेंच तें. तेंका कोण तांदुळ विकते दिनासले. हांयें सांगतरीत तेंका तांदूळ –दाळ –मीठ मेळ्ळां. तीय म्हाजीच चूक! आतां तूं सांग तूं मुंडा आसोन म्हाका कित्याक धरता?'

– 'तूं सरकाराचो दुस्मान.'

– 'हांव भगवान. मुंडांगे भगवान. हय, एक खरें. सरकार जर मुंडांकडेन दुस्मानपण करीत जाल्यार हांव सरकाराचो दुस्मान. आतां तूं पाद्री जाला. सरकार मुंडांक रानांतल्यान भायर घालता. जमीनदार, सावकार हे कुड्ड्यांक कायद्याचो भंय दाखोवन तेंका घराभायरे करताय. तूं आतां मुंडा उरलो ना. देखून मुंडांगे दुःख तुगे काळजांत वाजना. तूंय दुस्मान.'

– 'कोणाचो?'

– 'मुंडांगे. मिशनांत म्हाका 'रे रे' करताले, 'तुमी' म्हुणी नाशिलो एकलोय. कित्याक? हांव मुंडा म्हुणोन. हे म्हाका धरतलेच, कळ्ळें पावलुश, हेंका नांव – निशाणी घालूंक कळ्ळ्यार पुरो, सरकार तेंका चाकरी दिता. मुंडान कितलेंय शिकोप केल्यारूय तेका चाकरी दिना सरकार. हे म्हाका धरतलेच. हेंगे सोयरे–धायरे, दायजी–घरचे मुंडांगे सगल्यो जमनी घरां – आरपत – रानां सगलें गिळोन बसल्याय. पूण तूं कसलो मुंडा रे, पाद्री पावलुश सांग पळोवया?'

– 'बीरसा, बरें जायना, पुणून हें.'

– 'कित्याक? हें केन्ना आयकों ना तुयें? पावलुश, आयक. हांयें मडें उसपून मड्यावयले पैशे चोरले, आवयन म्हाका धांवडयलो, हांव रानांत गेलों. पिसो जावन हेडटालों. मागीर अचकीत मळबांत गडगड जालो, बिजली चकचकली, तेन्ना म्हाजेभितर थंडायशी भरोन येयली. सगलेंच किर्रशांत, मख्खमोने जालें. म्हाका तेन्नाच कळोन येयलें, हय, हांव भगवान. हांव, बीरसा, हांव भगवान. सिंगबोंगा धरून मिशनांत सांगताय त्यो देवाच्यो काणयो सगल्या सगल्या परस म्हागे शक्त व्हडली.'

पावलुशाक थरथरो भरलो. तो हवालदारावाटेन पळयत रावलो. हवालदाराचे नदरेंत भंय. मुंडांनी तांका रेवाडो घालो. काळ्या मुखड्यांचेर धिटायेचें तेज.

– 'म्हाका सरकार धरतलें? धरून दवरूंक जावंचें ना. मारतलें? मारूंक शकचें ना. जितले दीस एक लेगीत मुंडा एक रोंप रोयतलो, एक रुख मारतलो, एक घर बांदतलो, त्या सगल्यांत हांव आसतलों हें याद धर पावलुश. हांव धर्तर-आबा. म्हाका अंत ना. तुमच्या हातान तर नाच.'

पावलूश ज्या मुंडांक घेवन आयिल्लो, तांणी बीरसा मुखार दांडे सकल दवरले. म्हणपाक लागले, 'व्हडलें पातक करोंक येयल्ले. आमकां चूक भोगशी, भगवान.'

बीरसान व्हडल्यान म्हळें, 'वाटेक लायाय तेंकां. शिमे भायर कराय. धांवडोवन घालाय.' मुंडा त्या शिपायांक आमडून व्हरूंक लागले. तांच्या हातांतल्यो बरच्यो तांणी पुलिसांच्या फाटींक लावन धरिल्ल्यो. मुंडा बायलांनी फाटल्यान पितळीच्यो झांजो वाजयल्यो, गाळी संवल्यो. धांवतना पावलुशाक दिसलें, कसो सुटप ह्या लफड्यांतल्यान?

आतां रांची पुलिसेचो डेप्युटी सुपर मियर्स आयलो. वांगडा मुरहु मिशनाचो रेव्ह. लास्टी, बंदगांवचो जमीनदार जगमोहन सिंग आसले. सांगाताक आर्माद पुलिसांची व्हडली फौज.

चालकाड गांवाक घेरून पुलीस बायोनेट उबारून मुखार सरले. घरान घरा मुखार पुलीस हातांत आर्म घेवन. बीरसा न्हिदिल्लो. पुलिसांनी ताका कांय न्ही करून धरलो. भायर येवन बीरसान मुंडांक म्हळें, 'तुमी भिवं नाकाय. हांव परतो येतलों. भिवं नाकाय.'

ते उपरांत ताणे मुंडारींतल्यान सुगानाक कितें पुण सांगलें. मियर्साल्या कपलाक आटयो. रेव्ह. लास्टीन सांगलें, 'बीरसा सांगता, खंयच्याच मुंडान आडावंचे न्हय.'

– 'धानी, धानी, कितें म्हण्टालो?'

– 'कितें पुण सांगलें, धानीचे तीर आजून आसात. आजून वेळ आसा. तेणे सांगले बगर कोण झुजूंक वयचो ना.'

– 'भगवानाक धरलो, भगवान कांय करूंक पावलो ना, ताचेर कितें ताचें म्हणणें?'

– 'धूर्त सैतान! म्हण्टा, हें धरप, व्हरप ही ताच्या देवपणाची परिक्षा.'

– 'निमणें हांसून कितें म्हळें ताणें?'
– 'अर्थ नाशिल्लें, फालतू कितें तरी.'
– 'जांव पुण सांग तूं.'
– 'काळे गुंजीचे रुख सोदात खंय.'
– 'गुंजी रुख?'
– 'हय व्हय. गुंजांचें तेल ते केंसांक लायतात.'

■

# 12

पूण चालकाडा सावन रांची मेरेन खूंटी, तामार, बंदगांव, कोचांग सगलें धुंवून धुंवून जळूंक लागलें. मूरहूंत लास्टीक, बंदगांवांत जगमोहनाक पुलिसेची राखण दिवंची पडली.

आतां सरकारान म्हळें, 'एका अर्दपिशा वीस वर्सांच्या मुंडा भुरग्याचो गरजे भायर भंय धरतात रांचीचे सरकारी नोकर. चड मातयला हो प्रस्न. मियर्सान ही कारवाय ना केल्यारुय जाताली. असो भंय कसलो आशिल्लो?'

रांचीच्यान रिपोर्ट गेलो – 'चालकाड आनी साबार ल्हान पैस पैसुल्ल्या गांवांनी, गरीब मुंडा वसत्यांनी लोकांच्या मनांनी हिशबा भायर राग भरला. मुंडा कांयच उलयनात, पुण जमीनदार आनी सावकारांचेंय कांय आयकनात. शेताक मानाय मेळनात, कोण वेठबिगारी करिना. ना खाल्यार मरतले म्हुण सांगल्यार मुंडा सगल्यांक सांगत सुट्टात, आमी कितें दिकू तर, उपास–अर्दपोटाक भिवपाकु?'

आतां सरकारान विचारिल्लें, 'उपासमारी तर पातळ्ळयाच सगल्याक. मुंडा लोक कितें खातात?'

जाप गेली, 'वरयांचो घाटो. मेळ्ळ्यार खातात. ना मेळ्ळ्यार उपाशीं रावतात.'

लेफ्टनंट गव्हर्नराक दिसलें आपुण संकश्टांत पडलों. कसलो मर्णकाळ हो! जमीनदार –सावकारां मदीं व्हड संताप. मुंडा शेत कसनात, रीण घेनात, भीक घेनात. वरयां तांदूळ खातात! वरी सरकाराच्या म्हासली पिकां मदीं येना. दिसताली तितली सादी गजाल न्हय ही.

व्हडलो सायब तेन्ना शिमल्याक आशिल्लो. लेफ्टनंट गव्हर्नरान शिमल्याक कळयलें, 'सरकार दारवेच्या पिंपार बसलां, हें सरकारान मतींत घेवंचें.'

ही गजाल आयकून शिमल्यांतल्या शैलप्रासादांतले सगले हांसले. दारवेचें पिंप! मुंडा कितें फाराची दारु काय कितें? कसलोसो वाठार. फातर, दोंगर, रानां आनी नापीक भूंय. मुंडांनी रानांत थोडे भोव जमनींत पिकयल्या तितलीच फसल. गरजेच्या हिशबान तीय नुपुरी.

कितें व्हडलो पिकाळ–गिरेस्त वाठार! कितें थंयचे आदिवासी! नागडेच म्हणुं येत, आंगाचो रंग कोळशा परस काळो, एका वेळाक वरयां तांदूळ शिजोवन खातात, आंगांत

बळ ना, भलते भिजूड. तांकां भिता प्रांत सरकार?

व्हडल्या सायबान गजाल हांसून फाफुडली. लेफ्टनंट गव्हर्नरान मात मियर्साकडेन रिपोर्ट मागलो.

मियर्सान कळयलें, पयलें म्हळ्यार ताची खात्री जाल्या बीरसाची चळवळ आनी सरदारांची मुल्की लडाय दोनूय एकूच, आनी वेगळी न्हय. दुसरी गजाल, बीरसाक धरूंक पयले फावटी जो हवालदार गेल्लो, ताणे सारखें सांगिल्लें. मुंडां भितल्ल्या कोणाकूच वापरून बीरसा आड कितेंय कारवाय करप शक्य ना. तांची स्रध्दा आसा, बीरसा हो मूर्तिमंत भगवान. तिसरें म्हळ्यार, इगर्जेच्या मिशनऱ्यांनीच सांगलां, बीरसाक सोडल्यार रांची आनी चाइबासा जिल्ल्यांनी व्हड असंतोषाक तोंड फुट्टलें. बीरसान एकदां सांगल्यार पुरो, मुंडा मरणाक किंकोंत करून झुजाक उठटले.

लेफ्टनंट गव्हर्नरान विचारलें – बीरसा विशीं मुंडांच्या मनांत अविस्वास वा दुबाव जागोवपाचो कितेंय मार्ग आसा?

मियर्सान कळयलें, दोतोरा वरवीं बीरसाक पिसो म्हुण सिध्द करचो पडटलो.

डॉक्टर रॉजर्साक रांचीच्या कमिशनराचें आपोवणें आयलें.

रॉजर्सान म्हळें, 'तुमी म्हण्टात त्या अर्थाचें सर्टिफिकिट हांव दिवंक शकना.'

– 'कित्याक?'

– 'बीरसा पिसो न्हय!'

– 'कितें?'

– 'पिसो न्हय तो.'

– 'पूण तो आपूण देव म्हणटा.'

रॉजर्स बेजार जालो. सुक्या ताळ्यान ताणे म्हळें, 'हें युरोप न्हय. उदेंतेचो देस हो. जेजू उदेंतेचो. तोय आपल्याक अलौकिक शक्तीचो अधिकारी मानतालो!'

– 'जेजूची तुळा बीरसा कडेन करता?'

– 'ना. कोणाय मनशाक आपुण अलौकिक शक्तीचो धनी म्हुण दिसल्यार ताचो अर्थ तो पिसो असो जायना. ते भायर ताचेकडेन उलोवन पळयलें हांवें. तो सामको बरो आसा. ताका बुद्द आसा. मुंडां विशीं ताचो मोग खरो काळजांतलो.'

– 'जाल्यार तो मुंडांक सरकारा आड चाळोवन कित्याक घालता? ताका खबर ना हाचे परिणाम मुंडांक हालांत घालतले म्हुण?'

रॉजर्सान थंडसाणीन म्हळें, 'कमिशनर, हांव वा तूं मुंडा न्हय. बीरसाक अशें दिसता जावंये, हाचे परस मुंडांचे आनी वायट हाल म्हुण कितें जातले? तांच्यो जमनी – घरां – गोरवां एकएक करुन वगडत आसा. तांच्या वाठारांत हेरांनी येवन बस्तान बसयलां. आमीच केल्ल्या कायद्याच्या आदारान.'

'कायदो मुंडा आनी हेरांमदीं भेद करिना.'

– 'हें पुस्तकांतलें जालें. खऱ्यांनी तशें जायना हें सगळ्यां परस बरें तुमकांच खबर आसा. मुंडांक बंगाली – हिंदी – इंग्लेज येना. कळना. जुवीज मुंडारी शिकून मुंडांचो न्याय करूंक पळयना. कोर्टांत केस पावतकच गुन्यांवकार कितें सांगतात तें जुविजाक कळना. दुभाशी भरपूर फटिंगपणां करून जुविजाक केश समजयता. परिणाम कितें जाता तें तुमका खबरूच आसा. एका आण्याचें कितेंय दुसऱ्याल्या शेतांतलें काडल्यार मुंडाक एक वर्साची बंदखण पडटा, नक्कीच पडटा.'

– 'गॉड!'

– 'बीरसाक जर दिसता जायत, मुंडा लोक, हें ब्रिटिश सरकार येतसावन जितले खांकनवाळ जाल्यात तितले हे आदीं केन्नाच नाशिल्ले, जाल्यार हांव तेखातीर, ताका दोश दिंवचों ना.'

– 'वॉट आर यू टॉकिंग?'

– 'इंग्लेज म्हूण, क्रावनाचो एक विस्वासी चाकर म्हूण, हांव ताच्या मताक तेंको दिवंक शकलों ना, जाल्यारूय ताका दूशण दिवंक शकना. बीरसा आपल्या भक्तांच्या मनांत एक आत्मविस्वास जागोवंक शकला. मुंडांक आपूण मुंडा म्हूण जल्मल्ल्याचें गर्व दिसता, अशें पयलेच फावट पळोवंक मेळटा. इतले दीस मुंडा म्हुण जल्मल्ले पासत मुंडा आपल्याक खेपताले, दुःखी जाताले.'

– 'बीरसान तुकाय पटयला काय कितें?'

– 'ताचेकडेन दिसांचे दीस म्हजे भाशेन उलयल्यार घडये तुमकाय पट्टलें.'

– 'इतलेंय करून तूं मॅन ऑफ सायन्स?'

– 'ताकाच लागून ताका पिसो म्हणूंक शकना.'

– 'जाल्यार ताका सर्वसादारण गुन्यांवकार धरचो पडलो. बीरसावेलो मुंडांचो विस्वास मोडून काडचोच पडटलो.'

– 'तें तुमचेर. पूण ..... '

– 'पूण कितें?'

– 'न्यायाक कळाव लावं नाकात. आनी जमल्यार मुंडारी कळटा तसलो, तशेंच मुंडांक जनावरां समजना तसलो कोणूय नेमून ताचो न्याय करात.'

रॉजर्स भायर सरलो. कमिशनरान तेन्नाच निर्णय घेतलो, रॉजर्साची बेगिनांत बेगीन बदली करची पडली.

कमिशनर सायबान खबर काडली – जेल कर्मचाऱ्यां मदीं मुंडारी बरी कोणाक येता. मेडिकल स्कुलाचो भुरगो, तरणो बंगाली दोतोर अमूल्यबाबूक. ताका घेवन कमिशनर बीरसाक मेळूंक गेलो. बीरसाले कुडींत कदेल घेवन बसलो. बीरसान अमूल्याक पळयलो. ताच्या ओंठार म्हींवाळ हांशें आयलें.

कमिशनरान म्हळें, 'ताका विचार, तो मुंडांक कित्याक खुबोवन घालता तें.'

अमूल्यबाबून उतर काडचे आदींच बीरसान म्हळें, 'हांवें मुंडांक खुबळावंक ना.'

– 'आरे! तुका इंग्लेज कळटा?'

– 'म्हागे फायलींत तशें बरयल्लें ना तर?'

– 'बरयल्लें आसा, थोडीभोव कळटा अशें.'

– 'जाल्यार सारखेंच बरयलां.'

– 'जाल्यार दोतर सायबाक कित्याक सांगलें तुवें, ना, ना, ताणे आपुणूच सांगलें म्हाका, मुंडारी कळपी जुवीज जाय म्हुण?'

– 'कित्याक सांगचो ना?'

– 'तुका इंग्लेज कळटा मरे!'

– 'म्हजो एकल्याचोच निवाडो जातलो तर?'

कमिशनर मोनो जालो. बीरसाक कितलें कितें खबर आसा काय? कितें खबर ना काय? विशय बदललो.

– 'चालकाडाक तूं कितें करतालो?'

– 'कितें करतालों?'

– 'मुंडांक फितयतालो.'

– 'धर्माच्यो गजाली सांगतालों.'

– 'तूं कोण रे धर्माच्यो गजाली सांगपी?'

– 'हांव तेंगे भगवान.'

– 'तुका बरे भशेन खबर आसा, हें खरें न्हय.'

– 'जाल्यार खरें कितें?'

– 'तूं भगवान न्हय. तुवें तांका धर्माचें कांय सांगूंक ना. तांका बंडाक प्रोत्साव दितालो तूं.'

– 'हांव भगवान. हांयें तेंकां धर्माचेंच सांगलां.'

– 'जाल्यार हांगा बंदी जावन कित्याक पडला?'

– 'बंदी जाल्यार भगवान जावं नज?'

– 'ना.'

– 'जेजू बंदी जावंक नासलो? तेचो निवाडो जावंक ना? तेका मरणाची ख्यास्त जावंक ना?'

– 'तूं मदांध, फटिंग, मूर्ख खंयचो.'

– 'म्हागे प्रश्नाची ही जाप न्हो.'

– 'तुका जाप दिवंक हांव बांदिल्लों ना.'

– 'जाल्यार आमी उलोवया कित्याक?'

– 'हांव विचारतलों, तुवें जाप दिवप.'

– 'हांवूय जाप दिवंक बांदिल्लों ना.'

– 'तुवें रानांतल्या मुंडांचो पत्कर घेवन म्हासूल बंद करपाची चळवळ चलयल्या.'

– 'जाप दिवंक बांदिल्लों ना.'

कमिशनर कांय खीण कपलाक आटयो घालून पळयत रावलो. म्हणपाक लागलो, 'तुजो निवाडो जातलो. सगल्यां मुखार. थंयच सिध्द जातलें. मुंडांक कळटलें तूं फटकिरो म्हुण.'

– 'बरें आसा.'

– 'तुका तुजी बाजू लडोवंक जाय जाल्यार वकील मेळटलो.'

– 'वकील?'

– 'हय. वकील. ब्रिटिश निवाड्याची पद्दत पुराय न्यायाक आनी धर्माक धरून आसता. वादी आनी प्रतिवादी दोगांकूय वकील मेळटा.'

– 'म्हाका वकिलाची गरज ना.'

– 'कित्याक?'

– 'वकील काडल्यारूय मुंडांक बंदखण जाता, जल्मभर चोयत येयलां. वकील ना काडून कितें जाता तें तरी पळोवया. निर्णय थारिल्लो आसा, जाल्यार वकील आनी कित्याक?'

कमिशनर भायर सरून गेलो. अमूल्यबाबून मान हालयली, आनी वचूंक गेलो.

कमिशनरान म्हळें, 'लुक आफ्टर हिम, बाबू.'

'येस सर.'

'सुबेज, असभ्य. हांव ताका कोर्टांत उबो करतलों, तो फटकिरो म्हुण सिध्द करतलों. दुयेंत पडचो ना इतलें पळय.'

'येस सर.'

'कसलें बेफिकीर धाडस! कितलीं उर्मटपणां!'

अमूल्यबाबू कांय उलयलो ना. उपरांत रातचो तो परतोय बीरसाचे कुडींत गेलो.

– 'कित्याक येयला?'

– 'तुका पळोवंक.'

– 'कित्याक?'

– 'तूं बरो ना जावन पडूंक जाय ना. तें पळोवपाची, म्हजी स्पेशल ड्यूटी. देखून आयलां.'

अमूल्याबाबू बीरसाचो हात धरूंक गेलो. बीरसा ल्हवू आवाजांत उलयलो, 'म्हाका आफडूं नाका. तूं दिकू.'

– 'ना रे बीरसा, ना!'

– 'तूं दिकूच!'

– 'बीरसा, हांव .....'

– 'कित्याक म्हुणोन तूं दिकू जालो खबर आसा? बरो खावंक-जेवंक, बरे कपडे घालूंक, पालखेंत बसोंक, घोड्यांगाडयेन वचोंक, रायसाब जावंक, व्हड मनीस जातलो म्हुणोन?'

– 'ना ______ '

– 'म्हाजेकडेन तूं उलोवं नाका. हांव तुजेकडेन उलयना. तूं वळखतालो तो बीरसा आतां ना. हांव वळखतालों तो अमूल्यूय ना.'

– 'ना रे बीरसा! तूं तसोच आसा. तूं एक दीस खूब व्हड जातलो, हें म्हाका तेन्नाच कळिल्लें.'

– 'एक उपकार कर.'

– 'तुजेर? सांग. कसलो उपकार?'

– 'सरकारान कितें कितें थारायलां, म्हाका मातशें सांगशी? हांव जाणा. सरकार निर्णय घेतलें. कड्डान पेट घेतला हें सरकाराक कळ्ळां, तेंय हांव जाणा. धुंवर पळयल्यार सरकाराचो आवरो उडटलो.'

– 'सांगतां. दोन-चार दीस लागतले.'

– 'जाता. बरेच दीस चलतलें हें.'

– 'निकाल बेगीन लायतले म्हुण आयकलां तें खरें?'

– 'ना.'

बीरसान ल्हवू आवाजांत म्हळें. तकली हालयली. कांबळ ओडून एके कुशीर न्हिदून कोंपर जमनीक तेंकोवन तायटार तकली दवरली. ताची एकान एक हालचाल, तकली हालोवप, नदर, बोटां हालोवप, सगल्यांत भरपूर आत्मविस्वास, थीरसाण, खाशेलेपण आनी - आनी - आनी एक जाणविकाय, आपली योग्यताय कितली हाची जाणविकाय.

अमूल्यबाबू ओडटालो, वश जातालो. कित्याक वश जाता काय? हो बीरसा. बीरसा दाऊद! अभाग्या गरीब सुगाना मुंडालो पूत! शिकतलो म्हुण चाइबासा मिशनांत भरती जाल्लो, बचक्या बचक्यांनी तोंड भरून शीत जेवतालो, चड्डी कशी घालप ताका कळनाशिल्लें, अमूल्यबाबू ताका कशें कशें करून शिकयतालो.

कितली वाट चलून आयला बीरसा मिशन सोडले उपरांत? कसो काय तो मुंडांक धीर दिता, सूर्य धरूंक मळबांतल्या नखेत्रानूय उडल्यार जाता?

बीरसान परतून म्हळें, 'निकाल बेगीन जावंचो ना. केन्ना जाला? केन्नाच ना; आयजवेर केन्नाच करूंक ना, आतांय करचे ना.'

– 'तुका खबर आसा, निवाडो करूंक कळाव लायतले तें? बीरसा, बीरसा, तूं खरोच प्रोफेट रे?'

बीरसान दोळ्यांर हात दवरले. म्हणपाक लागलो, 'मुंडांगे, कोळांगे, ओरांवांगे,

सरदारांगे न्याय बेगीन जाता केन्ना? कोठडेंत दवरताय, प्रमाणां मेळनाय, केस तयार करूंक वेळ वयता, कैदी वित्रागता, वैतागता हें सगलें सदांचेंच. खबर आसा देखुनूच म्हुण्टालों, म्हागे निवाड्याक कळाव जातलोच. इतलें म्हुटलां देखून प्रोफेट जाता जाल्यार प्रोफेट. पूण .... '

— 'कितें?'

— 'म्हाका मुंडांचो फुडार कळ्ळा. याद धराय. हांव जाणा, आनीक कोण्ण नेणा.'

अमूल्यबाबूक कळनासलें, बीरसा सांगूंक कितें सोदता तें. जांका आयज ना, फकत काल आसा, तांका फाल्यां खंयच्यान येयलें?

भूत-वर्तमान-भविष्य एकामेकाचेर निंबून आसतात न्हय?

बीरसा उलयलो, 'म्हाका सांगोन वच.'

बीरसाक धरूंक पयले फावट गेल्ले पुलीस जेन्ना परतले, तेन्नाच्यानूच अशांती आनी संताप धुंवत धुंवत जळटालो. बोरीच्या लांकडाक उजो घाल्यार तो धुंवत धुंवत पेट्टा आनी फाव तसो वारो मेळ्ळ्यार कसल्याय उज्याचो वडवानळ जावं येता. तेन्नाच्यान मुंडांचे ग्रामपंचायतींत व्हडली चर्चा जाताली. वारें तापिल्लें-बरेंच तापिल्लें. मियर्स वा लास्टी हांका ती सारखी खबर नाशिल्ली. जांणी खेरवार आनी सरदार हांच्या झुजांनी वांटो घेतिल्लो ते सगले अणभवी मुंडा म्हण्टाले, 'मुंडांक केन्नाच न्याय मेळना, न्याय जायच ना जाल्यार. चोय तूं, बीरसा भगवानान सगलें सांगलां तातुंत ही एकूच गजाल ना.'

— 'खंयची ती?'

— 'राजा, जमीनदार, दिकू, राजपूत, अहीर, ब्राह्मण, गोंसाय, सगले सरकाराक मेळोन आसताय!'

— 'हय. हेंय भगवानान सांगलां.'

— 'मुंडांसंबंदान जितल्योय गजाली घडटाय, तितल्यांतूय सरकार आदार दिता मिशनरी, राजा आनी जमीनदार हांका.'

— 'सामकें खरें.'

— 'मुंडागे फकत म्हासूल वाडटा.'

— 'खरी खबर.'

— 'न्यायालयूय तेंचेच वाटेन. खूब विनयल्यार सायब मुंडांगे गांवांनी येता. येवन खाता-पिता, भोवंडी करून परतो वयता.'

— 'वयता.'

— 'निवाडो करताय दिकू, बाबू.'

— 'बाबू!'

— 'जमीनदाराली रास मोठी जायत, असोच निर्णय दिताय ते, असोच निर्णय दिताय.'

— 'असोच निर्णय दिताय.'

— 'इन्स्पेक्टर कितें शारांत येयना? येता. येता मानेरस्तांक त्रास करूंक आनी पैशे काडूंक.'

— 'खरेंच तें.'

— 'भगवानान म्हुणलां, हें चलचें ना.'

— 'चलचें ना.'

— 'तुफान सुट्टलें, तें सरकाराक हुबोवन घेवन वयतलें, अशें भगवान म्हण्टा.'

— 'खरेंच तें.'

बीरसाक खबर नाशिल्लें, ताका धरूंक गेल्ले पुलीस पयले खेपे जेन्ना परतले, तेन्नाच्यान एके-एके पंचायतींत ह्यो खबरी चलताल्यो. "भगवानान म्हुणलां" म्हुण जे हें सगलें सांगताले, ते बऱ्याच झुजांचो अणभव आशिल्ले, कुशळ, जखमी झुजारी. बीरसाक साप खबर ना म्हणप समा न्हय.

थोडेंशें ताच्या कानार पडिल्लेंय बी. पुण रानांत वादळ जाल्यार सगल्या रुखांचो पत्रो एक जाता वा वावटळ जावन उडत रावता. ते घुंवळींतल्यान रूखा-रूखामदीं फरक करप कठीन. मुंडांचे जिणेंत आयिल्ल्या वादळाच्या तोंडार मुंडांचे जिणेंतले फटवणेच्यो लाखांनी खबरी पातळटाल्यो.

खंयची खबर बीरसाची, खंयची सरदारांची तें खेरीज काडूंक भौ कठीन. आनी वेळा काळा प्रमाण खबरी सांगून उजो पेटोवपाच्या कामांत सरदार मोठे फिशाल आनी तयार. बीरसा भुरगो. आनी सांगपासारख्यो गजाली बीरसाच्यो जाय त्यो आशिल्ल्यो. ताच्या नांवान खबरी घडोवपाची केन्ना गरज पडली ना.

हें सगलें घडून गेल्लें फाटी. ते उपरांत बीरसाक अटक जाल्ली. आतां अमूल्यबाबून खबर हाडली, खुंटी आनी तामार थाण्यांनी ज्यादा शिपाय नेमल्यात. जगमोहन सिंग आनी कोचांगच्या लोकांक राखचे पासत. कितें जाता-जायना तें पळोवंक डिस्ट्रिक्ट रिझर्व फोर्साचे चाळीस शिपाय बंदगांवांक गेल्यात.

रेव्ह. लास्टीक राखण दिवंक सेनेची एक तुकडी मुरहूक गेल्या. रांचीच्या डेप्युटी कमिशनरान सेनेची एक कंपनी मागिल्ली. ताका भंय आशिल्लो उचांबळ जाल्ले मुंडा सिंगभूमांत हेर खंयूय उजो पातळायतले.

रांची कमिशनरान ती मागणी अमान्य केली. ताचें म्हणणें, 'चालकाड आनी साबार गांवांनी पांच म्हयने स्पेशल फोर्स दवरल्यार उचांबळाय वाडटली. गांवांय विस्कळ, पैस-पैस. लोक गरीब-दुबळे. स्पेशल फोर्स पोसूंक तांका जमचेंना. आनी खंयच्याय रुपान तांचेर भार पडल्यार सर्वनाश जावं येता.'

जाल्यारूय मुंडांचो हेत आनी मोग "बंड" जावन आसा, हातुंत कमिशनराक मातूय दुबाव नाशिल्लो. मुंडांच्यो जमाती आनी तांच्यो खुबळावपी चर्चा तो बंद करूंक

सोदतालो. धा जाण मुंडा एकठांय जमल्यार एकूच खबर येतली. बीरसाचे भक्त जमात आपोवंक सोदतले. तारयचो मानेरत्त, सर्जुमडीचो ठाकूर, आनी भोंवतणच्या जमीनदारांक सांगून दवरिल्लें आसा, कोणूच कोळ वा मुंडा जमातींक वचचे न्हय हें पळोवप तांचें काम. खरसुवानचो ठाकूर आनी सिंगभूमचो डेप्युटी कमिशनर हांकाय फाव ते हुकूम दिल्ले आसात.

अमूल्यबाबून मुखार सांगलें, 'बीरसा, तुका जें हांवें सांगलें तितल्यार म्हजी नोकरी वचूं येता. पुण तुका सांगप ही म्हजी लागणूक!'

– 'कित्याक?'

– 'खबर ना, पुण म्हाका दिसता.'

– 'आनी कितें कळ्ळां?'

– 'धाकल्या सायबाक खबर पावल्या सगली.'

– 'तेंय कळ्ळें?'

– 'हय. तुका खबर आसाच. धाकल्या सायबाकडेन सगलें ना.'

– 'ताचे वयरूय कोण आसा?'

– 'हय. व्हडलो सायब.'

– 'व्हडलो सायब सगल्यां वयर?'

– 'भारतांत सगल्यां वयर तो!'

– 'तो कितें म्हण्टा खंय?'

व्हडलो सायब, सेकंड लॉर्ड ॲल्गीना मुखार धाकलो सायब, लेफ्टनंट गव्हर्नराचो उद्वेग अति, गरजे भायरो आनी कारण नासतानासो दिसतालो.

शिमला आनी दिल्ली खूब पैस, खुंटी–तामार–रांची सावन बरेंच पैस. शिमला भारताचें गिमाळें राजपाटण. थंय सायबाच्या वाड्यार विशाल इंद्रपुरी भाशेन घरांत जितले दिवे जळटात, मेजार जितलीं खाणां आनी सोरो दवरिल्लो आसता, बागेंत फुलां जावंचे खातीर जी मांडणी आसा, तितल्या खर्चा भितर सगल्या मुंडांक तांचीं सगलीं मूळ गांवां परतीं दिवं येत. थंय बसून रावल्यार रानां, काळे नागडे उगडे लोक–तांचें खाण – तांच्या घाटोच्यो थाळयो– तांचें मिठाचें सपन – तांच्यो उजवाड नाशिल्ल्यो पाल्याच्यो खोंपी – हें सगलें अवांतर दिसता. ना – सेकंड लॉर्ड एल्गिनाक कळनाशिल्लें, एका वीस वर्सांच्या अर्दमरस्त्या मुंडारी भुरग्या खातीर धाकलो सायब इतलो चिंतेरस्त कित्याक? कसलें विचित्र नांव. बीरसा मुंडा! खंय आसता असल्या सगल्या नांवांचो लोक? कित्याक ह्या असल्या रानवटी, अन्नाडी नांवांक सरकारी रिपोर्टांनी सुवात फाव जाता? अशें कित्याक जाता?

अमूल्यबाबू कडल्यान बीरसान सगलें आयकून घेतलें! ताची नदरगाड जाली, सपन खोल जाली.

बीरसान म्हळें, 'पुरो. आनी कांय सांगूं नाका म्हाका.'

'कित्याक बीरसा, कित्याक ?'

'तुजी वाट, तुजी जीण-म्हजी वाट, म्हजे जिणे परस वेगळी.'

'जाणा.'

'बेगीन निवाडो करतले, ही कमिशनराची फुशारकी.'

'खबर ना.'

बीरसा कितें तरी येवजितां येवजितां उलयलो, 'जें बरोवंक शिकलां, तें सगलें आतां विसरोंक जाय. मुंडांच्याकूय चड खर मुंडा जातलों हांव. तुगे मार्ग खेरीज.'

अमूल्य भायर सरून गेलो.

कमिशनराक जाय आशिल्लें तें जालें ना. आगॉस्तांत बीरसाक धरून हाडिल्लो. केस सुरू जावपाक औतुब्र सोंपूंक आयलो. मुंडांक एक दीस कळयलें तितलेंच - मुंडांचे हाजिरेंत बीरसाची केस चलतली. सिध्द जातलें बीरसा कसलो कास्ताचो फटिंग तें. बीरसा ईश्वर सोडाच, असामान्य मनीस लेगीत न्हय हें सिध्द जातलें. बीरसा एक अशिक्षित, सामान्य मुंडा.



# 13

तामारचो हवालदार आनी कोचांगचो बुडा मुंडा हांणी बीरसा आनी बीरसायतांच्या नांवान तक्रार नोंदयली. बंदगांवांत बसून मियर्सान ते तक्रारीचें खरेपण केलें. त्या तपासाच्या आदारानूच केस उबी जाली.

मियर्सान डेप्युटी कमिशनराक कळयलें, बीरसाची चळवळ आनी सरदारांचें आंदोलन दोनूय एकूच आनी एकासारखींच. मुंडा सरदार आनी आंदोलक बीरसाचे चळवळींत भागी जाल्यात, हातूंत मातूय दुबाव ना.

हवालदारा संबंदान जी घडणूक जाली, थंय कोचांग आनी हेर वाठारांतल्या मुंडांचोच तेंको आसलो. सगले मुंडा बीरसा वटेन राविल्ले. कोचांगचो बुडा मुंडा मात वचूंक ना. देखून ताका मारून उडयतले अशी धमकी दिल्ली.

बरयतां बरयतां मियर्साक याद जाली, बुडा मुंडा म्हण्टालो, 'धानी म्हाजे वाटेन नदर रोखून चोयता, म्हाजेर पाळत दवरता. तेका सगळे भितात, सायब. तेचे कान्या दिंकाचे तीर भोव भिरांकूळ.'

मियर्सान बरयलें, 'देवकी पांडे आनी साऊ मुंडा म्हण्टाले, बीरसान मुंडांक चाळोवन घालूंक ना. फकत सांगलां-बोंगा बोंगीक पुजूं नाकात. बरे करून रावात. म्हाका दिसता कॅथॉलिक आनी प्रोटेस्टंट, दोनूय मिशनांचे सायब म्हण्टात तें खरेंच. बीरसा परतो हांगा आयल्यार सत्यानास जातलो. सद्याक परिस्थिती नियंत्रणा खाला आसा, पुण साद्याशा कारणान लेगीत मुंडा पंगडां पंगडांनी बीरसा फाटल्यान उबे रावतले.'

डेप्युटी कमिशनरान हो रिपोर्ट खरो आनी खात्रेचो, अशें धरलें. ज्या साबार गुन्यांवां खातीर बीरसाचे अटकेचो हुकूम काडिल्लो, फकत त्याच आदारार निकालाची वेवस्था जाली. एकदां ताका दिसलें, बीरसान आनी बीरसायतांनी आकांतवाद पातळायला अशी सरसमान लोकांची तक्रार आसा-ह्याच आरोपाचेर आधारून निर्णय जातलो. मागीर ताणें येवजिलें, ना - तो खटलो धरचो ना.

सुनावणेचो जागो रांचीच्यान खुंटीक हालयलो. बीरसाची सुनावणी खुंटींक मुंडांचे हाजिरेंत जातली. मुंडा बीरसाच्या फटिंगपणाक फारावल्यात. बीरसा तांचो तारक - बिरक - ईश्वर! ह्या भ्रमांत मुंडा शेणून पडल्यात. आतां सामान्यांचे पध्दतीन सुनावणी

करून सरसमान लोकांक दाखोवन दिवप, बीरसा हिशबाक धरपाचो मनीस न्हय, तो फालतू , सुवार्थी, फटिंग मनीस.

सुनावणी 24 तारखेर. 23 तारखेक रातीकडेन कर्नल गॉर्डनान पळयलें, पैस पैस दोंगरांर, हारीहारींनी, न्हंयेच्या कांठाकांठांनीं, रानांतल्या वाटांवाटांनी, नीट वळीन उजवाडाचें पुर्साव येता. तें पळोवन इन्स्पेक्टराक विचारलें, 'हें तें कितें?'

– 'सायब, मुंडा येतात.'

– 'मुंडा?'

– 'हय सायब, कमिशनर सायबान तेंच सांगललें! येवं दी मुंडा, बीरसाचो खटलो पळों वदी.'

– 'इतले मुंडा?'

– 'आजून सगल्यांक ही खबर पावंक ना सायब. खबर कळ्ळ्यार पुरो, दोनुय दिकांनी शंबर मैलांवेल्यान येवन पावतले.'

– 'पुण खबर मेळ्ळी कशी रे तांका?'

– 'ही खबर आमी, हुकमा प्रमाण कांय गांवांतल्या मानेस्तां कडेन पावयल्ली. तांका टेलिग्राफाची गरज ना. दोंगरा माथ्यार वचून उजो घालतात, तो पळयतकच सगल्यांक कळटा.'

-- 'येवंक जाय म्हणपाचें कशें कळयतात?'

– 'तांका सगलें खबर आसता. बरोंवक - वाचूंक नकळ. रानवटीच न्हय ते? केन्ना तीन राशींक उजो घालतात, केन्ना दोनांक, केन्ना चारांक, पळयल्यार तांका कळटा रांचीक वचपाचें काय तामाराक काय रोगोताक तें.'

– 'इतले मुंडा येतात.'

– 'हे तुमी पळयतात ते कितलेशे? फाल्यां पळयात कितले येतात ते. बीरसाक पळोवंक मेळटा म्हुण कळ्ळ्यार सऽगले येतले. जे येतात ते वाटेच्या दोनूय कडांच्या रुखांच्यो ताळयो मोडीत येतात. खिणा भितर तांका खरी वाट कळटा.'

– 'हत्यारां बी घेवन येतात काय कितें?'

– 'हत्यारां तांचे सांगातीच सायब! रानांत वतात, रानांत रावतात. भाले सदांच तांचे कडेन आसतातूच. तांच्यो बायलोय भाले वापरतात. धानी मुंडाची भयण चाइबासाक भीक मागता. फाऽटी तिच्या नातवाक सांजवेळचो सोरोप चाबलो. घाडयालें घर दोन रानां पलतडी. ती म्हातारी पुताक फाटीक बांदून हातांत भालो घेवन लागली चलूंक. आमचेकडेन जायना सायबा. वागांचो, भालूचो भंय, भुतां आसात, देंवचार आसा. रानांत आनी कितें ना म्हुण असा?'

कर्नल गॉर्डनाक आपल्या नेणारपणाची जाणविकाय जाली. 'व्हड आपत्ती मरे ही.'

'ना सायब. बीरसाक पळोवंक येतात न्हय ते!'

'ताका हांगा ना हाडप बरें आशिल्लें.'

'तशें आमी म्हणिल्लें सायब. हरशीं हे लोक मरसर वावर करपी, कांयच उलोवंचे नात. आमी तांच्या दोळ्यांदेखत शीत जेवतले, ते घाटो खातले. एक पोर लेगीत मूठभर शीत मात मागचें ना. पुण एकदां चवताळ्ळे जाल्यार ह'

'चवताळ्ळयार कितें करतले?'

'तेन्ना धनयाक चांचोवन उडोवंक लेगीत फाटीफुडें पळोवंचे नात. गुळयो घालून दोगां चौगांचीं मडीं पातळयल्यारूय फुडें सरत रावतले. तोंडान उतर काडचे नात. मुखार मुखार सरत रावतले. तें पळयल्यारूच आमकां घाम फुट्टा सायब.'

– 'ते हतयारां घेवन आयल्यात. चाळवल्यार?'

– 'ना सायब. तांची जमीन घेवन हांव करसतां. जीण काडली हांगा, तांचो सभाव सारखो कळ्ळा म्हाका. भुंडालें तोंड फातराचें. फांसार चडल्यारूय रडचो ना. तुमकां तोंड पळोवन कांयच कळचें ना. आमकां तो कितें चिंतता तें सारखें कळटा. हांव सांगतां – ते आतां आपल्या भगवानाच्या दर्शनाक येतात. भगवानाक अटक जाल्या तेन्नाच्यान अख्खे मुंडा जातीन सुतक धरलां. हे अवस्थेंत ते कोणाकूच मारचे नात. हांव जाणा.'

– 'तुका ते बेस बरे समजल्यात तर?'

– 'हय सायब. हांगा पुलीस चौकेर जीण सरली. म्हाजो बापूय हांगाच कामाक आशिल्लो, ताचे फाटल्यान हांव लागलों. हांव आनी हांका वळख ना? हाचे आदीं ते आमचे छट परबेक, दसऱ्याक, होळयेक आयल्यात. हेच जगमोहन सिंग, सूरज सिंग – असल्या लोकांनी तांची हकाची जमीन बळकावन, वेठबिगारी लावन, कळंतराच्या पैशांखातीर वेळोवेळ तांच्या शेतांनी नासाडी करूंक हती घालून तांका चाळोवन घाल्यात.'

– 'दुश्ट म्हुण बिगडले.'

– 'तशें न्हय, सायब. तशे नाशिल्ले ते. ते तशे आसल्यार, तुमी पळयात, ते कितले आसात. हांगा सुदारिल्ले लोक कितले उणे. मुंडा दुश्ट आशिल्ले जाल्यार तांणी मारझोड केल्यार हांचे भितल्लो एकलो तरी वांचपाचो?'

– 'जाल्यारूय तूं सांबाळून.'

– 'हय, सायब.'

सकाळीं पळयल्यार खुंटीची पुलीस चौकी – बंदखण – न्यायालय सगल्या भोंवतणी शेंकड्यांनी मुंडांचें वेंटाळें. बायलां–जाण्टे–भुरगीं–कुड्डे–पांगळे कोण ना म्हुण ना.

तीस जाण मुंडा दादले मुखार आयले. धवें पुडवें न्हेशिल्ले, हातांत कांयच हत्यार ना, तकली वैर नीट, मुखामळार निरपेक्ष भाव.

– 'एक विनवणी आसा.'

कर्नल गॉर्डन, डेप्युटी कमिशनर फुडें येवन मुखार उबो रावलो. रुक्ष ताळ्यान ताणे

म्हळें, 'कसली विनवणी?'

– 'आमी धर्तर-आबाक चोवंक सोदताय.'

– 'कोण धर्तर-आबा म्हुण?'

– 'तुमी जेका धरोन दवरला.'

– 'कित्याक पळोवंक सोदतात तुमी ताका?'

– 'पुजा करतले, फुलां घालतले. आमी केन्नाच्यान सुतक धरून आसाय. तेका चोवंक जाय आमकां.'

गॉर्डनान पळयलें, बायलांच्या हातांनी खोल्यांनी गुठलायल्लीं फुलां. तेन्नाच ताका दिसलें, ताचे मुखार एक व्हडली वणत उबी जाल्ली. ती वणत हुंपून तांचे मेरेन पावप कशेंच शक्य नाशिल्लें. आतांच वणत आड घालप गरजेचें. मनांतले मनांत कमिशनराक खेपलो.

बीरसाचेर तांची कुड्डी स्रध्दा. हो अतूट विश्वास तोडूंक जाय! कसो तोडप? ताणे हात उबारलो. – 'आयकात. आजून भासाभास चलल्या. कचेरेचो वेळ जातकच जेन्ना ताका कोठडेंत हाडटले तेन्ना पळयात.'

– 'आमी भगवानाक चोवंक सोदताय.'

– 'भगवान न्हय. तुमचे वरीच बीरसा एक सादारण मनीस. भगवान कित्याक म्हणटात? बीरसाक पळोवंक सोदतां अशें म्हणात.'

तीसूय मुंडांनी फाटल्यान पळयलें. शंबर मुंडा ते गर्देतल्यान भायर सरून मुखार आयले. म्हणपाक लागले, 'कितें म्हुणलें तुमी, सायबा?'

– 'बीरसा भगवान न्हय.'

– 'बीरसा भगवान न्हो?'

– 'न्हय.'

भरमी मुंडाक सगलेच कठीन प्रसंगार व्हडान साद घालूंक आपयतात. भरमीचो ताळो गडगड्या भाशेन. भरमीन मोठ्यान म्हळें, 'परतें म्हुण.'

– 'बीरसा भगवान न्हय.'

– 'कोण सांगता तो भगवान न्हो म्हुणोन?'

– 'जाल्यार ताचेर खटलो कित्याक?'

– 'तो आमगे गुरू,. भगवान, सरदार. तुमका कितें खबर? तेका धरून हाडला तेन्नाच्यान आमी सुतकांत आसाय. कोण तेलाक आफडना, कसोंक वचना, बायल दादल्यांचो हात धरिना. तो आमचो भगवान. आमचेच सांगाताक जियेतलो-मरतलो. भगवान न्हो अशें कित्या वयल्यान म्हण्टा? ए धार्नी, तूं उलयना कित्याक? उलय तरी. तूं सगल्यांत जाण्टो, तूंच उलय.'

– ‘हांव आनी कितें सांगूं भरमी. सायबाचें कांयच उलयल्लें कळना. हांव निर्बुद्ध मुंडा, सायब. म्हागे म्हणणें तुमी खटलो चलयतले म्हणटाय, जाल्यार सरकार तुमी. कित्याक चलयनाय खटलो? कित्याक तेका तीन म्हयने कोठयेंत दवरला?’

सायबान कपलाक आटयो घालून तांचेर नदर मारली. इन्स्पेक्टराक आपोवन हाडून म्हणूंक लागलो, ‘तांका समजावन सांग!’

– ‘कोण समजयतलो? हो भरत इनिसपिट्टर? तो कितें समजयतलो आमका?’

लोकां मदीं दबिल्लें पुण बेफिकीरशें, फकाणां केल्ले वरी हांशें फुटलें. इन्स्पेक्टरान ताळो खांकारून म्हळें, ‘तुमी आतां एक तर घरा चलात ना जाल्यार ओगी बसात.’

– ‘तूं बस ओगो!’

– ‘ना जाल्यार घरा चलात. तिनांक न्यायालयाचें काम बंद जातलें, तेन्ना पळोवंक मेळटलो.’

– ‘कित्याक?’

‘भितर खटलो चालू आसा न्ही?’

– ‘खटलो सोंपयाय आतांचे आत्तां. आमी भगवानाक चोवंक येयल्याय. ना जाल्यार तुमी मोशिदासाक वळखता न्हो? तो सामखो आडदांड भुरगो.’

– ‘मोशिदास, समजय तेंका.’

मोशिदासान म्हळें, ‘म्हाकाच कळोंक ना आजून. हांव कितें समजोंव तेंका! चोय इनिसपिट्टर, आतां भगवानाक हाडून दाखयलो ना जाल्यार हांव ओगी रावपी न्हो. म्हाका तूं वळखताय.’

– ‘आरे ! आरे ! तूं मुखार कित्याक सरता? म्हाका मारतलो?’

– ‘कित्याक मारतलों? म्हागे हातांत कितें आसा व्हय तर?’

– ‘जाल्यार लागीं कित्याक येता तर तूं? तूं बरो ऽ भल्ला काय कितें रे?’

– ‘भल्ला तुगे बापुय ! हांव मुंडा. बीरसायत जावन सोरो पिवन भगवानाच्या दर्शनाक येयलां दिसता तुका?’

– ‘धानी, मोशिदासाक फाटी आपोवन व्हर.’

– ‘कित्याक आपोवं हांव? आत्तां न्याय कर तुगे कितें तो, आनी भगवानाक आमगे सुवादीन कर. ना जाल्यार म्हागे तरी गोमटी मार. घें, मार. मुंडाचेर तुजो हात रोखडो उखलता न्हो रे!’

– ‘सायब – हे सगळे खवळ्ळ्यात.’

मोशिदासान तापून म्हळें, ‘आरे, चोरावरी कोण पळयता तेवटेन? जगमोहन सिंगाक कित्याक हाडलाय हांगा? गवाय दिवंक? तेका सरकारी गवाय करताय काय कितें?’

धानी जमनीर थुंकून उलयलो, ‘बाबू जगमोहन सिंग! बाबूक ‘बाबू’ म्हणलें ना जाल्यार बाबू कसलो तापता! तेन्ना बाबू हतयार बसता आनी हतया सोंडे इतलो लांब

चाबूक घेवन मुंडांक कसलो मार मारता! 'बाबू' म्हुण, मोशिदास!'

मोशिदास तसो जिद्दी. म्हणपाक लागलो,

'दिकूंक हांव 'बाबू ' म्हणिना.'

पात्रा मुंडा, भरमी मुंडा हांणीं संतापून म्हळें,

'न्याय जावंचो ना. न्याय बंद कराय.'

सगलोच बोवाळ जालो. मुंडा व्हडाव्हडान आड्डतालें, उलयताले. भरमीन म्हळें, 'म्हाजेवांगडा व्हडल्यान म्हुणाय. भगवानाक कळों दी आमी येयल्या ते.'

भरमीन मळब फोडपी उलो मारलो, 'भगवान!' मुंडांनी हालेट मारली, 'भगवान.'

– 'धर्तर आबो, आमी येयल्या.'

– 'आमी येयल्या.'

– 'तूं अटकेंत गेला तेन्नाच्यान आमी सुतीक धल्लां.'

– 'सुतीक धल्लां आमी.'

– 'तूं येयल्यार न्हावतले आमी.'

– 'तूं येयल्यार!'

– 'गॉर्डन घोड्यावेल्यान नेट्टान न्यायालयावटेन गेलो, कामकाज सोंपलें. पुलिसांचो एक पंगड हातांत चाबूक घेवन बेडयां सयत थंय येवन पावलो. एक पुलीस घोडो घेवन रांची वचूंक गेलो.

पुलिसांल्या हातांनी बेडयो. हेवटेन तेवटेन पळोवन पात्रो तुटून पडलो. 'घाल बेडयो म्हागे हातांत. हांव रावतलों भगवाना वांगडा जेलांत!'

– 'म्हागे हातांत घाल बेडी.'

– 'रावतलों जेलांत, धराय म्हाका.'

पुलिसांनी बेडयो घालूंक आरंभ केलो. धरून घेवंक काळ्या कुडींच्यो घिट्टी पडल्यो. अदीं मदीं चाबकाचो आवाज आयकूंक मेळटालो.

रांची सावन सेना येवन पावली. बीरसाक रांचीक व्हेलो.

मुंडारी जाणपी पालवी जुवीज रांचींत नव्यानूच नेमिल्लो. कालीकृष्ण मुखर्जीच्या न्यायासना – मुखार सगल्या मुंडांची सुनावणी जाली. कालीकृष्ण मुखर्जीन सगल्या मुंडांक मुक्त केले. तांणी आपलो निर्णय बरयलो, 'मुंडांची कसलोच गोंदळ घालपाची येवजण नाशिल्ली. तांचें उलोवप डेप्युटी कमिशनराक कळ्ळें ना. मांडिल्ली तक्रार तथ्यहीन आसा.'

कमिशनरान डेप्युटी कमिशनराक बदलेर धाडलो. पूण डेप्युटी कमिशनरान मांडिल्ली तक्रार न्हयकारली ना. कालीकृष्ण मुखर्जीचें मत हें ताणे आपल्या खासगत अधिकारांत दिलां म्हुण भायरायलें. मुंडांक परतीय अटक जाली.

नव्या डेप्युटी कमिशनराच्या न्यायासनामुखार खटलो चललो. न्यायाधीशान आपल्या

निर्णयांत म्हळें, 'सरदारांचे आनी बीरसाचे चळवळीमदीं संबंद आसा. सरसमान मुंडा चाळवल्यात. त्या आंदोलनाक बीरसान उत्तेजन दिलां. आंदोलकांक मरणाची ख्यास्त दिवंक जाय आशिल्ली. तशें केल्यार ते धोंगी, देवपण पांगुरपी, काळीज नाशिल्ल्या, उजो लावपी अशा ह्या मनशा फाटल्यान धांवचे नाशिल्ले. वायट गजाल म्हळ्यार, ती ख्यास्त दिवप शक्य ना. बीरसा प्रचारक, आंदोलनाचो जनक. ताणे मुंडांच्या मनांत ब्रिटिश सरकाराआड दुस्वास भरला. शेकीं आज वचत थंय ते सांगत भोंवतात, ब्रिटिश सरकाराचो अंत जाला. आतां मुंडांच्या बंडाक उत्तेजन दिल्लेबद्दल कायद्याप्रमाण चडांत चड जी ख्यास्त दिवं येता, ती दिवंची.'

1895 तल्या 19 नोव्हेंब्राक बीरसाक सश्रम बंदखणीची ख्यास्त दिली. हेर मुंडांक वीस रुपयां प्रमाण दंड, तो ना भरतल्याक तीन म्हयन्यांची कश्टांची बंदखण दिली.

बीरसाक ताची बाजू मांडपाक सांगली. बीरसान तकली हालयली. निर्णय आयकून भरमीन म्हळें,'हें कितें भगवान?'

बीरसान म्हळें, 'भरमी, दोन वर्सां म्हुणचे कितें अनंत काळ रे?'

– 'सरकार खूब छळ करतलें.'

– 'करुं दी. केन्ना केलो ना?'

परते मुंडा पंगडां – पंगडांनी क्रिस्तांव जावंक गेले. धानीन म्हळें, 'कित्याक जांवचे न्हो? दोन वर्सां तरी जगतले. फुडलें फुडें पळोवंचें.'

जाल्यारुय जायते गेले ना. हॉफमॅनान मान हालोवन मान्यताय दिली, इगर्जेचीं दारां सदां काळ उकतीं दवरूंक. सायबांचो देव शरण आयिल्ल्यांक परतिना.

बाप्तिज्माचें पवित्र उदक फापडितना पाद्री पावलुस उलयलो, 'कित्याक रे बाबा तुमी सगले आयल्यात? परते वचून त्या भगवानाचे भक्त जातले.'

जानकी मुंडिणीन तापून म्हळें, 'तुका कित्याक पडलां रे? तूं चाकर. उदी फापडूंक सांगला, तें कर. बडबड कित्याक तुजी?'

– 'खंय फापडूं म्हणटा? खड्डे जावन येयल्याय इगर्जेत, आंगार सुकून पिठें'

– 'मुंडाल्या घरांत तेल ना.'

– 'रानांत कुसंबा बियो ना?'

– 'आसा. तेल करपाचें हांव विसरून गेलां.'

पावलुसान मान हालयली. म्हणूंक लागलो, 'तुमी मोटीं हुशार. बीरसाक बंदखण जाल्या, तेचें सुतक धरलां तुमी.'

– 'ओगी राव. उदीक फाफुडटाय न्हो, जालें तुजें?'

– 'साली येवंक ना?'

– 'ना.'

– 'कित्याक?'

– ‘तुका कित्याक सांगों तें कित्याक येयलें ना तें! चल, सांग वचोन - तें ना.’
– ‘घे, उदक घे.’



# 14

पावलुस पाद्री सालीची खबर विचारतालो. साली क्रिस्तांव जावंक गेलें ना. हे शिंयाचे दीस. रानांत पानां झडत आसात. दीसभर तांचो आवाज जाता. रानांत बोरां पिकल्यांत. बोरां, आंवाळे, कारांदां खावंक वांस्वेलां, हरणां येतात. जीव मुठींत धरून साली बोरां पुंजायतालें. पोटभर बोरां जमल्यार दोन दिसांक पुरो!

भरत इन्स्पेक्टर लागींच बसून आशिल्लो. सालीचेर नदर दवरून. तो कितले दीस जाले ताचेच फाटल्यान आसा. सालीचेर नदर दवरल्यार धानीचो वास लागूं ये. रांचीच्यान पळून येवन धानी सालीगेरूच रावल्लो. कश्टाची बंदखण भोगतालो. कैद्यांकडल्यान फातर फोडून घेवन रस्तो करूंक तांका बंदखणींतलो इन्स्पेक्टर घेवन गेल्लो. थंयच्यान धानी पळ्ळो.

भरतान म्हळें, 'धानीक धरून दिल्यार तुका वीस - पंचीस रुपया मेळपाचे. चुकयलें तुवें.'

साली नीट उबें रावलें. पोटांत भुरग्याचो भार, कूड कश्टल्ली - थकिल्ली. रुध्द आवाजांत ताणे म्हळें, 'कितले पावटी सांगलें, म्हाका कांयच म्हुणल्या कांयच खबर ना. म्हाका खंय खबर तो बीरसायत जाला म्हुणोन? जड्डो! उदीक मागलें, उदीक दिलें, जाय तितलें. बोकडांच्या गवळां - माळ्यार न्हिदलो, फांतोट्टेर नाच जालो. मागीर कळ्ळें जाण्टेलो खंय बीरसायत. खबर आसल्यार हांव तेका घरां घेतालें? पंचीस रुपया सोड, पंचीस ढबू पैशे मेळ्ळ्यारुय खूब जाले. धानी दिसल्यार तेचो दोंकोच म्होडून घालतां. मागीर तुका कळयतां.'

– 'बीरसायतांचेर इतलें रागार कित्याक तूं? तुजो घोव डोणकाय बीरसायत जाल्लो खंय मगो!'

– 'जाल्लो तर! फसल विकोन बीरसायतांक कितले जेवयल्या कितें सांगों तुका? पुडवें धवेंच जाय, आंगाक हळद जाय, कसलीं नाटकां! आतां तूंच पळय, म्हागे हांडीर एक, पोटांत एक. आनी हो उठोन गेलो कादयेंत. आतां हांयें कितें करोप? तुमी तरी आयकोन घेयलां? म्हागे भाता मुडयो फोडून मातयेभरवण केल्यो. हांयें रे बाबा कितें केलां?'

– 'जाल्यार ताका कित्याक थातारलो ना?'

– 'तो आयकता? मुंडांल्या दादल्यांक रगी चड. तूं नेणा? म्हाका म्हुण्टा, भगवान खंय सगलें दितलो. हें दिलें तें चोय ना? खोंटलो दिला आंबट बोरांचो. भालो दिला वांस्वेलांक धांवडांवक.'

– 'कितें जाल्या गो तुजी अवस्ता! तुजेवरी रुप कोणाक मेळ्ळां सांग.'

– 'हांवूच कपलफुटकें, कसलें रुप आनी कितें?'

– 'तेंच म्हण्टां.'

– 'कपलफुटकें न्हो जाल्यार? बापायन डोणकाची मानेरस्ती पळोवन लगीन करून दिल्लें, पुण तो म्हातरो. हांव तेचे नातीपरी, खरें न्हो?'

– 'बीरसान तुजेकडेन लगीन जातलों म्हुण सांगलेलें?'

– 'ना बाबा. तें शंकराचे परमीक सांगलेलें तेणें. धुराय मुंडाले भयणीक. धुराय सामको बीरसायत. बीरसान सांगलें तुगे भयणीकडेन लगीन जातां. लगीन तशें– नांवापुरतेंच. बायल–घोव जावपाचें न्हो. दोगांय भगवानाच्या वावराक लागपाचीं.'

– 'आरे! परमी कोनू वांगडा भोंवता मुगो.'

– 'खंयचो कोनू म्हुण्टाय तूं?'

– 'बीरसाचो भाव न्हू. हो कोनू मुखेली हांव म्हण्टां तो. कोनू आनी परमी वांगडा भोंवता सदांच.'

– 'परमील्या मनांत कोनू भरला केऽन्नाच्यान. येदेंशें आसतनाच्यान म्हण्टालें हांव कोनूकडेन लगीन जातलें.'

– 'बीरसा इतलेंय सगलें जाणा जावन त्या चेडवाक भुललो?'

– 'तें तुका कळचें ना. बीरसान सांगल्लें, धुराय तुगे भयणीक हांव घोव म्हुणोन नाका जाल्यारुच हांव तेचेकडेन लगीन करतां. म्हागे काम तेणे करचें.'

– 'आरे देवा! व्हडलो शेट–सावकारुच न्ही तो! मुदलांत भीकमागो मुंडा! तोंडाचे नेट व्हडले!'

– 'हांवूय तेंच म्हुण्टां सायब! तूं भिकारी, मुंडा तूं, तुगे तोंडांत ह्यो व्हडल्यो व्हडल्यो खबरी सोबता?'

– 'त्या चेडवान कितें सांगलें?'

– 'तेणे सांगलें, आसों तें. म्हाका कोनू सोडून आनीक कोणूच नाका! कोनू भरला म्हागे मनांत.'

– 'अशें सांगलें ताणे?'

भरत इन्स्पेक्टरान मान आरती–परती हालयली. म्हणपाक लागलो, 'तुमी बरें सांगल्यार खंय आयकता? मुंडा कित्याक मरता सांगतां.'

'कित्याक? हांव सांगतालें परमी–कोनू–बीरसाच्या लगनाची खबर. हेतूंत मरण खंय

येयलें?'

– 'आयक तरी. फळांत रुख – रुखांत फळ. म्हाका उलोवंक पुण दितलें तूं?'

– 'सांग पुलीस तूं! बाबा म्हाज्या, तुजी केदी वट? तुगे उलवणें आयकल्यार लेगीत लाव आसा.'

– 'आयक – मुंडा मरता कित्याक? दादले धडधाकट. नाजुकसाणीचें कांय कळना, ते उलयनात. आज म्हण्टले, म्हासूल दिना, फाल्यां म्हण्टले, वेठबिगारेक येना, परवां म्हण्टले सावकाराक वळखना. देवा! कसले सुके झेत! हतयाक जें सोबता तेंच मुयेकूय सोबता काय कितें?'

सालीन तकली हालयली. हें ताच्या मनांतलें. म्हणपाक लागलें, 'मुंडा दादले तशेच. उतरां कसलीं, बोरी कांट्यांवरी.'

– 'पुण एक, दादलो तसो सांब–शीव सो. तो सुको–साको आसूं येता. हांव कितलो पेट्टां म्हाजे बायलेक, पुण तिची केन्ना जाप ना. मुंडा बायलां म्हुण, कशीं तेंच कळना. तूं आतां म्हण्टालें, तें बायलांनी म्हणपाचें? हाचेकडेन लग्न जातलें, हो मनांत भरला, तो मनांत वचना – लज भीड कांय ना तुमका? कापड कितलें वयर न्हेसतलीं, दादल्यां – भशेन चलतलीं – चेडवां जेन्ना चेड्यांभशेन जातात, तेन्ना जात तिगप कठीन.'

– 'तुजेंय खरेंच!'

– 'हय गो, तूं रानांत अशें हेडटा – तुजो भुरगो खंय आसता तर? कोणाकडेन दवरता?'

– 'आवयकडेन दवरून येतां.'

– 'दीसभर?'

– 'खंय दवरतलें? तेका घेवन भोंवों काय कितें सगल्या रानांत? म्हाका एक दीस वाग खातलो. तेका कित्याक बाबड्याक?'

– 'शीः! कितले त्रास तुजे हे! च्ः च्ः च्ः!. घरांत तुज्या मुड्यार मुडे. हांवें हाचेआदीं पळयलां!'

– 'गेलें सगलें, सोंपलें.'

– 'वयचें ना कशें? बीरसायत कित्याक जालें?'

– 'हांव?'

साली रागान तांबडें जालें. म्हणपाक लागलें, 'हांव बीरसायत? म्हागे भांगराच्या संसाराक उजो पेटयला बीरसान. म्हागे घोव पिसो बीरसाच्या नांवान शबय घालीत रावलो. खंयच्यानूय दुकळांतल्या किड्यां–मुंयांवरी मुंडांक घेवन येता. म्हुण्टा, 'साली, हे सगले बीरसायत. हेंका शीत रांदून वाड.'

: 'कितें सांगता गो तूं?'

'सांगतां कितें तर तुका? भाता मुडे भल्लेले आसले. दुकळांत पीक नासल्यार भुकमारे वेळार हांये कितलें भात ह्या मुंडांक वांटलां म्हुणोन सांगों? करमा परबेक नाचोंक वयतालें, तेन्ना सगल्यो बायलो आमगेर. सगल्यांच्या माथ्याक तेल आनी दांतोणी हांयें दिवपाची, हार्तींक लाखे कांकणां. घाटो केन्ना खावंक ना, रानां-वाटांनी भोंवलें ना, फाटकें केन्ना न्हेसलें ना, सुक्या केंसांनी रावलें ना.'

'आनी आतां?'

'आतां हें सगलें भोगतां त्या बीरसाक लागोन. बीरसाक लागोन हो कर्मभोग.'

– 'तुमचो भगवान! धर्तर-आबा! ताका बीरसा म्हण्टा?'

– 'सुगानाचो चेडो बीरसा भगवान जाता? जाल्यार बेब्याचो हती जावं येता, बुरुडीकूच रांची शार म्हणचें पडलें तर.'

साली बोरांचो पांटलो उबारून बुरुडीचे वाटेक लागलें. भरताक दिसलें - म्हयने भल्ल्यात, पुण चलता कशें हालत धोलत, कूड कितली ओडलायणी! पोस्तार ते सगले बेठेच म्हणनात, मुंडा चेडवां म्हळ्यार काळो उजो. पळयल्यारुच आंगांत रगत तापता. पूण असली पाडी जात, चेडवाक हात लागल्यार भाल्यान गोमटीच मारपी.'

भरतान ताचे फाटल्यान चलतां चलतां म्हळें, 'साली! ए साली! आयक गो, कितें सांगतां.'

'सांग मरे.'

'आयज रातीकडेन तुज्या गवळांत रावंक मेळत?'

'कित्याक?'

'आतां रातचो कसो परतो वतलों? भंय दिसता.'

'बरें, राव तर.'

कांय खीण दोगांय मोन्यांनी चलतालीं. मदींच सालीन पांटलो सकयल दवरलो. पोट दामून बसकण मारली.

'कितें जालें गो?'

'देवा रे, आवय गे, बाबा रे!'

'कितें जालें गो पुण?'

साली गुठली करुन आड पडलें. म्हणपाक लागलें, 'पोटांत कळ येयली. जाता दिसता आतां!'

'कितें म्हण्टा?'

'तूं चल, चल आतां हांगाच्यान.'

'तुका अशेंच सांडून वच म्हण्टा?'

– 'ह्या वेळार दादलो लागीं आसप न्हो. तुगे बायल ना, तुका कळना?'

– 'तूं एकलेंच आसा मगो!'

– 'आयक, वाडो हेऽथिंगा. तूं वचोन मानीक - मुखेल्याले बायलेक आपोवन हाड. आनी कोणाक कळोंक जायना-तिकाच वचोन आपय.'

– 'पूण तूं हांगा एकलेंच उरतलें!'

– 'तिका वखद खबर आसा. तें घेयल्यार त्रास उणे जातले. चेडो जाल्यार ती सोडयतली. आनीक एक.'

– 'कितें, सांग.'

– 'बुरुडींत रावों नाका. मनीस उरोंक ना गांवांत. बीरसाक लागोन पुलिसांनी सगल्यांक धांवडोवन घायल्याय. उल्ल्या ते साप जनावरां जाल्याय. पुलिसांचेर दांत धरून आसाय. राती अपराती गांव लुट्टाय, पुलिसांक मारताय. तूं रावल्यार तुकाय बडयतले, म्हाकाय पेट्टले.'

'कितें? बडयतले?'

'हय तर. हांव सांगतां तें आयक. आजून मळबांत रंग दिसतात. उजवाड आसा. नीट लातूक चल. थिंगा भंय ना.'

भरत इन्स्पेक्टरान धांव मारली.

तो वतकच कपडे, केंस, आंग - सगलो धुळ्ळ झाडीत साली उठून बसलें. पोटाचें कापड सोडून तिरां-फळांची रास जमनीर ओतली. लोखंडा तिरांचीं तोंकां कान्या फळांच्या विखान काळीं जाल्लीं - मुंडा चेडवा भशेन काळीं. मुंडारी तरणाटेवरीच ओड लायणीं, म्होवाळ, कडक.

बोरांचो पांटलो ताणे जमनीर उमथो घालो. पांटल्यांत तिरा-तोंकां भरून वयल्यान बोरां भल्लीं आनी तें बोरां खावंक लागलें.

मुखेल्याली बायल मानी धांवत येवन पावली.

सालीन म्हळें, 'इतलो कळाव करता? म्हाका खंय वेणो लागलेल्यो, खबर ना तुका?'

'वेणो येयल्यो तें कळ्ळें, भुरगें खंय गो?'

– 'पाटल्यांत घायलां, तें ऽ पय.'

– 'खंय चल्लें तर आतां?'

– 'आनीकूय तीर घेवन येतां.'

– 'परतें वयता, आतां?'

– 'वचोंक नाका? फाल्यांय येतलो तो भरत. तेका पोट दखोवंक नाका? तो फाट सोडटा?'

– 'कित्याक फाटीक लागला गो तो?'

– 'आनीक कित्याक! जे पळोन लिपोन रावल्याय, तेंका खाण-जेवण दितल्यो बायलो, तेंका आसरो दितल्यो हें तेका बरेंऽ खबर आसा. तेंचे फाटी-फुडें रावल्यार कितेंय

पुण वास लागत म्हुणोन आस तेका.'

– 'ह्या काळखांत आनी परतें वयता गो?'

– 'धानी बसोन रावतलो वाट पळयत.'

– 'जाल्यार वच बाये.'

– 'भरत गेलो?'

– 'हय.'

– 'बरोऽ भिश्टयलो.'

– 'हांयेंय भिश्टयलो. दुकळांत सगले तापोन आसाय. इनिसपेट्टर दिसल्यार मारतलेच, म्हुणोन सांगलें. म्हागे कितलीं भुरगीं, तुका रावों दिलां म्हुणोन कळ्ळ्यार म्हाकाय मारतलीं. बाबडो भिवन गुळी जावन फुज्जो!'

– 'वचों दी, लातूकुय कोण्ण रावोंक दियना तेका. काळखांत धांवूं दी भातुकाडू मेरेन.'

– 'वाटेर वाग खातलो.'

– 'वाग इनिसपेट्टराक खाता? इनिसपेट्टराक सगलीं भिताय. रानांतलीं सावदां आपल्या जिवाक भिनाय?'

– 'हय, तुका जिवाचो भंय ना? ह्या काळखांत वचोन येतलें? बीरसा खातीर तुका इतलें ______'

– 'ओगी राव.'

– 'तूं म्हाका सांग साली. ह्या झिळमिळ्या काळखांत कोणाची वळख मेळना. तूं सांग, हांव जड्डें, मेल्ल्या रुखाच्या कांडावरी कूड, म्हागे पोटांतलें पोटांत उरता, कावळ्याक लेगीत वास लागना.'

– 'कितें सांग म्हुण्टा?'

– 'बीरसाक तूं फकत भगवान म्हुणोन इतलो राखता? तो अपुर्बायेचो भुरगो, तूं नाजूक भुरगें –'

– 'ओगी राव.'

सालीन तिका दबकायली. म्हळें, 'असलें कोणे चिंतचें न्हो मानी. हांयेंय चिंतचें न्हो. अशें येवजिल्यार तें म्हापातक.'

– 'कितें तें? भगवानाचें सगलें बरें. फकत हेंच म्हाका बरें दिसना.'

– 'कितें तें?'

– 'हेंच–नाचप–गावप–महूवा–ताडी–फुलां शिरंगार–दादल्या–बायलांमदीं मोग – आपलेपण – सगलेंच बंद केलें तेणें.'

– 'पोरनी वाट सोडिनासतना तेची वाट कशी धरतलें? ह्या शिगम्यांतल्या साल फुलांच्या बासान मनाक भार येयल्लो. रानांत कितलीं फुलां फुलल्यां? एकूय काडलें ना,

माथ्यार खोंयलें ना. करमा परबेक नाचलें ना खंयच.'

– 'खरेंच त्रास. म्हागे पांयांनी बळ ना. जाल्यारूय नाच म्हुणशी - आत्तां नाचतां मन भरोन.'

– 'तूं जाण्टी जाल्यार तरणें कोण तर?'

मानी हांसली. पांटलो माथ्यार घेतलो. अभिमानान म्हळें, 'तो आशिल्लो तेन्ना तेका केन्ना लांकडां मारूंक दिलीं ना. आतांय कुराडीन झाड आडवें घालूंक सांग, घालतां. तुज्यान जाता? सांग.'

'आतां चल तूं मानी. काळोख जालो.'

'तूं वचना?'

'चललें!'

वाऱ्याक चक्रोवन, वारें भेदून वचपी तिराभशेन, एकदम उडून गेल्ले वरी काळखांत भरसून साली नाच्च जालें. काळोख रानाच्या आत्म्या भशेन सगल्याक पातळत आशिल्लो. हें रान, ही वाट सगलें ताचे वळखीचें. आपले कुडी भशेन वळखीचें. रानांत मदीं आशिल्ले तळयेंत निर्मनीस सुवातेर तें जेन्ना न्हातालें तेन्ना आदीं तें आपले उकते कुडीची सावळी उदकांत तेळटालें. त्या अचल पडबिंबांतले दर एके रेशेची आनी कवळाची ताका वळख आशिल्ली आनी तितलीच वळख आशिल्ली ह्या अरण्याची. वाट सोडून तें दाट रानांत भितर सरलें. दोंगराचे देंवणेन सकयल देंवलें. देंगणाखाला न्हंय - आतां तिचो सुको सडो जाल्लो, एक बारीकशी उदकाची धार व्हांवताली. न्हंये कांठार दोंगराच्या देंगणांत घोली. कांट्यांचीं झोंपां कुशीक काडीत तें घोलींत भितर सरलें.

– 'कोण थंय? साली गो?'

– 'हय. व्हडा त्रासांतल्यान येयलां. भरत फाटीक लागलो! कसोच फाट सोडिना. कसलीं नाटकां करून येवंक पावलें जाणा! त्या चोराक एक दीस भालो तोपतांच हांव, चोय तूं.'

– 'तेका हिंगा घेवन यो फटोवन.'

– 'नाका बाबा. पुलिसाक मारल्यार अख्ख्या गांवाक उजो घालतले.'

– 'तें खरें.'

– 'तिरां-तोंकां खंय तर?'

– 'हीं घे.'

– 'दी. बांदून दवरिल्यांय?'

– 'हय.'

धानील्या हातान भालो बरो चलता. भालो आनी ढकमकी आसल्यार धानीक हेर कित्याचीच गरज पडना. पावसांत जाल्यार धानी रानांतलीं झोंपां मारीत नाच जाता. भाल्यान रुखा ताळी म्होडून तिची बडी भाल्यान तासून ती शेंवटून दुकराक वा हरणाक

तोपून मारता. मुल्की लडायेंत भाटकाराचें घर, भाता कोठी आनी मुडयो जाळून तो रानांत पळून गेल्लो, तेन्ना भाल्यान रुखा दांडे कापून रुखा - तेंगशे कडेन ताणे नकसूद माच केल्लो. ताचेरुच कांय दीस रावतालो.

भाल्यान बडयो कापून ताणे तिरा-तोंकां केल्लीं. तीं ताणे सालीचे हवालीं केलीं. सालीन म्हळें, 'आयज कितें खायलें?'

– 'सोंसो मारला एक. खातलें? व्हरता एक कुडको?'
– 'नाका. सोंशे येता दारांत. फांशे लावन धरतां.'
– 'चल तूं घरा.'
– 'वयतां. बाबू आसा घरा.'
– 'फाल्यां मीठ घेवन यो.'
– 'हाडटां.'
– 'एक विळो हाड.'
– 'हाडटां.'
– 'काळोख जालो मुगो?'
– 'भगवानाचें नांव घेयत वयतां.'

काळखांत भरसून साली परतलें. आतां काळखाचो भंय दिसना. आदीं दिसऽ. आतां दिसता, हें अशेंच उरचें ना. दीस जे भशेन वतात, जें घडटा तें कांयच खरें न्हय. खरो फकत बीरसा परतो येतलो तो दीस. बीरसा आयल्यार सगलें बदलतलें.

खूब दिसां सावन ताज्या काळजांत काळखान घर केल्लें. ल्हानपणा सावन ताणें आयकल्लें आपुण एक सुंदरी म्हुण. लग्न जातलें, देखणो जांवय येतलो. पूण डोनका कडेन लगीन जावन मनाक थाकाय नाशिल्ली. डोनकाच्यो दोगी बायलो आदीं मेल्ल्यो. एका पट्याचो मुखेली डोनका. डोनकाच्या पट्यांत इकरा गांवां.

गांवां तरी कसलीं? रानवटी. एक धा चुलींचें, दुसरें वीस चुलींचें, असलीं. थंय रावतल्यांचीय परिस्थिती तसलीच. घाटो आसा, मीठ ना, असली. जाल्यारुय तांचे भितर डोणकाच बरो आसलो. पिराय तशी बरीच. पूण सगलें सांगून -करून ताणें सालीक हाडिल्लें. सालील्या बापायक सांगल्लें, 'म्हागे आनीक कितलेशे दीस? तुगे धुवेकूच पडटलें सगलें.'

सालीचीं आवय-बापूय तेन्नाच्यान ह्याच गांवांत येवन रावलीं. बापूय एक दीस सोंपलोय. सालीक कसलेंच सूख मेळ्ळें ना. ह्या लग्नाचें कसलेंच सूख ना. पूण पोटाक शीत, आंगार कापड, माथ्यार तेल हांची खात्रीच व्हडली. घोव जाण्टो म्हणपाचें दुःख तें विसरुनूय गेलें.

निमाणें तेंय सूख अंतरलें. डोनका एक दीस धवें वस्त्र न्हेसून, कपलाक हळद लावन घरा आयलो. सांगाताक आनीक चौग जाण मुंडा. म्हणपाक लागलो,

'हेंका रांदून वाड.'

'किद्याक?'

'हे बीरसायत. हांव बीरसायत जालों. बीरसायतांचे बीरसायत भाव-भाव. म्हागे भावांक हांव जेवयतलों.'

बीरसायतांक वाडटां-वाडटां, दान दितां-दितां भाता राशी भागत गेल्यो. वेळा-अवेळार लोक येतालो. गुपितांनीशो खबरी चलताल्यो. डोनकान सालीक भुरग्याक घेवन दुसऱ्या घरांत रावंक धाडली. सालीक जाळ पडले. ही कसली नश्टी बुद्द डोनकाची? पुजे-परबेक मुंडा परजेन हाडिल्ले मानाचे कोंबे आनी शिधो परतयतालो, शेतकाम सोडिल्लें! तेन्ना ताणे गाळी घालूंक आरंभ केलो आपल्या बापायक, डोनकाक, नशिबाक. अखेर डोनका एक दीस पळून गेलो. ताणे म्हळें, 'हांव चल्लों गो भगवाना कडेन!'

बीरसा कडेन वचून तो बसून रावलो. हरणां झुंडींनी येवन सालीलें आळूं खातालीं. शेता-भाटाची दैना जाली. रागान भगभगिल्लें साली बीरसा कडेन पावलें. मुखेल्याची बायल. देखून केंसांक तेल, आंबाडो, ताचेर फुलांची फांती माळून, निवळ कापड न्हेसून गेलें. ताचो राग आंगापांगांतल्यान फुट्टालो.

बीरसान सांगलें, 'तूं डोणकाक संवों नाका! तो म्हागे काम करता.'

'व्हय व्हय, तुगे काम, हॅः! सगलें फुंकोन वडयलें. भुरग्याकूय चोयना. सगल्याचें घट्टाण केलें! गाळी घालूं नाका खंय?'

बीरसा आंगणांत देंवलो. ताच्या माथ्यार हात दवरलो. ताचें तोंड वयर उखलून नियाळ्ळें. ल्हवू मंत्रशे म्हणीत रावलो कसले. ताच्या दोळ्यांनी गूढशो वेदना. ताच्या हातींत कितें यंत्र बी आसा काय! सालीक कळ्ळें, ताचें तापिल्लें, धगधगतें, खतखतपी मन पावसाच्या शीतळ उदेंते वाऱ्यान थंड पडत चल्लां.

सालीन म्हळें, 'कितें चयता?'

'तुका.'

'म्हाका?'

'हय.'

बीरसान म्हळें, 'डोणकाक लागून म्हाका खूब सोपें जालां. तूं आसल्यार आनीक जातलें.'

'हांव आसल्यार?'

'हय.'

'हांव कोण सांग.'

'तूं साली.'

'अस्तुरेक लडायेचो वावर जमता?'

'हय. हांव सांगतां तुका कितें करोप तें.'

साली अजापीत, विस्मित जावन मान सकयल घालून परतें आयलें. ताणे डोनकाक म्हळें, 'तूं मुखेली. आनीक कितें सोदूंक तेचेसरीं गेलो?'

डोनकान विषण्ण हांसून म्हळें, 'तेच्या दर्शनान, तेच्या उतरांनी म्हागे हड्डयांत बाण तोपताय, दोंगर कोसळताय. तेचेकडेन वचोन म्हाका कळ्ळें मुंडा नांव कितले व्हडविकेचें!'

डोनका बीरसाचो भक्त कित्याक जालो तें सालीक तेन्नाच कळून चुकलें. मुंडा म्हळ्यार रानवटी, अन्नाडी. मुंडांली जीण दिकूं खातीर. दिकूंले कोठयेंत भातां, सांसवां, ऊस येता, दिकू येवन रानां हातासतात, जमनीर हक सांगतात, बोंगा-बोंगीचें थळ-बळीचो जागो-मांड, वसयल्ल्या गांवाचें सगलें ना नपयत करून थंय आपल्या देवां-देवतांचीं थळां उबारतात, ह्याच कामाक मुंडाली जीण. मुंडाक आपुण मुंडा आशिल्ल्याची व्हडवीक दिसची तरी कशी? कसो आत्मविस्वास अखंड दवरचो?

ना. बीरसा कोणाच मुंडाक घाटोचे सुवातेर शीत, वेठबिगारे बदला मुक्तताय, कोर्ट-जेल हातुंतल्यान सुटका, शेताक जमीन, राबित्याक घर, रानाचे हक दिवंक पावंक ना.

पुण डोनकाच्या काळजांत धिटाय आनी अभिमान जागोवंक पावलो.

साली उसासलें. म्हणपाक लागलें, 'हांवूय कापड हळडुवें करतां कुसुंबा-फुलांनी. बायल-घोव म्हुण रावचीं ना. हांवूय चालकाडाक वचोन तेचीं उतरां आयकोन येतलें.'

— 'येता?'

— 'ना जाल्यार तूं एकलो वयता? म्हाताड्डो, रातकुड्डो, रातचें दिसता तर तुका?'

सालीन सगलें केलें. बीरसा खातीर खूब वावरून बीरसाले नदरेंत तोखणाय पळोवंक ताणे सगलें केलें. मागीर, धानी तिरां-तोंकां वांट्टालो तेन्ना बीरसाक धरून व्हेलो. डोनकाकूय बंदखण जाली.

सालीन पळयलें, गांवांगांवांत पुलिसेचीं धुमशेणां. पुराय वाठारांत दुकळ, अवर्षणान रान-रान पानान पान वगडावन बसलें. मुंडा परतेय पंगडां-पंगडांनी क्रिस्तांव जावपा खातीर गेले.

साली पळयतालें, आतां बीरसाचे दुस्मान म्हण्टाले, 'बीरसाल्या पातकानूच सगले मुंडा भाजून- करपून गेल्यात.'

मुंडा म्हण्टात, 'जाल्यार कितें जालें?'

— 'जाल्यार आनी जावपाचें कितें? सगले बोंगा-बोंगी सोडून एकल्या बीरसाक भगवान म्हूण पुजल्यार देवतांक राग येवप न्हू?'

— 'जाल्यार कितें जालें?'

— 'वचोन पुजा कराय. उदक ना, फसल ना, हें सगलें खंयच्या बोंगाच्या शिरापान

घडटा तें मुखेली सांगतलो.'

– 'मागीर कितें?'

– 'त्या बोंगाक संतुश्ट कराय. चलाय!'

परतो सिंग-बोंगाच्या थळार कोंब्याचो बळी दिलो. परतोय मुखेली रगतान भरिल्ली वाटली घेवन काळखांत धांवलो, पडंग बांयंत आनी सुके न्हंयंत ती वतोवन आयलो. उपरांत सुखी चेटकीण येवन तिणे मंत्रतंत्र, जादू-करणी सुरु केलें.

हें सगलें पळोवन सालीक रडूंक आयलें. बापायन ताचें डोनका कडेन लगीन केल्लें तेन्ना ताका अशेंच रडूंक आयल्लें. दिशिल्लें, आतां मेलें.

रान करपलां. हरणां गांवांत येवन राशी उरस्तून भात खावन वतात. घरांत खुंट्यांचो घेर करून केल्ल्या जाग्यांत सालीची आवय ताच्या ल्हान भुरग्याक घेवन न्हिदता. साली थंयच भायर हातींत भालो घेवन न्हिदता. झाडा ताळ्यांचो, पानां पत्र्याचो आवाज आयकले बराबर भालो शेवटुंचे वा बरची उखलून वावुडचे तयारेन.

एके राती पावलट वाजली. सालीक कळ्ळें भायर कोण पूण मनीस आयला. ताणे बरची मुखार केली. ल्हव आवाजांत ताणे विचाल्लें, 'कोण?'

'धानी गो, धानी मुंडा!'

सालीन दार काडलें. धानी भितर सल्लो. म्हणपाक लागलो, 'बंदखणींतल्यान पळोन येयलां.'

'तूं एकलोच?'

'हय.'

'हांगासो येयलो?'

'आनीक खंय वयतलों?'

'तुजे फाटल्यान पुलीस येतले.'

'एक दीस पुण मेळटलो.'

दुसरे दीस रातचो सालीन धानीक ते घोलींत व्हेलो. ताणें म्हळें, 'कोणाक सुलूस लागची ना. दिसाचें येवन निवळ करून गेल्लें. मुखार रुखाचीं झोंपां पातळ्ळयां. हांगाच राव तूं. हांव मागीर येतां. येयलें ना जाल्यार गांवांत पुलीस येयल्ल्यान पावलें ना अशें समज. भूक लागल्यार मक्याचो सांतू खा. चकमकी आनी उदका-गाडगो हांगा दवरला.'

तेन्ना सावन धानी हांगाच आसा. धानीक हांगा पावयतकच सालीक सू ऽ ऽ जालें. धानी म्हण्टा, बीरसा दोन वर्सांनी येतलो.

तो परतो येना तेन्नादर मुंडांनी समजुपाचें, सगलें सारखें आसा.

साली धिरान परतलें. परतें सगलें सदां भशेन दिसलें. सगलें सारखें आसा अशें दिसलें. पुलीस धानीक सोदीत येवन सालीची भाता-कोठी फोडून गेले. सालीन आवयक विचाल्लें, 'रडटाय कित्याक तूं? तुज्या दारांत कोठी आसली केन्ना? ह्या म्हाताऱ्याक म्हाका

दिलें तेन्ना तुका ती चोवंक मेळ्ळया, हय मगे?'

– 'खातलें कितें आतां?'

– 'आदीं कितें खातालीं, तेंच.'

साली रानांत भोंवंक लागलें. रानांत फळां, कंद जातात, सोंशे – साळी मारूंक मेळटात, रानांत चेडवां पंगडांनी वतात, खबरी उलयत रानभर भोंवतात, तांचे कडल्यान सालीक कळ्ळें, बीरसाच्या नांवाक सगले भिनात.

मुखेल्याली बायल मानीन ताका बुद्द दिली, 'दिकू येतात त्या व्हडल्या बाजारांत वचोप ना. रानांतल्या ल्हान-सान गांवांनी तीर घेवन भोंवया. वयर सुरण, आळू, केळीं, भाजी दवरूया. म्हागे पांटल्यांत विकुया, तेंगे पांटलो घेवन येवया. तेतुंत तीर भरून रातोरात लोकांगे घरांच्या वणटींचेर तीर तोपून दवरून परतीं येवया. म्हागे आयक.'

सालीन मानीचें मानलें. साली, डोनका मुखेल्याची बायल, रानांत भोंवता पोटांत भुरगें आसून. व्हडलें अवर्षण, आकांताचो दुकळ, रान सोडून मुंडांक आनी गती आसा? दिकू आतां दाणो-गोटो, पैसो-अडको उधार उशणो दिनात. म्हण्टात, 'दिकूंक तुमी आतां धांवडायतले. जाल्यार दिकूंनी तुमची खबर कित्याक घेवप?'

दुकळ मर्णकाळ, वायट दीस. बीरसा बंदखणींत पडलो. तेन्नाच्यान लागून दोन वर्सां पावस ना.



# 15

पावसाचें नांव ना. सैम करपून गेल्लो. दुसऱ्या वर्साय वाऱ्याक उदकाचो वास ना, भूंय फुटून गेल्ली. शिंयां दिसांनीय रातचो दंव भेटना. सकाळीं पळयल्यार रानांतल्या झाडांचीं पानां सुकीं, बावकीं. न्हंयंतली रेंव उपसून बायलो फोणकुल करून दवरतात. अख्खी रात गेल्यारूय पोसो भर लेगीत उदक मेळना. 1897 वर्सा छोटा नागपुरांत सर्दी फसल करपली आनी वायंगणी किल्ललीच ना.

1897 च्या नोवेंब्रांत बीरसाची सुटका जाली. वाऱ्या वरी खबर पातळून वाऱ्या आदीं लोकांमदीं पावली. परतून मुंडांच्या गांवां-गांवांनी धोल वाजले. दादले बायलां गायत नाचलीं. क्रिस्तांव जाल्ल्यांनी पावलुश पाद्रीक सांगून उडयलें, 'आतां आनी तुगे इगर्जेंत आमी येयना. तूं वच. आमचो भगवान येयला.'

– 'मिशनाच्या सायबांनी ह्या असल्या दुकळांत तुमका पोटाक घालूंक ना?'
– 'पोटाक दिल्यार कितें जालें?'
– 'तुमी म्हाका त्रासांत घालो.'
– 'त्रासांत तुजो तूंच पडला – भगवानाक धरून दिंवक गेल्लो तो तूं!'
– 'पुरो, परतेंय तेंच कित्याक?'
– 'चल, तूं आतां इगर्जेंत वच.'

रांचीच्यान चालकाडा येतना वाटेक बीरसाक सगलें करपून गेल्लें दिसलें. तो हुस्कारलो. मुंडा उपाशीं, अर्दपोटीं, दळडिरे – हें सगलें ताच्या काळजांत पाशाणा वरी रोमून बसलें. तो भगवान, मुंडांचो भगवान. कमिशनराक उतर दिलां मुंडांक चाळोवन घालचों ना म्हुण. बीरसाक कळ्ळें तें उतर पाळप ताका शक्य ना. आतां मनांत खोल खंय तरी पडसादिल्ली, सुक्या वाऱ्यांत पडसादून आवय कडल्यान आयकल्ली कदीम काळच्या गौरवाची खबर परतली. चूटिया जगन्नाथपुरा नवरतनाक मुंडांनी देऊळ उबारिल्लें. त्या देवळांत फातराचे वेदी सकयल उबे रावन खासा सिंगबोंगाकडेन उलोवंक मेळटालें. ईश्वर आनी मुंडा त्या काळार एकामेकाक सामके लागीं आसताले. उपरांत, आवय म्हण्टाली, 'उपरांत दिकूंनी सगलें हातासलें. मुंडा उबंतेर पडले.' ते चालकाडा पावले.

डिसेंबराचे सात तारखेर खासा कमिशनर चालकाडाक येवन ताका धमकावन गेलो.

ताणे म्हळें, 'तुवें सरकाराक उतर दिलां. उतर मोडल्यार आदले परस खर ख्यारस्त मेळटली.'

बीरसान म्हळें, 'जाणा हांव.'

कमिशनर दनपारां परतो गेलो. सांजचें बीरसाचें आंगण भरून लोक. सोमा, धानी, गया, सुराय, भरतो, सगले मुंडा सरदार आयिल्ले. मुंडा दादले सगले आयिल्ले.

आंगणांत एकलो पेट्टी मशाल पुरून गेलो. मशालीचो भगभगीत उजो. बीरसा गंभीर. तो उलयलो, 'एकेकलो उलयाय. सोमा, तूं सांग पयलीं.'

– 'तूं तेन्ना बंदखणींत. शिरवण भादरपदाच्या अदमासाक आयकलें, सरकारान दुकळाक लागून वेवरस्था केल्या, गांवां गांवांत रीण, दाणो-गोटो सगलें दितले. आमी वाट चोयत रावले. मागीर आयकलें, सरकारान सगली वेवस्था केली, सगल्यांक सगलें मेळ्ळें, असो रिपोर्ट वयर गेलो खंय. पुण भगवान! आमकां एकल्याकूय पडभर लेगीत तांदूळ मेळोंक ना. आनी कितें सांगतलों हांव?'

– 'गया, तूं कितें म्हुण्टा?'

– 'हांयें थाण्यांत सांगलें, खुंटी, शिशल, बासिया थाण्यांच्या वाठारांनी शंबरां वयर लोक भुकेन मेल्याय - हें बरयात रिपोर्टांत आनी कळयाय दुकळ पडला म्हुणोन. तेणी बरयलें चाळीस जाण मेले! चाळीस लोक मेल्यार तेका दुकळ म्हणिनात.'

– 'भरतोचें कितें रे?'

– 'हय. मिशनाच्या सायबांनी अन्नछत्र उगडलें. कितल्या लोकांक जेवंक घायलें. पुण भगवान, जमीनदार सायबान सांगोन लेगीत उधारुय दिनासले आनी सांगोंक राजी ना कोठयेंत कितलेंशें आसा तें. भात-तांदूळ कितें आसलें तें सगलें गडप केलें तेणी. मागीर एका दिकून रखुवा आनी दुखाच्या नांवार फटीची तक्रार केली. तेणी तेच्या रानांत वेळूचीं कांडां पेंचली म्हूणोन.

– 'कायद्याचें कोणाक कितें खबर आसा?'

धानीन मुखार येवन सांगलें, 'म्हाका आसा खबर.'

– 'आरे, तूं! बंदखणींतल्यान पळ्ळेलो कित्याक?'

– 'तेणी शीत कित्याक वाडलें ना? घरा घाटो खातांच, थंयूय घाटोच खावूं? आनी त्या वॉर्डरान म्हाका कोलो कित्याक म्हुणलो?'

– 'तुयें चूक केली.'

– 'आनीक परती करचों ना.'

– 'कायद्याची कितें खबर आसा तुका?'

– 'सगलें समजोन घेयलां हांयें. एक एक कर्न सांगों?'

– 'सांग.'

– 'म्हासूल वाडोवंचो कायदो जालो, देंवोंवचेलोय कायदो जालो. एकाच कायद्यान

थारायलें म्हासूल वाडटलो, आनी तितलो भरप रयतेक जमना अशें दिसलें काय माफी दिवप. जमीनदाराक पळोवन म्हासूल वाडयलो. जमीनदारांनी पटोवन दिलें म्हारगाय आयजकाल खंय पावल्या! म्हासूल वाडयना जाल्यार जमीनदारांचें मरण. कायद्यान थारायलें जे रयतेक वाडीव म्हासूल दिवप जमना तेणी चाकरी करून भर करची. चाकरेचें उतर दिवपी चाकरी करूंक शकलो ना जाल्यार दुडू दिवन मेकळीक घेवंक मेळटा.'

– 'निर्णय कितें जालो?'

– 'तेन्ना सोमा बी पांच जाणांनी जेकबा कडल्यान चीट बरयन घेयली. जेकब रांचीक येयल्लो! तुका खबर ना तर?'

– 'आयकिलें हांयें, जेकब्रान सरकाराक बरयन घायलें खूब म्हुणोन. आपणाल्या खर्चान मुंडांची केस न्यायालयांत दाखल केली. तेन्ना हरकती नोंद जाल्यो. हो कायदो चालीक लागल्यार मुंडांक लाव एका आण्याचो, जमीनदारांक पंदरा आण्यांचो. तुमकांय हें कळटा न्हो! मुंडा रावताय रानांत. तेणी म्हुणलें, 'सरकार, म्हासूल म्हाजेर येयला, पुण म्हाज्यान भरोंक जायना, तो माफ करचो. मुंडारींत हें आड्डून सांगलें तुमी म्हुण कितें सरकाराक कळोंक पडलां?'

– 'ना. सरकार आयकुपाक ना. सरकार भेड्डो.'

– 'जाल्यार?'

– 'केश घालून सरकाराक सांगोंक जाय.'

– 'हय. केश घालपाक मुंडांक जमपाक ना, केन्नाच जमपाक ना. तेन्ना जेकबान हें सगलें सरकाराक कळयलें. कांयच जालें ना. कायदो पास जालो. मागीर कितें जालें सांगतां! आरे, दुसरी मशाल हाडाय रे.'

नवी मशाल पेटली.

बीरसा उलोवंक लागलो, 'कमिशनर स्ट्रीटफील्डान जेकबाच्यो सगल्यो हरकती फायल केल्यो. म्हणपाक लागलो, बीरसा! हांव सगलें रेकॉर्ड करतां! हो कायदो परत्यान जातलो. पूण कोलकात्यासावन जॉन उटबान – धाकलो सायब – रांची येवन पावलो. तेणे सांगलें बीरसा मुंडान बोवाळ केल्ल्यान मुंडा शेतकार खुबळ्ळ्यात. हाचे मुखार ताका बऱ्याक पडत असलें कांयच कायद्यांत घालप ना.'

गया मुंडा उलोवंक लागलो, 'तेंच सांगतां न्हो! आतां जमीनदार म्हासुलूय घेता, वेठबिगारीय करून घेता. कोण दितलो म्हासूल? कोणागेर आसाय दोन रुप्या नाणीं? फाटलीं दोन वर्सां तूं बंदखणींत. तूं धर्तर–आबा, तूंच बंदखणींत. धर्तरी पीक दितली? दोन वर्सां जालीं धर्तरी जळून–करपून दीस–रात उस्वासत आसा. रानां गेलीं करपून. न्हंयक उदकाचो थेंबो ना. जमीनदार खेपता, तुगे अर्दान कायदो केला सरकारान. केश घाल वचोन जाता जाल्यार. तेकाच लागोन आमी सगले चोर जाले.'

– 'चोर जाले?'

– 'हय. भगवान! तूं बंदखणींत. हे वाटेन दोन वर्सां पीक ना. अन्नछत्र ना, रीण ना, म्हासूल वाडलो, वेठबिगारेचो भार वाडलो, देखून धानीन म्हणलें, चल या, वचोन भात चोरुया. जमीनदारागेर भात भरोन आसतना आमी कित्याक उपाशीं मरचें? देखून आमी भात चोरलें. तेकाच लागून सरकारान दवंडी धाडून म्हासूल लागू केलो. ज्या गांवांत भाताची चोरी जाता, त्या गांवांक म्हासूल लागू. देखून आमी पयलींच सांगोन दवरतां, भाता मुडे फोडून भात घेतां, तांदूळ घेतां, रातयांच रानांत पळोन वयतां, मुंडांक सांगोन वयतां, दवंडे वेळार कोणेच गांवांत रावप ना. सगले रानांत धांवाय.'

धानीन म्हळें, 'परते घरा येतां, पळोन वयतां. आतां मुंडांकूय कळ्ळां, तुजेबगर तेंची धडगत ना.'

बीरसान सुचयलें, 'बोरतोदीक सालीगेर आपय सगल्यांक. थंयच वचोन सगलें थारावया.'

– 'थारायतलो?'

– 'हय.'

सगले एक –एक करून गेले. जाल्यारूय बीरसाक न्हीद येना. खाटेर पडून मळबाक पळयत रावलो. तो भगवान! भगवानूच न्हू! भगवान न्हू जाल्यार ताणे आपयतकच सगले मुंडा कशे आयले? जेन्ना एक युग सोंपता तेन्ना भगवान अवतार घेता. आतांय जाल्यार एका युगाचो अंत जावपाचीं सगलीं लक्षणां दिसूंक लागल्यांत – 'सेंगेलदा' जावन मुंडांचो वाठार उज्यांत लासून गेला. मदीं जाळा वरी पातळ्ळां दिकूंचें विश्व. आतांच तर भगवानाची गरज.

पुण बीरसाक भितरल्यान जो आदेश मेळटा तो आजून कित्याक मेळूंक ना? बंदखणींत ताची कूड अपवित्र जाल्या देखून?

ताच्या पायां वेल्यान हड्ड्या मेरेन कोणे पूण रजय पांगरूंक घाली.

'कोण, आवो?'

'हय रे बाबा. न्हिदलो ना तूं?'

'ना! ही रजय खंय मेळ्ळी गे?'

'तुजेच खातीर शिंवल्या पुता. कुंडो भरला भितर. कापूस खंय मेळटलो? लुगट तुजे भयणीन हाडललें, आमी दोगांनी मेळून शिंवल्या.'

'असली रजय म्हाका ल्हान आसतना दिवंक ना तुवें.'

– 'ल्हानपणांत तूं कुंड्यांत न्हिदतालो.'

– 'अशें कशें तर!'

– 'रजय नाशिल्ली, अपुरबाय करूंक मेळनाशिल्ली, परबेक माथ्यार मिरोवंक नवी दांतोणी दिंवक पावनाशिल्लें.'

– 'दादा रडटालो खूब, न्हो गे?'

– 'रडटालो, हटीपणां करतालो! तुयें म्हाका कांयच कश्ट दिले ना पुता, आतां दितलो म्हुणोन काय?'

– 'कित्याक कश्ट म्हणटा गे तूं?'

– 'हय रे. बीरसा पुता, तुका संवसाराचें दुःख कळटा, पुण जे आवयन तुका ह्या संवसारांत हाडलो, तिगे दुःख तुका कशें रे कळना? तूं भगवान जालो, बरें जालें! पुण तूं ज्या मार्गान आतां वचोंक सोदता, त्या मार्गान गेल्यार सरकार तुका दवरचें ना.'

– 'सरकार उरचें ना, आयो!'

– 'उरचें ना?'

– 'ना गे! आमचें राज आमगे जातलें. तुका सगलें मेळटलें. सगल्या मुंडा वाठारांचेर जैत जोडून तुगे पांयांकडेन ओंपतलों. तूं कित्याक दुःख करता?'

करमी रडत उलयली, 'फाल्यांच्यान तूं परतोय सगल्यांचो जातलो. म्हाका तुजे लागीं येवंक दिवंचे ना ते. आयज म्हाजेलागीं न्हीद पुता. तुका वेंगेंत घेतां, काळजाकडेन धरतां – एकदांच.'

जाण्टी – जड्डी करमी धतरिच्या देवाक हड्ड्या लागीं घट्ट धरून न्हिदली. भायर शीं, उत्तरेचें वारें, करमीच्या मोन्या रड्या वरी रानूय वाऱ्याच्या ल्हारांनी विळापूंक लागलें.

भगवान येतलो. तागेर येतलो. सालीन मानी आनी हेर बायलांक वांगडा घेवन आंगण झाडून – लेपून चकचकीत केलें. डोनका आनी हेर बीरसायत दादल्यांनी मेळून आंगणाच्या एका कोनश्याक एक कूड बांदून काडली – भगवानाक रावंक. रानांत बरेंच भितर बोरतोदीचें तळें. त्या तळ्याचें उदक केन्नाच सुकना. गांवांत सगल्यांनी खार घालून कपडे धुयले, तेल घालून केंस वळयले. सगल्यांनी हळद वांटून कपलाक आनी गळ्याक सारयली.

घरांनी तांदूळ नाशिल्ले खरे, पुण जण एकलो जमता तें घेवन आयलो. मुखेल्याचे बायले वरी सालीन सगले तांदूळ, दाळी, मीठ पांट्यांनी भरून दवरलीं. आतां परते बीरसायत येतले. भगवान कितें म्हण्टा? हांगाय एक आश्रम करुया म्हणल्यार? मागीर महुवाच्या तेलान केंस भिजोवन रिठ्याचो लेप घेवन साली तळ्यार न्हावंक गेलें. रिठ्याच्या लेपान आंग साप निव्वळ जाता. साक भर रिठो सालील्या घरांतूच आशिल्लो. घोंसाळ्याच्या काथ्यान हात-पांय सगलें आंग घश्टून साली न्हालें. तळ्यांतल्यान वयर सरून निवळ कापड न्हेसून एका तळाच्या फातरार केंस मेकळे सोडून तें बसलें. केंस सुकतकच लांकडाची दांतोणी घालून तें केंस बांदतलें.

टक् करून कोणे ताच्या पायांकडेन फातर उडयलो. भालो हातींत उखलून साली सट् करून उठलें. ताणे म्हळें, 'कोण? परमी? धुराय मुंडाली भयण न्हो?'

– 'हय गो.'

– 'हिंगाशें?'

– 'तुजेकडेन कितें उलोवपाचें आसा.'

– 'म्हाजेकडेन?'

– 'हय, तूं सांग म्हाका कितें करूं तें.'

– 'कित्याक?'

– 'आयक. भगवान बंदखणींत वयचे आदीं म्हागे बापायक वाळो, कडे, कापड दिवन गेल्लो. तो सांगोन गेल्लो. तुगे धुवेकडेन लगीन जातलों.'

– 'भाग्य तुगे!'

परमीन तोंड घुंवडयलें आनी रडूंक लागलें.

– 'रडटा कित्याक?'

– 'असलें लगीन नाका गो म्हाका. तो खंय रावतलो, हांव खंय आसतलें. घोव - बायलेवरी रावोंक मेळचें ना. फकत बीरसायतांक रांदून वाडटलें, हळद वांट्टलें, तेंच्या वावराक राबतलें, असलें लगीन नाका म्हाका.

– 'कोनू कितें म्हुण्टा?'

– 'म्हुण्टलो आनीक कितें? तोय बीरसायत जाला न्हो! बापूय, भाव सगलेच. भगवानाक तेचो वाळो, कडें, परतीं दिल्यार तेणे आपलें उतर परतिल्यार कोनू लगीन करतां म्हुण्टा.'

– 'म्हाका कित्याक सांगता?'

– 'तुगेर येतलो न्हो तो! तुयें सांगल्यार भगवान आपलें उतर फाटीं घेतलो. तूं सांग गो मातशें, साली.'

– 'हें सांग म्हुण्टा?'

सालील्या काळजावेल्यान व्हडलो फातर देंविल्ले वरी जालें. ताणे म्हळें, 'सांगतां. परमी, चोय तरी. तळें इतलें पैस देखून हांगा कोण पावना. फागलां कितलीं पिकल्यांय चोय. सवण्यांक लेगीत खबर ना. व्हरुया काडून, यो. कोडू तेलांत मिरयां घालून तळसूया. राव, पानां काडून दोन दोणे करतां.'

दोगांय फागलां काडूंक लागलीं.

सालीन बीरसाल्या पांयांर उदक वतलें. पालवान पांय पुसले. बसूंक नवो पाट दिलो. हेर अस्तुऱ्यो हात जोडून बसून आशिल्ल्यो.

– 'भगवान! कितें सांगपाचें आसलें.'

– 'सांग.'

– 'परमीक दिल्लो वाळो आनी कडें परतें घे. तेका जायें घर, भुरगें, पांच सवाशिणींक हळदकुकूम लावंक सोदता तें.'

– 'तशेंच जातलें.'

– 'तेका शिरापूं नाका.'

– 'ना.'

– 'जालें. आनीक कांय ना.'

– 'तूं कांय दिना म्हाका?'

– 'कितें दिवूं? म्हागे घरकार घेयला तुयें. हें घर, आंगण, कोठी तुगे वावराक सोडली. उल्ला तो एक पूत.'

– 'तो दिवंचें ना?'

– 'सगलेंच जायें?'

– 'सग्गलें.'

सालीन पुताक हांडीर घेतलो. ताणे म्हळें, 'घे पावलो तुका. इतलो ल्हान भुरगो घेयन तूं कितें करतलो?'

– 'तेका लागोन म्हागे नांव उरतलें.'

सालीची नदर आपशींच देंवली. बीरसान सालीच्या पुताच्या कपलार हात दवरलो. आनी म्हळें, 'साली आनी डोनका हांगे ह्या पुताक हांयें पोसको घेयलो, अशें तुमका सगल्यांक कळीत करतां. तेगे नवें नांव परिबा. तुमी तेका म्हागे पूत म्हुणोन वळखयाय.'

हळदीन रंगयल्लें सूत बीरसान परिबाल्या हाताक बांदलें. सालीच्या दोळ्यांत दुखां भरून आयलीं.

'रडटा कित्याक?'

'म्हाकाय तुगे काम करुंदी.'

'तूं करताच मुगो.'

'करतां खरें!'

साली दोळे पुसून हांसलें. म्हणपाक लागलें, 'हांव, मानी, फुलना, आमी सगलींच करतां. आदीं दादले आमकां कितले हांसले. तुमी बायलां, तुमी कितें भगवानाचो वावर करतलीं? पुलीस दोन वर्सां सावन दादल्यांचे फाटीक लागल्याय. आमी बायलांच करता काम. आतां कोण हांसनाय. चला, भायर चला, भायर रावाय, येयले सगले. समराय, रमाय, बुधू, बांगिया सगले जाण्टेले सरदार येवन पावल्याय. बुधू आजोन आसा काय तेंच नकळो आसलें.'

– 'चल या!'

नवेले कुडींत पेडयेर बीरसा उठून उबो रावलो. ताणे सुचयल्लेप्रमाण नगाऱ्यार तोणी मारून डोनका मुंडान सगल्यांक थंड केले. बीरसा धवें फुल्ल पुडवें न्हेशिल्लो, फेटो बांदिल्लो, आंगाक लांब खोमीस, पांयांक खडावो आशिल्ल्यो.

बीरसा उलोवंक़ लागलो, 'मुंडांनो, आयकाय! तुमी बऱ्या वेळार येयल्याय. जेलांत

बसोन हांव चिंततालों तुमकां खंयच्या मार्गान व्हरचे काय म्हुणोन. आतां म्हाका मार्ग दिसला. तुमकां हांव मार्ग दाखयतलों.'

– 'दाखय गा धरती आबा!'

– 'पयलेंच सांगतां, त्या मार्गान गेल्यार देह मरतलो काय उरतलो तें चिंतोन चलचें ना.'

– 'चिंतचे नाय.'

– 'जाल्यार आयकाय. आयच्यान जो कोण म्हागे पुजा करतलो तो बीरसायत. तुमगे हातांत वेळ ना! इतलो काळ चिंततालों, कोण काय मुंडांचो दुस्मान? कोण शत्रू तेंचो! हे जमीनदार - (जोतदार) सावकार? जे येवन आमच्या शेगे-वस्त्यांनी घट जाल्याय तेच, तितलेच दुस्मान? काय जाणे आमचीं वसयल्लीं गांवां जमीनदारांगे तोंडांत दिलीं, तें सरकार दुस्मान?'

– 'तूंच सांग गा, कोण दुस्मान तो!'

'हे सगलेच दुस्मान! आमगे झूज ह्या सगल्यां आड. असलें झूज आयजवेर केन्नाच मुंडा खेळ्ळे नाय! सगल्या दिकूं आड झूज, आनी झूज सरकारा आडूय.'

– 'मागीर _______'

– 'आमगे रान. आमी रानां-रानांनी, दोंगरां-दोंगरांनी साद घालतले, आमचीं थाणीं करतले. तेंचीं तुबकां आसत, पूण तुबकां चलयतले कितले जाण? आमी आसाय हजारांनी.'

– 'फुडें सांग.'

– 'आयकाय! आतां दोन वाटांनी वावर जाय. आमचो धर्माचो वावर. आमच्या झुजाचो वावर. जलमायच्या सोमा मुंडाक वळखताय तुमी. सरदार सोमा? मुलकुय लडायेंत बरोच पेट खायल्लो, बंदखण भोगून येयल्लो. तेका हांयें धर्माच्या वावरांतलो एक गडो केला. आमगे धर्माचें काम संन्याशांनी करपाचें न्हो, जे झुजल्याय तेंची आमका गर्ज.'

– 'सारखें तुगे, भगवान!'

– 'झुजाच्या वावराक गया मुंडा म्हागे दुसरो हात. गयाचें आनी हांव कितें सांगतलों तुमका? तेका तुमी बरे वळखताय.'

– 'सारखें सांगलें गा भगवान.'

– 'आयच्यान सगल्या बीरसायतांचीं घरां म्हुणल्यार झुजाचीं कोटां. थिंगा ब्रेस्तारा आनी आयतारा सगल्यांनी जमपाचें. धर्माच्यो, झुजाच्यो खबरी उलोवपाच्यो. जमतले त्या सगल्यांनी रातीकडेन मेळोप.'

– 'रातचे मेळोप!'

– 'आयज एका गांवांत, फाल्यां पांच कोंसांर दुसऱ्या गांवांत. अशो दिका-दिकांनी आमच्यो जमाती जातल्यो. ह्या सगल्यांची खबर तुमका दोन कोनूं कडल्यान कळटली,

म्हागे भाव एक कोनू मुंडा, शंकराक रावतलो दुसरो कोनू मुंडा.'

— 'आमी कितें करचें गा?'

— 'जेंगे घरां रानांत बरींऽ भितर, पुलीस चौकेकडल्यान बरींऽ पैस आसाय तेंचो एक पंगड – ते प्रचारक! प्रचारक म्हुणाय, गुरू म्हुणाय, कितेंय म्हुणाय. तेंच्या घरां-घरांनी आरंभाक ब्रेस्तारा आनी आयतारा रातचे मेळोप. त्या बीरसायतागेर सगल्यांची रातीकडेन रावपाची वेवस्था जातली. वयतल्यांनी आपल्याक जमता तशें कितेंय पुण व्हरोप, सगल्यांनी रांदून सांगातान वांटून – पावोवन खावप.'

— ''हें बरें! ना जाल्यार धा जाणांक वाडूंक कोणाक जमपाचें ना.'

— 'तुमगे सरदारांचो एक पंगड! तुमी जाण्टेल्यांनी आमका झुजाची भास शिकयल्या. हांव भगवान म्हुणपाचें पयलीं तुमका कळ्ळां. तुमी पुराणक. तुमी झुजाच्यो गजाली शिकोवप. खंय पळून वचोप, थाणीं कशीं घडोवप, हत्यारां कशीं फैदा करोप हें सगल्यांक शिकोवपाक शक्य ना. तुमीच हें काम करोप.'

— 'करतले भगवान! आमी करतले!'

— 'सोमा, डोनका नदर दवरतले. वावराक फावोशे गडे वेंचून काडटले. तेंका बीरसायत करतले. निमाणे उरता ते नानक. नानक आयतार, ब्रेस्तार पंचायतीत येवंचे ना. तें बीरसायत जातले. पुराणकां कडल्यान झुजा विशीं समजोन घेतले.'

— 'हें बरें सांगलें, भगवान.'

— 'आतां सवकासायेन काम करून जावंचें ना. आदीं आमी सगलीं कामां एका बराबर करतले. लडाय शिकप, नानक मेळोवप, पंचायत, थाणीं घडोवप, दाणो गोटो पुंजोवप सगलें चलतलें. पुण कशेंय करून आमकां आमचे मूळ हक परते जाय. आदलीं देवस्थानां जाय. देखून! चुटिया आनी जगन्नाथपूर हांगाचीं देवळां आमी झगडून ताब्यांत घेवंक जाय. देवळां आमचीं आसलीं, त्या देवळांनी आयज आमकां भितर सरोंक मेळना. दिकू राजा, दिकू जमीनदार, जशे आमका तेंचे सामखार व्हडलें फुडवें, फेटो, जोतें घालूंक दिनाय, आमका कांशाच्या, पितुळच्या आयदनांनी जेवंक दिनाय – जशे ऊंच बसकेर आमका बसोंक दिनाय – तशे आमच्या पुरसां – पुर्वजांच्या देवळांनीय भितर सरोंक दिनाय.'

— 'देवळां झोंपून घेवया.'

— 'मुंडांगे आदीम राजपाटण नवरतन गडावयल्या कोटांतल्यान उदक-माती हाडुया! हक मेळोवया.'

— 'हक मेळोवया!'

बीरसान दोनूय हात वयर उबारले, देंवन तांचे मदीं आयलो. ताणे म्हळें, 'आतां आनी दबकत दबकत झूज ना, सगले मुंडा एक बराबर सगले कडेन एकवटान झुजुया. म्हागे ह्या झुजाचें नांव उलगुलान! कळ्ळें? उलगुलान!'

– 'उलगुलान?'

– 'उलगुलान!'

बीरसान दोनूय हातांनी तोणयो घेवन नेटान नगाऱ्यार मारल्यो. शेंकड्यांनी ताळे गर्जले, 'उलगुलान!'



# 16

उलगुलान! नव्या भुरग्यांक–नानकांक दीक्षा दिवपाचो मंत्र जावन गेलीं हीं पांच अक्षरां! बाजारांत, रानांत, दोंगरांनी, नगरांनीं–सगल्याक दोन अनवळखी मुंडा मेळ्ळ्यार एकलो म्हण ऽ, ‘उल!’

दुसरो म्हण ऽ, ‘गुलान!’

दोगूय एका आवाजांत म्हण ऽ, ‘उलगुलान!’ आनी आपल्या आपल्या कामाक वताले.

सांते–बाजारांत मुरली वाजयत फिरपाची तांका सदां काळ संवय. आतां नवी रीत पडली –विंगड गांवचे मुंडा एकठांय जाल्यार एकलो एका गीताचो एक कुडको वाजयतालो. दुसरो फुडली वळ वाजयतालो, आनीक एकलो ताचे मुखावयली. मागीर कोणूय एकलो पुराय गीत मुरलीचेर वाजयतालो.

पाद्री पावलुशान जोहनराम पसरकाराक म्हळें, ‘ही खंयची रीत रे बाबा पिल्लुक वाजोवपाची? केन्ना आयकली ना.’

‘ह्या सगल्यांक शाराचें वारें लागलां. पुलीशेक – बंदखणींक लागून शारांत पावतात, जात्रांनी भोंवतात, नवटंकी, गाणे कितें आयकपाचें उल्लां हांचें, अशें दिसता तुका!’

पाद्री पावलुशाक इन्स्पेक्टर भरत सिंगान म्हळें, ‘तूंय मुंडाच मरे. तुका कळटा कितें?’ पावलुशान म्हळें, ‘ना. कांयच कळना.’

पावलुशान मनांतले मनांत चिंतलें, ‘कळ्ळ्यारुय तुका सांगचों ना. आतां हांव गांवा भायरो जावन पडलां. मुंडा म्हाका पातयेनाय. पुण म्हाका मनाक थाकाय ना. म्हागे सोयऱ्यांमदले कितलेशेच लोक ह्या दुकळांत सोंपले. सगल्यांकूच क्रिस्तांव जाले म्हुणोन पोटाक खंय मेळ्ळां? नवो कायदो जावन लुकास, मातिव ह्या क्रिस्तांव शेतकारांच्योय दैना जाल्यो. हांव तेंचें कांय बरें करूंक ना पावूं. वायट करपाचे भानगडीक तरी पडचों ना.’

ताणे भरताक विचारलें, ‘तूं कोणाक सोदता?’

– ‘सुनाराक. सूरजसिंगाल्या मुंडाक. शाण्यान सेवक–पट्यार बोट लायल्लें. पूण असलो हराम! सुरजाल्या घराक उजो घालून पळ्ळो. त्या घरांत कांयच नाशिल्लें, कांय खोंटले – पाटले सोडून. पूण चोरीच जाली ना! केस जाली.’

'चोरलें कितें तर?'

'साकभर वरयां दाणे, बचकोभर मीठ. निर्बुद्दसो. वरयां इतलेंच वजन तांदळांक - तांदूळ तरी व्हरपाचे! तेंय ना -वयल्यान केशींत घुसपलो.'

– 'खंय आसा तो?'

– 'कोण जाणा!'

– 'धरल्यार?'

– 'दोन म्हयने भितर पडटलो. आनीक कितें?'

– 'प्रेज पडटलोच न्हू?'

– 'हय तर. बीरसाची सरकारान सारखीच वाट लायल्या. मुंडांच्या भेंडांत आतां नेट ना. एकल्याक बंदखण जाल्यार आनीक पांच जाणांची गुळी जाता.'

पाद्री पावलुशान अजापान मान हालयली, मुंडांचें जालां तरी कितें? चाकरेची कबलात करून असो धनयाच्या घराक उजो घालून पळून वचप कोणाय मुंडाक कशें जमत?

भरत इन्स्पेक्टर फुडें उलयलो, 'मुंडांक चोरी म्हुण खबर नाशिल्ली. केन्नाच चोरिनाशिल्ले. आतां पळयल्यार कितें?'

– 'चल तूं आतां. बेठोच कितेंय उलोवं नाका. म्हाका वचोन दोगां-तिगांक धरून - मारून जाल्यारूय सेर्मांव सांगूंक जाय.'

रोगोताक बाजार मोठो. बाजारांत भोंवतल्या भायल्या गांवच्या मुंडांक पळोवन पाद्री पावलुशाल्या दोळ्यांनी दुकां देंवपाक पावलीं. अशा मार्गशिरांत फसल विकून मेळिल्ली जोड घेवन मुंडा बाजाराक येता. मौज मनयता, कांकणां, खेळणीं, पिल्लुक सगलें विकतें घेता. धवें गोड, पेडे बी घेता. वाले - कापडां वेंचून काडटात. हे खेप कोणाचकडेन पैसो ना. बाजार करपाची गरज ना. ल्हान भुरग्यांक लेगीत कळ्ळां - हट केल्यारूय बापायक तो भागोवंक जमचें ना! देखून भागिल्लें तोंड फिरोवन ते दुखी जावन मुखार सरतात. जाण्टयांची नदर पेडे - जिलब्यां दिकेन वच लेगीत ना. मुंडा अस्तुऱ्यांच्या मुखामळार हांशें ना.

घरा परततना पावलुशाक वायट दिसलें. तो एके मोटवे दोंगुल्लेर वचून बसलो. फातरार फाटल्यान लकलो. आडवो जाल्ल्यान पिल्लुकेचेर वाजपी गीताचे सूर ताच्या कानार पडले.

तो ऊंच फातरा आड बशिल्लो. सकयल रस्तो. मुंडा गांवांगांवांच्या पंगडांनी चलताले. एका गांवचे लोक फाटल्या गांवच्या पंगडाकडेन उलयनासले. एक कडवें हे म्हण्टाले, फुडलें ते म्हण्टाले.

'बोलोपे बोलोपे हेगामिसी होनको!' ......

हे लोक शर्दुलाचे:

'होईयो डुडुगार हिजुताना' ......
हे लोक करमीचे.
'ओतेरे डुडुगार सिरमारे को आनसि' ......
हे लोक मोहरीचे.
'दिसूम ताबू नुबा ताना' .......
आमजोराचे लोक गायताले.
'ताइ ओम ते दो होरा काये नामिया' .........
हे जामदाचे लोक.
'दिसूम ताबू बुआल ताना' ......
शिरुबुआच्या बायलांचे सूर आयले.

तांचो आवाज ल्हवू , मानो सकयल. सगळ्यांनी गाणे म्हटलें. गावप थांबलें. ते चल्ल्यात. चलत आसात. पाद्री पावलुशाच्या काळजांत नुक्तावपी वेदना. ते सगले एकामेकाक उलो करतात, म्हाप्रलयाचे चत्रायेन एकवट करपाचें हें गीत – देखून पावलुशान दोळे पुसले. तो पंगडा भायरो जाला. एकठांय येतले तेन्ना पावलुशाक भितर घेवंचे नात.

थोडेंशें कळून, थोडें नकळटां ताच्या काळजांत अभिमान उचंबळून आयलो. देखून सुनारा – एक कपल फुटको उपाशीं भुरगो – चाकरेचे कबलातीचे कडक शिस्तीक उजो लावन पळून गेलो. चाकरेची कबलात – जमीनदार – सावकार – जोतदार – वेपारी – पसरकार जे भाशेंत बरयतात, ती भास मुंडांक कळना. मुंडाक खबर ना चाकरेची कबलात बेकायदेशीर म्हुण. ते आखांडो लावन जल्मभराचे गुलाम जावन पडटात. मुंडांक कळ्ळ्यारूय ते कांयच करूंक शकनात. कारण तशा वेळार धनी चाकरेची कबलात आशिल्ल्याचेंच न्हयकारतात. मुं डा बाबडे मदले मर्दी पिशे थारतात.

मुंडा आड्डता, 'जाल्यार हांव कितें फटी मारतां?'

त्रिबुनालार सगले हांसतात.

'जाल्यार वकील सायबान कित्याक सांगलें तुजेखातीर खटलो चलोवया म्हुणोन?'

न्यायालयांत परतून हांसो.

'चाकरेचे कबलातीर कोणूच आखांडो दिवं नाकात,' हें सांगुनूय फायदो ना. अवर्षण, दुकळ आयल्यार, हुंवार भरल्यार मुंडांक गांवोगांव वचचेंच पडटा. ते म्हण्टात, 'चाकरे – कबलातीर छाप घेवन म्हाका दवर! घाटो दिवन जीव वांचय. जल्मभर तुगे शेतांत – गोठ्यांत – घरांत काम करतां.'

मुंडांची जीणूच अशी. सगल्यांक खबर आसा 'चाकरे – कबलात' मुडांचे जिणेंतल्या साबार भयांकृत वेंटाळ्यांमदलें एक. दिकू एका नागावरी.

ते दावो धरून बसून रावतात. भुकेल्ल्या सोरपाक खाण सोदीत वचपाची गरज नासता. हेर जिवाणीं आपुण जावन ताच्या तोंडांत वचून पडटात.

एक पोरगो चकमकेन उजो घालून पळून गेलो. पावलुश दोंगुल्लेवेल्यान देंवलो. गांवाचे वाटेक लागलो.

आनी सुनारा - तो तितल्या दिसां भितर बीरसा कडेन येवन वरयांचो साक आनी मीठ ओंपून 'नानक' जालो. करमीन ताका विचारलें, 'तुजोय कोण ना काय कितें रे पुता?'

– 'कित्याक? भगवान आसा तो?'

– 'हेंच एक फोंडांत पडलेल्या सगल्यां कडेन आयकतां. हांव म्हुण्टां आवय ना? बापूय ना? भाव-भयणां नाय?'

– 'ना. कोण ना. हांव सेवक आसलों.'

करमीन मान हालयली. सुनारान चालकाड सोडलें ना. करमीन एक दीस प्रश्न केलो, 'भगवाना फाटल्यान भोंवचें सोडून म्हागे फाटल्यान रानांत कित्याक येयला तूं?'

सुनारान लांकडां फोडून भरो बांदून हाडलो. म्हणपाक लागलो, 'तूं चल घरा! लांकडां हांव हाडटां.'

– 'तुगे भगवानाक सांगतां हांव.'

– 'भगवानान सांगलां.'

– 'कितें सांगलां?'

– 'म्हागे आवयक सांबाळ.'

– 'तेगे आवय, सांबाळटलो तूं!'

– 'सांबाळूंक जायच न्हो! तुगे घर काय न्हो! घर भगवानाचें. भगवान जें कितें सांगता तें करपाचें.'

– 'घरा आसचना. तेका आवयची याद आसता?'

– 'आसता तर.'

सुनारान लांकडां फोडून हाडलीं. झरीवेल्यान उदक हाडून दिलें. वायणार कांडून जोंदळ्याचें पीठ करून दिलें. रानांतल्यान आंवाळे, कंद, वेळूचे किल्ल, कणग्यो हाडून दिल्यो. करमीक एक दीस सांदे-दुखीचेर वखद लेगीत हाडून दिलें.

– 'पूत पळयनाय म्हूणोन तूं म्हाका पळयता?'

– 'तुगे कोमता, कोनू सगले भगवानाच्या कामाक आसाय. ते कशे पळयतले?'

– 'तूं कित्याक पळयता?'

– 'हांव नानक न्हो! गरज पडटली तेन्ना झुजाक वयतलों.'

– 'झुजाक वयतलो! सोंसो मारल्यार रडें येयना तुका?'

– 'जाल्यार कितें जालें?'

करमी हुस्कारली. तिणें म्हळें, 'चल. बोकडांक भितर बांद. बीरसा येतलो. काम आसा.'

– 'पुण फाल्यां हांव आसचों ना.'
– 'खंय वयतलो?'
– 'भगवान सांगता थंय.'
– 'परतो येवंचो ना?'
– 'हांव जाणा?'
– 'खंय वयतलो पूण?'
– 'भगवान सांगतलो.'

सांजवेळा बीरसा, कोमता, कोनू तिगांय पुतांक वांगडा पळोवन करमीन कपलाक आटयो घालून पळयलें. मागीर म्हळें, 'दासकीर आनी चंपा, भयणी खंय दोगीय? तांचे घरकार?'

बीरसा हांसलो! आनी विचारलें, 'कित्याक?'

– 'सगले येयले. तींच कित्याक फाटीं उरलीं?'
– 'तींय येतलीं.'
– 'तूं भगवान जालो, जा. कोमता, कोनू लगीन जाल्याय. धुवोय घोवागेर गेल्याय. सगल्यांक कित्याक ओडटा?'

राग येवपाचीच गजाल! पुण राती जेन्ना बीरसा लांकडाचे माचयेर उबो रावलो, मुखार येवपी अभियानाची खबर सांगूंक लागलो, तेन्ना हातचें काम सोडून करमी फाटल्यान काळखांत येवन बसली. पुता विशीं तिका अभिमान दिसतालो, तितलो हुस्कोय. नकळट्या भंयान हड्ड्यांत सदांच नगाऱ्याचो गडगड जाता. करमीक याद जाता, भुरगेपणांत तिच्या बाबागेर – दीवर मुंडागेर एक व्हडलो नगारो आशिल्लो. ताका कोण हात लायनाशिल्लो. तांचें घर दोंगराच्या पालसणांत. रानांत उजो लागतकच, न्हंयेक बुडटेचो हुंवार येतकच, रानवटी हतयांचो पंगड आयल्यार दीवर मुंडा नगाऱ्याचेर तोणी पेटयतालो – ढ ऽ म, ढ ऽ म, ढ ऽ म. तेन्ना सगल्यांक कळटालें, अरिश्ट येता.

करमीच्या हड्ड्यांत त्याच नगाऱ्याची चत्राय गाजताली – मोनी – ढ ऽ म, ढ ऽ म, ढ ऽ म! कित्याक कोण जाणा – दिसतालें अरिश्ट येतलें. हें कोणाकूच खबर ना? एकलें करमीच जाणा?

बीरसायत उबे रावले. सगल्या बीरसायतांची धवीं पुडवीं धोंपरा मेरेन आशिल्लीं. पांयांनी घरचे घरा केल्ल्यो ताज्या लांकडाच्यो खडावो. खडावांची संवय नाशिल्ल्यान त्यो दोरयांनी बांदिल्ल्यो. फकत पंचायती वेळारूच त्यो घालपाच्यो. जण एकल्याच्या गळ्यांत जानवें, कपलाक तिबो.

मुखावेले वळींत पुराणक उबे आशिल्ले, तांचे फाटल्यान प्रचारक आनी उपरांत नानक.

पुराणकांनी उलोवंक आरंभ केलो, 'समेरत्तां परस वयल्या स्थानार आशिल्ल्या

सर्गींच्या भगवानाक जैत मेळूं. धतरि वयल्या भगवान बीरसाचेंय जैत जांव. आमी मुंडा धर्तर-आबाक पराथताय, आमचे तीर, कुराडी हेंका धार येवं. आमच्या दुस्मानांचीं तुबकां, गुळयो, तरसादी नश्ट जावं, देवा!'

आतां सगळे एका बराबर हात जोडून म्हणपाक लागले,

'धर्तर आबा रे, मार्गार जितले कांटे

दुस्मानाचो मत्सर - दुस्वास - आमकां कश्ट ते दुःखाचे दीस - दुःसप्नां ________

रोग कितले - कितलीं पातकां

आनी हे ब्रिटिश

सगले कांटे पैस जावं! पैस जावं! पैस जावं!'

प्रचारकांनी एका सुरांत म्हळें,

'आगा आबा! बीरसा बाबा! तुज्या धर्मांत सांगलां तशें

आमच्या होरोमा - रोआ - जी - आत्मामनाकूय तशें

(शरीर, विदेह, सत्ता - प्राण, आत्मामन हीं सगलीं)

मळबा भेटून पृथ्वीय व्यापून पातळूं दी!'

नानकांनी म्हळें, 'धर्तर आबा गा! तूंच एकलो तारक आमचो. शुध्द कर आमका.'

बीरसान मळबा दिकेन हात उखलले. वयर नदर मारली. मागीर उलोवंक लागलो, 'हो भौ बरो दीस! म्हागे युग आरंभ जावंचो वेळ येवन पावला. आयज जमीनदार मुंडांक पळोवन हांसताय, पुण तेंचो काळ सोंपला, आमचो काळ येवन पावला.'

बीरसाचो आवाज गंभीर आनी कडक जालो. 'म्हागे युग येयलां. तुमकां तुमगे वाठार हांव परतो मेळोवन दितलों. म्हागे राज्यांत शेता-शेतांत मेरो आसच्यो नाय. सगलीं भूंय सगल्यांची, सगलीं शेतां कसोप एका सांगाताक, सगली फसल सगल्यांची. कोणेय कोणाक उखलून दिल्यार लेगीत म्हागे राज्यांत एकल्या मुंडाक मालकी ना. म्हागे राज्यांत झुजाक सुवात ना. तें आसतलें धर्मराज्य. आमगे पुरसां - पुर्वजांनी जे भाशेन धर्माप्रमाण राज केल्लें, तशेंच हांव म्हागे राज्यांत करतलों. दांडे आनी हतयारां वापरून राज चलोंवचों ना.'

करमीचे दोळे धांपूंक पावले. हड्ड्यांत खोश्शेचें वारें व्हांवता. उदकान भरिल्लें वारें. आवर्षणाचे जाळ थंड करता. हड्ड्यांत पावस पडटा. शेतांनी पिकाचे थांब मान वयर उखलतात. बीरसा, तूं उलयत राव. तूं खऱ्यांनीच भगवान!

'जमीनदारा कडल्यान जमीन काडून घेवन हक मेळोवंक जाय. जेंचो हक आसा तेंकाच मेळटली. जेंचे कुडींतल्यान दुदा धारेंत रगत येतलें तेंकाच जमीन फाव जातली.'

'सगल्या दुस्मानांक धांवडावन घाल! ब्रिटिश, राजा, जमीनदार, ह्या वाठारांत जे कोण सैतान आनी भुतां आसाय तेंका सगल्यांक वाटेक लाय.'

'मुंडांनी दुस्मानांक तोंड दिवंक जाय, ना जाल्यार तेंका शेकड्यांनी युगां गेल्यारूय

आपलो वाठार परतो मेळचो ना. भयांकृत लडाय जातली, तेन्नाच दुस्मानांचें राज्य सोंपतलें, ना जाल्यार केन्नाच ना! आयज कांय लोक हांसताय, हजारांनी मुंडांक रडत दीस काडचे पडटाय. राज्य परतें मेळ्ळ्यारुच मुंडांच्या तोंडार हांसो येतलो.'

'तुमी सगले सावधान!'

बीरसा मात मात धोलूंक लागलो. ह्या माघाच्या शिंयातूय ताच्या कपलार घाम आयिल्लो, करमीक दिसलें, ताचें तोंड भागिल्लें आनी दोन भोंवयांमदीं एक आटी सासणाची पडिल्लीशी जाल्ली, ताच्या तोंकाळ नाकाच्या दोंय वशींच्यो रेशा ओंठांच्या कोणशां कडेन तिरप्यो देंवन आयिल्ल्यो. करमीक दिसलें, ताच्या जल्माक चोवीस 'होळयो'य जावंक नात, येन्नाच बीरसा आपलो बापूय, आजो, पणजो हांचे पिरायेचो, सगल्या मुंडां परस जाण्टोसो जालो. दिसलें, म्हाजो तरणोताठो पूत. नव्या लग्नाची व्हंकल हाडून संसार करतलो, पूण नियती अशी, मुंडांचें दळडीर, अवतिकाय, उपाशाचें वजें ताणें आपल्या खांदार घेतलें.

'सावधान जायात रे, म्हाप्रळयांत ही धर्तरी नश्ट जातली. हांव धर्तरेर खोंट मारून पाताळांतलें उदक व्हांवयतलों. दोंगर फोडून तळ करतलों. दुस्मानाचें सैन्य खंयच्यानूय खंयूय पळूं, ताका हांव ओडून काडून भायर हाडटलों! पळटले खंय? ... '

'आमचें जैत जातलेंच. त्या दिसा तुमी हड्डें फुलोवन, हात उबारून, मिश्यांक पीळ घालून खुशी मनयतले. जे म्हाका मानचे नाय ते मातये भरवण जातले. जे मानतले, तेंका हांव सांबाळटलों!'

पोसो भर उदक घेवन बीरसान सगल्यांचेर शिंपडिलें. आनी म्हळें, 'फायच्यान आमी धाय दिकांक वयतले. उलगुलाना आदीं पुरसां-पूर्वजांचे आशीर्वाद जाय. फाल्यां सगल्यांनी चुटियाक वचप. म्हागे मूळ पुरीस पुरीतमुंडा चुटिया हेणे जे सुवातेर सिंग-बोंगाच्या देवस्पणा पासत पेडी बांदलेली, थंय रघुनाथ राजान तीनशीं वर्सां आदीं देऊळ बांदलेलें. त्या देवळांत वचोन तुळस हाडुया! देवळांतल्यान तुळस हाडुया!'

'आनी ________!'

करमी उठून उबी रावली.

– 'तूं कितें म्हुण्टा!'

– 'कोनूलो बाबा उलोवं!'

सुगाना उठून उबो रावलो. म्हणूंक लागलो, 'थिंगा तांब्या पटो आसा एक. त्या तांब्या पट्यार बरयलां, 'जेका दिकू छोटानागपूर म्हण्टाय, तशेंच रेकॉर्ड करताय, थिंगा सगलो अधिकार मुंडांक.' तो पटो देवळांत आसा, तो आमका घेवंचो पडटलो. तूं धर्तर-आबा. हांव तुगे बापूय जावनूय तुगे सेवक जालां. तो पटो घेवंक जाय.'

– 'घेतलों. फाल्यां आमी बोतोरदीक या. थंयच्यान चुटिया वयतना तीन पंगडांनी वांटून वचोप. पयल्या पंगडाचो मुखेली बोनपिरिचो रोकन मुंडा. दुसऱ्याचो फुडारी म्हागे

भाव कोमता. हांव तिसऱ्या पंगडाचें मुखेलपण करतलों. आयज सगले याद धराय, धर्मान चलल्यार धर्म राखता. मुखेल्यांक पायां पडोन आमी बळी दिवंचे ना. बरे ना जाल्यार चेटकीण, घाडी, भगत हांचेकडेन वयचे ना. पुण मूळ पुरीस जें सांगोन गेला, सर्गार सिंगबोंगा, धर्तरिर सरकार पांचां मदीं वसता, हें मतींत धरोन चलोया. सिंगबोंगा नाका, हांव धर्तर-आबा! आमी सरकार घडोवया. पूण पांच जाणांची पंचायत आसतली, ती भौसाक चोयतली. फाल्यां आमी भायर सरतले. मूळ पुरसाक कळटलें, मुंडा फकत न्हिदोन रावनाय, बांदून घेवन पेट खायनाय, ते आतां जागे जाल्याय!'

बीरसायत एका सांगातान गावंक लागले,

सिरमारे फिरून राजा जय!

धरतीरे पुडोई राजा जय!

('सर्गीच्या ईश्वराचें जैत जांव

पृथ्वीवेल्या भगवानाचें जैत जांव!')

आतां दादले ओगी रावले. बायलांनी गांवक सुरवात केली,

'सिरमारे फिरून राजा जय!

धरतीरे पुडोई राजा जय!'

करमी वचूंक ना, बीरसायत अस्तुरी कोणूच गेली ना, 'आदीं घरा येवन सांगोन वच रे बाबा' करमीन बीरसाक सांगिल्लें.

ते घरा येतले हे आशेन करमीन सारोवन नितळ केलें. बीरसा चालकाडा आयल्यार नवेले कुडींत रावता. आंगणाचे ते वाटेन आनिकूय खोंपीशो जाल्यात! जायत्या घरांनी नव्यो कुडी बांदल्यात. आदीं मुंडा चेडे - चेडवां लग्ना पैलीं 'गिटियोरांत' तांका रावंचें दिसल्यार रावतालीं. आतां बीरसाच्या प्रभावान हेर जायत्या पोरण्या रूढीं सांगाताक गिटियोराची पद्दतूय मोडली. देखून जाका पांच भुरगे आसात, ताच्या घराक तांच्यो कुडी गरजेच्यो.

करमील्या घरच्या चोंय वाटांनी नवीं नवीं घरां जालीं तीं हेच खातीर. बीरसाच्या धर्मात सगल्यांनी निवळ रावंक जाय. घरा-घरांत लांकडाची माची. तिचेर तण पातळोवन बसका केल्या. बीरसाचे कुडीची जमीन आनी वण्टी करमीन तांबडे मातयेन सारयल्यो. ती सुकतकूच गोबराच्या रंगाचे मातयेंत तणा-काडयो भरसून परत्यो लिंपल्यो. सुकतकूच सगलें चकचकीत जालें.

बिरेस्तार बीरसाचो जल्मदीस. त्या दिसा कसल्या जिवाची हत्या करप ना. जाळ कापून करमीन सोंशे सोडून दिले, मागीर पळसा रुखा पोंदा बसकेर बसली. बीरसा आयल्यार हेच वाटेन येवपाचो.

पूण बीरसा आयलो ना. आयलो सुनारा.

'आं, तो येयलो ना?'

– 'ना गे! हिंगा येता तो? बोतारदी साकून भायर सरला, थंयच परतूंक जाय.'

– 'थंयच परतूंक जाय?'

– 'हय तर. हांव सांगोंक येयलां. भगवानान धाडला.'

गांवच्यो हेर अस्तुऱ्यो, जाण्ट्यो, चेडे – चेडवांय येवन पावलीं. सुनाराक रेवाडो घालून उबीं रावलीं. सुनाराक व्हड अभिमान भोगलो. सगलो लोक ताकाच पळयतालो, ताचें उलोवणें आयकूंक रावल्लो. भगवान आयल्यार ताका कोण पळयतालो, कोण ताचें उलोवणें आयकूंक सोदतलो आसलो? कोनू , करमीलो धाकलो पूत, आयल्यार लेगीत सुनाराचें कोण आयकुचो नासलो. कोनू जेन्ना उलयता, तेन्ना सगलो वावर कुशीक दवरून आयकन दिसता.

– 'नानक बाबा उलय!'

– 'थार धराय, मातसो विसव घेतां! खबर कितें एकूच?'

– 'विसव मागीर घे. आदीं सांग.'

– 'जाल्यार आयकाय! आमी बोतोरदी साकून एके हारीन चलत सुटले. वाट पयसुल्ली! एका दिसांत पावपा सारखी न्हो. खंय बोतोरदी आनी खंय चुटिया. भगवानान सांगल्लें, ते प्रमाण कोमता आनी रोकन, जेंका हेरांक सांगपाक अधिकार दिल्लो, तेणी म्हणलें, 'आमी जंबूलच्यान येताय. चुटिया वयतले, थंय भायल्यानूच आफडनासतना पुजा करतांय. हें आयकून आमका कोणे कांय सांगलें ना. आमकां हाटिया पावंक सांज जाली. थिंगा पणसा रुखा पोंदा आमी उजो पेटोवन रांदलें आनी जेवले. थिंगा भगवानान आमका प्रवचन सांगलें. कसलें कसलें प्रवचन जाणा?'

– 'सांग.'

– 'फातराची आनी मातयेची कथा. सकयल तीन फातर, फातरांर मातयेचे गुळे, रांदन जाली.' भगवान जमनीर आड पडल्लो. म्हणपाक लागलो, 'चोयाय! फातर वयर, माती सकयल आसा, चोयाय.'

– 'जय भगवान.'

'सगल्यांनी आरतून परतून दोन फावटी चोयलें, फातर सकयल, माती वयर! भगवानाक तशें सांगलें. पूण भगवानान परतें सांगलें, सारकें चोवन येयाय, फातर वयर, माती सकयल. सगल्यांनी वचोन चोयलें, रांदन पेट्टा तशी तिची माती सुकोन मातयेचे गुळे गडगडोन सकयल पड्टा! हय गा.'

– 'खरेंच मगा!'

– 'तेन्ना भगवानान सगल्यांक समजोवन सांगलें, पळयाय! दिकू आयज तुमगे बोडार बसल्याय, तेणी तुमका खाला धुकलल्याय. पूण उलगुलानांत सगलेच हुलपतले. तेन्ना त्या हुलपान तुमी वयर चडटले, ते सकला पडटले.'

बीरसिंग मुंडाची व्हडली गिरी मुंडानी रडूंक लागली. करमीक सांगूंक लागली, 'हय

गो! तुमकां हिंगा हाडून दवरलीं म्हागे घरकारान. भगवानाक येदोसोच तूं घेवन येयलें, म्हाजेकडेन दवरोन लांकडां हाडूंक रानांत वयतालें. नुस्तें धरूंक घोग्यार वयतालें. तुका हांयें सांगोंना हो अजापाचो भुरगो म्हुणोन? तेच्या तोंडार सूर्या–चंद्रीम खेळटाय म्हुणोन?'

बीरसिंग मुंडान मदीं तोंड घालें, 'सोड! तुयें वळकलो! हांव तेंका वळखलेबगर कित्याक हाडटासलों?'

करमी बेजारलें, पूण भगवानाची आवय जाल्यार चूक भोगसूंक कळचें पडटा. बेजारसाण दाखोवन जायना. ताणे म्हळें, 'तुमी आलाशिरो दिलो, जीव राखलो, घर काडिसर रावंक घर दिलें, हें हांव सगल्यांक सांगतांच न्हो!'

बीरसिंग मुंडा उलयलो, 'आतां आयक फुडें, नानक कितें सांगता तें! हांव गेल्यार, हांव पुराणक जाल्ल्यान सगलें म्हागे दोळ्यांनी पळयतासलों, पूण आंगांत जोर आसलो, कुडींत रोग आसल्यार कूड अशुध्द जाता, देखून घरा रावलों. सांग फुडें.'

सुनारान फुडें सांगलें, 'हाटियासाकून आमी चुटियाक गेले. रांची कितली लागीं, सगल्यांच्या मनांत भंय, सायबाक कळत जाल्यार कितें जातलें तो. पूण भगवानाकडेन पळोवन सगलो भंय नाच जालो. चुटियाक झाडा पोंदा आमी मूळ पुरीस, आदिदेव, धर्तर–आबा सगल्यांचीं गीतां गायत कितले नाचले! बाबा म्हाज्या, बुडा धानी भरपूर नाचलो. जड्ड्या पांयांनी कितल्यो उडयो मारल्यो, आमचेकडेन तशें जावपाक ना. मागीर देवळांत भितर सरोन सगले देव आमी आफडून भश्टिले. तुळस घेयली पुण तांब्यापटो सोदून लेगीत मेळ्ळो ना.'

– 'मेळ्ळो ना?'

– 'ना.'

– 'फुडें?'

– 'मागीर लोक येयले. व्हडलो बोवाळ घायलो. भगवानान म्हुणलें, आमगे मूळ पुरसाच्या देवळाचो हक आमी परतो मेळयला. दिकूंल्या सगल्या देवांक भश्टोवन उडयले. तुळशी रोंपो मात हुमटोवन घेवन येयले.'

– 'मागीर कितें जालें?'

– 'आमी सिरूमटोलीक येयले. वाटेर भगवानान सगल्यांक सांगलें, आनोक चलों नाका. काम जालें. सिरुमटोलीक आमी न्हिदले. पाद्री पावलुश दिसता मिशनाच्या कामाक खंय गेल्लो. वयतना तेणें भगवानाक उठयलो, कोण जाणा कितें सांगलें तें. भगवानान म्हाका उठोवन रातोरात बोतोरदीक हाडलो. म्हुणपाक लागलो, 'चुटियाच्या पुजाऱ्यान घोडेशिपायाक धाडून रांचीक खबर पावयल्या. रांचीच्या सायबान सांगलां. सकाळीं फुडें इशारत जातली – भगवान परतोय मुंडांक चाळोवन घालता, झगडीं लायता, तेका धरून दितल्याक इनाम मेळटलें.' सगळे येयले. सुधा, चैता, काशी, रमाय मुंडा येयले नाय, आमचे वांगडा ते नाशिल्ले.'

– 'तेंका धरले तर?'

– 'हय गे. सगली खबर काडून येयलों. तेतुंत एक दीस कळाव जालो. कोनू प्रचारकान सांगलें, चैता, काशी, रमाय हेणी म्हुणलें खंय, आमी कितें करूं? जें केलां, तें भगवानाच्या हुकमान! आमी कसलें झगडें करूंक ना. इन्स्पेक्टरान खंय तापून म्हणलें, देवळांत कित्याक गेले? तेणी म्हणलें, गेले देखून तर सगल्यांक कळ्ळें न्हो हें मुंडांल्या मूळ पुरसाचें देवस्थान.'

– 'आतां तेंचें कितें?'

– 'ते बोतोरदीक आसाय.'

– 'थंय पुलीस पावनाय?'

– 'ना, तेंका कळचें ना. दुकळाच्या काळांत ते दिकेन कोण इन्स्पेक्टर वचोंक मागना. सगले धा मैलांचेर थाण्यांत बसोन रिपोर्ट बरयताय - येयलां तेन्ना लेगून सगलें सामसूम आसलें. धानी आनी हेरांनी इन्स्पेक्टरांचे घोडे मारले न्हो? तेका लागोन ते भिल्याय.'

करमी चिंतून उलयलें, 'पाद्री पावलुस! तेणें बीरसाचें बरें मागोंक केन्नाच्यान आरंभलां? ह्याच आंगणांत न्हो तो पुलिसां वांगडा येवन पुलिसांनी रेवाडो घायल्लो?'

बीरसिंग मुंडा आनी हेरांनी सौम्यशें दबकायत म्हळें, 'तुका याद कशी उरना गो? भितरले भितर जायतें म्हुण, तोंडान 'बीरसा' कित्याक म्हुण्टा? हें समा न्हो.'

'विसर पडटा न्हो! तेच्या हुस्क्यान म्हागे ऽ तकली थाऱ्यार उरना, पुण म्हागे ऽ प्रस्नाची जाब दिली ना.'

बीरसिंग मुंडा सुक्या ताळ्यान उलयलो, 'तेगे ऽ जातीचे कितले बीरसायत फाटल्या वर्सा दुकळांत सोंपले. आतां सायबांक दिसता तो सुकें सांत्वन दाखयता. भितल्ल्यान मुंडां वांगडा बीरसायत जाला! मुंडा तेका वेगळायतताय. मागीर मिशनाच्या मुंडांकुय मारपेट, म्हासूल हातूंतल्यान सूट मेळना. पावलुश आतां कांयच वायट करचो ना.'

– 'मागीर केन्नाय करीत?'

– 'आतां ना. तेका वाऱ्याचो अदमास कळटा. वारें परतल्यार कितें करीत सांगों नजो. म्हुणल्यार, वारें बदलता, परते वाटेन जाता, जाल्यार कितें करतो कोण जाणा. आतां कांय करचो ना.'

करमीन तकली हालयली. म्हणपाक लागली, 'सुनारा, तूं कितें करता?'

– 'फाल्यां फांतोडेर वयतां हांव.'

– 'कित्याक?'

– 'जगन्नाथपुराक साकून चंदन हाडटां आनी नवरतन गडा साकून माती.'

– 'आतां ते येवपा ना तर?'

– 'खबर ना. नानकाक कितें खबर आसता? फरमायलां तशें काम करप. तुका

समजोवन सांगलें कितलें!'

– 'समजयता तूं , पूण म्हाकाच इसर पडटा.'

बीरसिंग मुंडान म्हळें, 'भगवानान जुस्त केलें. आमच्या आदिपुरसांच्या सगल्या थळांनी वचोन आशिर्वाद घेवंक जाय. करमी, तूं व्हडा नशिबाचें.'

– 'व्हड नशीब!'

पुटपुटत करमी घरांत भितर गेलें. कोमताचे बायलेन म्हळें, 'भगवाना खातीर आवय रातची लिपचोरयां रडटा. तेच्या भुरगेपणांतल्यो यादी काडोन रडत बसता. ती म्हण्टा, तेकाच लागोन तिचें काळीज करपता.'

– 'अपुरबुद्द ती.'

एक एक करून सगलीं गेलीं.

ते जगन्नथपुराक वचूंक गेले. मागीर कांयच खबर ना, कसलीच खबर ना. बीरसिंग मुंडा आनी हेर दादलेय गेले. करमीक घर सांडून वचपाक जमलें ना, बीरसान ताका सांगल्लें, 'आवय! तुयें घर सांबाळून रावपाचें.' करमीक सदांच दिसत आसा, कितें अरिश्ट वाट चलता कळना.

रडूंक मेळना – अपशकून जायत देखून. सुगानाक संवल्यार तकली थंड जाताली आदीं, आतां जायना. नातीचे केंस बांदप, तिका काणयो सांगप हांतूंतय मन लागना. सुनेन विचारलें, 'आवय, तूं उपास करीत सुकोन वयतली गे? खायना –जेविना कित्याक?'

– 'हांव बरें ना.'

– 'हांव रानांतल्यान वखद हाडूं? कितें जाता सांग म्हाका.'

– 'कांय ना गो.'

– 'न्हिदेना कित्याक?'

– 'न्हिद पडना.'

– 'ते येतले? धर्तर–आबा वांगडा गेल्याय – म्हागे होय आसा तेतुंत. भिरांत ना तशी.'

सकाळीं उठून करमीन एक कुदळ आनी खोंटलो घेतलो. नातींक म्हळें, 'चला गो, रानांतल्यान कांदे हाडया. शिजोवन काय बरे लागता खावन चोय. बुटी घेवन येयाय. बोरां हाडया. आंवाळे सुकोन पडल्याय – पुंजोवया. मागीर घोग्यार न्हावन येंवचीं.'

तीं सगलीं रानांत गेलीं. ह्या रानांत पळस, सांवर, केंदू , पियाल, महूआ, पियासाल, साल हांची व्हड जात्रा. अदीं मदीं दोंगराच्या पालसणांत आंवाळ्याचे आनी बेहड्याचे रुख. उकत्या जाग्यांनी रानफुलांचीं झोंपां.

कुदळीन कांदे खणून काडून करमीन म्हळें, 'कोण्णाक वास लागलो ना म्हुण उल्ल्याय. ना जाल्यार रानदुकर उरत्तून काडपाचे.'

घोग्याच्या उदकांत तीं न्हालीं. करमीन म्हळें, 'तुमी वचाय घरा. हांव मातशें वताक बसतां. जड्ड्या हाडांनी थंडी चड भरता. हाडां कडकडटाय.'

तीं गेलीं, मोव वतांत तिणे आपले पिके केंस सुकयले. मुंडा आदीं करताले तें हालीं कांयच करिनात. होळयेक 'जापी' गावप-नाचप ना, मुंडा भोंवडेक वचना! पौष पुनवेची 'मागे' परब बंद जाली. घरांतली वास्तु देवता, पितरां, सगल्यांक उदीक सोडपाचें बंद करूंक करमीक भंय दिशिल्लो पुण बीरसाल्या धर्मात 'मागे' परब ना.

साल - रुख फुलचे वेळार जुवानपणीं करमी आनी हेरां 'बा-परब' करतालीं. दादले-बायलो माथ्यार फुलां माळून कितलीं नाचतालीं! तेंय बीरसान बंद केलें. जितल्या परबांनी बोंगा-बोंगीची पुजा, बळी, सोरो पिवन नाचप आशिल्लें त्यो सऽ ऽगल्यो बीरसान बंद केल्यो. ताणे 'करम' पूजेचो नाच, 'पायका' नाच, सगलें बंद केलें. बायलांनी फुलां माळप, दादल्यांनी केंसांनी दांतोणी भरप, कानांत वस्ती घालप सगलें बंद पडलें.

– 'आयक रे, तुयें हें सगलें बंदूच केलें?'

बीरसान आवयक म्हळें, 'मुंडांगे जिणेंत फकत दुःख. इतले बोंगा-बोंगी पुजोन, नाचोन - गावन त्या दुःखांत केन्ना घट येयल्या? 'करम' आमची परब न्हो, सोरो आदल्या काळार पियेनासले. म्हागे नवो धर्म खेरीत गे! हांव तेंका फुलयना, भुलयना. तेंका जियेवंक शिकयतलों, मरोंक शिकयतलों. आनी मारूंकुय शिकयतलों. जाल्यार म्हागे धर्मात नव्यो रिती आनी रूढी आसच्यो पडल्यो ना?'

– 'तूं सांग.'

– 'हो तसलो धर्म न्हो! बीरसायत जातलो जाल्यार दुसरो जल्म घेवंचो पडटा. आदल्यो रिती - भाती सोडच्यो पडटा. स्रम करचे पडटा.'

शिंयाळ्या वतांत मोव शीतळ वाऱ्यांत पानांची सळसळ, भुरभुर आयकतना करमीक ती फाऽटली गजाल याद जाली! आवय ताका हांडीर घेवन आंगणांत बसताली. चण्यांची भाजी निवळ करतां करतां खूऽब आदल्यो काणयो सांगताली, फातर-माये काणयो.

करमीली आवय काणयो बऱ्योऽ सांगताली. रुख-वाल-घरां-माळे-खूंट-भात-लाठ-सूप - सगल्याची एक-एक काणी तिका येताली. फातर - मायेची काणी सांगताली. कोणा एका काळार एके आवयच्या कोणा एका पुतान म्हणिल्लें, 'आवय, तूं शीत रांद. शिताचो नीस न्हिवचे आदीं हांव शिकारेक वचोन येतां.' कदीम काळची खबर. सगले मुंडा तेन्ना शीत जेय. पूण तेन्ना तेंच्या वाठारांत पुरवणदार आयलो. ताणे भुरग्याक कामाक व्हेलो. भुरगो आनी परतो आयलोच ना. भुरग्याची वाट पळोवन पळोवन आवय फातर जावन पडिल्ली.

करमी शादूर जाली. आयज अचकीत कित्याक ह्यो अवलक्षणी खबरी येवजतात?

ही कोणे काळची खबर? जेन्ना करमीची फाट नीट आसली, केंस काळे आशिल्ले. माथ्यार पोटली घेवन घोव आनी देरां सांगाता खळा-शेताचें काम सोदीत तीं कुरुमदाक

आयल्ली. आशिल्ली तरी केदी? व्हडलो पूत कोमता, व्हडली धूव दासकी जाल्लीं. तेन्ना करमीक दिस ऽ, हेंच बरें. आयज जोड - आयज खा. इतलेंच पुरो.

थंयच्यान बामबा! चंपा जालें, बीरसा जालो. वेळवां खोंप, कारवांचे कडवे, पाखें निखळून पड ऽ. करमीक दिसतालें - काय बरी जीण. आयज जोड –आयज पड. हेंच बरें. भुरगीं, तेंचो बापूय तरी आसा भोंवतणी.

थंयच्यान चालकाड! कोण पावना, कोणाक घरांत भगवान जल्मला म्हुण खबर ना. जात्रेंत वाणयाच्या पुतान घाल्ल्या तांबड्या कपड्यांचेर नदर पडून करमीक कितलें दिशिल्लें तसलीच लाल पैरण पुताक घालचीशें.

भुरग्यांक सदांच भूक लागप. करमी सगल्यांत धाकल्ल्या कोनूक फाटीर बांदून भालो घेवन रानांत वचून बोरां - बेल - आंवाळे - माडयो - कांदे - शाको - सोंशे - साळ - मेळत तें हाडून तांका पोटाक घालताली. 'ना, घरांत कांय ना.' अशें केन्नाच म्हणनासली.

तेन्ना सुख आशिल्लें, काय आतां? आतां सगले वळखतात, एका उतराक लार्गी येतात. सगले मानतात. रुखांचीं फळां, भाज्ज्यो, बोकडेचें, गायचें पैलें दूद सगल्यांत पयलीं करमीक पावता. मागीर आपुण खातात. कोल, मरुनी हांचेमदल्यो मांयो सुनांक तिचेकडेन हाडटात, 'मातसो हात लाय न्हो! तुगेऽ एकलेंय मेलें ना. तूं 'अंजीपोआती' देखून भगवानाली आवय.' अशें म्हण्टात, आनी मुखार म्हण्टात, 'हे आवयगेर असो अजापांचो पूत जातलो, म्हुण कोणाक खबर आसलें! मांडार नाचतालो, पिल्लुक वाजयतालो. तेगे नाक कशें उबार चोय. मुंडां भशेन तेगे कांयच ना. तेचीय कितली वार्जीक केल्या! आमकां दिसतालें, चुटिया नागवाचो दायजी देखून असो! ना गो! आतां कळटा, तेका हें नकसूद रूप लाबलां तें तो भगवान जावपाचो आसलो देखून!'

आतांचें सूख खरें! करमीन तकली हालयली. आदीं पांचां मदलो बीरसा काळजांत इतलो घट जावंक ना. आतां रोमून बसला! ताणे दोळे पुसले. भगवानाचे आवयक रडूंक मेळना.

ताणे कान दिलो. नगारो वाजतालो. जयजयकार जातालो. करमी धांवक लागलें.

बीरसा आयला. नवेले कुडींत पडवेर येवन उबो रावला, धुल्लान माखिल्लीं पावलां. करमीक पळोवन बीरसा सकयल देंवलो. उलोवंक लागलो, 'खंय गेल्ली गे? तुका दिवंक ना, देखून जगन्नाथपुरचें चंदन चालकाडच्या हेरा कोणाक दिवंक ना. चंदन लायतली म्हुणोन न्हावोन येयल्या?'

– 'हय. तेच खातीर. हाड!'

हात जोडून करमीन चंदन कपलाक लायलें. सगल्यांनी कपलांक तिबे लायले.

बीरसान म्हळें, 'नवे तांदूळ, पैशे घेवन जगन्नाथपुराक गेलों. तीनशीं वर्सांआदीं देवळा - कायद्यान आमच्या देवा - थळार राजान देऊळ उबाल्लेलें. मुंडांक त्या देवळांत केन्नाच प्रवेस मेळ्ळो ना. चुकून कोणूय भितर सरत ह्या भंयान चारुय वशीं पागोर

काडलेलो. आमी देवळांत गेले, म्हागे हातांत आसलें तें थंय सगळ्याक शिंपडिलें. आनी मागीर देवळांतलें चंदन घेवन सगल्यांक कपलाक लायलें.'

– 'इतलो कळाव कित्याक जालो तर?'

– 'थंयच्यान बोतोरदीक येयलों. उपरांत कांय जाणांक घेवन कोयल न्हंये पलतडीं नागफेणींक गेलों. थंयच्यान पालकोट वचोन येयलों. आतां उरलां तें नवरतन गडा वयल्यान माती हाडपाचें. पुण नवरतन गडावयली माती हाडटकच उलगुलानाक आनी कळाव करूंक मेळचो ना. तेकाच लागून सगले मुंडा मेळून आतांच्यान काम सुरु जातलें. तें जातलें बोतोरदीच्यान! चालकाडच्यान बंदगांव खूब लागीं. हांगा फट् करून पावं येता. बोतोरदी रानांत बरें भितर, दोंगरांच्या मदेकांत. थंय म्हागे थाणे.'

हें आयकून करमील्या काळजार लाठीचो फार पडलो.

बीरसान म्हळें, 'उलगुलान येयलें आतां.'

करमीन कान धांपून घेतले. तिका कळ्ळें, चालकाडाचे जिणेक बीरसा पूर्णविराम दिता. उलगुलानांत देंवतकच बीरसा तिचो पूत म्हुण तिचेकडेन परतो पावंचो ना. आयल्यार भगवान जावन, झुजारी जावन येयत.

जाल्यार करमी फातरा-माय जातली? अप्रूप, अलौकिक, अजाप अशें कांय आनीक कांयच जावंक शकना. अलौकिकाचो संवसार बीरसान मुंडांचे जिणेंतल्यान भायरायला.

देखून करमी निर्जीव फातर जावंचें ना. फूट पडिल्ल्या काळ्या फातरा वरी सुरकुतिल्ल्या तोंडान निश्चल बसून रावतलें. सगले ताचे वटेन बोट दाखोवन म्हणटले, 'तिचो पूत मनीस आसलो. आतां भगवान जाला, उलगुलानाचें पिशें लागलेलो भगवान. तेकाच लागून आवय अशी फातरशी जाल्या.'

करमी सुद्दीर आयलें. सगले हात जोडून गायताले. करमीनूय हात जोडले. रडकुऱ्या आवाजांत तें गावंक लागलें.

'सिरमारे फिरुन राजा जय!
धरतीरे पुडोई राजा जय!'



# 17

चालकाडाच्यान बोतोरदी.

करमीन भियेत भियेत सुगानाक विचारलें, 'आमगे कितें चूक जाली?'

– 'कित्याक? चूक कित्याक जातली?'

सुगाना मातसो गोंदळ्ळो. तो हालिसराक एके खोश्शेचे धुंदेंत बुडिल्लोसो दीस रात सुखांत आसता. इतलें सूख मेळटलें, ताकाच मेळटलें, अशें ताका जल्मांत दिसूंक नासलें. तो गरीब, कपलफुटको आशिल्लो. आतां तो भगवानाचो बापूय, ताच्या घरांत तांदूळ आसता, मीठ आसता. तो निवळ वस्त्र न्हेसता. गांवचे धा जाण ताका मानतात. इतलें सूख, ताची धुंदी येता. मोहूवा, ताडी, हांडिया कित्याचीच इतली धुंदी येना. ती धुंदी राती भितर निवळटा, ही निवळना. करमीक सूख ना, तें पळोवन सुगाना गोंदळ्ळो.

सुगाना गोंदळांत पडलो. तांचो समाज दादल्यांचे सत्तेचो न्हय. तांचे दादले - बायलो सारखेच स्रम करतात, सारखेंच जोडटात, सारखोच अधिकार भोगतात. आवयचो अधिकार मुंडा समाजांत चड वयल्या पावंड्याचो. करमीक हो भौमान सदांच मेळ्ळा. अभिमानान माथें उबारून करमी चारचौगां मदीं वावुरता.

पुण करमी इतलें दुःखी आनी कश्टी कित्याक? बीरसाची खबर तें इतल्या भंयान कित्याक उलयता?

सुगानान परतें म्हळें, 'चुकीचेंशें कित्याक उलयता?'

– 'तो चालकाडच्यान राबितो हालोवन बोतारदीसो कित्याक गेलो? तें विचारतां हांव. म्हागे चुकलें कितें?'

– 'ना गो.'

– 'जाल्यार? थंय डोनका मुंडागेर तेचें थाणें कशें जालें?'

– 'तुका कळचें ना तें.'

– 'कळटा म्हाका. डोनकाची बायल, सालीक पळयलां तुयें?'

– 'पळयलां. हुतहुती बायल.'

– 'अती हुतहुतें, न्हंयेवरी. आशाढांतली न्हंय कशी.'

– 'जाल्यार?'

– 'बीरसाक पळयल्यार न्हंयेक हुंवार येता.'

– 'शीः!'

– 'शीः कितें? तेच्या तोंडार पणट्यो पेट्टात.'

– 'शीः!'

– 'म्हागे रगत हांव वळखतां. पूण तेका राखण दिल्यार विपरीत जातलें. बंदखण जावं ये! आमी तेचीं आवय बापूय, आमी अरिश्ट घेवं. तें कित्याक घेता?'

– 'तीं बीरसायत जाल्यां न्हो!'

– 'तुगेऽ पूत उजो घालतलो! तेचें हांशें पळोवन मुंडा अरस्तुन्यो उज्यांत हात भाजून घेताय. म्हाका कळटा सगळें.'

– 'ती खबर नाका.'

– 'तो पाशाणःसो! ना जाल्यार कोणाय चटपटीत चेडवा कडेन लगीन जातासलो. कोमता – कोनू भाशेन संसार मांडटासलो.'

व्हडलो पूत – कोमतान हांसून म्हळें, 'आवो! तूं अशी बाळबुद्दीक कशी गे येयली? बाळबुद्द येवंचे इतल्यो पुनवो काय तुयें चोयल्यो नाय न्हो?'

– 'चोय हां कोमता! म्हाका राग हाडनाका!'

– 'तुका राग येयलो?'

– 'येयलोच.'

– 'कित्याक?'

– 'एकूच विचारलें, जाप काय मेळ्ळी ना. बीरसायत धर्मांत आसाय, सगल्यांक सगलें कळटाशें सांगोंक जाय. हो देवरा मुखेल्यागेऽ धर्म न्हो! ते खंयचीय खबर समजयनाय. ते फर्मायताय, मुंडा मानताय. तुमी कित्याक समजयना? सांग मरे कोमता!'

– 'पुरो. इतलें सगलें म्हाका कळना.'

– 'खंय चललो तूं आतां?'

– 'कुडीक कवड लायतां.'

– 'आतांशें?'

– 'बोतोरदी केन्ना वयचें पडत, तेन्ना वेळ मेळत काय ना कोण जाणा. भगवान थार दितलो?'

करमीन कपलाक मिरयो घालून विचारलें, 'तुमी कवडां बांदतले? तूं , कोनू बांदता. कवडां सुटोन पडटाय. तो बांदतालो, केन्नाच सुटलें ना.'

कोमता निर्शेलो. ताणे म्हळें, 'आवो, दुःखान तुजी बुद्द गेल्या! तेणे केन्ना लायलीं गे कवडां? संसाराचें खंयचें काम तेणे केलां? काम केलां हांयें अनी कोनून.' दुःखी जावन करमी कित्याय कितें उलयता तें सुगानाक कळ्ळें. ताणे म्हळें, 'हांगा यो. बस. आयक.'

– 'आरे! हात धरनाका. बीरसायत जाला तूं.'

– ‘ना ना, नेम विसरोंक ना. हिंगा बस.’

– ‘बसलें.’

– ‘आयक. चालकाडाचें नांव सरकाराच्या बुकांत पडलां.’

– ‘कित्याक?’

– ‘तेचें थाणें देखून.’

कोमताले व्हडले धुवेन म्हळें, ‘गीतां आयकों ना तुयें? चालकाडाचींच कितलीं गीतां.’

– ‘कसलीं तीं?’

– ‘‘खंयच्या देसांत नवो राजा येयलो जल्मा गा
आरे, पळय दोळे उबारून – धूमकेतू मळबांत!
चालकाडांत नवो राजा जल्मा येयला गा!
अस्तंतेक धूमकेतू
मुंडा राज परतें येवंक नव्या राजा जल्म गा!
धर्तरी ही शुध्द करून दितलो गा हो धूमकेतू!’’

– ‘कितें सांगता तूं , चालकाडाचेंच गायन?’

– ‘कि ऽ ऽ तलीं!’

‘‘रानाभितर चालकाडांत धरती–आबा जल्मला!’’ आनीक ‘‘सूर्यावरी चालकाडांत उदेलो बीरसा!’’

आनीक ‘‘दीस रात धरती–आबा गायता गायनां!
दोंगरां – रानांवनां – चालकाडाक या आमी ________
जंय गायता धरती आबा स्वामी!’’

करमीन म्हळें, ‘तेचो जल्म हांगा जावं ना पुण!’

– ‘तें कोणाक खबर आसा? तेचो जल्म बामबाक म्हुण कोणाक खबर? सगल्यांक दिसता तेचो जल्म हांगाच.’

– ‘तुका कितें सांगों आवो! तेच्या जल्माचींच इतलीं गीतां, हें म्हाका तरी खंय खबर!’

सुगानान फुडें सांगलें, ‘आतां तूं चोय. चालकाडाचें नांव सगल्यांक कळ्ळां. रांचीच्यान, बंदगांवच्यान, खुनटीच्यान चालकाडाक पावप सोंपें. पुलीस सट् करून येवन तेका धरूंक शकता!’

– ‘तें जावं येता.’

– ‘बोतोरदीक पावंक पुलिसांक सोंपेपणीं शक्य ना. कितलें पयस. रानाची वाट कठीन. बोतोरदीक लागून डोमबारी दोंगर. तेच्या तळाक बोतोरदीचें थाणें केलां. डोमबारी तुयें खंय पळयला?’

– 'आयकलां, भोंवतणी सगले दोंगर.'

– 'दोंगरूच दोंगर! सैलराकाब! केरा ओरा! विचारबुरू! तिरिलकुटीकुरू! एके दिकेन मातशें मेकळें, थंयच्यान डोमबारी वाठारांत वचोंक मेळटा. ती वाट खडपां दाळून आडयल्यार पुलिसांक भितर सरोंक वाट ना.'

– 'थिंगा वयतले तुमी?'

– 'जेन्ना उलगुलान जातलें, तेन्ना लिपोन रावपाक सुवात जाय. थिंगा रानां-दोंगरांनी पळोन वचपाक सोंपें. बोतोरदीच्यान तें सगलें लागीं देखून गेला बोतोरदीक. तुगे- म्हागे चुकी पासत चालकाड सोडून वचोंक ना.'

– 'तेका लागोन गेला?'

– 'हय.'

– 'डो-म-बा-री!'

– 'डोमबारी.'

दुर्गम, भोव अडचणीचें, दोंगरा-दोंगरांनी फापसल्लें डोमबारीचें आडवण. हांगा दाट आनी अटंगें रान. ह्या रानांतले रुख केन्नाच कोणा कोंत्रादोरान कापूंक ना. रुखाच्या आंगार कुराडीचो घाव केन्ना पडूंक ना.

पोरणे साल - पिलासाल - केंद - बेहडो - चींच - सांतोण - पळस - नाणो - शिंसव - कुसुंब - सांवर हांचें रान. वेळू - कोंडयाच्यो बेटी, खाजकुल्यांचीं झोंपां, कांट्यांच्यो झिली. खंय वालींच्या जंवजाळान पुराय धांपिल्ली रानवाट. शरदांत ह्या रानांत रान-पारजत फुलून उजवाड घालता. पावसांत तळ्या कांठार रानजुयेची वाल किल्लता, तिच्या फुलांक अप्रूप वास येता.

ह्या रानांत मनशांची वस्ती ना. रुखा तळाची माती कुशिल्ल्या पत्र्याक लागून पिकाळ आनी साऱ्याची. ते मातयेंत सांबाळून वाडयल्लीं म्होंवाळ कांद्या-मुळां पुंजांवक मुंडांची कोण अरत्तुरी हांगा पावना! आंवाळे आनी पिकीं बोरां खातात फकत सवणीं. वेळूचे कोंब अशेच वाडटात.

फकत मदीं मदीं नदरेक पडटात फातरांचे हारीन रचिल्ले गडगे. अदमास मेळटा, कोण्या काळार हांगा मुंडांचो गांव वशिल्लो. हे थड्यां माथ्यांवेले फातर. मागीर तांणी हो गांव सांडलो जावंये.

ह्या रानांत वाग, वांस्वेलां, रानदुकर, बिबटे वाग, लांडगे, हरणां, तरसां भंया मेकळीं भोंवतात. भोंवडे-परबे दिसा मुंडा जुवान तांका तीर वा बरचेन मारिनात. दोंगरां देंगणांतल्यान गंभीर गर्जन करीत न्हंय व्हांवता. ते न्हंयच्या उदकांत रुप्या रंगी नुस्तें खेळटा.

ह्या रानांत भितर सरूंक वाट म्हळ्यार एक अशीर पांयवाट. सावदांचे वाटेन मुंडांक चलपाक जमता, दिकूंक जमना. दिकू सोदतात ते सांत - बाजार - पुलीस थाणें - टपाल कचेरी लागीं आशिल्ले जागे. तांका लागीं बरो मार्ग आशिल्ल्यो सुवाती जाय आसता.

हें रान आयजूय मुंडांलेंच. दोंगुल्ल्यांनी, रानांत उदका-झऱ्यांक लागीं अशा सुवातींनी बोतोरदीचीं शेंकड्यांनीं ल्हान-ल्हान गांवां वसल्यांत. तीं सगलीं गांवां फातरांचो आडो आनी निवल- कांड्यांच्या रेवाड्यांत आसात. कोटावरी राखण आशिल्लीं.

डोमबारी दोंगराच्या मुळसाक जागरी मुंडागेर बीरसायतांनी पयली सभा घेतली. फेब्रेराचो म्हयनो. आकांताचें शीं. जागरी मुंडालें घर पुसून निवळ केल्लें.

आंगणांत धर्मरात्र पेटली. सगळ्या बीरसायतांनी तांदूळ-दाळ-वरी-मसूर-रानवटी कड्डणां-वाल-चवळी-जाका जें जमत तें हाडिल्लें. सगलें एके तळणेंत शिजयलें, सगल्यांनी वांगडा बसून खालें.

मागीर सगले घरांत येवन बसले.

बीरसान म्हळें, 'चोयाय! मेकळेपणान उलयाय. कितें करूंक सोदतां, तें सगले समजोन घेयाय. दोळे धांपून तुमी उलगुलानाचें नांव घेंवचें अशी म्हागे इत्सा ना.'

'सांग भगवाना! उलय!'

'वाटो दोन आसाय.'

'खंयच्यो त्यो?'

'एक वाट शांतीची.'

तिबाय मुंडा आदल्या काळावेलो सरदार. खूब फावटी तो चळवळींत वांटेकार जाल्लो. तिबाय मनीस तापट आनी किरकिरो. ताणें म्हळें, 'शांतीचे वाटेन तूं मुंडांक मुंडांचें राज हाडून दितलो?'

'वाट आसा, ती हांयें सांगों जाय.'

'सांग जाल्यार. आयकोंया!'

'शांतीचे वाटेन गेल्यार फळ कितल्या काळान मेळटलें तें सांगोंक जायना. त्या मार्गान गेल्यार मनांतलें मेळपाक खूब वेळ लागता.'

'ती कसली वाट?'

'तिबाय, तूं जाण्टो सरदार. तुका हांव कितें सांगतलों? तुमी सरदार आयजवेर तेच वाटेन गेल्याय. ती म्हणल्यार अर्ज धाडोप, कायद्यान झगडोप.'

'खूब झगडले. जितल्या कागदांचेर सरदारांनी अर्ज बरयल्याय, तितलीं कागदां पातळयल्यार आख्खें छोटा नागपूर धांपूंक पुरो. शाय जी खर्चिल्या, ती सगली एक केल्यार न्हंय हुंवाराक भरना तितली भरतली.'

जागरी मुंडान म्हळें, 'आयकूंक तरी दी! तिबाय, तूंच चड उलयता.'

डोनकान सुचयलें, 'भगवाना, उलय तूं!'

बीरसा उलोवंक लागलो, 'रान कापून तुमी जमीन करुंक नाका, घरा-माथ्यार तरकारी पिकयाय. आंब्या-पणसांच्या रुखांक वंयो कराय, मोसमी फळां विकाय, सावकारान आपयल्यार वेटबिगारी कराय, तीर-भाले-बरच्यो-कुराडी काडून माळ्यार वडयाय. कायद्याच्या

मार्गान हकांखातीर झगडाय. ही जाली शांतीची वाट. दिकूं मदीं, मिशनाच्या सायबां मदीं, रांची, चाइबासांतल्या बाबूं मदीं, मुंडांची ख़बर येवजुपी आनी मुंडांचें दुःख कशें निवारतले तें चिंतून मेजां भोंवतणी बसून चा-दूद पितां पितां दुःख करपी जाय ते आसाय. तुमी शांतीचे वाटेन मुखार गेल्यार तेंका खोशी जातली, चिंतून चोयाय.'

जागरी मुंडान आपलें मत उक्तायलें, 'शांतीच्या मार्गार खूब कांटे दिसताय, भगवाना! कायद्याच्या मार्गान वचोन आमी फटवल्याय.'

तिबाय मुंडान विचारलें, 'दुसरी वाट खंयची तर?' बीरसा हांसलो. हांसल्यार ताचे भितरल्यान उजवाड फांकारता. तोंडावेलो हांसो सोंपल्यारूय ताच्या दोनूय दोळ्यांनी हांशाचो झगझग बरोच वेळ उरता. हांसून मधुर प्रसन्न ताळ्यान बीरसान म्हळें, 'कित्याक? झुजाची वाट ना?'

– 'ते वाटेर कांटे नाय?'

– 'निखालस आसाय!'

– 'जाल्यार?'

बीरसान सांगलें, 'झुजाचे वाटेर खूब कांटे, दुःख आनीकूय चड, घडये संसार-घरदार सोडचें पडत, उपाशीं मरचें पडत, जेलांत रावचें पडटलें. कांयच चुकोवंक मेळचें ना.'

'खऱ्यांनीच ना.'

तिबाय उलयलो, 'जाल्यार तूं हे वाटेन वयतलो म्हुण्टा?'

– 'कित्याक ना?'

– 'भगवान, कित्याक धरता ही वाट?'

– 'हांव भगवान तुमचो. हांव कोणाक धोलोंवचों ना, हांडीर घेवन विसरोवंचो ना. म्हाजे खातीर तुमी रावताले, हांव तुमका मेळ्ळां. हांव तुमका रडयतलों, दुःख दितलों, तुमका हांसयतलों, सूख दितलों.'

– 'कसलें सूख?'

– 'स्वतंत्र मुंडारी राज्यांत स्वतंत्र जावन जगपाचें सूख.'

तिबाय थांबून थांबून उलयलो, ' स्व-तं-त्र-मुं-डा-री-रा-ज्य. स्व-तं-त्र जा-व-न-जि-ये-व-प?'

– 'हय रे तिबाय.'

बीरसान रांदनींत लांकडां उडयलीं. भग् करून उजो पेटलो. उज्याच्या धगान कुडीक ऊब मेळटा. उजोच मुंडांचे शियांचे कपडे. मुंडांक शियांचे खेरीत कपडे आनीक खबर ना.

तिबायक हारिल्लेवरी दिसलें. ताणे म्हळें, 'म्हागे पिराय खूब जाली. जायत्यो पुनवो चोयल्यो. मुंडांल्या अधिकारां पसत लडूंक ना असो दिसूच याद जायना. पूण एकूय फावट

कितें पदरांत पडलें म्हुणोन याद ना. भगवान, म्हाका आपणाय. तुजे वाटेन व्हर.'

सगल्यां वटेन चोयत तिबाय मुखार उलयलो, 'तुमी कितें सांगतले हांव नकळो. हांव जाल्यार झुजाची वाट पसंत करतां. पळयाय, येदोसो भुरगो आसलों तेन्नाच्यान सगल्यांकडल्यान आयकल्लें, एक दीस मुंडांचो भगवान मुंडाल्या घरांत जल्माक येतलो. तो जेजू न्हो, कृष्णूय न्हो, तो मुंडा. बीरसा आमचो तो भगवान! भगवान, चल, तुज्याच मार्गान येतां हांव. ह्या देहान जायते कश्ट काडल्यात्य, साबार सुखां भोगल्यांय. तुगे कामाक उपकारा पडूं दी आतां.'

बीरसान विचारलें, 'तुमगे कितें म्हणणें?'

– 'झुजा मार्गान या.'

– 'भगवान, एक सांग. झुजाचे वाटेन गेल्यार आनी चाकरे-कबलात करूंक लावंचे नाय? जल्माचे गुलाम करचे नाय? वेठबिगारीक व्हरचे नाय?'

गोतना मुंडा पिरायेन भुरगो. तिबायचो नातू. ताणे म्हळें, 'हय व्हय! भगवानाचें राज येयल्यार हरिनाम वाणयाक यतिश्ट पेट घालतलों. मेल्लो म्हाका उबो करुन दवरोन हेरांक सगल्यांक सामान दिता. आनी सांगता, 'तूं मुंडा मरे! तीन पयशांचें गिरायक घालता!'

बीरसान फर्मायलें, 'सगल्या दिकांनी सभा घेवंक जाय. सगल्याक सभांनी मत घेवंचें. हाचे फुडली सभा सिमबुआ दोंगरार होळये दिसा.'

सिमबुआ दोंगर सारोयाडा मिशना मुखारुच. होळयेचे राती त्या दोंगरार उजो पेटलो. ताचें मिशनऱ्यांक कांयच अजाप दिसलें ना. होळयेक मुंडा उजो पेटयतात, उज्या भोंवतणी फेर धरून नाचतात आनी गायतात. हे खेपे उजो पेटलो, गायन जालें, पुण तें उत्सवाचें गीत नाशिल्लें. तीनशीं मुंडा तीरकामटीं घेवन पावले.

आतां होळयेचीं गीतां सुरु जालीं, मुंडा जातीचे दोन वीर दुखनसाय, रोतनसाय हांच्या गीतान.

दुनदिगारार दुखन कारे ओ डोरे ना हे
रामगारार रोतनसाय कारे ओ डोरे ना हे ।।

ताचे फाटल्यान मुंडांनी कोलांच्या बंडाचें गीत गायलें ———

धाकल्यो मुंयो चलता तशे नीट एके हारीन
खांद्यार घेवन हत्यारां हे चलले खंय तयारेन?
खंय मारता तीर
व्हडल्या मुंयांवरी हारीन, खांद्याक लावन हत्यारां
ते लडटात बुंदूताक
तामाराक वचोन मारती तीर ।।

बीरसान म्हळें, 'इंग्लेज राणयेची म्हूर्त ही ऽ ती केळ. होळयेक आमी ते मंडोदरीची गोमटी कापतले. रावणाचें राज सोंपयतले.'

जगाय मुंडान धपक्याक केळ कापली. बीरसान म्हळें, 'हेच भाशेन राजा आनी न्यायाधिशांकूय मारून उडोवंक जाय. आतां चला! नगारे वाजोवन नाचुया.'

पूण होळयेच्या उज्याच्या मानान बरोच वेळ चड तो उजो पेट्टालो. उपरांत पुलीस येवन वासपूस करून गेले. कांयच वास लागलो ना.

त्यान फुडली सभा डोमबारी दोंगरार. बीरसान परतेंय समजयलें, 'दोन वाटांची खबर परतीय सांगतां. खंयचे वाटेन वयतले? तुमी सांगपाचें.'

नानकांनी सांगलें, 'झुजाचे वाटेन. जांणी राज घेयलां ते सोडटले कित्याक? आमी झोंपून घेतले.'

– 'हेंय निमणें न्हो. डोमबारी दोंगरार सभा जातली. सगल्याक सभेचो प्रचार करया. पूण त्या आदीं नवरतनगडार वचोन माती हाडया. डोमबारीचे सभे आदीं मनिहातूक सभा दवराय. ते वाटेनच्या बीरसायतांकडेन म्हागे आजून वळख जावंक ना.'

मनिहातूचे सभेंत मानी मुखेलीण म्हणपाक लागली, 'म्हाका कितें सांगोंक जायें, भगवान!'

– 'सांग.'

– 'आमीय तुगे भक्त मगा ! झूज जाल्यार आमीय झुजतलीं. तुयें आमकां कसल्याच कामार घेयलीं ना, खंयच वचोंक सांगलें ना, हेंच आमका दुःख.'

– 'नवरतनाक तुमीय येयाय.'

– 'येवं?'

– 'सगले वयतले. सगलीं जाण्टीं-बायलां-दादले सगले वयतले. हांव सांगतां. म्हागे मूळ पुरसान नवरतनाक पयलें कोट बांदलेलें.'

– 'जाणा आमी.'

– 'मागीर सगलें दिकूंनी गुटलायलें.'

सरकार थंड बसूंक नाशिल्लें. पूण हे खेपे सरकारी चक्रां इतलीं सवकास कित्याक घुंवतालीं तें अमूल्यबाबूक कळनाशिल्लें. सात-पांच येवजून अमूल्यबाबू डेप्युटी मुखर्जीगेर गेलो. मुखर्जीन म्हळें, 'बदली जावन वयतां म्हुण मेळपाक आयला काय कितें, अमूल्यबाबू?'

– 'हय. तुमी चक्रधरपुराक वतात खंय?'

– 'हय.'

– 'आदीं कोलकात्याक वतले?'

– 'तशी इत्सा आसा.'

– 'म्हजेर एक उपकार करशात?'

– 'सांगात. तुमी म्हज्या भुरग्याचे प्राण वांचयिल्ले. हातांत जानवें धरून उतर दिल्लें, म्हाका जमता तें सांगल्यार करतलों.'

– 'एक पाकीट कोलकात्याक पावतकच टपाल पेटयेंत उडोवपाचें आसा. आनी–'

– 'आनी कितें?'

– 'ही खबर कोणाक सांगूंक जायना.'

– 'बरें आसा. पूण एक–हांव संकटांत पडचों ना इतलें मात पळयात.'

– 'संकटाचें कितें तातुंत? पूण सरकारी काम केल्यार कांय गजालींनी गुप्तताय दवरूंक जाय.'

अमूल्यबाबून ताच्या दोळ्यांक पळयलें. मुखर्जीची नदर सकयल गेली. एकदां मुंडांच्या दंडाचे पयशे आपुण लिपोवन दवरून ताणे दोगांक मेकळे केल्ले. सरकारी कामांत गुप्तताय तर पाळूंकुच जाय. ताणे म्हळें, 'बरें आसा. खंय ती चीट?'

– 'फाल्यां हाडून दितां. तुमचें उतर मेळ्ळें, आतां बरयतां.'

– 'जेकबाक चीट बरयता?'

– 'तुमका कशें कळ्ळें?'

– 'कळटा गा म्हाका, सगलें कळटा . तुमच्याकूय वीस वर्सां चड पिराय म्हजी. म्हाका आनी कळना? हांवेंय मुंडांचे केसी संबंदान खूब चिंतलें. करतले कितें? तांकां बाबड्यांक न्यायालयांत कितें घडटा तांतलें अक्षर लेगीत कळना. कायदो करूंक जाय, जाका मुंडारी भास येता त्याच वकिलान केस हातांत घेवंची. मुंडारी जाणा त्याच लोकांनी न्यायासनार बसचें. तांकां कितें कळटा बाबड्यांक?'

– 'तसो कायदो केन्ना तरी जातलो काय?'

'जावंक जाय. खरें पळोवंक गेल्यार तांचेवाटेन उलोवपाक कोणूच ना. नशीब बाबड्यांचें असलें. बीरसा मुंडा बरोवंक–वाचूंक शिकिल्लो. आनीक फुडें शिकल्यार तांचे प्रश्न मांडूंक एकलो तयार जावपाचो. जशी बुद्द तशीच थंड तकली. आनी वागप खूब बरें. पूण तो जावन बसलो भगवान!'

अमूल्यबाबू हांसून भायर सरून आयलो. जेलांतले आपले कुडींत परतो येतकच ताणे बरयलें, 'खात्रेच्या सूत्रांकडल्यान कळ्ळां, बीरसाचो कांयच पत्तो ना. चुटिया आनी जगन्नाथपुर ह्या दोन सुवातींचेर पावले उपरांत मागीर तो नाच जालो. रांची आनी सिंगभुमाची पुलीस एक जावन बीरसाक सोदीत आसा. बंदगांवांत पुलीस चौकी केल्या. सिंगभूमचो डी. एस्. पी. बंदगांवाक वचून जमीनदार जगमोहन सिंगाकडेन उलोवन आयला. मानेरत्तांक हुकूम काडला बीरसाक धरून दिल्यार तस्नीप मेळटली. ही गजाल तांणी जाहीर केल्या. मियर्स बंदगांवाक वतलो म्हूण आयकूं येता. ताणेच फाटले खेपे बीरसाक अटक केल्ली.'

मियर्स बंदगांवाक गेलो. चारूय वाटांनी पुलिसूय धाडले. गिडियून, मार्कुस, प्रभुदयाळ ह्या तिगांक धरून घेवन पुलीस परतले. सिंगभूमच्या पुलीस सुपराक मियर्सान विचारलें,

'तीन जड्ड्या सरदारांक धरून जाता?' सुपरान म्हळें, 'बेठी धांवाधांव करून कितें जातलें?'

– 'दॅट बीरसा इज अ पोटेंशियल डेंजर.'

सुपरान म्हळें, 'ताका धरल्यार इनाम मेळटलें ही खबर चावडे-चावडेर कळयल्या.'

– 'तशें करून जातलें?'

– 'आतां ताका धरपूय शक्य ना. ह्या वाठारांत रान दाट. मनीस वस्ती ना. रानांत आतां खावंक भरपूर मेळटा. लिपून रावतलो जाल्यार हे दीस बरे.'

– 'हूं.'

मियर्स कपलाक मिरयो घालून ओगीच रावलो. सुपरान फुडें म्हळें, 'खुंटी थाण्याचो इन्स्पेक्टर मृत्युंजय नाथ लाल हाणें सरकारी वावरांत धिलाय दाखयल्या.'

– 'मागीर? ताका विचारात!'

मृत्युंजय इन्स्पेक्टरान म्हळें, 'हांवें कितें धिलाय केल्या सायब?'

– 'बीरसा लोकांक एकठांय हाडून दोंगरार नाच-गाणें करतलो ही खबर तुका मेळूंक ना? खबऱ्याक तुवें सांगलें ना, दोंगरार नाचतात-नाचूं. जेन्ना कायदो मोडटले तेन्ना धरतलों म्हुण?'

इन्स्पेक्टरान भंयान हात जोडून म्हळें, 'चूक भोगशियात, सायब. हो खबरो म्हण्टा, बीरसाक हांगा पळयला. धांवत गेलों बुंदूक. रान कसलें अफाट! दिसाचे लेगीत वाग भोंवतात. थंय एक जाण्टो मनीस गोरां राखतालो. ताचेंय नांव बीरसा. ते सगले, जो बिरेस्तारा जल्माक येता, ताका 'बीरसा' म्हण्टात. थंयच्यान परतो येतना वागाची आरड आयकून घोडो भिलो. म्हाका रानांत उडोवन येवपाचो. वयल्यान तो खबरो सांगता, बीरसा रोगोतोच्या बाजारांत भोंवता. धांवाधांव खूब केली, सायब. ताका लागून बेजारिल्लों.'

– 'जगमोहन सिंगाचें कितें तें प्रकरण?'

इन्स्पेक्टर भंयान फाटीफुडें जालो. मान सकयल घालून ताणे म्हळें, 'ताका हांव भितां सायब.'

– 'तुका कसलो भंय? सरकारी चाकर तूं!'

– 'म्हाका कांयच खबर ना. भरतसिंगूच सांगतलो. भरत ताचो सोयरो. ताका जगमोहन कांय म्हणचो ना.'

भरतसिंगान म्हळें, 'जगमोहनाक भंय, आपणे गवाय दिल्यार बीरसा ताचो सूड घेत म्हूण. देखून बीरसाक धरून दिवपाखातीर बंदगांवांत पी. डब्ल्यू. बंगल्यांत दोरयेचो पंखो निखळावन उडोवन, दोन चिक्रां आनी पिरयो फोडून ताणे बीरसान तोडफोड केली म्हूण बोवाळ घालो. सायब, केस धरली ना!'

– 'हाउ सिली!' सुपरान म्हळें.

मियर्साक राग आयलो. ताणे म्हळें, 'बीरसाक धरपाच्या कामाक सिंगभूमची पुलीस

फाव तें म्हत्व दिना. म्हाका खात्रेची खबर मेळ्ळ्या, प्रभुदयाळ मुंडाच्या तिगांकूय मेकळीक मेळ्ळ्या.'

सुपरान म्हळें, 'रांची पुलीस तरी कितलोसो आदार करता?'

मियर्सान म्हळें, 'सोद चालू आसूं दी.'

सुपर चक्रधरपुराक परतलो. मियर्स रांचीक आयलो. कांय दिसांनी सगले शिपाय परते आयले. मियर्सान म्हणलें, 'उलोवपाची सोय ना. कित्याक आयले परते?'

– 'शिपाय परते परते बरे ना जातात. तांचो कुड्डो भावार्ते, तांकां शिराप लागला. देखून दुयेंत जातात.'

– 'व्हॉट डू यू मीन?'

– 'बीरसा शिराप दिता, सायब.'

मियर्स चवताळ्ळो. म्हणपाक लागलो, 'बीरसा पांच फूट चार इंचांचो एक किरकोळ मुंडा. कुरस्कुटभर इंग्लीश शिकून नेट दाखयता. ताचो आनी भंय!'

शिपाय ओगीच रावले.

रोमन कातोल्क मिशनाच्या रेव्हरंड हॉफमनाक मुंडारी भास कळटा, ताणे ते भाशेचो शब्दकोश रोमी लिपयेंत बरयला. सरकार ताका मुंडां संबंदांतलो तज्ञ मानता.

हॉफमनान रिपोर्ट बरयलो. अजाप, भरतसिंगान त्या रिपोर्टा विशीं कांयच खबर नासतना त्या रिपोर्टाचें सार उत्तायलें. एक दीस तट्टूचेर बसून तो बळिश्ट, पराक्रमी जमीनदार जगमोहन सिंगाल्या कार्यालयांत पावलो. तो सोयरो आनी इन्स्पेक्टरूय. भर दनपारां जगमोहन सिंगान ताका विसव घेवंक सांगलें.

जगमोहनाचो वाडो कोटा भशेन ऊंच दुर्गान वेडिल्लो. दोन माळ्यांचें मातयेचें घर. दाट वण्टी, दारां जोड्यांनी बसयल्लीं. नळ्यां-पाखें, वण्टींचेर रंग मारून व्हडले व्हडले हती, घोडे, राम आनी महावीर असलीं चित्रां पितारिल्लीं. आंगणांत भात, गंव, बाजरी, तोरची दाळ हांच्यो राशी घाल्ल्यो. एके कुडींत जोंदळ्याची रास, मिरसांगांचो दोंगर. भायर म्हशी कितल्योशोच, आनी तट्टू बांदून दवरिल्ले. व्हडल्या-व्हडल्या पितळी-गोल्यांनी तेल आनी तूप भरून आशिल्लें, मातयेच्या कद्यांनी गोड, सातूचे बरस्ते कितलेशेच.

भरतसिंग रोटये सांगाताक बथुवाची भाजी, तोरची दाळ, आंबट धंय आनी गोड घेवन जेवलो. मागीर जगमोहनाकडेन येवन बसलो. म्हणपाक लागलो, 'बरेच दीस कांयच हुकूम ना.'

– 'आतां आनी हुकूम? तुमच्या थाण्याची पुराय वळख आसा म्हाका. बीरसाक धरलो ना तुमी. म्हाजो जीव वयता हांगा. तुका खबर आसा, हांव भंयान भायर सरना म्हुण?'

– 'कोणाचो भंय? बीरसा खंय आसा?'

– 'हांव जाणा? म्हाका सदांच दिसता ताका सगलें खबर आसा. तो आत्तां तीर

सोडटलो.'

– 'दोन वर्सां दुकळाचीं गेलीं. तुमी केन्ना दोन चार वेळवांच्या कोंबांखातीर जाल्यार केन्ना मूठभर मक्याखातीर मुंडांक केशींनी घुस्पावन दवरतात. भात आसून लेगीत सरकारान अवर्षणाखातीर वांटूंक मागल्यार तुमी शेरभर लेगीत दिनात! सरकारान तुमकां पळोंवक जाय, तुमी केन्ना सरकाराक पळयलां हय तर?'

– 'शिध्या–वांटप सरकाराचें काम, आमचें काम तें?'

– 'तुवें नांव घाण करून घेतलां तुजें. मुंडा तुजे पुतळे करून तांकां उजो घालतात म्हूण आयकलां?'

– 'हांव जाणा. भंयान दार काडिना हांव.'

– 'भंय आमकां. सरकाराक भंय न्हू रे! ना जाल्यार! धरूंक गेल्यार सरकाराक, जो धरता ताका! तशें जाल्यार रांची आनी सिंगभूमची पुलीस एकवटान वावुरपाची. तें केलां? जाका दोळे, नाक, कान आसा ताकाच खबर चालकाड, कामार ह्या थाण्यांचेर कितें जाता तें. बंदगांवाक सावन चक्रधरपूर थाणें, रांची आनी चाइबासा ह्या दोनूय वाठारांनी बीरसा भोंवता. हें कोणूय पिसो लेगीत सांगतलो. हांव कोण? सायबा–सायबाचें पटना, तेंय पळयलां. कोणे कोणा कडल्यान रिपोर्ट घेतलो ना, कोणे कोणाक दिलो ना. आमकां कळ्ळें, सरकाराक एक तर भंय पडला, ना जाल्यार सरकार तांका धरूंक सोदिना. ना जाल्यार सरकार आपलें कामूच विसरलां. आमीय चिंतलें, तशें जाल्यार आमी तरी कित्याक हांगा थंय धडपडून मरप?'

– 'तुमी सरकारी मनीस.'

– 'देखून तर ताका धरूंक रानां माड्डितात, मागीर ताणे एक तीर तोपूं आमकां.'

– 'तुमचीं तुबकां आसात.'

– 'तुजेय कडेन आसा! त्या दिसा बंदगांवांक पी. डब्ल्यू. बंगल्यार जें नाटक केलें, ताचो सायबाक राग आसा. तापून रावला तो. तुका खबर तरी आसा? बरोच तापला.'

– 'तापून कितें जातलें? सरकाराक खबर आसा, हांगा रांची, चाइबासा सगल्याक सरकाराचीं थाणीं म्हळ्यार आमी.'

– 'आरा, छापरा, दारभांगा, भागलपूर हांचे खातीर मुंगेराचे जमीनदार.'

– 'हें बरें! दूद दितले गायेक थोडें तण, उदक दिवंचें पडटा. तुमी मुंडांली जमीन, बेगारी, कळंतराचो दुडू घेतले, दुकळाक मूठ भर तांदूळ लेगीत दिवंचे नात. हें सारखें जालें? हें सगल्यां कडल्यान आयकलां हांवें!'

जगमोहन सिंग मातूय हाललो ना. ताणे म्हळें, 'कितें करूं सांग. खूब भंय दिसता.'

– 'दोन दिसां भितर सगलें थंड पडटलें. ना जाल्यार एक तीर्थयात्रा करून यो.'

– 'तें जमचें ना. घरांत ______'

– 'कित्याक? भात ना म्हूण रेकॉर्ड केलां?'

— 'धा रुपया दिल्यार रेकॉर्ड जाता.'

— 'जाल्यार राखूंक बस.'

— 'मुंडा कितें दिल्यार आयकतले?'

— 'कोण सांगतलो? आदीं कळटालें, आतां तांचें कांयच कळना. आदीं ते कितेंय उलयताले, आतां तशें ना. पुण एक हांव जाणा, सरकारान पिशेपणां केल्यांत. आतां एका फाटल्यान एक लचांडांच जावपाचीं आसात. रांचीच्यान सायब आयलो, चक्रधरपूरच्यान आयलो. ते हार खावन परते गेले. हांव जाल्यार सांगतां, तोंडार कांय सांगचों ना, पूण पुलीस धाडले ना जाल्यार आमी रानां माडयत बीरसाक धरूंक वचचे ना. रानांत बसून तांचे कडेन झगडूंक जाता, फाटल्यान–फुडल्यान पुलीस आसल्यारूच.'

— 'आतां कळ्ळें? तुमीय भिल्यात ताका.'

— 'तुजे सारखो सोयरो आसल्यार भंय ना दिसून जाता? थाण्यांत सगळे तुजेर तिडल्यात.'

— 'कित्याक?'

— 'कित्याक तें तूं नकळो? बीरसाक पुलिसांनी धरचो म्हुण तुवें बंगल्यांत तोडफोड केली, कांय जालें ना. आतां पुलीस राखण धाडली. सदरच्यान तीस शिपाय आयले. तांका उदकांत विखारी बेहडा घालून दिलो. तुका दिसलें, ते बरे ना जावन पडटले. सरकाराक दिसतलें हें बीरसायतांचें कर्म. आनीक पुलीस धाडटले. परिणाम कितें, सगले पळून गेले. तुजे बुद्दीन तूं चलता. कोणाक विचारिना. आतां तुजें तूं पळय. थाण्यांतल्यान कोण्ण तुवें आपयल्यार येंवचे ना म्हण्टात.'

— 'चिंतलें तशें जावंक ना. सगलें चड इबाडलें.'

— 'मुंडांक जेन्ना तुवें तांचेर बगलांट हाडूंक अशें केलां म्हुण कळटलें तेन्ना तांकां खोशीच जातली!'

जगमोहन सिंगाक असो भंय घालून भरतसिंग खोश्शेन भायर सरून आयलो. येतना सांगून आयलो, 'मुंडा कितें आदले भशेन पिशे आसा म्हुण समजता? तांकां कळटलें, शिपाय तुवें पातळायल्ल्यो खबरी उलयतात, हें बीरसाच्या स्त्रापान घडलां.'

जगमोहन सिंगान म्हळें, 'आनी करूं तरी कितें? आनीक दोन तुबकां हाडटां सदरे सावन.'

— 'अब्बा! सरकार सगल्यांत व्हडलें. ताचेलागीं तूं फटिंगपणां करता? छोटा नागपूरचो राजा लेगीत करिना.'

बीरसाक धरप सरकाराक जमनाशिल्लें. रांची आनी चाइबासाच्या रानांक लागीं आशिल्ल्या सगल्या थाण्यांचे पुलीसूय ताका धरूंक सोदिनाशिल्ले, तांका भंय दिसतालो. बीरसान आपल्या भक्तांक सांगलें, 'सरकार थंड बसलां म्हुणोन समजों नाकाय.'

– 'जाल्यार धरिना कित्याक?'
– 'दिस्त वेळार येतले ते धरूंक.'
– 'केन्ना?'
– 'जेन्ना वेळ येतलो.'
– 'तेन्ना?'
– 'तेंका संदूच दिंवचों ना.'
– 'दिंवचो ना?'
– 'ना. तेचे आदींच उजो पेट्टलो.'

नवरतनगडार वचपा खातीर बायलो पंगडां-पंगडांनी येवन हांगा रावल्यात. त्यो आंगणांत वाटकुळ्यो बसून खबरी करतात. सालीचो भुरगो परिबा हेर भुरग्यां सांगाताक खेळटा. तांचो खेळ पळयतां पळयतां बीरसान म्हळें, 'उजो पेट्टलो.'

दुसरे दीस रात जातां जातां तीं भायर सरलीं. नानक, तरण्यो बायलो, प्रचारक, जाण्टेल्यो, सगल्यां अखेरेक पुराणक. बायलांच्या माथ्यांर सुपुल्ले नवे गाडगुले. ह्या गाडगुल्यांनी नवरतनावेल्या घोग्याचें पवित्र उदक 'बीर-दा' त्यो भरून हाडटल्यो.

व्हडलें, विशाल पुरसांव. मोनीं, जागृत, सडसडीत पावलां. काळखांत वचूंक जाय, ना जाल्यार लोकाचे नदरेक पडटलीं. तीं चलत रावलीं. एक दीस मुंडांचो आदिपुरीस आनी ताच्या पुतांनी हो नवरतन गड रचिल्लो. फांतोड जाली. तीं चलतात, चलत आसात. सूर्या बरो वयर येवन पावलो तेन्ना बीरसान हात केलो.

मुखार 'शरना'. जरिया गांवाची शरना भौ नामनेची. 'शरना' म्हळ्यार देवराय. ते रायंत मुंडा वेंचीक दिसांक येवन रागार जाल्ल्या देवां खातीर बळी दितात. हेर वेळार ह्या रायांनी कोण भितर सरनात. आतां मार्गशीर. दाट, भयांकृत, निर्जन रायंत बीरसायतांनी आसरो घेतलो. कोण उलयना, सगले ओग्गी. रायंत एक खोल तळें. थंय सगल्यांनी विसव घेतलो. पालवाक बांदून हाडिल्लो सातू आनी मीठ खावन घेतलें.

– सुनारा रुखा माथ्यार चडून तेळणी करतालो. अचकीत तो देंवन आयलो. ताणे सांगलें, 'लोक येताय.'

एक जाण्टेलो, सांगाताक कांय दादले. जाण्टेलो मुखार येवन उलयलो,

– 'खंय? बीरसा-भगवान खंय?'
– 'हो न्हो!'

बीरसा मुखार आयलो.

– 'खंय तो?'
– 'हो पळय!'

जाण्टेल्यान म्हळें, 'असो लागीं यो. म्हाका दिसना.'

बीरसा मुखार सरून लागीं आयलो. जाण्टेल्यान म्हळें, 'तूं येयला, आमी जरियासवन

येयल्याय. हांव गांवचो मुखेली. तुमी हांगा राबाय. कांय भंय ना. चुटिया, जगन्नाथपूर गेलो तूं , तेन्नाच कळ्ळलें, तूं नवरतनाक येतलोच. कृष्ण पक्षांतली रात, आतांच बरें. देखून आमी केन्ना सावन वाट पळयत आसाय - दर म्हयन्याच्या कृष्ण पक्षांत. आयज तूं येयलो.'

– 'तुमी बीरसायत जावंक ना?'

– 'ना. जाल्यारूय जे जाल्याय, आनी जाले नाय, त्या सगल्यांचोच तूं भगवान मगा! सगल्या मुंडांचो! '

बीरसान ताचे दोनूय हात धरले. जाण्ट्यान बीरसाच्या आंगावेल्यान हात भोवंडायले. ताणे म्हळें, 'परते वयतना जरियांत रावन मागीर वचाय. तूं अशा वेळार येयला भगवान! उलगुलानाची खबर काडली तुयें? आतां म्हागे नदर गेल्या! मुंडांचें राज येतलें. दिकू वयतले. सगलीं रानां आमचीं जातलीं. स ऽगलें जातलें. पूण म्हाका कांयच चोवंक मेळचें ना.'

जाण्टेलो हात उखलून फाटी सरलो. न्हिंदून पांयां पडलो. ताचे वांगडीय पांयां पडले. मागीर जाण्टेल्यान आंगावेल्या वस्त्राचे पोटलेंतल्यान कांय गोडा खडे, जवसा सांतूचीं मुठलीं काडून फातरार दवरलीं. ताणे म्हळें, 'आमी येता. जरिया सावन कांयच भंय ना. आमचीं फकत तीस घरां.'

बीरसान हात उबारून तांका निरोप दिलो. ताची नदर उदास, दुर्बोध आशिल्ली. ताच्या धर्माची दीक्षा घेतिल्ले, ना घेतिल्ले, सगलेच मुंडा ताका भगवान मानताले. कितल्या दिसां सावन ही स्रध्दा हेंच ताचें राखणे-कवच जावन आशिल्लें. जे मुखेली, जे भगत हांका बीरसान मान्यताय दिवंक ना, ते लेगीत सिमबुआ दोंगरावेले सभे उपरांत ताका एकोडे येवन सांगून गेल्ले, सिंगबोंगा आनी बीरसा हांचेमदीं झगडीं जाल्यार त्या दोगांनी कितें तें पळोवन घेवं. उलगुलानाच्या कामाक मुखेली आनी भगत वांटेकार जावंक सोदी. कारण ते मुंडा! मुंडा राज जातलें, त्या राज्याच्या वावराक तेय हात बोट लावंक सोदताले.

बीरसान सांगलें, सगल्यांचोच आदार जायच.

आतां एकलोच फातरार बसून, उदकांत पाय बुडोवन तें चाळयतां चाळयतां बीरसाक दिसलें, मुंडांक स्वतंत्रताय मेळोवन दिवंक ताका अजून जमलें ना. पूण तांचे जिणेंतल्यो कितल्योशोच भोगावळी तरी ताणे कुशीक काडल्यो. असुर-पुजा, भगत आनी मुखेल्याचे दैवी शक्तीवेलो भावार्त, हजारांनी संस्कार, तीं बंधनां तरी काडून उडयलीं.

फकत बीरसाच जाणा आशिल्लो ताणे कितलें कठीन व्रत आपणायल्लें तें! आदीम रुढी, कुड्ड्या नश्ट्या भावार्थातल्यान मुंडांक मेकळे करून तो आयचे पृथ्वीचेर, वर्तमान हाडूंक सोदतालो. पूण असो एक 'वर्तमान' तो रचूंक सोदतालो, जातुंत इंग्लेजांनी केल्ली समाज आनी शासनाची मांडणी आसची ना. बीरसा मुंडांचो लाखांनी वर्सांचो काळोख पयसावन 'अर्विल्ल्या काळांत' हाडूंक सोदतालो. पूण ह्या 'अर्विल्ल्या काळांत' पावन

तांचें आदीम सादेपण, न्यायाची कल्पना, साम्यनीत अभंग उरल्यार पुरो. एका नव्या मनीस धर्मांत तांकां सुवात मेळूं.

मुंडाचें रगत भौ पुरातन. धवे कातीचे लोक भारतांत पावंचे आदल्या त्या कृष्ण भारताची संतत म्हळ्यार मुंडा. बीरसान एक अशक्य अशें व्रत आपणायलां. तो न्हंयेच्या मूळ स्त्रोताकडेन वचूंक सोदता कसो. भायल्यां कडल्यान घेतिल्ली 'करम-पुजा' आनी हेर साबार रिति-भाती, पोरण्या असुर - धर्मांतल्यो जादू - करण्यो आनी रगता - उत्सव सगलें तो भायर मारूंक सोदता. धर्माचे आचार, करण्यो, भोगावळी हांचें चेपण मनाचेर आसल्यार मुंडाक मान वयर काडूंक मेळची ना. हाकाच लागून एक सादो - सोंपो, सुटसुटीत, भारहीण धर्म गरजेचो. देखून बीरसान भगवानाच्या रुपान धर्मांत क्रांती हाडल्या.

मुंडांक रानांत आपलो अधिकार जाय, त्या आदीम युगांतले परी. वस्ते - गांवांची मांडणी जाय, अर्थाची जीण जियेवपा खातीर उपाय जाय. पूण एक अर्दपोटीं मुंडा आनी ताचे हावेस हांचे मदीं कितलेशेच आडे - जमीनदार, सावकार, वाणी, पुरवणदार, सायब. इंग्लेजांच्या आदारान हे आडे आनीक ऊंच जाल्यात. देखून बीरसान भगवान जावन तांका क्रांतीच्या तोंडाक दिल्यात.

बीरसान तांका सांगलां ते जैतिवंत जातलेच. तीर, कामटीं, बर्च्यो, भाले घेवन तुबकां आड झुजप कठीन हें बीरसा जाणा. पूण ताका हेंय खबर आसा - मुंडांचो एकवट जाल्यार अस्त्रा शस्त्रांचो अभाव खंयचे खंय नाच जावं येता.

मुंडा आपल्याक 'मुंडा' म्हुण अभिमानान वळखूंक विसरल्यात. तांचो आत्मविश्वास परतो बांदूंक जाय. परतो तांका आपुण 'मुंडा' अशी वळख दिवपाक अभिमान दिसलो जाल्यार बीरसाक तो एक भौमोलाचो लाव. हाकाच लागून बीरसा भगवान जाला.

बीरसा उदकांतल्यान उठून आयलो. फातराक तेंकून आड पडलो. बायलो वाटकुळ्यो बसल्यात. खालत्या ताळ्यान खबरी चल्ल्यात. एकीमेकींच्यो विणयो घालतात. कोण दुसरेचे कुशींत मान तेंकोवन न्हिदल्यात.

पळयतां पळयतां बीरसाच्या दोळ्यां सामखार धुंवट आयलें. भगवान जावपा खातीर व्हडलें मोल दिवंक जाय. ते जिणेंत होंवर ना, वाजंत्री वाजोवन बायलो आंब्याच्या ताळ्यांनी उदक शिंपडून न्हवऱ्याक सकयल देंवोवन 'चुमन' ची रीत करिनात. बीरसाक तेल-हळद लावन न्हाणोवन कोण व्हंकलेचो बापुय मांडयेर घेवंचो ना. पांच 'पंचेस' येवन लग्न लायनात. कोणे व्हंकले कडेन तिळो आनी जानवें हांची देव घेव करप बीरसाक शक्य ना. - उदक, उजो, भात, दूद, तरसाद, तीर आनी कामटें, ह्या सात जिनसां मुखार उबो रावन तांतलें एक आपणावप ना.

ते जिणेंत फकत रातच्या काळखांत तो मैल-मैल चलल्लो, फिरलो, सभां फाटल्यान सभा घेवन मुंडांक ताणे उलगुलानाचो मंत्र आयकयलो. 'मनीस' बीरसाक जें आवडीचें, तें

सगलें विसरप. तो भगवान जालो न्हय!

बीरसान दोळे धांपले.

दुसरे दिसा सकाळीं नवरतनगडार वचून रानांतल्या त्या उबंत पडिल्ल्या कोटांतल्यान बीरसान थंयची माती घेतली. बायलांनी नव्या गाडगुल्यांनी पवित्र घोग्याचें उदक भरून घेवन त्योय परतल्यो. परते वाटेर जरियांत विसव घेवन ते बोतोरदीक परतले. बीरसान म्हळें, 'फाल्यां सगल्या मुंडांनी डोमबारी दोंगरार येवचें. जितल्यांक येवंक जमत, तितल्या जाणांनी येवंचें. आतां मार्गशिराचो म्हयनो. पौष लागूंक वीस दीस आसात. पौष लागचे आदीं आनीक 16 - 18 सभा करपाच्यो उल्ल्यात.'

सोमान म्हळें, 'फाल्यांच?'

— 'आनीक वेळ खंय आसा? वेळ ना.'

कोमतान जमनीर पांय घांशीत म्हळें, 'घरा आवय हुसक्यान साप भंगल्या! गेल्यार एकदां चोवन येवंक जातलें?'

— 'जाल्यार वच, परतो आनीक येय नाका. फाटल्यान बंधन आसल्यार ह्या कामाक येय नाकात. आदींच सांगलां.'

बीरसाच्या उतरांनी कोमता खूब दुखावलो. ताणे म्हळें, 'भगवान! चूक जाली.'

कोमताच्या उदास उतरांनी सगले हेवाटेन - तेवाटेन पळोंवक लागले. बीरसान म्हळें, 'म्हागे आवय देखून हांयें तिचेविशीं चड येवजुवप काय तुवें? येवजिल्यार तुका कळटलें, तुयें जें चिंतलें ते चिंतेवरवीं तुगे मनांत 'वाळवी' रिगली. दीस जशे जशे सरतले, ती हुस्क्याची वाळवी तुका पोखरून पोको करून उडयतली. तेन्ना तुजे कडेन उलगुलानाचें कांयच काम जावंक पांवचें ना.'

डोमबारी दोंगरार तेंगशी म्हुण कांय ना. वयरूय व्हड एक तळसो. उंचाय सुमार तीनशीं फूट. तळपांच्या खांचींनी पांय दवरून सुक्या तणाक घट धरून वयर चडचें पडटा.

डोमबारीच्या माथ्यार, शंभरांवैर मुंडांक घेवन बीरसान धवें बनेर उबारलें. उदेंते वटेन तें फोणकुलांत पुरलें. एक तांबडें बनेर अस्तंते दिकेन पुरलें. ताणे म्हळें, 'धवें निशाण हें मुंडा. तांबडें निशाण ही दिकूंची दादागिरी. तांबडें निशाण हांयें कापून उडयलां. आतां तुमी झुजाक भायर सरतले, डोमबारीचे फातर रगतान अशे तांबडे जातले. आतां तुमी खंयच्या मार्गार चलल्याय?'

— 'उलगुलान! उलगुलान!'

— 'आतां एक याद धराय. हांयें सांगलां तशें सगल्या बीरसायतांचीं घरां हे कोट-किले! आनीक एक सांगतां! डोमबारीचे फाटले वाटेन सैलराकाब दोंगर तुमी पळयला! त्या दोंगरार जसो चड तशें देंगण, वागान धांवडायल्यार हरणाचे पांय निसरताय, पुण मुंडा त्या दोंगरार घसरनासतना चडटाय. तो दोंगर जालो कसो?'

– 'सेंगेल-दा! सेंगेल-दा!'

– 'सेंगेल-दा! उज्या-पावस नेटान पडटालो, दुखीन धर्तरेची कूड थरथरताली. त्या थरथऱ्यान हे इतले दोंगर जाले. आतां त्या दोंगरांचेर धोलींनी वचाय. हे कोट-किलेच सगल्या बीरसायतांचीं घरां जातले, त्या घरांनी आयच्यान जे हिंगा आसाय तेणी फकत भाले, परशू , तीरकामटीं एकठांय करोप. नानकांनी हें करोप. कित्याक?'

– 'उलगुलान! उलगुलान!'

– 'प्रचारकांनी बायलांचो आदार घेवप. तुमी रोगोतो, बोतोरदी, अशे सगल्याक गांव सोडून रानांत वचप. रानांत बरे भितर वचून घरां बांदोप. घरां कशीं, माचांर वयर घरां. चार पुरूष ऊंच माच, चडपाक निसण, माचार घर. गरजेक ह्या घरांनी लिपोन रावंक मेळटलें. कित्याक बांदोप घरां?'

– 'उलगुलान! उलगुलान!'

– 'पुराणकांनी गुटुहातू , साईको, दौदी आनी चारुय वाटांनी हत्यारां, कपडे, न्हिदपाक तण, उदका कळशे, तांदूळ-सातू-सवाद-वरयो-मीठ जितलें मेळत, जें कितें मेळत, तें सैलराकाबच्या धोलींनी, दोणींनी जमा करोप. मशाली करोप. कित्याक?'

– 'उलगुलान! उलगुलान!'

– 'तुमगे हें काम! तुमकां हांव सगळो वेळ दिसचों - मेळचों ना. आतां बसिया, सिसाय, कोलेरिया बानो, लोहारडागा, तोरपा, करा, खुनटी, मुरहू , तामार, बुंदू , सोनाहातू , जोरहाट, जिलिंग - सेरेत, क्रोनतेआ, चारारी, मनिसाई, बिरता, कोटाम, सोनपूरगड, ताऊ, तिलाइ-मार्चा, नागफेणी, पालकोट, तिरला, मनिहातू , चातरादी, कुसुम टोळी, दिमबुकेल, कमरा, पिपी, दोरमा, गोराइदी, बिचाकुटी, कारिक, कोटगरा, ज्या ज्या जाग्यांर मुंडा आसाय त्या सऽगल्या जाग्यांनी हांव वयतलों, एकूच सांगतलों. कित्याक वयतलों ..... कोणे हात उबारलो? कितें सांगता?'

– 'हांव! एतोकेदीचो गया मुंडा!'

– 'कितें म्हुण्टा?'

– 'भगवान! सगल्या मुंडांनी तुजो धर्म घेवंक ना. ते उलगुलानांत देंवतले?'

– 'तूं नवरतनाक नासलेलो. गेल्यार जरियाचो मुखेली तो कुड्डो मुंडा तुगे दोळे उकते करतासलो. मुंडा राज जातलें तें कितें फकत बीरसायतांचें? आमगे सगल्यांचे जाण्टेले जेन्ना मुंडा समाजांत, मुंडा राज्यांत आसलले, ते मीठ मेळ्ळ्यारुय ताचे समसमान वांटे करताले, भांगर मेळ्ळ्यारुय करताले. मुंडा राज करतले जाल्यार सगल्या मुंडांक आसपावन घेवंक जाय, कळ्ळें?'

– 'ते वांटेकार जातले?'

– 'जातले. जावंचें पडटलें. दिकूंल्या तोंडांत पडून सगले मुंडा एकेच भाशेन मरताय, सारखेच त्रास भोगताय. हांव सगल्यांक साद घालतलों. तें म्हागे काम.'

— 'कळ्ळें!'

— 'तुमकां जशें काम वांटून दिलां तशेंच तेणीय करपाचें! आतां समजोन घेयाय. रांची जिल्ल्यांत उलगुलान चलतलें. चाइबासाकूय चलतलें. कितले शिपायक धाडटले ते? कितलीं तुबकां चलयतले?'

— 'तूं एकलो कितल्या कडांनी पावतलो?'

— 'हांव एकलो? तुमी ना तर?'

— 'आसा गाऽ ऽ ऽ ऽ ऽ भगवान!'

— 'जाल्यार आयकाय! आज मार्गशिराची धावी! पौषाचे धा तारखेक सायबांचो व्हडलो दीस! त्या दिसाच्यान उलगुलान सुरू जातलें. सात तारखे सावन दिकां-दिकांनी दोंगरां-रानांनी उजो पेट्टलो. ती निशाणी! आनी!'

— 'मुखार सांग!'

— 'सगलो मुंडा वाठार भोंवन येवन हांव उलगुलाना आदीं तुमकां परतो डोमबारींतूच मेळटलों! कित्याक मेळटलों?'

— 'उलगुलान! उलगुलान! उलगुलान!'

— 'तें बोलोपे-बोलोपे गाणें म्हुणाय मरे! दिसना रातचें तुमचो म्हाजो रंग आसा काळो, तारे येयल्याय देंवोन आयकोंक गीत अशें दिसता, रानांत व्हांवता वारो, रान जालां जागें, पानांचो मंद आवाज आयकूं येता.'

— 'बोलोपे बोलोपे हेगा मिशी होनको'- काळखी रात, काळे फातर, कूड काळी. काळे-काळे हात हातींत धरून तीन पंगड बीरसा भोंवतणी फेर धरून गावंक लागले, फिरूंक लागले, मंत्रां वरी गीतां रगतांतल्यान येंवक लागलीं. रात चडटाली. मळबांत तारे ल्हवू-ल्हवू गडप जावंक लागले. वारें थंड किरांव. रानांचे काळे कुडीचेर धुंवट पातळटालें.

# 18

चुटिया आनी जगन्नाथपुरच्या देवळांचेर हक दाखोवन हक दवरिनासतनाच बीरसा परतलो. ताका कोण धरूंकय पावलो ना, आनी कोणाक ताचो वासूय लागलो ना. दांतोणेन केंस विंचुरचे तशीं पुलिसांनी दोंगर–रानां पिंजून काडलीं.

कांयच खबर मेळना जाल्ल्यान मियर्स हुस्क्यांत पडलो. हुस्को सगलो ताच्याच वांट्याक, वयल्या सायबांक कांयच पटोवन दिवप ताका शक्य नाशिल्लें. कित्याक तर ताका दिसतालें, मुंडांचो वाठार ह्या खिणाक ज्वाळामुखीसो जाल्लो. खंयच्याय दिसा, खंयच्याय खिणाक उजो पेटूं ये.

– पुण मुंडा सगले खंय?

मुंडा दोंगरार आनी रानांनी लिपून बशिल्ले. पुलिसांची धांवाधांव पळोवन ते नुलयतां हांसून लोळटाले, पोटभर हांसताले. पुलिसांची फाट परतली काय ते गायताले. तांच्या रगताक एक धुंदीशी चडिल्ली. सोऱ्यान लेगीत असली धुंदी चडना. उलगुलान म्हळ्यार संपूर्ण बंडाचे धुंदीन मुंडा चवताळिल्ले.

सगल्याक बीरसा कुडीन हाजीर नासतालो. पूण गीतां सगळीं बीरसाचेरूच.

ते गायताले ____________

उलो बीरसा भगवानाचो येयलो, चलाय या चुटिया देवाथळा
त्या देवळांतल्यान भायर सरून तांणी म्हळें
चल या देवाथळा जगन्नाथापुरा
गेले आमी रावले थंय तीन तीन राती
घायलें देवाक नमन
चुटियाक गा शिरशिरी
रांची–डुरांडाक गा आतां भरलो थरथरो ।।

खंयच्यान पुण तांका भितरल्यान मनांत नेट मेळिल्लो. रगतांत व्हड विस्वास पेटून उठिल्लो. ते गायताले ___________

जमीनदारां अत्याचारां दुखीन
लोकांच्या दुःखान वाठार चाळवला

उखल आतां तीरकामटें आनीक भालो रे भावा
वांचचे परस मरण बरें
बीरसा भगवान फुडारी आमगे
येयला हांगा आमचे खातीर
आयज जगचे परस मरण बरें
आतां जावंया तयार घेवन तरसाद, तीर आनी भाले
जावयां जमा डोमबारी माथ्यार
धर्तर–आबा उलयतलो त्या जाग्यार
माकडांच्या कलकलाटाक आमी घालना भीक
सोडचे ना, जमीनदार, सावकार, भायल्या वेपाऱ्यांक
तेणीच काडून घेयला आमचो हकाचो वाठार
सोडचे ना आमगे मालकेचो अधिकार
चित्याचे दांत, सोरपाचे सुळे हेंच्या
तोंडांतल्यान मेळयली ही भूंय
ही सोबीत भूंय तेणी घेतली काडून।।

गीत आयकून बीरसाचेंय काळीज मदीं मदीं कांपतालें. हें कितें म्हण्टात हे मुंडा? जगचे परस मरण बरें? कोणें रचलें हें गीत? कोणें ताका चाल दिली?

कोणाक खबर नाशिल्लें. बीरसाक कळिल्लें ह्या गीताचो कवी आशिल्लो काळ आनी चालूय ताणेच दिल्ली.

कारण काळ खऱ्यांनीच स्फोटक, अस्थीर, खुबळिल्लो. काळाच्या हातांत तीर, काळजांत जाळ, नदरेंत एकूच मोख. बीरसा जाणा आशिल्लो, सुगाना वा करमी फकत निमित्याक कारण, ताका निर्मिल्लो काळान. मुंडांचे जिणेंत होळयेचो उजो वरसान वरस पेट्टा. उलगुलानाचो उजो पेटोवप बीरसा सोडून कोणाक जमपाचें न्हय. आतां गरज आशिल्ली उज्याचे परबेची, देखून काळान बीरसाक हाडिल्लो.

बीरसाक दिसतालें, पांच वर्सां जायत आयल्लीं, 1895 मेरेन मुंडांक दिशिल्लें – सरदार आशिल्ले तांणी तशें भासयल्लें देखून दिशिल्लें.

मुंडांक दिशिल्लें, झुजपाचें हें नक्की. पूण झूज म्हळ्यार कितें? ताचो अर्थ कितें?

– ना, जमीनदाराक म्हासूल दिवचे नाय.
– म्हासुला बगर जमीन जाय.
– रानाचे आदले मूळ अधिकार परते मेळूंक जाय.

हय, बीरसा सरदारांचो भोव उपकारी. चळवळीक तांणी जिती दवरिल्ली देखून मुंडांच्या रगताक ह्यो गजाली वळखीच्यो जाल्ल्यो, अनवळखी नाशिल्ल्यो. बीरसाचें काम ताका लागून भोव सोंपें जाल्लें.

बीरसान आपल्याकूच प्रश्न केल्लो, बीरसा भगवान जावंक सोदता, काय ताचे कडेन येवन मुंडांनी ताका आपणायल्लो?

सरदारांक तो कित्याक जाय आशिल्लो? तांका झुजूंक जाय, पूण फुडारी ना देखून?

तांची वाट कायद्याची, बीरसाची झुजाची. दोन वाटो एकठावल्यो कशो?

आज बीरसा मुंडांक घेवन सशस्त्र संग्रामाचे वाटेन चलता. जाल्यारूय सरदार ताका सामील कित्याक?

बीरसाक कितें जाय आशिल्लें? कित्याक गेलो पोरण्या देवळांनी? बीरसाक खबर आशिल्लें तो कित्याक गेल्लो तें. आदलो मुंडा धर्म आदीम सादेपण वगडावन बसला. मुंडांच्या मनांत निजावेलो विस्वास परतो जागोवंक जाय आशिल्लो.

मुंडांचे जिणेंतल्यान सगली अडयची नडणी हुमटावन उडोवप गरजेचें. जे जे हे जातीचे दुस्मान, जावं ते धर्मान, जावं अर्थीक वेव्हारान, तांचेर बहिश्कार घालप गरजेचें.

दुसरी खंयचीच वाट ना. बीरसाची आदीम आरण्यक आवय नासयल्ली, भश्टिल्ली, अपवित्र, रडत म्हण्टाली, म्हाका शुध्द कर पुता! मुंडांक संघटित करून, तांच्या हातांनी अस्त्रां दिवन फिरता फिरतां खिणाखिणाक बीरसाक जाणवल्लें, ताचो देह म्हळ्यार छोटा नागपुराची भूंय, ताच्या रगतांत ताजने आनी कांची न्हंयांचे प्रवाह, त्या न्हंयांच्या कांठांर ताची अरण्यका आवय रडटाली.

तेच खातीर फाटल्या चार पांच वर्सांनी खासा बीरसाक कळून आयिल्लें, मुंडांक पटोवन दिवप ताका शक्य जाल्लें, तांका गरज आशिल्ली ______

जे आदिवासी न्हय, तांणी जबरदस्तेन ताबो घेतिल्लो, तांका धांवडावन घालपाची ______

जमनीचे खरे धनी मुंडा ______

आनी हो सर्ग मुठींत हाडपाक गरज आशिल्ली एका मुंडांच्या शेका तळाच्या मुंडारी वाठाराची जंय सायब, सरकारी वावराडे आनी मिशनरी आसचे नात. मुंडांक सगल्यांत व्हडली आस आशिल्ली ती बीरसाच्या राज्याची. बीरसाचें राज्य म्हळ्यार बीरसाचो धर्म. बीरसाचो धर्म हेंच बीरसाचें राज्य. हो सर्ग जोडूंक रगत वारोंवक जाय, रगत मागूंक जाय. दर एके सभेंत बीरसा एकूच सांगतालो. डोमबारीक मार्गशिरांत जाल्ले सभेक?

कडकड्याचें शीं, दंवभिजी रात, रातच्या बारां उपरांत चंद्रीम उदेल्लो. डोमबारीच्या दोंगरार हांव एका तळाच्या तळपार बसलेलों. एक एकलो करून सत्तर-अंयशीं लोक जालो, कूडा गांवचो रतन मुंडा सगल्यांत निमणो येयलो. हांयें सांगलें, 'सांगाय, तुमगे कितें आसा?'

कुड्डाचे जगाय धरून तीग-चौग जाण एकाबराबर उलयले,

' जमीनदार-जागिरदार-कंत्राटदारांचे अत्याचार.'

हांयें म्हुणलें, ' जाल्यार तीर-कामटीं - भाले तयार दवराय.'

तेणी म्हुणलें, 'दवरतां.'

हांयें म्हुणलें, 'हत्यारांचो कितें उपेग?'

तेणीं म्हुणलें, ' तुयें सांगचें.'

हांयें सांगलें, 'हत्यारांनी तुमी कंत्राटदार-जागिरदार-राजा-जुवीज-क्रिस्तांवांक मारून उडयाय.'

तेणी म्हुणलें, 'राजा-जुवीज-क्रिस्तांव तुबकांनी आमका मारीत जाल्यार?'

हांयें म्हुणलें,' तेंच्यो तुबकां-गुळ्यो जप्त जातल्यो. आयकाय, दोन सुमानां उपरांत हांव तुमकां परतो मेळूंक येतलों. तो नातालांचो दीस. तुमी हत्यारां तयार दवराय.'

उलयतां उलयतां फांतोड जाली.

सभा-सभा-सभा! सभेफाटल्यान सभा. कितली वाट चलिल्लो बीरसा! 1899 वर्सा औतुंब्रासावन देझेंब्रामेरेन रांची आनी चाइबासा वाठारांतले कितले गांव भोंवलो बीरसा?

चालकाडाक बसून करमी रडटाली, 'बीरसा! बीरसा! बीरसा!'

करमीक खबर नाशिल्लें, बीरसा म्हळ्यार छोटा नागपूर, बीरसाचें रगत छोटा नागपुरांतल्यो पावशो न्हंयो. करमीक खबर नाशिल्ली, बीरसाच्या रगतांत रडत बशिल्ली एक नागडी अरण्यका जल्मदाती. ती करमी वरी न्हय, साली वरी न्हय, सगल्यांच्याकय मुखार पाविल्ली, भरून वतताली. ते आवयचें रडें ताका आयकूंक येतालें, म्हुण तर बीरसा इतली वाट माड्डोवन गेल्लो.

ते आवयचें रडें आयकतालो देखून बीरसाक मुंडां मदीं स्त्रध्दा पातळावप शक्य जाल्लें, बीरसायत मुंडा ही एक खेरीत जात. तांकां सगल्या मुंडांखातीर मरण पत्करपाक शक्य आसा. तांकां आतां जगचे परस मरण आवडीचें जालां. तांचो मार्ग रगताचो.

पूण बीरसायत मुंडा, बीरसायत जावंक नाशिल्ल्या आवय-बापूय - भाव-भयण - कोणाचेच हातचें जेविनात, कोणागेरूच रावनात.

बीरसान तांच्या मनांत हो अभिमान भरला. आतां बीरसायत जाल्यार गर्वान माथें वयर करून चलपाक शक्य आसा. धानी मुंडा जाण्टो, अर्दपिसो, सगल्यांत बेसूर ताळ्यान गायतालो आनी हात उबारून नाचत नाचत म्हण्टालो, 'मुंडा म्हुणोन जल्मलां, देखून रगतांत इतलो गर्व गर्जतलो हें आदीं कळ्ळें ना. आतां तुयें हें सांगलें आनी भगवान, चंद्रीम म्हागे मुठींत येयलो. आनी कांय मेळ्ळें ना जाल्यारूय तुका कांयच म्हुणचों ना.'

रातचो दोंगर आनी रानां माडयत कोंसांर कोंस चलतना बीरसा म्हण्टालो, माय गे! रडों नाका आनीक. तूं म्हागे रगतांत आसलेल्यानूच टुयला-पिल्लुक वाजोवन, मांडार नाचून मन भरनासलें. सदांच दिसऽ, म्हागे आनीक कितें पूण करचें उरलां. हें इतलेंच करूंक हांव धर्तरिर येवंक ना.

माय गे, मन भरलें ना म्हाजें, मिशनांत रावन, बंदगांवाक रावन. ना भरलें मन - ना जाल्यार साली, परमी सारख्या कोणाय चेडवा लागीं लगीन करून - मुखेल्याची सत्ता

मानून घेवन - करमी-सुगानाच्या कुळाक मुखार व्हरपी म्हुणोन जीण सारपाचो हांव. कितें म्हाका भितर सावन खातालें तें तेन्ना कळ्ळें ना. फकत दिसतालें, कितें पूण खेरीत करपाक हांव संवसारांत येयलां. आतां कळटा, तुगे दुःख म्हागे रगताक जाळ पेटयतालें.

जाण्टेल्यांच्या गांवांतल्यान भायरे जायत जायत, सगले अधिकार हातांतल्यान शेणत वचत, मुंडांक मान उखलून पळोवपाची शक्त उरली ना.

देखून हांव इतलो निबर जालां! गे माये! मुंडा जें घेवन घुसपोन पडलेले, तें सगलें हांयें भायर मारलां. हय, हांव तुमचो भगवान.

ह्यान फुडें नाच-गाण्या वेळार, करमा-परब, होळी, सोहराय परबांक धुमशेणां आसचीं ना.

तकलेक फुलां, केंसांक फुलां, हांडिया-ताडी पिवन ह्यान फुडें मस्ती जावंची ना.

सगलें विसरोन एक चित्त, एक मत जायात.

अशे तरेन मुंडांक एके स्रध्देच्या सुतान बांदून घेतले. तांका मरूंक शिकयले.

जें शिकयलें तें ते सगले शिकले काय ना ती परीक्षा 24 देझेंब्राक घेतलों.

24 देझेंब्र - 24 देझेंब्र - 24 देझेंब्र - मुंडा मनीं मनीं जप करताले.

— सायबाक कांय कळोंक ना.

— सायब कितें करताले?

रांचीच्या युरोपियन क्लबांतलें बिलियर्ड मेज अप्रूपाचें. पॉलिश तशेंच कारागिरीय निर्दोश. डेप्युटी कमिशनर सायबाक बिलियर्ड खेळाचो भोव नाद. बिलियर्डचो क्यू हातींत घेवन धवो बॉल धुकलून पॉकेटांत घाल्यार ताच्यो तायट जाल्ल्यो शिरो थंड जाताल्यो. रांचीच्या गोऱ्या लोकांनी डीसीचे असवडीं ताच्या बिलियर्ड - मोगाचेर एक समर्थन तयार केल्लें.

रांची वरी एके रानटी सुवातेर रावपाक डी.सी.ची घरकान्न राजी नाशिल्ली. आसा कितें हांगा? दोंगर? रानां? शांत - शितळ वातावरण? कित्याक तिणे इतलेच खातीर हांगा रावप? डी. सी. दादलो मनीस. ताका शिकारेक वचून बी समाधान जावं ये. मिसेसीक कित्याक ही सुवात आवडटली?

डी. सी.क मेमसायबाक समजावंक जमना. प्रोमोशन ना जाल्यार रांची सावन बदली जावप अशक्य. भारतांत रावतलो जाल्यार रावपा सारखें शार पूर्व भारतांत फकत कोलकाता. कोलकाता वचूंक कोणाक नाका जालां? पूण लाल फिताचो फांस मोठो कडक. कापून भायर सरप खूब कठीन.

मेमसायबाकडेन नेमान वाद करून डी. सी.च्यो शिरो ताणटात. तेन्ना तो बिलियर्ड खेळूंक आरंभ करता आनी खेळत रावता.

आतांय तो सदां खेळटा तसोच खेळटालो. पुलीस सुपर सदां पळयता तसोच पळयत आशिल्लो. शिंयांचो कडकडो, रांचींत आसता तसो. बेअरा वेळा-वेळार सोरो

हाडून दितालो.

डी. सी.न सुपराक म्हळें, 'दॅट बोगीमॅन, दॅट बीरसा? मेलो काय कितें?'

– 'मेल्ल्यांतूच जमा.'

– 'कित्याक?'

– 'सामको थंड पडला. फाटीचो कणोच म्होडलो न्ही ताचो? ताका कळ्ळां, आनीक बोवाळ करून फायदो ना.'

– 'मिअर्स कितें म्हण्टा?'

– 'मिअर्स? बीरसा संबंदान जितलें कितें फां-फां जाता, ताचेर विस्वास दवरप हेंच एक ताका जमता.'

– 'मिअर्स तसो बाबत मनीस न्हय, याद धर.'

– 'ते फावटी न्ही, 1898 वर्साच्या माया म्हयन्यांत सिंगभूम पुलिसां कडेन मिअर्सान कसलें नसतें झगडें केलें म्हुण सांगूं?'

'तेंय बीरसाक अटक करपा संबंदान. सिंगभूम पुलिसेक राग बीरसा रांचींत लिपून रावला म्हुण, गिडियून आनी प्रभुदयाल हांका ताका धरिल्ले खातीर इनाम दिलें ना रांची सरकारान देखून. रांची पुलिसेक कोंब्यार काडली रेव्हरंड हॉफमॅनान. ताणे म्हळें, 'बीरसान तामार थाण्याचे हद्दींतल्यान चालकाडा सावन भायर सरून चक्रधरपूर थाण्याचे सरादींत उत्तरे वाटेनच्या दोंगरांर आपलें थाणें केलां, पूण सिंगभूमची पुलीस कांय करिना.'

'अशेंय जावं येता, बीरसा रांची आनी सिंगभूम, दोनूय कडेन वावुरता आसूंये. तशें जाल्यार?'

– 'सुपरमॅन काय न्हय मरे तो?'

– 'मुंडा ताका सुपरमॅनूच मानतात.'

– 'हॉफमॅनाचें कितें म्हणणें?'

– 'उलयल्यार बरें आशिल्लें. तो बरयता. एका फाटल्यान एक चीट बरयत सुटला. ताच्या माथ्यार बीरसाचें भूत बसलां. चारूय दिकांनी ताका बीरसाचोच प्रभाव दिसता! मिशनांतले सगले मुंडा खंय बीरसायत जावंक वतात.'

– 'खरेच वेतात काय, खबर काडल्या तुवें?'

– 'कोण जाणा. हे खेपे मुंडा सामखे थंड. होळये उपरांत भोंवंडेक लेगीत गेले नात.'

– 'लक्षणां बऱ्याचीं न्हय.'

– 'शिंयाचे दीस. ह्या दिसांनी तांचे कश्ट खूब वाडटात. पंगडां - पंगडांनी ते मिशनांत वेतात.'

– 'दर एका मिशनांत हांवें सांगून दवरलां, हे खेपे नातलांक चडशो कांबळी आनी कपडे दियात.'

'ते दितात, दिवं, मिशन किते करता, ते पळोवन पुलिसांचें जाता? धर्माच्या नांवान तांका कोण तिडयतलो? तूंय ते करूंक वचचो ना. छोटा नागपूर रेन्ट लॉ म्हळ्यार तकली विरार जावपाचें प्रकरण. तातुंत हॉफमॅनाची चिटयेर चीट.'

– 'हॉफमॅनूय तसो किंकोंत करपासारखो न्हय.'

– 'अशें तुका दिसता. ताणे 'एन्सायक्लोपीडिया मुंडारिका' बरयल्यार किते ताका सगळें कळटाशें जालें?'

– 'हॉफमॅनाक मुंडारी समाज, ताची परिस्थिती, सगलें बरें कळटा. कळ्ळें? तो भिला म्हळ्यार परिस्थिती खऱ्यांनीच गंभीर आसूंक जाय. दोन दुकळ जाले, ह्या वाठाराची परिस्थिती हरशींच साप इबाडल्या.'

– 'उपाशीं उरले म्हुण मुंडा मरनात. तशे मरपाक, तांका खांवक आसता केन्ना तर? जल्माक येतात दुकरां भशेन, राशींनी, पळोवंक ना?'

– 'तशें ना तें. बीरसान एक बरें काम केलां. मुंडांक कशे, किते समजयले कांय कळना! पूण आदले वरी भुरगीं जायनात तांगेर.'

– 'आरे बाबा! मुखार नातलां तेंकलीं. 'डिनर-डान्स-फेट-शिकार' हें सगलें येवजूंक कळना तुका? तूंय हॉफमॅना सारखोच उलोवंक लागलो?'

हॉफमॅन – कॅथॉलिक मिशनाच्या रेव्हरंड हॉफमॅनान – मिशन हावसांत बशिल्लेकडेन हात चोळ्ळे, कपल थापटिलें. ताका एका अदृश्टाचो भास जातालो पुण तो डी. सी.क समजावंक शकनाशिल्लो. हॉफमॅनान डी. सी.क बरयलें, 'मुंडांचो म्हाका दुस्वास ना. पूण इंग्लेज वा हिंदू , परदेशी लोकाचेर तांचो कुड्डो राग आसा. दोन वर्सां सावन हांव तांका समजायत आसा. हें सरकार बदलप तुमच्या कट्टुलांत ना. दुडू दिवन सामू मुंडा आनी हेर बीरसायतांक आदार केलो. पूण आतां अशें आयकलां, सायब म्हण्टा, ते म्हाजो आनी फादर कारबेरीचो खून करतले खंय. जे बंदखणींत पडिल्ले, तांचेभितल्ल्या कांय जाणांच्या घराब्यांकूय आदार दिवन पळयलो. कांयच फायदो जालो ना ...'

हॉफमॅनाक खबर आशिल्लें, रांचींत ताका सगले पिसो समजताले. जाल्यारूय ताणे डीसीक चीट बरयली.

अजाप म्हळ्यार डी. सी.न हे खेपे हॉफमॅनाचें म्हणणें साप भायर उडयलें ना. मुंडारी कळटल्या एका इन्स्पेक्टराक आनी शिपायाक वास काडूंक धाडलो आनी खासा डी. सी.य दौऱ्यार भायर सरलो.

कांयच वास लागलो ना. फकत फिरपट जाली. रांचीक परतो पावन डी. सी.न सुपराक म्हळें, 'मृगजळ! मृगजळा फाटल्यान धांवप निर्फळ!'

– 'किते कळ्ळें?'

– 'अशें आयकलें, बीरसा खंय इतले दीस एकांतांत बसून तपश्चर्या करतालो. आतां खंय तो प्रगट जातलो.'

– 'केन्ना तो?'

– 'केन्ना तें कळ्ळें ना. पूण अशें आयकलें, बीरसा शेंकड्यांनी मैलांचो वाठार व्यापून दिसतलो.'

– 'म्हळ्यार कितें?'

– 'तें हांव नकळ.'

डी. सी. आनी सुपराच्यो खबरी चलताल्यो, त्याच वेळार, 23 देझेंब्र 1899 वर्सा – बीरसान मुंडांक जाहीर केले, उलगुलानाचे दोन वांटे. पयल्या वांट्यांत उजो पेटोवन, तीर सोडून क्रिस्तांवांक भंय दाखोवंक जाय. दुसऱ्या वांट्यांत सशस्त्र संग्राम सुरू जातलो.

24 देझेंब्र नातलां पयली सांज. युरोपियन क्लब उजवाडाचे रोशणायेन झगझगतालो. सायब आनी मॅडमी नाचताल्यो, बँड वाजतालें. कवंचेचे ग्लास आनी बाटल्यो ट्रेयांनी मांडून घेवन बेअरा फिरताले. रंगयाळ्या फोलींच्यो सांखळी हुमकळटाल्यो, माळो धोलताल्यो. सजयल्ल्या क्रिसमस ट्री भोंवतणी उबीं रावन जाण्टीं दादले आनी बायलां खबरी करतालीं.

अचकीत भायर बोवाळ जालो.

नाच थांबलो, वाजपूय बंद. सगल्यांनी एकामेका दिकेन पळयलें. वेटर धांवत, धांपेत, खरशेत भितर आयलो. डी.सी.क सांगूंक लागलो, 'सर, आमी वतां. बीरसायत शारांत तीर सोडूंक लागल्यात. सायबांक सोदतात ते.'

सुपरान धमकावन म्हळें, 'फट! शारांत बीरसायत ना.'

– 'सायब, जेवण व्हरूंक जे येयल्ले, हांगा – थंय बसलेले, तेच बीरसायत न्हू! जर्मन मिशनाचेर तीर सोडले खंय. छेदी मिस्त्री तीर लागून मेलो, सायब.'

– 'साप फट!'

– 'तुमच्या बंगल्या भायर तीर सुट्टात. तुमच्या गार्डाक इजा जाल्या. आमी आतां पळटां सायब. आतां हांगा रावल्यार ते मारून उडयतले.'

अचकीत जेलांत घांट नेटान वाजूंक लागली. कितें जालें थंय?

डी. सी.न म्हळें, 'सुपर, जेलांत वच. हांव पुलीस बराकींनी वतां. थंयच्यान ऑफिसांत.'

डी. सी.क आपल्याच हाताक घांस मारचो काय दिसलें. आयज नाताल! ऑफिसांतल्या सगल्यांक सुटी. सरकारी कचेऱ्यो बंद. कशी खबर मेळटली, बंदोबस्त कसो जातलो?

– 'घोडो हाडूंक सांग!'

ताच्या डेप्युटीन म्हळें, 'सांगतले कोणाक, नेटिव सगले पळून गेले.'

– 'रिअली! फूल्स! हाका कितें अर्थ आसा?'

डी.सी. भायर सरलो. पुलीस बराकींत आयलो. म्हळें, 'शहरांत रावंड करात. परिस्थिती पळयात. कितेंय गडबड दिसल्यार, नाइलाज जायसर, फारपेट करूं नाकात.

हांव ऑफिसांत चल्लों.'

घराक तेंकून ताची कचेरी. डी. सी. ची घरकात्र कोलकात्याक आशिल्ली. पळयल्यार, घरांतली लायट पालोवन चाकर-वेटर-बेअरा-उदक भरपी-भंगी-माळी-मोतदार-रानपी सगळे दिवाणखान्यांत बसून आशिल्ले. सायबान तांका म्हळें, 'कचेरेंत म्हजें हांतुण घालात. दार उकतेंच आसूं. हांव धांपतां.'

– 'सायब.'

– 'कितें?'

– 'आमी...'

– 'भिवपाचें कांय ना.'

– 'पूण...'

– 'चोवीस वरां भितर सगळें जाग्यार घालतां.'

रात सोंपली. सकाळच्यान खबरो येवंक लागल्यो. ना, शारांत फार मारपाची कांय गरज पडली ना. कारण तीर मारपी कोण मुंडा दिष्टी पडलो ना. बीरसाचें नांव जशें मृगजळावरी चकचकतालें, विभ्रम निर्माण करतालें, चकचकून नाच जातालें, तशेच मुंडांच्या भावहीण तोंडांवेल्या काळखाचे थंडसाणींत बीरसायत गडप जाल्ले. ते रांची शारांत खंयच नाशिल्ले.

डेप्युटी जेल सुपर अमूल्यबाबू काळखांत उबो आशिल्लो, हाटियाचे दिकेन मार्गावेल्यान बागोवन, कूड आंखडून घेवन मुंडा चलत वताले. तो तितलें पळोवन जेलांत परतो आयलो. आज राती जेलांतल्या वावुरप्यांक तयार रावपाचो हुकूम आशिल्लो. कैदी येवपाची शक्यताय आशिल्ली. सुपरान म्हळें, 'ना. आयज क्वार्टरांत वचचों ना.'

सकाळच्यान खबरी येवंक लागल्यो. दीस भर रांचींत घोडेशिपाय येत रावले. डी.सी. आनी पुलीस सुपरान खबर काडूंक आरंभ केलो. सिंगभूम जिल्ल्यांतल्या चक्रधरपुरा खाला येवपी दर एका थाण्यार खबर आयल्ली, तीर सोडिल्ले, उजोय पेटिल्लो. मियर्सान म्हळें, 'हांव जाणाच आशिल्लों.'

– 'कितें जाणा आशिल्लो? क्रिसमसा आदले दीस मुंडा विद्रोह करतले म्हुण?'

– 'न्हय, इतलेंच जाणा आशिल्लों, जाका आमी शांतताय समजताले, ती प्रळयकारी तुफाना आदली थंडसाण.'

डी.सी. जाणा आशिल्लो, ताका सगळे गोरे अधिकारी, मिशनरी, जमीनदार मुंडां संबंदान अतिरेक करपा खातीर मनांतल्यान दोश दिताले.

ताणे म्हळें, 'हांव कितें करूंक शकतालों?'

– 'तें हांव सांगूंक शकना.'

– 'मारपेटाचो टॅक्स लायलो ना, ग्रामवारी?'

– 'फाटीय घेतलो तुमी तो.'

– 'सरकारी कामांत तरेकवार नेम कायदे पाळचे पडटात. मारपेटाचो टॅक्स अनिश्चित काळा खातीर घालप शक्य ना.'

– 'तेन्नाच्यानूच परिस्थिती स्फोटक जाल्ली आसा.'

डी.सी. न बोटांनी केंस धरून ओडले. शुष्क आवाजांत उलोवंक लागलो, 'हय. दोन वर्सांचो दुकळ, अवर्षण– पिकाची हानी– जमीनदार आनी सावकारांचो अपार सुवार्थ– छोटा नागपूर रेंट लॉन सगले तरेचें जळण पुंजायलां.'

– 'पूण आतां...'

– 'बीरसान उतर दिल्लें.'

डी.सी. गरज पडल्यार मिलिटरी वापरून हें बंड चिड्डून उडोवपाची खात्री मात दिंवक शकलो ना. जाल्यारूय बीरसा विशीं ताका एके तरेचें कौतुक दिसूंक लागिल्लें. हो पोरगो एक फाटको मुंडा पूण एके विशाळ बळिश्ट पराक्रमी प्रशासनिक मांडावळीक ताणे अजापाचो धोको दिल्लो. हय, कौतुक दिसता. दिसा अखेरेक जांचें अन्न म्हळ्यार माप भर वरयां–दाण्यांचो घाटो, जांचें न्हेसण म्हळ्यार काश्टी, जांचीं हत्यारां म्हळ्यार तीरकामटें, जांच्या बोडार चक्रवाड कळंतराचो भार, ते मुंडा जातीक बीरसान ब्रिटिश शिंवान उबारिल्ल्या दावकुला आड धीरान उबी रावंक शिकयिल्ली. पळयल्यार तो कितलो शांत, नमळायेचो आनी निश्पापसो दिसतालो...

ताका याद जाल्ली चालकाडा सावन परतो येवंचे आदीं घोड्यार बसून आपणें म्हणिल्लें, 'सरकाराक तुवें उतर दिलां, गोंदळ करचो ना म्हुण, याद धर. उतर म्होडल्यार ख्यारस्त जातली.'

देझेंब्राचो म्हयनो. फसल जमीनदाराल्या घरांत पावल्ली. मुंडांल्या खळ्यांत कीड लागिल्लें भात, जोंदळो, बाजरी. बायलां कोंडाळ्यान बसून धान्य वेंचतालीं. शिंयाचो वारो रुक्ष, तोपपी. बीरसाच्या आंगार चादर, पांय अनवाणी. बीरसा ताच्या घोड्याक पोशेतालो.

ताणे म्हणिल्लें, 'याद धर.'

बीरसान नदर वयर केल्ली. दोळ्यांनी हांशें चकचकतालें. तो उलयल्लो, 'याद आसा.' मागीर तो वांगडा चलत गांवचे शिमे मेरेन आयिल्लो. भुरगे–बायलां– जाण्टीं–नेण्टीं सगलीं ताकाच पळयतालीं. बीरसा उबो रावलो. तो परतून आयलो. फाटी वळून पळयल्यार बीरसा हात उबारून चिंचे रुखा पोंदा उबो आशिल्लो. ताचे उपरांत तो केन्नाच दिसूंक ना. दिसतलो अशेंय केन्ना चिंतूंक ना.

मिअर्सान म्हणिल्लें, 'जेलांतूय बीरसाचें उबो रावप, उलोवप, सगल्यांत एक डॅम्ड आत्मविश्वास दिसतालो. राजाच करसो, तशीच चलणूक.'

पूण राजा वरी सैमीक, सभावीक रुबाब चलपा–फिरपांत, उलोवपा–करपांत फकत बीरसाच न्हय, भरमी, सोना, डोनका जायत्या जाणां भितर स्ट्रीटफील्डाक दिशिल्लो. दर खेपे ताका नव्यान अजाप जातालें. खांकनवाळ, गरीब दुबळ्या मुंडां भितर हें मोठेपण

खंयच्यान येता काय? आदीम संस्कृतायेचे ते दायजी? ताका लागून? पूण तांची आनी कसली संस्कृताय? ते रानवटी अन्नाडी......

डी.सी. न परतीय तकली हालयली. आत्तां सगलें कळटलें जाल्ले वरी. बीरसा संबंदान सगलें समजून घेतलो. ताका मुंडा मानतात कित्याक- कित्याक तो बंड उबारता- पूण कशेंच कळना. पारो निसरून नाच जाता तशें ताच्या हातांतल्यान नीज सत्य घसरून शेणत वतालें.

पूण तो डी. सी.. बीरसा बंडखोर. गवाय-पुरावे मेळून केश उबी करूंक मेळ्ळ्यार ताका तो चडांत चड ख्यास्त खात्रेन दितलो आशिल्लो. छोटा नागपूर रेंट लॉ खाला मुंडांच्या कसल्याच हिताची राखण जावंक ना. कायद्यांत सुधार करपाचो ताचोच यत्न चलतालो. कायदो सुधारूंक दोन-चार वर्सां पूण जाय? दोन- चार वर्सां वाट पळोवंक कितें जातालें? जमीनदाराक सरकार आदार करता? जमीनदार-सरकार दोनूय पक्ष मुंडांचें शोषण करतात? तातुंत धीर सोडूंक कित्याक जाय? मुंडांचें शोषण केन्ना जावंक ना? केन्ना तांका पोट भर जेवंक मेळ्ळां? बुद्द मेळ्ळ्या?...

डी.सी. न सुक्या ताळ्यान म्हळें, 'रिपोर्ट वाच.'

— 'तामार थान्याचे सरादींत दोन सुवातींनी क्रिस्तांवांचेर हल्ले जाले. बीरसाची मूळ वसती उलीहातूक गांवचे इगर्जीचेर तीर सोडले. तोरपाक क्रिस्तांवांचेर तीर मारले. मारचा गांवचो मुखेली जॉन थोडे भितर वाटावलो. बासियाक जर्मन मिशनाचे इगर्जेत तीर पावले, काजाराताकूय. रामटोलियाक एका क्रिस्तांव भुरग्याक इजा जाल्या.'

— 'आनीक कितें आसा?'

— 'खूंटी थाण्याखाला येवपी जायत्या गांवांनी उजो पेटयला.'

— 'मुंडारी गांवांनी?'

— 'न्हय. मूरचताक ॲंग्लिकन स्कूलांत रेव्हरंड लास्टीक तीर लागलो. इजा जावंक ना.'

— 'लास्टी बीरसाक पयली खेप अटक करच्या वेळार चालकाडाक गेल्लो. ... इजा जावंक ना!'

— 'ना. धिस आय डोंट क्वायट अंडरस्टॅंड.'

— 'आय डू.'

— 'कितें तें?'

— 'मारून उडोवप वा चड इजा करप हो तांचो आतांचो प्रोग्राम न्हय. तशें चुकून जावं येता. पुराय प्रोग्राम हे परिस्थितींत आतां वेगळो आसा.'

— 'म्हणटकच?'

— 'देअर इज मोर टु फॉलो. रिपोर्ट वाच.'

— 'सोरोयाडा मिशनाचे गुदांवां कुडींत उजो लायलो. रेव्हरंड हॉफमॅन आनी

रेव्हरंड कारबेरी वाटेन तीर सोडले. रेव्हरंड कारबेरीच्या हड्ड्यार लागला. चंदागुट्टूच्या पाद्रीकूय तीरान इजा जाल्या. हॉफमॅनान, कारबेरी आनी हेरांनी मिशनांत विटो आनी गुंडे एकठांय करून राशीक घालून बंडवाल्यांक आडावंक सज्ञ जाल्यात.'

– 'ह्या सगल्या जाग्यांर पुलीस धाडात!... मागीर?'

– 'सिंगभूमच्यो घडणुको हाच्याकूय चड म्हत्वाच्यो. कुंद्रुगुट्टूचे जर्मन मिशनाचे इगर्जेचो उज्यांत जळून गोबोर जाला. लागराक एक पुलीस शिपाय मेलो. चक्रधरपुराक जर्मन इगर्जेत एका राखणदाराक मरण आयलें. सोमपूर वाठारांत एका जर्मन वेपाऱ्याचो अंत जालो. बीरसायत स्लोगन दितात, ''हेन्दे रानब्रा केचे केचे. पुंडी रानब्रा केचे केचे.'' हाचो अर्थ कितें?'

– 'काळ्या क्रिस्तांवांक कापून काडात. गोऱ्या क्रिस्तांवांक कापून काडात. फुडें?'

– 'आतां मेरेन इतली खबर.'

– 'डुरांडाक खबर कळय.'

– 'खंय?'

– 'आर्मी ऑफिसाक. कमांडिंग ऑफिसराक सांगा म्हणचे–छोटा नागपूरच्या डी. सी.चें स्पेशल रेक्विझिशन .... हय, तोंडी रेक्विझिशन करतां, बरोवन धाडिना.... कॅप्टन रोसाक सुटये वेल्यान परतो आपोवंचो. हांव रोसाक घेवन सिक्स्थ जाट रायफल्स घेवन बंड जाल्ल्या वाठारांत वतलों.'

– 'हय सर. पूण...'

– 'आर्मीचो आदार तोंडी मागोवप इर्रेग्युलर, अशेंच म्हणूंक सोदता न्हय तूं? पूण आर्मी छोटा नागपुरांत आसा ती कित्याक! बंड जाल्यार तें दामून उडोवपाकूच न्हय? म्हजें मत, हें मुंडांचें बंड, बीरसा हाचो फुडारी. कमांडिंग ऑफिसर आर्मीचे कचेरे कडेन कितें तें थारावं दी. आतां ताका कळय म्हाका सिक्स्थ जाट रायफल्स जाय.'

– 'यस सर!'

हें सगलें उलवणें जालें 25 देझेंब्र 1899 दिसा. 29 देझेंब्राक एक डिस्पॅच.* डुरांडा कमांडिंग ऑफिसराकडल्यान गेलो ॲडज्युटंट जनरल इन इंडिया/होम डिपार्टमेंटाक:

''छोटा नागपूरच्या कमिशनराले तोंडी मागणे प्रमाण डुरांडाच्या कमांडिंग ऑफिसरान आज सकाळीं (29/12/1899) कॅप्टन रोसाल्या मुखेलपणा खाला सिक्स्थ जाट रायफल्साच्या अंयशीं शिपायांक डुरांडा सावन दक्षिणेक सुमार वीस मैलांचेर चाइबासाच्या मार्गान खुंटीक रवाना केल्यात, कारण त्या वाठारांत आदिवासीं मदीं खवदळ जावपाची भिरांत उप्रासल्या. रेगुलेशना प्रमाण पार्टीन दारुगुळ्याचें सामान व्हेलां...''

29 देझेंब्राक स्ट्रीटफील्ड आनी कॅप्टन रोस फौज घेवन भायर सरले. उद्देश–बंड जाल्ल्या वाठाराचें सर्वेक्षण, बंडाची वाड चिड्डून उडोवप.

हेच संबंदीं स्ट्रीटफील्डान लेफ्टनंट गव्हर्नराक लेखून एक बरप धाडलें. ताच्या

मसुद्यांत बरयलें- "बंदगांव आनी सिंगभूम जिल्ल्यांत खेरीज तपासांत कळिल्ले प्रमाण, बीरसायत संघटना ह्याच दोन जिल्ल्यांनी चडांत चड बळिश्ट आसा. सिंगभूम जिल्ल्याच्या 150 चौखण मैल, खुंटी आनी तामार थाण्यांच्या 300 चौखण मैल आनी रांची जिल्ल्याच्या बासिया थाण्याच्या 109 चौखण मैल वाठारांत तात्काळ पुलीस दळ तैनात करतले. ह्या नमूद केल्ल्या वाठारांच्या सगल्या गांवांक पुलीस रेवाडो

⁂ तेलेग्राम नं. 350 तारीख- 29-12-1899 प्रोग्रेस नं. 326. चत्राय होम डिपार्टमेंट, मेमो नं. 453 -कॅम्प. तारीख- 30/12/1899.

घालतली आनी गांवच्या लोकांक विशाळ पुलीस दळा खातीरचो सगलो खर्च करचो पडटलो. दोन जिल्ल्यां मदीं आशिल्ल्या बंदगांवांत नियंत्रण वेवस्थेचें केंद्र आसतलें. खबरां वरवीं कळ्ळां, दुमका आनी चूंचुडा सावन मिलिटरी-पुलीस दळ रांचीक येवंक रवाना जालां."

ह्याच वेळार रांचीचो मूळ रावपी वकील लक्ष्मण प्रसादाक लेखून एस. आय. हजारी प्रसादान एक चीट धाडिल्ली: "फाव त्या भौमानान आनी सहस्र नमनां सयत, काकाजी! म्हजे बदले खातीर तुमी कचेरे कडेन जाता ते परीन यत्न करचे. म्हजो जीव गेल्यार चाकरेचो कितें उपेग! तुमचे घेतिल्ले पयशे ते मांवाची जमीन विकून फारीक करतां. असो चक्रांत सांपडलां, महावीरजी लेगीत हे अवस्थेंत उध्दार करपाची आस दिसना."

"काकाजी! कमिशनर सायब चाळवला, बीरसाक धरतलोंच म्हण्टा. म्हाका मांवान दिल्ली सगली जमीन, तुमचे कृपेन, मूळचे गांव निर्मनीस करून मेळिल्ली. बीरसायतांनी म्हजी कोठी आदींच लासून उडयल्या. आतां म्हजे कोठयेंतल्यान तीर तोपून तो मांवाले कचेरेंत पावोवन ते गेल्यात. असले परिस्थितींत ह्या वाठारांत कामार रावप म्हळ्यार आत्मघात केल्ले वरी. मोठ्या कश्टान सगलें सांगचें पडटा."

"चार तारखेच्यान स जानेर मेरेन बीरसाच्या सोदांत आमी यमकोपाई, रोगोतो आनी हेर सगलीं गांवां भोंवले. यमकोपाई सावन रातच्या काळखांत रिझर्व फॉरेस्टांत व्हाळाच्या कांठा-कांठान वतां वतां थोडे पयस पावन गायड पळून गेले. बीरसाच्या भंयान तांणी जाणा जावन वाट चुकयली. शंकरा गांवांत वच जाल्यार सगलीं घरां निर्मनीस, खावंक आयिल्ले वरी आशिल्लीं. मागीर कळ्ळें, गायडांनी वार्ता पावयल्ली, सोदासोद जातली. सगळे पळ्ळे. रुखांर चडून बशिल्ल्या बीरसायत भुरग्यांनी आमकां पळोवन सगळ्यांक शिटकायले. व्हडली फौज हाडून, उजवाड करून, बोवाळ करीत सोदासोद करून बीरसाक धरप शक्य ना, हें लक्षांत आयलें. हांव कितें करतलों? रोगोतो गांवांतूय जितो मूस ना. मालगो मुंडाच्या घरांतल्यान बीरसाच्या वापरांतल्यो तीन बाज्रो आनी एक घोडो जप्त करून हाडलो. पूण मुंडा मारीत ह्या भंयान म्हाजो जीव वता. चड कितें! जमीनदार

ईश्वरसिंग रांचीक पत्रां घेवन वता, ताचे कडल्यान ही चीट धाडल्या."

कॅप्टन रोसाचे डायरेचें एक पान: 'जंय मुंडांक धरल्यात, थंय जबानी घेवन जें कळ्ळां ताचेर विस्वास दवरूं नज. जबानेचें तंतोतंत वर्णन दितां.'

डी. सी.: 'तूं मिशनाक उजो घालूंक कित्याक सोदी?'

– 'बीरसान सांगलें, भगवानान सांगलेलें.'

– 'बीरसान भंय घालून सांगलें?'

– 'ना. भंय कित्याक घालतलो?'

– 'तुवें आपुण स्वता आयकलें, तुज्या कानांनी?'

– 'ना. हांयें तेका दोळ्यांनी पळोवंकूय ना. म्हागे घर खूऽब पयस.'

– 'कुट-कुटत रानांतले वाटेन तूं कित्याक येतालो?'

– 'मिशनाक उजो घालूंक. म्हाका खंय खबर, सगलें जावन गेलां म्हुणोन?'

ह्या वेळार स्ट्रीटफील्डान लेफ्टनंट गव्हर्नराक लेखून एके चिटयेंत बरयलें, 'फकत भंय निर्मुपी कामां दिवन भंय दाखोवनूच जर बीरसा सादारण लोकां मदल्या चडशा जाणांक आपले वाटेन ओडून हाडूंक शकतालो, जाल्यार आक्रमक वावर वाडत वतलो आशिल्लो, ही चळवळ एका विशाळ बंडाचें रूप घेसर वाडत रावतली आशिल्ली, हातुंत मातूय दुबाव ना.'

पोरहाटाच्या अटंग्या रानांत स्ट्रीटफील्ड बीरसाच्या सोदांत फिरूंक लागलो. बीरसा एक व्हडलो चॅलेंज, ताचो आकांताचो अपमान करसो. स्ट्रीटफील्डाक आतां दिसूंक लागलें, बीरसाक सगलें कळटा, तो तोंड लिपोवन हांसता.

रोस मातसो तापुनूच उलयलो, 'गुळी मारूंक जर दिवंचे नात, जाल्यार व्हाय कॉल दि आर्मी? व्हाय?'

स्ट्रीटफील्डान म्हळें, 'ना.'

– 'कित्याक?'

– 'गुळी कोणाक घालतले? जाण्ट्यांचेर, भुरग्यांचेर, बाळकांचेर?'

– 'बट धिस इज रिबेलिअन.'

– 'इज इट? तुमी डिक्शनरी वाचतात?'

– 'ना.'

– 'डिक्शनरींत सांगलां, अधिकृत सरकारा आड संघटित जावन सशस्त्र प्रतिकाराक रिबेलियन म्हण्टात. आजून तरी तशें कांय जाल्लें ना. साबार जाग्यांनी हल्ले करपाचे, उजो घालपाचे प्रकार जाल्यात. पूण ते क्रिस्तांव आनी सायबां आड. अधिकृत सरकारा आड सशस्त्र संघटित विरोध म्हणपाक जायना हाका.'

– 'तें जावंक कितें वेळ आसा?'

– 'ना. म्हाका कळटा ते भाशेन जाल्यार आनीक वेळ ना.'

– 'कितें खबर बी मेळ्ळ्या?'

– 'ना. दोन आनी दोन मेळून चार जातात.'

रोसान मान हालयली. सिव्हिल प्रशासनांतलें ताका कांय कळना. छोटा नागपुराचे नदरेन सद्याचो डी.सी. फावसो ना आसूये.

पुण डी. सी.चे समजणेंत कांय चूक जाली ना. पांच जानेर म्हळ्यार डी. सी.न फिरपाक आरंभ केलो, डी. सी.चे शेंकड्यांनी पुलीस आनी चडशे गुपित खबरे खुंटींत बीरसाक सोदूंक लागले.

हे खुंटींतल्यानूच 27 देझेंब्रा सावन बीरसाचो उलो सगल्याक पाविल्लो.

– 'नातलां फुडें दोन दीस गेल्याय! सरकार आतांच मुंडांक, बंडवाल्या मुंडांक चिड्डूंक तयार जावन रावलां. हे खेपे आमी क्रिस्तांव मुंडांचेर तीर सोडल्याय खरे, पूण हाचे मुखार बीरसायत कोणाच मुंडाची लुसकानी करचे नाय. तेंगे दुस्मान दिकू आनी सरकार, खासा करून सरकार. सायब आनी सरकार हे आमगे दुस्मान. मुंडा, क्रिस्तांव जाल्लो वा ना जाल्लो, आसल्यार तेका भंय ना.'

बुर्जू मिशनाच्या रेव्हरंड पाटसिंगान डी. सी.क म्हळें, डी. सी.क मुंडांचो केंस लेगीत दिसना हें अजाप. ताका खबर मेळ्ळ्या, मुंडा रानांत जमल्यात, पुलीस आनी मिलिटरी आड झुजपाच्या हेतान. स जानेराक बुर्जू मिशना लागीं रानांत लांकडाचो कॉंट्रॅक्टर जीएस सायब आनी ताचो चाकर हांच्यो कुडी तिरांनी मारिल्ले अवस्थेंत मेळ्ळ्यो.

जिउराच्या अटंग्या रानांत दिसाचे लेगीत मुंडा पांय दवरिनासले. जिउराच्या रानांत मैलां मैलांचेर एक्के उंचायेचे अजापाचेशे रुख वाडिल्ले. सगले रुख दिसूंक एकासारखेच. उदक लागसाराक ना, ताका लागून जीव-जिवारी चड दिसनात. ते भायर लोकांचें म्हणणें – हें रान म्हळ्यार अरण्यरक्षक परयांचें खेळांमळ. जितो मनीस दिसल्यार ताका रानांत आपोवन व्हरून केंसांचो फांस घालून मारून उडयतात खंय त्यो.

राती कडेन जिउराच्या रानांत बीरसायत जमले. चान्नें रानांत अजून पावंक नाशिल्लें. जाल्यारुय काळोख सादारणसो पुराय पडिल्लो.

बीरसान म्हळें, 'हेचेमुखार सायब, धवे कातीचे सायब आनी सरकार हेंचेआड लडाय. जें आदीं सांगलां, तें सगलें याद आसा तुमका, सरकाराक कोणाक धरप जमलें ना. आमगे हत्यारांपरस तेंगे बरींच श्रेष्ठ. ते तारेन खबरी धाडटाय, रेल्वेने शिपाय हाडटाय, कितलींशींऽच तुबकां, कितलोऽसो पयसो आनी कितलेशेऽऽच शिपाय आसाय तेंचेकडेन! पूण आमगे जीव वयता! तेंच्या जिवाचो प्रस्न ना. शिपाय पगार घेवन लडटाय! हय! सरकार सोंपेपणीं छोटा नागपूर आमगे सुवादीन करचें ना! पूण आमी केन्ना चिंतलेंय ना, हायें तुमकां सांगूंक ना, ही सोंपी लडाय म्हुण. उलगुलान सोंप्यान जावपाचें न्हो.'

मुंडा निरस्तब्ध.

– 'एतोकेदीक गया मुंडागेर साठ बीरसायत वचपाचे. थंयच्यान सभांनी लडायेची

खबर दिवंक साठ जाणांनी साठ दिकांनी वचपाचें.'

– 'भगवान!'

– 'उलय तूं गया!'

– 'हांव आदलो सरदार, देखून बीरसायत जालां. आमी सभा करतनाच शिपाय येयत जाल्यार?'

– 'जशी परिस्थिती येयत, तशे आपले बुद्दीन लडपाचे, कळ्ळें गया? सगल्या बीरसायतां वांगडा हांव सगलो वेळ कुडीन आसचों ना, मनान आसतलों. जालें. ही बसका सोंपली! जशे थंडपणान येयल्ले तशेच थंडपणान परते वचपाचे.'

गयान म्हळें, 'जे सभेक आसनाय, आमचे लागीं थारावन काम करिनाय, ते, मुंडाच ते, 'आमी भगवानाच्या मार्गान उलगुलान करतात' अशें म्हुणोत अतिरेक करून पुलिसांची नदर एतोकेदी वटेन ओडून घेताय. आमचो तीर मारपाचो, उजो घालपाचो वावर एका दिसान जालो. आमी बंद केलें. पूण हिंगा-थंय, खंय-खंय, सायकोक मेळत तेन्ना मेळत तशे कशाकशेय कितल्याशाच मुंडांनी चड फुलून तीर सोडून उजो घालून आकांत केलो!'

बीरसान म्हळें, 'उपाय ना! असलें जातलेंच.'

खुंटीचो हवालदार एतोकेदीक 4 जानेराक पावलो.

एतोकेदीच्यान मातसो पयस ताणे तंबू ताणलो. मुखार ताजना न्हंय. न्हंयचें उदक फातरांचे बांद घालून आडायल्ल्यान एक सुंदर कुंड तयार जाल्लें. सायको आनी एतोकेदीच्या लोकाक वर्सूय भर हेच न्हंयचो आदार.

सांजवेळा बायलां न्हंयचेर उदक भरूंक आयलीं. तांणी म्हळें, 'घोडो कुशीक काड, तो बुडकुल्याक पाय मारून फोडटलो.'

– 'घोडो खंय, तुमी खंय?'

– 'आमका भंय दिसता. तंबू कित्याक घायला?'

– 'नाटक जातलें. फाल्यां पळय.'

दानतू मुंडाची जाण्टेली आवय सदांच तीख उलोवपी, बेपर्वा, रागिश्ट. तिणे म्हळें, 'दोन वर्सां तुमगे नाटकां चोवन चोवन जीव विटलो आमचो. नाटकां केल्यार नाटक पळोवचें पडटलें तुका.'

– 'कितें करतली?'

– 'तुमगे तंबूचेर म्होवां मुसांक सोडटलीं. रुखार मालें जाल्लें आसा. खांदी कापून हाडटलीं.'

– 'बाय गे, आमी सरकारी कामाक आयल्यात.'

रात जावंचे आदींच गया मुंडाक खबर कळ्ळी. बीरसायत सगले तितल्यांत पाविल्ले. गयान म्हळें, 'भगवानान सांगलां येता ते परिस्थितींत फाव ती मांडणी कराय. चोवया सकाळीं कितें जाता तें! तेन्ना कळटलें!'

गोपीन म्हळें, 'आमी आसाय ते, चोवया तरी.'

सकाळीं खबर पावली, हवालदार तंबूंत बसला, दोग शिपाय आनी तीग रखवालदार गांवांत येवंक न्हंयच्या पात्रांत देंवल्यात.

पात्रांतली रेंव आनी फातर बलांटीत शिपाय येवन पावले. ते सकयल. वयर, वयर, धडेर फातरांचेर उबे एके वळीन मुंडा. हातांत भाले, तीरकामटीं.

गयान हात उबारून म्हळें, 'सामारे हिजु लेनाको मार गोये कोपे! सांबर हरण येयलां, तेंका माराय.'

शिपाय आनी रखवालदारांनी दोंय वाटांनी धांव मारपाचो यत्न केलो. शिपायां कडेन तुबकां. वयले दिकेन उदका लोटा वरी मुंडा देंवन आयले. गयान म्हळें, 'ए, जयरामाक हांव मारतलों. तेणें म्हागे शेताचो आडो मोडून जमीनदाराचो हत्ती घालून फसल खावयल्या!'

– 'गया आमका मारुं नाका.' - जयरामाचीं उतरां पुराय जालींच नात. भाल्यांचेर वत चकचकतालें ... पोलाद पर्जळटालें ... पर्जळटें पोलाद देंवलें ... परतें वयर गेलें ... परतें देंवलें ... वयर गेलें ...

मागीर मुंडा परतले. शिपायांच्यो कुडी थंयच पडून उरल्यो. दनपरां हवालदाराच्या लक्षांत आयलें, खंय कोण ना. 'कांयच दवरलें ना फाटल्यान!' ताणे बेजारून म्हळें. जयराम आनी बुधू हांचीं मडीं साकांत भरून घोड्या फाटीर चडोवन ते पयसुल्ल्या मार्गान रांचीक वचूंक गेले. नीट रस्त्याक बीरसायत आशिल्ले.

मुंडा गांवांत परते आयले. तांच्या रगतांत नगारे वाजताले, धोल, म्हादळीं गर्जतालीं. होळये उपरांतचे भोंवडे वरी हें सूख, ही खोशी, पुरातन धर्माच्या रगत-उत्सवाची खोशी. बायलांनी दादल्यांच्या पांयांर उदक घालें. बायलां दादल्यांनी गायनां सुरु केलीं!

बंदगांवां तंबूंत बशिल्ले कडेन रोसान स्ट्रीटफील्डाक म्हळें, 'आतां?'

डी. सी.न म्हळें, 'रिबेलियन.'

– 'जाल्यार फुडें?'

– 'हॅज टु बी क्रश्ड.'

– 'वतलो कोण?'

– 'हांव!'

– 'कमिशनर फॉब्स?'

– 'हांव वतलों.'

कितेंय जाल्यार सरकारी प्रशासनांत होच नेम चलता. संकट काळार पयलो वता शिपाय, उपरांत हवालदार, ताचे फुडें सबइन्स्पेक्टर, मागीर इन्स्पेक्टर, ते उपरांत एका फाटल्यान एक वळीन वयल्या हुद्द्याचे अधिकारी. ही निसण सोंपपा कडेन पयलीं डी. सी., मागीर कमिशनर.

तेवाटेन एतोकेदीक गया मुंडाली घरंकान्न माकी कमरार हात घेवन गयाक तापोवंक

लागली.

– 'तुका अकल म्हुण सापूच ना. हट मात भरपूर. पुलिसांक मारले तुयें. सायब तुका सोडटले? घरा बसोन भाल्याचें ओर्र सांगून कसलें उलगुलान करता? पळून वच रानांत.'

– 'पळून वच खंय! चुट्टी लागों तुगे तोंडाक! भगवानान म्हाका एतोकेदीकूच ठाण मांडून राव म्हुणला.'

– 'आरे पिशा, गाडव मरे तूं! हटवाद्या, भगवानान तुका सांगलें ना, परिस्थिती पळोवन मांडणी करपाक? खंयच्याय वेळार ते हांगा येताय. जाल्यारुय एतोकेदीक वेंग मारून रावतलो? दादल्यांक सोंपोवपाक तेंका संद दितलो?'

– 'तुमका सोडून वचों?'

माकीन म्हळें, 'पांयार फातर घालून मोडून घालतां तुका. आमका सोडून वयचो ना! घरा कितले दीस आसतालो तूं? मुल्की लडाये सावन आयज मेरेन घर कोणी सांबाळ्ळें? हांयें! आतां म्हाजेर इस्वास ना?'

गया मुंडा थंड! भायर वचून ताणे पुताक साम्रेक म्हळें, 'आवय सामकी चाळवल्या तुजी!'

– 'तूंच तिका तिडक हाडटा. आवयच्या उतराक उतर दिवंक जायना. काल म्हाका रानांत वयच्या वेळार मारूंक येयल्ली.'

– 'तिगे राग नाकाच्या शेंड्यार! ना जाल्यार म्हाजो पाय वागान धल्ला, तूं तेचे फाटीर पोटलीसो! भाल्यान वागाचें तोंड चिरून तेणें म्हाका सोडयन हाडलो.'

डी. सी. बंदगांव कँपांतल्यान भायर सरून आयलो. मुंडांक आपोवन सांगलें, 'तुमी आत्मसमर्पण करात. हांव डॅप्युटी कमिशनर सांगतां.'

भितरल्यान गयान आड्डून म्हळें, 'डी.सी. जायशी तूं! म्हागे घरांत भितर सरपाचो तुका कांयच अधिकार ना, कसलोच अधिकार ना!'

– 'आत्मसमर्पण करात!'

– 'आतां सकाळचो वेळ! आमकां वावर आसा. तूं चल.'

हे घडणुकेचो* जो रिपोर्ट डी. सी. न कमिशनराक दिलो, तो असो:

'जमता ते परीन हांवें समजायले. हांवें तांका हांव कोण तें सांगलें. कांयच फायदो ना. निमाणे सबइन्स्पेक्टर इल्ताफ हुसेन घरांत कोण आशिल्लीं तांका समजोवन सांगूंक घर आनी वारांद हांचे मदले मातयेचे वण्टी कडेन गेलो. त्याच खिणाक एक वजनी कुराड इल्ताफाचे तकलेक मोखूंक शेवटून आयली. लांकडाच्या वांशाक आपटून नेम चुकलो ना जाल्यार इल्ताफ थंयच सोंपपाचो. इल्ताफाचे पगडेर धपको पडलो, तो वारांदांत शेंवटून पडलो ....'

इल्ताफ आड्डलो, 'सायब, गुळी घाल!'

'गॉड! घर बायलांनी भरिल्लें!'

डी. सी. न घराचे पांटयेर गुळी घाली! माकीन व्हडल्यान म्हळें, 'आमी भायर सरचीं ना. तूं भितर सरल्यार तुगे जीव घेतलीं!'

गयाच्या हातांत तरसाद! ताणे म्हळें, 'यो, चोवया तूं कसलो सायब तो! घाल गुळी!'

डी.सी. न गयाच्या हातार लागची अशी गुळी सोडली. ताणे तरसाद सोडून दिवंची म्हुण! गुळी लागली ना.

– 'गया, तुज्या घराक उजो घालतलों!' डी. सी.न फरक्क दाखयलें.'

– 'घाल! दोनशीं बीरसायत येतले धांवोन.'

डी. सी.न फरक्काची काडी मारली, घराच्या पाख्यार शेंवटिली. तण भुरभुर करून पेटलें. अस्तंतेचें वारें.

घरांतल्यान आवाज आयलो, 'वाः तुगे सायब खरोच पराक्रमी रे! – कोणाक भितालो तूं चोय!'

तीं सगलीं भायर सरलीं! गयाल्या हातांत तरसाद, माकील्या हातांत व्हडलो दांडो, तांच्या धाकल्या पुताच्या हातांत भालो, चौदा वर्सांच्या नातवा कडेन – रामू कडेन तीरकामटें, दोन सुनांल्या हातांनी विळो आनी पाळ, तीन चेडवां – धिगी, नागी, लेंबू – हातांत दांडो, तरसाद आनी पाळ घेवन. गयान म्हळें, 'असो मुखार यो!'

डी. सी.न रिव्हॉल्व्हरांतल्यान गुळी सोडली. गयाच्या उजव्या खांद्याक गुळी लागली. डी. सी.क दिसलें आतां गया पडटलो, तडफडटलो. पूण ना, गया धांवत येवन तरसाद उडोवन तांचेर झुडून गेलो. फाटल्यान गयाची घरकान्न माकी डी. सी.चे तकलेर दांडो मारूंक लागली. आतां मात पुलीस बेभान जावन बायलांचेर, भुरग्यांचेर तुटून पडले. गयाचे सुनेन फाटीर ल्हान भुरगें बांदिल्लें आशिल्लें. तांच्या हातांत पाळ, दांडे आनी तरसाद! पुलिसां कडेन बायोनेट. घर भुर भुर करून जळटालें! अस्तंतेच्यान वारें येतालें.

आतां गांवांतले जे शस्त्रहीन मुंडा धांवत येवन पावले ते बीरसायत न्हय. आनीकूय पुलीस येवन पावले. बायोनेट चल्लीं. दोन वरां झगडें जावन बायोनेट तोपून घाव जाल्लीं गया, माकी, चेडवां, सुनो, भुरगीं सगल्यांक अटक जाली. हेर मुंडांकूय. चार म्हयन्यांनी, माया म्हयन्यांत, रांची न्यायालयांत बॅरिस्टर जेकबान प्रस्न केलो, 'बायलां आनी भुरगीं आसा हें जाणा जावनूय दोन गुळयो सोडपाचे करणे संबंदान डी. सी.क आपल्या बचावाचें कितें सांगपाचें आसा? खंयच्या तर्कान आपले करणेचें ते समर्थन करतात?'

* (कमिशनराक लेखून डी. सी. स्ट्रीटफील्ड/तांग बंदगांव/7-1-1900–चिटी वांगडा–चीट नंबर एक– टीबी तांग कॅंप सायको/10/1/1900/ए.फोर्ब्स हांचे वरवीं सी.एस. गवर्नमेंट ऑफ बॅंगॉल हांका लेखून प्रॉग्रेस नंबर/335/ऑगस्ट 1900/होम

डिपार्टमेंट /एन - ए - वन.)

डी.सी.न म्हळें, 'गयाक मारप होच म्हजो हेत आशिल्लो. उण्यांत उणो रक्तपात जावन परिस्थिती नियंत्रणांत हाडूंक हांवें गुळयो झाडल्यो.'

बांगला वाठाराचेर लेफ्टनंट गव्हर्नर आशिल्लो धाकलो सायब डी. सी.च्या आदाराक पावलो. जेकबाचे सत उत्काडा हाडपाचे यत्न तांणी निर्फळ केले.

रांचीक परतो येवन डी. सी.न कळयलें, गयाचें धाडस आनी झगडें, अस्तुऱ्यांचो विरोध सगलेंच ताका अजापाचें दिसलें, बीरसायत आतां नक्कीच मिशनाचेर हल्लो करतले.

पूण बीरसाची फौज 7 जानेराकूच खुंटी पुलीस थाण्या दिकेन मुखार सरिल्ली. डी. सी.क तें खबर नाशिल्लें. गयान मेजार थुंकून सांगिल्लें, 'डी. सी.क आमी आडोवन दवल्ला. भगवानान तशें सांगल्लें. ना जाल्यार खुंटीकूच झूज जावपाचें!'

बीरसायतांचीं धवीं फुल्ल पुडवीं, धोंपरा मेरेन न्हेशिल्लीं पुडवीं, माथ्याक मुंडाशीं. तीरकामटीं, धाल-तरसादी, भाले-बर्च्यो सूर्या दिकेन उखलून धरून ते नाचत-नाचत येताले, मदीं मदीं उडयो मारताले. डोनका आनी माझिया मुंडा मुखार आनी अखेरेक आशिल्ले. ते गायताले.

''जिलिबा जिलिबा
जोलोबा जोलोबा
पांतियाकानाले बीरसा हे!
तिरोदा सेंदेरा
लेंगा तिरिया
जोम तिरेसार
पांतियाकानाले बीरसा हे!'
('आमचीं हत्यारां जळटी हातांत
बीरसा रे! आमी चल्ले एके हारीन
दाव्या हातांत कामटें उजव्यांत तीर
आमचीं हत्यारां जळटी हातांत
बीरसा रे! आमी चल्ले एके हारीन!')

मदीं मदीं डोनका गीताचे मदीं मदीं म्हण्टालो, 'मुंडा वाठारांत हें खुंटेचें थाणें सरकार जावन बसलां!'

म्हण्टालो, 'आड्डत चलाय, मुंडांनो! हत्यार घेवन चलाय! खुंटीक पिकल्या तूर, चला कापूंया भावांनो! आमी तामारखाना, हागादाखाना सावन येयल्याय, चलाय रे!'

हुटूबदाग, पातरा, गौरमारा, सगले कडले मुंडा येवन सामील जाताले, मुंडांची मिरवणूक लांब जायत चलिल्ली. मळबांत सूर्य भगभगतालो. तांच्या हातांनी हतयारां.

खुंटीक फकत पांच पुलीस आशिल्ले. दोग आदारी. दोन तुबकां. खुंटी लोक म्हण्टाले, 'कोण ना! सगले बीरसायतांक धरून हाडूंक सगल्याक गेल्यात.' हें आयकून मुंडा 'कुलकुली' – झुजाचें आव्हान दिताले, सूर्या वटेन हत्यारां उबारुन उडी मारताले. तांच्यो आड्डी आयकून पुलीस आनी आदारी थाण्या वेल्यान पळ्ळे, पूण कॉन्स्टेबल रघुनीराम पळूंक शकलो ना, तो पडून जिवाची भीक मागतालो. डोनकान म्हळें, 'तुयें केन्ना मुंडांगे काकुट केल्या? काकुट कितें झाडाक पिकता, तुका हाडून दिवपाक?' डोनका आनी माझियाचे हात वयर येताले, देंवताले. वयर येताले, देंवताले. मागीर रघुनीरामाचें रगत–मांस बीरसायत खोश्शेन नाचत रस्त्यार पातळावन गेले. 'हेंच तें थाणें! हिंगाच्यान मुंडांक मारूंक पुलीस वयताय!' अशें म्हणत ताणी तणाचे गुळे तीरांच्या तोंकांक बांदून ते पेटोवन थाण्याच्या कड्डा–पाख्यार शेंवटिल्ले. भुर भुर करून उजो पेटलो.

थाण्यांत पगाराचे पयशे आशिल्ले. भरपूर पयशे. बीरसायत त्या दुडवांक आफुडले नात. आतां ते परते वताले मोहुआटोलीचे दिकेन. गांवच्या एकाय घरांत ते भितर सरले नात, जिनस लुटले ना, ते गायताले, मदीं मदीं सूर्या दिकेन हत्यारां वयर उबारून उडयो मारताले.

12 जानेराक सेक्रेटरी ऑफ स्टेट फॉर इंडिया हाका व्हडल्या सायबान तेलेग्राम धाडलो – 'लोकांच्या बंडाचो विस्तार वाडत चलला.'



# 19

सगलें जावन गेल्या उपरांत जायत्या तेपान – रेव्हरंड हॉफमॅनाच्या उलोवण्याक व्हडलेंशें म्हत्व ना दिल्ल्याचो पश्चताप सुपराक जाल्लो.

24 देझेंब्राची घडणूक घडले उपरांत हॉफमॅनान कळयिल्लें, ''सिंबुआ गांवच्या एका नव्या बीरसायताक ताच्या भावान सांगून –समजावन थंड केला. ताचे कडल्यान आयकलां, 24 देझेंब्रा आदीं एका फाटल्यान एक अशे तीन आयतार तीन पंचायतींनी क्रिस्तांवांचेर आक्रमण करपाची मांडणी सगल्यांक समजायल्ली. पयले पंचायतींत हाजीर आशिल्ले फकत पुराणक.

थंयच तारीख थारिल्ली. तीन वा चार बीरसायतांचे विंगड विंगड पंगड दिका–दिकांनी गेले. तांणी 24 देझेंब्राक क्रिस्तांवांल्या घरांक उजो घालपाचे आनी तीर सोडपाचे आदेश दिले. निमणे पंचायतींत नानक आनी नव्यान दीक्षा घेतिल्ल्या बीरसायतांक ही खबर पावली. 'हांव जाची खबर सांगतां, ताणे त्याच दिसा आपल्या भावाक वचून सांगलें, तांचे मदलें भावा–भावाचें नातें आतां सोंपिल्लें.'

पूण हॉफमॅनाक रांची–सरकारान केन्नाच फावशें म्हत्व दिवंक ना.

छोटा नागपुरच्या इव्हँजेलिकल मिशनाचें पंद्रशी नेमाळें 'घरबंधु', ताच्या 15 जानेर 1900 च्या अंकांत एक खबर उजवाडा आयली. 8 जानेराक बीरसायत रांचीचेर चाल करून येवपाचे खबरेन शारांत भंय पातळिल्लो. आपवावुरपी, पुलीस कॉन्स्टेबल आनी ऑफिसर खांद्यार तुबकां घेवन शारांत येवपी रस्त्यार रात दीस पारो दिताले.

खुंटीच्या थाण्यार पडिल्ले घुरयेची खबर कळटकच रांचीचे राखणेक चारशीं जाणांची फौज हाडली. काळोख पडचे आदींच रस्त्यार शुकशुकाट. 'द इंग्लीशमन' हातुंत म्हणिल्लें, नागरिकांक भंय, झोंपांच्या आडसान बीरसायत विखारी तीर सोडीत. 17 जानेर म्हळ्यार दर एका ब्रिटिश अधिकाऱ्याच्या बंगल्या मुखार सशस्त्र पाऱ्याची वेवस्था जाली. रांचींत पुलीस आनी लश्कराच्या शिपायांनी नाकेबंदी केली. सिक्स्थ जाट डुरांडा लश्कर छावणेचो पारो चालू उरलो.

बीरसा दुसरेंच येवजितालो.

डुरांडाचो कमांडिंग ऑफिसर सिक्स्थ जाट च्या देडशें रायफलवाल्या सैनिकांक

घेवन खुंटींत पावलो. रांची सावन कमिशनर फोर्ब्स स्वता आयलो. मार्गार ताका लश्करांतलो कर्नल वेस्टमोरलँड येवन सामील जालो. खुंटीक 'ताकतिकेन झडटी' जाली. एस. आय. रामवृक्षसिंग धा पुलिसांक घेवन बंडवाल्यांच्या सोदाक भायर सरलो. फोर्ब्स आनी कर्नल बुर्जू येवन स्ट्रीटफील्डाच्या आदाराक गेले.

फोर्ब्सान म्हळें, 'डॉक्टर नॉट्रट हांणी आदींच सांगिल्लें – हय, मिशनाचो नॉट्रट ... मुंडा भौशीक बंड करतलेच! ... बुर्जू सावन स मैलांचेर सायकोक ते सगले एकठांय जातले अशें ताका दिशिल्लें.'

– 'पूण'

– 'ना डी. सी.! जण एकल्याचें मत किंकोंत करून आपल्याच मतान चलून व्हडलेंशें बरें कांय पदरांत पडलें ना.'

– 'हूं.'

– 'आतां हांव इनचार्ज. दीस बरे नात. पळय, दोन वर्साफाटीं प्लेग जालो, केदो बोवाळ. पयस जावं, पूण आकांतवाद चालू आसा – महाराष्ट्रांत. चाफेकर ब्रदर्साक फांशी लेगीत जाली. गव्हर्नर जनरल कर्झन हो वाठार फाळून ल्हान करपा संबंदान सीरियसली चिंतीत आसा. कोलकात्यांत नेटिव प्रेसांतल्यानूय आकांताचो असंतोष उक्तो जायत आसा.'

– 'तो तसो शिकिल्ल्यांचो विरोध.'

'डियर डी. सी.! शिकिल्ल्या लोकांनी केदोय विरोध करूं, पूण ताच्याकूय डेस्परेट परिस्थिती जेन्ना कांय जंगली आदिवासी अधिकृत सरकाराक चॅलेंज दितात तेन्ना जाता.'

– 'तशें जाल्यार?'

– 'पंचांतलें कार्टून याद जाता तुका? दारुगुळ्याच्या पिंपार बसून दोन ब्रिटिश ऑफिसर चिरुट फुसकायतात, उजो फाफडून उडयतात, पिंपांतल्यान धुंवर भायर सरता.'

– 'हय, पूण ....'

– 'ते दोग जाण म्हळ्यार तूं आनी हांव. छोटा नागपूर हें दारुगुळ्याचें पींप. आतां लीव्ह एव्हरिथिंग टु मी! कितेंय जाल्यार लेफ्टनंट गव्हर्नराक जाप दिवंची पडटली म्हाका. तुका न्हय.'

– 'बरें.'

– 'रांची रिझर्व पुलिसेक सायकोक वचूंदी. हांव बंदगांवाक वतां. थंय सिंगभुमाचो डी.सी. टॉमसन येतलो. सिंगभुमाच्या बंदगांव, बेरिंग, कोंद्रुगुट्टु, लागरा, सांगरा, गिरगा आनी डोरका ह्या गांवांतल्यान बीरसायतांक धांवडावन घालूंक जाय. आर्मीच्यो आठ डिटॅचमेंट गांवां गांवांत नेमिल्ल्यो आसतल्यो. बाकीचे जवान घेवन एस.पी. भोंवन डिटॅचमेंटाच्या वावराची खबर घेतलो, सदरेक धाडटलो, हत्यारां जप्त करतलो, मागीर पळोवया.'

– 'हांव परतो वचूं रांचीक?'

– ‘तूं , कॅप्टन रोसा सांगाताक रिझर्व पुलीस आनी जाट रायफल्सच्या चाळीस जाणांक घेवन सायकोक वच.’

– ‘बरें. जाल्यार आतांच्यान ....’

– ‘जस्ट ओबे मी!’

स्ट्रीटफील्ड सांजच्या सातांक सायको पावलो. दुसऱ्या दिसा 9 जानेराक सकाळीं आठांक एस.आय.रामवृक्ष सी कॅम्पांत आयलो. शुष्क आवाजांत ताणें म्हळें, ‘हुजूर, सैलराकाब दोंगर बीरसायतांनी व्यापला.’

– ‘तुवें स्वता पळयला?’

– ‘रात भर रुखार चडून बशिल्लों. अख्खी रात ते चलताले. पत्र्यार पावलांचो आवाज आयकला हांवें. बायलांय आसात दिसता हुजूर! पैसुल्ल्यान ल्हान भुरग्यांचें रडें आयकूंक येतालें!’

– ‘कमिशनराक कळोवंचें पडलें.’

– ‘तांका कळ्ळां. ते येतात.’

स्ट्रीटफील्डान रोसाक म्हळें, ‘सायको उपरांत दाऊदी, उजवे वटेन डोमबारी - बुरू.’

– ‘व्हॉट?’

– ‘बुरू. दोंगुल्ली. डोमबारी–बुरुचे ईशान्येक बोतोरदी, एक गांव. शैलराकाबचे नैऋत्येक बीचा–बुरु, उत्तरेक कुरुंबा–बुरू, गुटुहाटू गांव, अस्तंतेक तिरिलकुटी–बुरु, केराओरा बुरू.’

– ‘शैलराकाबच्या चोंयवर्शी दोंगर. बंडवाल्यांचीं गांवां, रानां.’

– ‘सो?’

– ‘आतां गुळयो घालपाक संद आसा.’

– ‘तुजे वरी बंद घरांतल्या बायलांचेर घालचों ना.’

– ‘पळोवया.’

अस्तंतेच्यान खुंटी सावन लश्कर आयलें, दक्षिणेच्यान सायको सावन पुलीस. तकलेक पोलादी जाळयेची तोपी, खांद्यार बायनेट, बंदूक. कमिशनर, डी.सी., पुलीस सुपर, आर्मी कर्नल, कॅप्टन, सगले पावलार पावल मारीत चलताले. अर्द मैल मुखार पावतकच पैस शैलराकाबाच्या माथ्यार मनशांची हालचाल समजूंक लागली.

सरकार - बटालियन रानांत भितर सरलीं. व्हाळाचे देगेन मुखार सरत रावलीं. जोजोहाटूच्या मागोन मुंडान साल - रुखाचे तेंगशेर बसून तांका तेळटना ल्हवूच शिळोणी घाली. मातसो मुखार आनीक एका रुखार ही शिळोणी आयकून आनीक एका नानकान शिळोणी घाली. रुखा–रुखांच्या तेंगशां वेल्यान शिळोणेची चत्राय व्हांवत गेली, व्हांवत रावली. शैलराकाबा वेल्यान शिळोणेचो आवाज आयलो. मागीर सगलें थंड. दोंगराचे

दक्षिण दिकेक. व्हडलें खांवटें. त्या खांवट्यांत उबो रावन बीरसा तेळूंक लागलो, ते मुखार सरताले, मुखार येताले. पुलीस येवन दोंगराक रेवाडो घालूंक लागिल्ली. पळपाचे मार्ग बंद करताली.

– 'कितें दिसता तुका?' धानीन विचारलें.

– 'मुखेल पंगड एका जाग्यार उबो आसा. पुलिसांक रेवाडो घालूंक वेळ मेळचो म्हुणोन.'

– 'फुडें सरल्यार सांग.'

– 'आतां फुडें सरोंक लागला. वयर चडोंक खंयच वाट ना. तो कमिशनर अस्तंतेक तिरीलकुटी – बुरूक चडोन येवन फारपेट करतलो.'

– 'मदीं व्हाळ आसा.'

– 'तेंचेलागीं तुबकां आसाय.'

– 'हे आदीं तेणीं किऽतलो फारपेट केला. तुगे नांवान त्यो गुळयो पोक जाल्याय. कोऽण्ण मेलोना.'

– 'आतां हांव स्वता हाजीर आसा. डोनका खंय आसा?'

– 'डोनका, गुटुहाटूचो हाथीराम, हरी सामखे मुखार.'

– 'बरतोलीचे बीरसायत?'

– 'सगले उदेंतेक आसाय.'

– 'जिऊरीच्यो अस्तुऱ्यो खंय?'

– 'हिंगाच आसाय!'

जिऊरीच्या बंकान मुंडा, मंझिया मुंडा, दुडांग मुंडा हांच्यो बायलो उलयल्यो, 'हिंगा!' तांचें काम फातर धुकलून गडगडावन उडोवपाचें आशिल्लें. तांका कोण निरस्त्र करूंक शकनाशिल्लो. 'आगो, तुमगे हांडीर ल्हान भुरगीं आसाय.' अशें सांगून लेगीत तांका निरस्त्र करप कोणाक जमलें ना.

'आमी फकत भुरग्यांक चोवपा खातीर बीरसायत जाल्यां तर? भगवान वांगडा आसा, मेल्यार सर्गार पावतलीं.'

बीरसान कपल आनी दोळे पुसले. कुडींत रगताच्या थेंबाथेंबांत अधीरसाण. 25 देझेंब्रा सावन शैलराकाबाचेर बीरसायत येताले आनी बायल-भुरग्यांक घेवन धोलींनी भितर सरताले. दोंगरा सरभोंवतणीं मदीं मदीं तळपां धुकलून हाडून व्हडल्यो राशी घाल्ल्यो. राशीं फाटल्यान व्हडले फातर जमोवन दवरिल्ले. भाले, तीरकामटीं, गोफणी. सऽऽगलें जमोवन दवरिल्लें.

बीरसाक तुबकाची ताकत खबर आशिल्ली. पूण तो तर खासा भगवान! ताच्या उतराक मुंडा मरूंक वा जिकूंक आयिल्ले. तांका खबर आशिल्लें बीरसा तांच्या काऱ्या-दिंकाच्या तीरांक जैत मेळोवन दिवन दुस्मानाचे मारफार निकामी करतलो म्हुण. पूण

बीरसा जाणा आशिल्लो काऱ्या-दिंकाच्या तीरा परस तुबकाची ताकत बरीच व्हड! पूण बीरसाक हेंय खबर आशिल्लें, निखट्या फुडारिल्ल्या हत्यारांच्या नाड्यार सगलीं झुजां जिकूंक जायना. बीरसा जाणा आशिल्लो, हार-जैत आनी येस - निरर्थकताय हांचेरुच सगल्या युध्दांची चर्चा करपाक जायना. सावंताल हुलांत जिकले नात. कोळ 97 वर्सांफाटी जिकले नात. सरदारुय जिकूंक नात. खेरवार जिकूंक ना. सदांच सायब जिकल्यात. सगल्या वेळांर, सगल्या झुजांनी.

सायब जिकूंक ना सगल्या काळार, सगल्या झुजांनी.

सांवताल-कोळ-खेरवार-सरदार जिकल्यात, कित्याक काय म्हळ्यार दर एका पराभवान सिध्द केलां, जैतिवंताचें नांव रेकॉर्डांत आसता, हारतल्याचें नांव मनशांच्या रगतांत - फटवणींत, भुकेंत, दळडिरांत, पिळणुकेंत. भाताच्या थांबावरी बांदून पडिल्लें आसता, तें नांव जितें उरता काळ्या मनशाच्या एका एका गायनांत, यादींत, घाटोच्या बेचवपणांत, मुंडांल्या उगड्या नागड्या भुरग्याचे रगत नाशिल्ले कातींत, मुंडा-आवयच्या फुगिल्ल्या पोटांत आनी भाटकारांचीं भाता - पोतीं एका बराबर उबारुन व्हरपाच्या स्नमांनीं ...

बीरसान दोळे पुसले. नदरेंत उजवाडाचे थिपके लकलकताले - बेयोनेटाच्या पात्यार सुर्या लकलकतालो. कोणे एकल्यान ताका म्हणलें, 'हे दोग सायब मुखार कित्याक सरताय?' बीरसान मान घुवंडावन पळयलें, सुनारा - तो पोरगो. ताचे ओंठ धवे. नदरेंत विस्मय.

हो भुरगो कोंबी कापतना पळयल्यार भितालो. ताचे कडल्यान एका दिकून सेवक-पटो बरोवन घेतिल्लो. तो दिकू ताचो भाटकार. ताचे हे आनी फुडलेय जिणेचो धनी. मुंडां कडल्यान सेवक-पटे बरोवन घेवप साप सोंपें. आखांड्याचें बोट लायल्यार तो जमीनदार, भाटकार वा जोतदाराचो गुलाम जावन पडटलो. गुलामांचो वेपार चलना अशें म्हणून फायदो ना. कोर्टांत कोण मुंडा केश करूंक वचना. कित्याक काय म्हळ्यार, पट्याचो धनी सगलें अमान्य करता! मुंडांक खबर आसा, दिकूचें दावखूल वागाच्या दावखुला परस भयंकर. तें मुंडांले हे आनी ही सोंपून येतले फुडलेय जिणेचेर उबारिल्लें आसता.

हो पोरगो तें सगलें किंकोंत करून आयिल्लो. शैलराकाब दोंगरार हातांत तुबक घेवन उबो आशिल्लो, बीरसाकडेन पळयत ताणें म्हळें, 'हे दोग सायब मुखार कित्याक सरताय!'

बीरसाक कळ्ळें, आपणें अशक्य आशिल्लें शक्य केलें. आपुण ईश्वर. आतां एका खिणा भितर ताका दिसलें - हांव भगवान! मिशनांत कळिल्लें, जेजून एक भाकरी आसतना ती असंख्य लोकांक खावयल्ली, आनंदपाड्याक शिकयल्लें, प्रल्हादाचे भक्तीन विष्णू एका खांब्यांतल्यान नरशिंव जावन भायर सरिल्लो. पळयात, हांव तांच्याच पांवड्याचो, हांव भगवान. काश्टी मारिल्लो, दासांचो दास, साप दळिद्री मुंडांल्या हातांत कोंड्याचें धोणू , काऱ्या फळांच्या दिंकाचे तीर दिवन हांवें तांका अर्द्या विश्वाचे धनी जाल्ल्यांचे सेने आड

उबे केल्यात. तांच्या मनांतलो भंय हांवें पुसून उडयला. हय, हांव भगवान तर! हांव भगवान ....

... मुंडा हांव! मिशनांत शिकयल्लें – इंग्लेजी सारखी भास ना, ते भाशेंत हजारांनी – लाखांनी उतरां. दिकूंलेय भाशेंत हजारां–लाखांनी उतरां! म्हागे मुंडारींत इतलीं उतरां ना गा! बरोवपाक अक्षरां नात! जितलीं उतरां दिसतात, तीं सगलीं आमचीं आंतकडीं फाटून, रगतांत भिजिल्लें सर्जन! आमी बरयनात, गायनां अमर करतात! जांचेकडेन बरपाक्षरां नात, ते खंय रानवटी, असंस्कृत. तसल्या रानवटी, असंस्कृत मुंडांक हांवें सायबां मुखार उबे केल्यात गोफणी, गुंडे घेवन. हांव भगवान...

भगवान मगा हांव! जे आपल्याच देशांत हांजी हांजी करतात, तांच्या ह्या मुंडाल्या वाठारांतल्या घरांनी कितले गालिचे – पंखे – खाटी – गादयो – कोच आनी कदेलां – कांचेचे दिवे – रुप्याचीं ताटां – सोन्याच्यो बाटल्यो – गाडयां जोडयो – घोडे – चाकर सगलें शेंकड्यांनी! आमगे मुंडागेर कांयच ना, कांय आसना! दुकळ येता, सगलें अवर्षणांत भस्मसात जाता. म्हागे बाबा सांगी, रेकॉर्डांत मुंडांचो चोर, बदमाश सोडून हेर खंयच्याच नांवान उल्लेख ना. मुंडांक प्राण ना, मन ना, तांचें घर जळ्ळ्यार ते उजो पालयनात, घर सोडून वतात. जेन्ना मुंडालें घर जळटा तेन्ना खऱ्यांनी जळटा कितें? हांगा मुंडाल्या प्रदेशांत मुंडालीं घरां रानांतलें लांकूड, पानां, वाली, भुंयेवेले फातर आनी माती वापरून घडटात. त्या घरांत आसता, तणाच्यो शेनऱ्यो, मातयेचो गाडगो, आनी कितें आसता तर? जे हांजी हांजी करून मुखार पावतात, तेच खरेले दुस्मान, दिकू तांच्या नाखटां वरी. मुंडांल्या रगतांत सगलें भरोवन दिलां. हांव भगवान गा! भगवान!

बीरसान मान घुंवडायली. सुनाराल्या माथ्यार हात दवरलो. ताणे म्हळें, 'ते कमिशनर, डी.सी. उलोवंक येयल्याय.'

– 'कित्याक?'

बीरसा हांसलो. ताणे म्हळें, 'ते सायब न्हो! गयाक शरण येवंक सांगलां, म्हाकाय सांगतले. हो तेंचो इप्रीत नेम. आदीं मातशें उलोवन आपल्याक निर्दोशशे दाखयतले.'

– 'मागीर?'

– 'गुळी घालतले. घालून आमका मारतले. पूण रिकॉर्डांत बरयतले, आदीं आमी न्यायधर्मा प्रमाण मुंडांक शरण येवंक सांगल्लें. शरण येवंक ना, देखून गुळी घाली.'

– 'शरण येयल्यार गुळी घालचे नाय?'

– 'घालतले. तेन्ना म्हुण्टले आमी सांगल्यार मुंडा रागान आंगार येयले, देखून गुळी घाली. तेन्ना तशें रेकॉर्डांत बरयतले.'

– 'तो कोण?'

– 'दुभाशी. सायबांक मुंडारी कळना.'

– 'कळना? दिकू सांगता सायबांक सगलें कळटा म्हुणोन!'

— 'ना रे! मुंडारी कळना. मुंडांगे न्याय करताय. दुभाशी सांगता तेंच मानून घेताय.'

स्ट्रीटफील्ड थारलो. हात उबारलो. तेन्ना ताका ते स्पश्ट दिसले. दोळ्यांत उजवाडाचे तिबे नाचताले. तांच्या भाल्यांच्या तोंकार सूर्या पर्जळटालो. ते हात उबारून भाले तयार धरून उबे आशिल्ले. दुभाश्याक खुणायलो, कितें तरी सांगलें, दुभाशी तांचे वतीन उलोवंक लागलो.

— 'तुमी शरण येयात, हत्यारां दिवन वडयात.'

बीरसायतांनी भाले सूर्याचे दिकेन उबारले, आनी आड्डून म्हळें, ''हत्यारां दवरून तुमी चलाय रे!

— 'जे हे लडायेंतले सरदार तांणी येवंचें. भासाभास करची!'

— 'आमी सऽगले मुंडा हे लडायेंत सरदार!'

— 'बीरसाक आमचे सुवादीन करात.'

आतां नरशिंव मुंडा मुखार आयलो, 'राज्य कोणालें? सायबागे? आमगे राज्य! आमी तांगे देसांत राज्य करूंक गेल्याय काय ते हिंगा येयल्याय? जाल्यार हत्यारां कोणे दिवोप? आमी? सायबांनी हत्यारां सकला दवरून वयचें. आमी हत्यारां दिवंक हांगा येयल्याय? राज्य घेतले म्हुणोन येयल्याय.'

भासाभास करपाक आनी कांय नाशिल्लें. कांयच नाशिल्लें. फोर्ब्सान म्हळें, 'दोंगराक रेवाडो घाला. आतां उत्तर दिकेन चाल करून गेल्यारुय बंडवाले भंयान निशस्त्र जावं येता. तशें जाल्यार फारपेट करपाची गरज पडची ना.' पूण कॅप्टन रोसान म्हळें, ''इतले लागीं गेल्यार शिपायांचो जीव संकटांत पडूं येता. अस्तंतेच्यान तिरील-कुटी बुरूवेल्यान फार सोडचे.'

तेन्नाचे तेन्ना तीन खेपो फार सोडले. कोणाक लागले ना. मुंडांनी आड्डून म्हळें, 'भगवान! दुस्मानाचीं तुबकां बडयां समान केलीं तुयें. गुळयो उदका वरी. पळयाय तरी, गुळयो सगल्यो फुकट गेल्यो. कोण पडोंक ना, मरोंक ना.'

पूण मिलिटरी रेजिमेंटाल्या हातांत रायफलां आसल्यार थोडो वेळ हात रायफलां चलयतात, उपरांत रायफलां हात चलयतात. चेंबरांत एका फाटल्यान एक गुळी भरूंक हाताक फोर्सार करतात. बोटांक घोडो दामूंक फोर्सार करतात – कॅप्टन रोसाल्या दोळ्यांतली तुरत्त, तोंडांतली 'बक अप बॉयज!' ही हालेट निश्प्राण रायफलांनी प्राण जागोवं शकताली. तेन्ना काळजान जरी मुंडा लागीं लागीं निरस्त्र आसात अशें कितलेंय सांगलें तरिकूय रायफलाची म्हणणी आयकल्यार प्रोमोशन नक्की.

देखून परत्यो गुळयो आयल्यो. आतां वाऱ्यार दारवेचो वास. साप नीरस खट-खट-खट-खट आवाज! गुटुहातूचो हाथीराम, बरतोलीचो सिंगराई घुंवन तळपार पडलों.

बीरसायतांनी बीरसाक ओडून फाटी काडलो. तांबडें रगत काळ्या कुडींतल्यान काळ्या तळपांर पातळटालें.

– 'मांगाल मुंडाक हाथीराम सोडून आनीकूय पूत आसाय!'

काश्टी मारिल्लो हाथीरामाचो भाव हरी धोणू उबारून मुखार आयलो. आनीक एक पोर-पिरायेचो भुरगो, 'आरे, तूं आनी कोण?' 'हांव नानक!' 'पिराय कितली?' 'बारा जालीं.' 'जाल्यार यो, मुंडा खंयचेय पिरायेंत मरूं येता.' ...'आरे ते कित्याक मेले?' ...'तळपार चड, गोफीण उखल!' 'गोफणीचो फातर चड पयस वचना दिसता. ते कित्याक मेले?' ...'खबर ना.' ...'म्हाजेलागीं राव, एकलो मरोंक खूब भंय दिसता.' ...'आसा लागीं.'

गुळयांचे आवाज. दारवेचो वास. गुळयांचे आवाज. भुरगो धोणवावरी बागोवन शेंवटून सकयल पडलो... हरी तळपार.

पुलीस आनी फौज मुखार सरताली. फोर्ब्साचो आवाज, 'स्टॉप फायरिंग. आतां चारूय दिकांनी दोंगरार चडात. फार मारुं नाकात, ना, ऑर्डर दिना तों मेरेन कोणेच फार मारप ना. नो मोर किलींग.'

संगीन मुखार धरून तुबक तयार दवरून फौज आनी पुलीस चडटालीं! गौरी मुंडिणीचे फाटीर भुरगें, हातांत फातर. 'मंझियाची मुंडीण खंय गो! बंकनची मुंडीण!' आतां गौरी मुंडीण आपले बावीस वर्सांचे परिपूर्ण जुवानेची पुराय शक्त ओतून दोंय हातांनी तोंड उखलून धरून किळांचली, 'जिवडी गांवचें कोण आसा! मुखार येयाय!' तिणे कुशीन पळयलें, 'कोण तूं? जाण्टेलो?' 'नांवांत कितें आसा, हांव पुराणक! धर, हांव तुका फातर दितां हातांत.'

फातर गडगड करून पडटाले. संगिनी तुबकां मुखार सरतालीं. रेजिमेंटाची बोब, 'कॅप्टन सायब, कितें ऑर्डर?' कॅप्टन रोसाची जाप, 'बक अप बॉयज!' 'कॅप्टन सायब, कितें ऑर्डर?' फोर्ब्साची आरड, 'डोन्ट शूट!' कॅप्टन रोसाची जाप, 'फायर!' शिपायांची हालेट, 'त्यो बायलो! फाटीर भुरगीं बांदल्यांत.' पूण रायफलान म्हळें, 'शूट!' कोणे तरी म्हळें, 'भुरगो रडटा!' पूण रायफलान म्हळें, 'शूट!' आतां गुळये फाटल्यान गुळी! आतां शिपाय-पुलीस, बीरसायत बायलो-दादले एकमेका सामखार. डोनका मुंडाची हालेट, 'धांवाय रे!' सोमा मुंडाची किळांच, 'बायलां. फाटीर भुरगी बांदल्यांय!' पूण रायफलान म्हळें, 'शूट!' गुळयो-बेयोनेट! बेयोनेट-गुळयो! गौरीक कळ्ळें, संगिनीचें तोंक तिच्या भुरग्याक फाळून फाटींतल्यान रोमलां, हड्ड्याक गुळी लागली तेन्ना गौरी हुसक्या मेकळी जाली. मागीर बेयोनेट-गुळयो-हालेटी-हुयेली आनी किळांची – खोशी – बुटांच्या आवाजांत – दारवेचो वास – वेदनांनी माखिल्ल्यो गाळी – 'आवय गे!' कोण एक भुरगें आड्डलें – परती एक गुळी

ऑपरेशन शैलराकाब ओव्हर! येस, ओव्हर! ओव्हर - ओव्हर - ओव्हर - ओव्हर - ओव्हर - ओव्हर...

उपरांत, बरेच उपरांत मुंडारी बायलांचे हत्येखातीर फोर्ब्स, रोस आनी स्ट्रीटफील्डाक सौम्य नरम उतरांनी तापवणी पडली. पूण तिगांनीय म्हळें, 'गुळी ना घालपाचो हुकूम सारखो कळ्ळो ना. मुंडा दादले आनी बायलां केंस लांब दवरतात, तांचो रंग सामखो काळो, ताका लागून बायल-दादल्यां मदीं फरक करपाक शक्य जालें ना.' ना, ल्हान भुरग्याचें रडें आयकून लेगीत फरक करपाक जमलें ना. पूण युध्द संबंदी आनी युध्द - खेरीत कार्यालयांनी तिगांकूय निर्दोश थारायले. दर एकल्याची शूरताय आनी समय सूचकताये खातीर तोखणाय केली. खासा गव्हर्नर जनरलान.

अशेच तरेचे मतभेद मरतल्यांच्या आंकड्या संबंदानूय दिसले. 20 जानेराच्या 'द इंग्लीशमन' पत्रान म्हळें, 'सरकारी म्हणयारी मेल्ल्यांच्या आंकड्या संबंदान कांयच उलयना. अफवा आसा पंदरा ते वीस जाण मेल्यात म्हूण. हो आंकडो चड आसप सभावीक, कारण मुंडा रानांत पळून वतात थंयूय मरतात, आनी रातच्या काळखांत दोंगरावेल्यान सांगात्यांचीं मडीं ओडून व्हरून लिपचोरयां समाधी दितात.'

25 मार्चाचो 'द स्टेट्समन' म्हण्टा, 'उणेच म्हळ्यार चारशीं मुंडा मेल्यात. फाव ती वासपूस जावंक जाय.'

बॅरिस्टर जेकबाक हो आंकडो सारखोसो दिसतालो.

16 फेब्रेराक 'बंगाल पुलीस इंटेलिजन्सा'न बरयलें, 'सरदारांनी म्हळां, सातशीं मुंडा मेले.'

'द स्टेट्समना'न परतें बरयलें, चाळीस जाण मेले. रेव्हरंड हॉफमॅनान म्हळें, फकत वीस जाण मेल्यात. जाल्यार सरकारी निवेदनांत बरयल्लें, शैलराकाबार धा जाण मेले, सात जाण जखमी. सरकारी निवेदना आड जैनक पाठकान 'इंग्लीशमन' संपादकाक चीट बरोवन कळयलें, 'म्हजेकडेन बऱ्याच काळा सावन वळखी आशिल्ल्या इतल्याय सगल्या महत्वाच्या लोकांनी म्हळां, रानांत गेल्यार भितर खंय मुंडांक गुपितपणान समाधी दिल्या तें दाखयतले. विशय भौच म्हत्वाचो. आतांच हाचेर विस्तारान वासपूस करप गरजेचें.' 'जैनक पाठक' हाची चीट 1900 वर्साच्या 17 आब्रेलाक उजवाडाक आयली. मागीर कळ्ळें, सरकाराचें निवेदन अंतिम. त्या संबंदान आनी खंयचीच चीट खंयच्याच खबरांपत्रार उजवाडाक येवंची ना.

सांज जातासर शिपाय परतून गेले. पुलीस शैलराकाबाचेर पारो दिताले. सांज जातासर तांणी शैलराकाबाच्या धोलींतल्यान बायलो, भुरगीं, शस्त्रां, भात, वरयां-दाणे, तणाच्यो मांदऱ्यो, मातयेचे बुडकुले अशें ओडून भायर हाडिल्लें. सांज जातासर बीरसायत बंदींनी लांकूड कापून माचलां घडयल्लीं. सांज जांवचे आदीं जखमी जाल्ल्यांक व्हरपाचो वावरुय जालो.

मागीर काळोख देंवलो, शिंयाची रात. उपरांत वारें सुटलें. मळबांत विस्कळ कुपां, पिरीपिरी पावस, रानांत रुखां – पानांर पावस, हलके स्वास, रानान उस्वास सोडलो.

रानांत बरें भितर, काळखांत, जमनींतल्यान मान उबारून नरसिंग मुंडान म्हळें, 'माती कोण खणटा रे गोमी?'

– 'आमगे भुरगे ते खणटाय, दादो.'

– 'कित्याक?'

– 'हिंगा मेल्याय तेंका हिंगाच पुरोंक.'

– 'म्हाकाय हिंगाच पुराय.'

– 'जानोमपिरीक व्हरों नाका म्हुण्टा?'

– 'नाका. जंय बीरसायतांचो फोंड, थिंगाच घाल म्हाका. तुयें ओडून हाडलो. काय दुसऱ्या कोणी?

– 'तुका हांयें हाडलो. आजुनूय ते हाडीत आसा. शैलराकाबाच्यान राना मेरेन कितले जाण पडल्याय जाणा? मेजूंक जायना!'

– 'कोण्णाक कळोंक जायना तुयें खंय फोंड खणला तें, कळ्ळें गोमी? फोंडांतल्याचो राग भयांकृत. जेचें मडें नदरेक पडटा, तेचें गांव लासून वडयता, घराबो काबार करता.'

– 'कोण्णाक कळचें ना.'

– 'तुमी?'

– 'पळोन वयतले.'

– 'वचाय. म्हागे तोंड दामून धर.'

– 'कित्याक दादो?'

– 'भितरल्यान वथरेकणीशी येता रे! रातचो हो आवाज पयस मेरेन पावतलो, फोंडांतल्यांच्या कानार पडटलो.'

– 'दामतां, राव.'

नरसिंग मुंडाल्या तोंडार ताणे उजवो हात दामून धरलो. रगतान भरिल्लो दावो हात आपल्याच तोंडार धरलो. ताच्या हड्ड्यांतल्यान विळाप फुटून येतालो...

जमीन खणपाचे, मडीं ओडपाचे आवाज. पत्र्यार पावसाची सळसळ! गोमीचो हात कुशीक काडून नरसिंग उलयलो, 'हांगा रान वाडटलें. कसलीच कुरु आसची ना. झाडां पळोवन मुंडांक कळटलें, खंय कोणागे मडें आसा तें!'

जानेराचे 11 वेर फोर्ब्सान खुंटीक मुंडांक, मुखेल्यांक आपोवन हाडले. तांचे कडेन उलयलो. स्ट्रीटफील्डान म्हळें, 'रेव्हरंड हॉफमॅन म्हण्टा तेंच म्हाजेंय मत. रेव्हरंड हॉफमॅनाक मुंडारी कळटा, तो मुंडांकूय वळखता. तो मिशनाचो मनीस. ताची नदर उदार, मन दयावान.'

हॉफमॅनान म्हळें, 'तांका दया दाखयल्यारूय रेंवेंत बियो शिंपडिल्ले वरी. बीरसाचे भक्त – फकत दादल्यांचें कितें सांगतात तुमी? तांचीं बायलां कितलीं कट्टर जाणात तुमी? सोडूं नाकात, कडक ख्यारस्त दियात.'

– 'कसली ख्यारस्त?'

– 'बीरसायतांचो म्हालमतो जप्त करात. बायलांक गांवांत बंदी जावन रावं दी. जांका धरूंक जाता, तांका मारून उडयात! पयलो पंगड मरून सोंपल्यार फाटल्यांक सारखी देख मेळटली, नायस दृश्टांत.'

– 'नायस!'

– 'जोंवेर एकान एक हत्यारी बीरसायताक धरिनात, तोंवेर हेर बीरसायतांक बंदिवान करात. मुखेल्यांनी कबलात करची, बीरसाक, ताच्या पंगडाक, आतां वा फुडेंय केन्नाच आलाशिरो दिवंचे ना म्हुण.'

– 'डी. सी.चेंय मत्त तशेंच आसा?'

– 'हय.'

– 'बेस बरें! एकलो मिशनरी, दुसरो डी.सी. सुचवणी बरी आसा. आयकात, खटलो चलयले बगर अत्याचार जावंक जायना. कारण, तशें जाल्यार बीरसायतांक बंडाच्या मार्गार धुकळिल्लेवरी जातलें. कायदो मोडपाच्या खंयच्याय यत्नांक मोडटें घालूंकूच जाय. पूण बीरसा पातळायता त्या धर्मा संबंदान सरकाराक दुस्वास ना. आतां नवे मांडणेन काम चलतलें.'

– 'म्हणचे'

फोर्ब्सान एक कागद दिलें. तातुंत बरयल्लें:

'बंडवाल्यांचो पंगड गरज पडल्यार बळ वापरून मोडचो. जांणी दंगल केल्या वा हेर खंयचोय दंडनीय गुन्याव केला तांका बंदिवान करून ख्यारस्त दिवंची.'

'हत्या वा हत्येचो यत्न आनी पुलीस नेमा प्रमाण गुन्यांव थारपी कसल्याय कृत्यांत आरोपी आशिल्ल्या व्यक्तींक अटक करून वासपूस करची.'

'हे घडणुकेच्या वेळार आपल्या गांवांत हाजीर नाशिल्ल्याचें प्रमाण ज्या बीरसायतां संबंदान मेळटलें, तांचे कडल्यान तांच्या थंय हजर नासपा संबंदान समाधानकारक स्पश्टीकरण घेवंचें. ''ते शांतिपूर्ण वागण्या संबंदान जामीन कित्याक दिनात?'' ताचें कारण तांणी उक्तावंक जाय.'

'ज्या ज्या वाठारांनी गरज दिसता, थंय चडावत पुलीस दवरचे, जाका लागून फुडल्या काळांत शांतताय राखूंक शक्य जातलें.'

हॉफमॅनान म्हळें, 'ही तर आनिकूय उत्तम वेवस्था.'

फोर्ब्सान म्हळें, 'नक्कीच. तुमका जाय ताच्याकूय चडूच ख्यारस्त फर्मायल्या. फकत गुळयो घालून मारप मात जावंचें ना.'

– 'पुलीस गांवांत भोंवत रावल्यार तर स्लो डेथ.'

– 'सारखें. पुलीस आसप म्हळ्यार कितें! पुलीस आसतली, आर्मी रावतली, तांचें खाण-जेवण आसतलें, तांचे घोडे तण खातले, तांका उदक, लांकूड, अन्न जाय पडटलें. मुंडां खातीर हें ल्हवू ल्हवू येतलें मरणूच न्हय!'

– 'बंडवाल्यांक धरचे आदीं थाण्यार आनी मिशनांत राखणेचें कितें?'

– 'सगळी वेवस्था जाल्या.'

फोर्ब्स हांसलो. बीरसा! बीरसा दाऊद! बीरसा भगवान! बीरसा आपले जिणेंत देव जावनूच आयला न्हय? छोटा नागपुरा सारख्या एका पाड पडिल्ल्या जाग्यार कमिशनर म्हूण येतकच अशें नशीब फळफळटलें म्हूण कोणे चिंतिल्लें? राजद्रोह चिड्डुपाची अशी संद मेळप म्हळ्यार कितें सादी गजाल?

ताणे म्हळें, 'रांची आनी सिंगभूमांतल्या उपद्रव जाल्ल्या सगल्या वाठारांत दर एका थाण्यार, एकान एक गांवांत, एका एका मिशनांत रायफल घेवन आशिल्ले पुलीस दवरल्यात. डुमका आनी हेर कडल्यान मिलिटरी, पुलीस येतात. प्रकरण खंयच्या थरार पावलां, कळ्ळें?'

– 'व्हडलें प्रकरण.'

फोर्ब्स परतो हांसलो. बीरसा! बीरसा दाऊद! बीरसा भगवान! ताणे म्हळें, 'डी. सी., नेव्हर इग्नोर द ब्रिटीश लॉ. ब्रिटीश कायद्याक तूं उणाक लेखूं नाका. कायद्याच्या सांपळ्यांत सांपडायतकच मुंडांक जी ख्यास्त जातली ती आनीक खंयच्याच मार्गान जावंची ना. पयलो फायदो म्हळ्यार, जॉर्जाक मुंडारी कळना. दुसरें म्हळ्यार, मुंडांक कायदो-इंग्लेज कळना. तिसरो लाव, पयल्यान पयलीं अटक करून बंदखणींत उडयात. केस उबी जावंक तपास चलत रावं दी. म्हयन्यान म्हयने बंदखणींत रावन मुंडांचो फाटीचो कणो आपशींच मोडटलो.'

फोर्ब्स हांसलो. अंतर्दृश्टीन ताणे पळयलें, राज-द्रोह चिड्डुपाखातीर ताका पुरस्कार मेळ्ळा. ना, म्यूटिनीचो भाग्याचो दीस परतो उदेवंचो ना. तेन्ना हेवटेन प्रोमोशन जाल्लें, तेवाटेन राजा आनी जमीनदारांचे वाडे लुटून सायब राजा जाल्ले. मुंडांची घरां लुटून राजा जावंक शक्य ना. पूण प्रोमोशन तरी जातलेंच. प्रोमोशन नक्की. फोर्ब्स बोर्ड ऑफ रेव्हेन्यूचो मेंबर जातलो, आडायतलो कोण आसा!

– 'एक नोटीस दिल्यार जाताली, न्हय?'

– 'डी. सी., सगळी वेवस्था केल्या. नोटीस वाच. ही दर एका गांव-मुखेल्याक, बाजार-अधिकाऱ्यांक आनी हेर कडांनी पावतली. सिरगुजा, उदयपूर, जाशपूर, रामगड, बानाय, ह्या सगल्या नेटिव स्टेटींक वतली. सेरायकेला आनी पोराहाट हांगाचे राजे शिपाय धाडटले. खासा तेय बीरसाचो सोद घेतले. नोटीस सरकारी ऑर्डरीचो हिंदी आनी मुंडारी अणकार. व्हडान वाच.'

स्ट्रीटफील्ड वाचूंक लागलो, 'हे सुचवणेंत जाहीर करतात, बीरसायतांनी आरंभिल्ल्या अन्यायाक लागून सरकार बहादुरान बीरसा आनी ताचे मुखेल अनुयायी हांका बेगोबेग अटक करपाचो आदेश काडला आनी त्या उद्देशान बंदगांव, खुंटी आनी सिंगभूम तशेंच रांचीच्या हेर सुवातींनी सरकारी सेना रवाना केल्ली आसा. तुमका असो आदेश दितात, की हे संबंदान सरकारी कर्मचाऱ्यांक तुमी सगल्या तरांचो आधार करचो. बीरसा आनी ताचे मुखेल गुरु तुमच्या गांवा लागीं आयले, वा लागींच्या रानांनी लिपले, जाल्यार तात्काळ तुमी रांची वा सिंगभूमच्या डी. सी.क वा लश्कर/पुलीस हांच्या थंय नेमिल्ल्या सरकारी कर्मचाऱ्यांक खबर दिवंची, आनी तुमी तेच परी गांवचे लोक हांणी गरज पडत तेन्ना, बीरसा आनी ताचे अनुयायी हांचो सोद घेवंक सरकारी कर्मचाऱ्यां वांगडा वचचें. वयल्या कर्तव्यांत कसूर केल्यार तुमी पुरायेन जापसालदार जातले आनी तुमचेर फाव ती कारवाय करतले, तुमच्या गांवांनी चडावत पुलीस तैनात करतले; तुमी धरून गांवच्या सगल्यांक पुलिसांचो खर्च करप बंधनकारक जावन आसा. तुमी आनी गांवचे लोक सक्षम आसल्यार, तुमीच बीरसाक अटक करची आनी बंदी करून ताका डी.सी. कडेन घेवन वचचें.'

'कोणेय व्यक्तीन बीरसा वा मुखार नांव दिल्ल्यां भितल्ल्या कोणाकूय धरून दिल्यार वा धरून दिवपा खातीर गरजेची कसलीय खबर दिल्यार सकयले प्रमाण पुरस्कार दितले:

| | |
|---|---|
| बीरसाक धरून दिवपाखातीर | 500 रुपया |
| डोनका मुंडा: | |
| गांव बोतोरदी: थाणें खुंटी | 100 रुपया |
| माझिया मुंडा: | |
| गांव सेरांदी: थाणें तामार | 100 रुपया |
| बुध मुंडा: गांव सितिदी | 100 रुपया |
| पोरान प्रधान: गांव कार्टिकेल | 100 रुपया |
| 12.1.1900 | स्वा.: ए. फोर्ब्स. |
| | छोटा नागपूरचो कमिशनर.' |

स्ट्रीटफील्डान नोटीस फोर्ब्साक परती दिली. फोर्ब्सान म्हळें, 'सिंगभूमचो कमिशनर आनी डी. सी.: सिक्स्थ बेंगॉल इन्फंट्रीची एक कंपनी घेवन कॅप्टन रोस, बंदगांव आनी सिंगभुमांत गांवां गांवांनी भोंवतले. डी. सी., तुमी आनी कर्नल वेस्टमोर्लंड उदेंतेक खुंटी आनी तामार थाण्यां सकल्या वाठारांनी भोंवचें. असिस्टंट एस्.पी. स्टीव्हन्स आनी लेफ्टनंट मिडलमॅन तोरपा आनी बासिया थांण्यासकल्या वाठारांनी भोंवतले. दर एका बीरसायत गांवांत खांची-कोणशांनी लेगीत सोद घेतले. मिलिटरी फौज जखमी आनी हेर बीरसायतांक धरतली. फरारी बीरसायतांचें भात-गंव-दाळ-बाजरी आनी हेर संपत्ती जप्त करतले. बंडवाल्यांक खावंक एक दाणो लेगीत मेळूंक जायना. प्रदेश सरकाराची इत्सा आसा - मुंडा वाठारांत सरकारी बळ जबर तरेन सिध्द करूंक जाय. बीरसा आनी ताचे मुखेल चेले

हांका धरपांत कसलीच धिलाय चलची ना.'

स्ट्रीटफील्ड मुमुरखो दुर्बोध हांसलो.

– 'डी. सी.क कितें दिसता, ऑपरेशन फेल जातलें?'

– 'ना, तशें न्हय.'

– 'जाल्यार कशें?'

– 'कांय ना.'

बीरसा दिसल्यार डी. सी.न ताका अटक करपाची, अटकेंत आडमेळें हाडल्यार गुळी घालपाची. फोर्ब्सापरस डी.सी. मुंडां विशीं निर्दय जातालो. परतें, डी. सी.क तेच बराबर हेंय खबर आशिल्लें, बीरसाक अटक करपाक जालें ना जाल्यारूय ताका दुःख ना. कितेंय जाल्यार ऑपरेशन बीरसा वरवीं फायदो जातलो तो फोर्ब्साक, ताका न्हय.

सगलें जालें. धोल वाजयत पेर्गाव घालून जालें. ती घोशणा छापून सगल्याक लोंबकळायली. मिलिटरी पुलीस, इंग्लेज ऑफिसर, देशी राजा सगल्यांनी गांवां लुटून भाताचो एक एक दाणो वेंचून व्हेलो. बीरसायतांचे उपास सुरु जाले. कितल्या जाणांक धरून व्हेले, कितल्याशाच जाणांक निर्दयपणान मार घालो, पूण बीरसा हाताक लागलो ना. जिवरी गांवचो म्हातारो, कुड्डो मुखेली म्हणपाक लागलो, 'बीरसाचेर नदर दवरूंक म्हाका कोण फारीक करता? तुमका करता, तुमी धराय.' तेन्ना ताचे फाटीर चामड्यांत लोखंड भरिल्ल्या चाबकाची बोणी जाली. कोलकात्यांतल्या मोठ्या दुकानांतल्यान करून घेतिल्लें हें स्पेशल चाबूक. नीळकार सायबांनी हाका नांव दिल्लें ''श्यामचांद.' चाळीस वर्सांनी त्या दुकानांत परती श्यामचांदाची ऑर्डर मेळिल्ली.

जाण्ट्या मुखेल्यान चाबूक खातना म्हळें, 'रानान तेका लिपयला, तुमी रानाच्याक व्हड?'

बीरसा काय मेळ्ळो ना. ऑपरेशन-बीरसा चालूच उरलें. फोर्ब्सान म्हळें, 'चलता, चलतलें, अशेंच चलतलें.'

शैलराकाबा सावन बोतोरदी, बोतोरदी साकून आयुभातू , आयुभातूच्यान मारांगहाडा, असो बीरसा भोंवत आशिल्लो. सांगाताक डोनका, माझिया, सुनारा आनी हेर सगले. दिसाचो रानांत रावतालो, रानांत खूब भितर. रूखाचे तेंगशेर बसून नानकां मदलो कोणूय भोंवतणी नदर दवरतालो. हलकी शिळोणी घालतालो. गांवांतल्यान गोरावां राखूंक येवपी नदर वयर करिनासतना शिळोणी घालून शिटकावणी दिवन वताले. दीस-रात गांवांत पुलिसांचो पारो. रातीच्या काळखांत बायलां 'भायर वयतां आं', म्हुण तिगां जाणां भायर सरून येंतालीं. 'जालें आं' म्हूण दोगां परतीं येतालीं. एकलें केन्ना चेडूं भुरगें, केन्ना जुवान तरणाटी, केन्ना जाण्टेलें आपलें धवें वस्त्र सोडून, विवस्त्र अवस्थेंत काळी कूड काळखाक ओंपून रानांत येवन खाण-जेवण आनी उदक दवरून वतालें. तें सांगून वतालें, 'हिंगाचे परस त्या गांवांत भंय उणो. पुलीस थिंय आजून पावंक ना. थिंगच्यान हतयांचो तांडो

गेला, देखून शिपायांची भंयान गुळी जाल्या. परां वयतले.'

ते तशेच वताले. बीरसाय वतालो, इकुणिस दीस ते पुलीस आनी मिलिटरीचो दोळो चुकोवन भोंवताले. पूण बीरसा सुनाराक खंद्यार घेवन फिरतालो देखून इकुणिसाव्या दिसा इत्सा आसुनूय तांका वचपाक जमलें ना. तिलाडुबूच्या रानांत रावले. सुनारान म्हळें, 'हांव आनी फुडें येयना, भगवान. म्हाका सोडून चलाय. शैलराकाबाचेर काळीज बंद पडलेंशें जाल्लें, आयज कितल्या दिसां सावन म्हाका उखलून व्हरता, पूण म्हाका कळ्ळां, हांव आनीक वांचचों ना!'

बीरसा अस्वस्थ आशिल्लो. हांगा रान तितलें दाट नाशिल्लें. ते भायर तें दोन व्हडल्या बाजारांक वचपाचे वाटेर आशिल्लें. सुनाराक उबारून घेवन चलप तशें कश्टाचेंच. ताणे सुनाराक म्हळें, 'तळपार न्हिदोन राव. हांव तिलाडुबूचो मुरु मुंडा कितें म्हुण्टा पळयतां. तेणे येतां म्हुणोन कळयल्लें.'

– 'हिंगा कित्याक येयले आमी? हें विरकळ रान.'

– 'मुरु तुका वखद घेवन येतलो.'

– 'वखदान कितें जातलें? हिंगा यो.'

– 'हो न्हो हांव.'

– 'भगवान!' सुनारा फिक्या पडिल्ल्या ओंठांनी वेदना दामून धरीत हांसलो, 'याद आसा, थंऽऽय बंदगांवां हांयें एक गीत म्हुणोन दाखयल्लें?'

– 'सुनारा, तूं बरो जा. आतां हांव तुका तें गीत म्हुणोन दाखयतां, म्हाका बरें येता तें आतां.'

बीरसान हलक्या आवाजांत म्हळें, थंयच्यान उठून आयलो. डोनका आनी माझिया तकलेर हात धरून बसून आशिल्ले. मुखार साली, परमी.

– 'तुमी?'

– 'मुरु पावंचो ना. तेका फांतोडेर धल्लो. मुखेल्याच्या भावान तेका धरून दिलो, भगवान!'

परमी कडेन पळोवंक बीरसाक वायट दिसलें. बीरसान परमीच्या बाबाच्या उतराक ताचे कडेन लग्न करतां म्हणिल्लें. पूण परमीचें काळीज केन्नाच्यान बीरसायत जाल्ल्या कोनूंत–रोगोतोच्या कोनू मुंडांत घुसपल्लें. कोनू शैलराकाबाच्या झुजांत सोंपलो.

डोनकान म्हळें, 'परिबा खंय?'

– 'आवयकडेन.'

– 'कितें जालां?' बीरसान विचारलें.

सालीन म्हळें, 'तुजो धर्म मानतल्या सगल्या मुखेल्यांचे अधिकार सरकारान काडून घेयल्याय, नव्या मुखेल्यांक कबलात करून अधिकार दिल्याय. गुईपाई, रोगोतो, कोटागारा, शंकरा, बारा गांवच्या मुखेल्यांचो पाट व्हगडलो. तुमका जो धरून दितलो तेका तो पाट

मेळटलो, तो मुखेली जातलो.'

– 'मुखार उलय.' डोनकान म्हळें.

– 'सऽगलें भात, जोंदळो, दाळ, मीठ म्हागे घरांतल्यान, सगल्यांगे घरांतल्यान व्हेलें. हांयें आयकलां, अशा देडशें गांवांतल्यान सगलें व्हरोन मुंडांक उपाशीं मारतले, आनी '

– 'आनी कितें?'

– 'चाबकांच्या मारान जीव काडटाय आनी'

– 'तुमी मेळना ते मेरेन चाबकांनी फोडून, भात-तांदूळ लुटून, बंदखणींत घालून घरांघरांत आकांत केला. बायलांगे अब्रू ... ' सालीक उतर फुटना जालें.

कांय वेळान नदर वयर करून सालीन म्हळें, 'बोतोरदीक म्हागे मुंडाक लागोन, सेरांगदींत माझियाक लागोन, सगलीं घरां पोराहाटाच्या राजालो हती घालून मोडून वडयल्यांय. आमी आनी परतीं वचना! गेल्यार अब्रू उरची ना.'

बीरसान डोनका आनी माझिया कडेन पळयलें. ताचे नदरेंत वेदना, प्रश्न, दुःख, लज. डोनका आनी माझियान एकामेकाक पळयलें. डोनकान म्हळें, 'जितले मुंडा तेणी धरल्याय, तेच्याकूय चड पळोन गेल्याय. तूं भायर आसल्यार उलगुलानाचो वावर जातलो. आमकां धरून दिल्यार गांव वांचतलो, मुंडा वांचतले.'

– 'हांव एकलो?'

डोनकान हातांतली बडी जमनीर दवरली. म्हणपाक लागलो, 'हांव हे बडयेवरी आसलेलों, भगवान, तुयें म्हाका आदीं प्रचारक, मागीर लढका केलो. आमका धरून दिल्यार कांय लुसकाण ना.'

ताणे सालीक म्हळें, 'तुका भगवानाकडेन सोडून वयतां.' डोनका आनी माझिया सुनाराक खांद्यार मारून तिलाडुबूचें रान सोडून वचूंक गेले. रात भर चलून थंयच्यान णव मैलांचेर तोरपा आवट पोस्टांत वचून शरण आयले. तांणी सांगलें, 'बीरसा थंय तुराबूच्या रानांत लिपोन बसला. तुराबू तिलाडुबूचे सारखें दुसरे दिकेक, उत्तरेक बावीस मैलांचेर, जोमकोपाई वाठारांत.'

जोमकोपाई आनी भोंवतणच्या गांवांनी वचूंक पोराहाटचो राजकुंवर, कमिशनर, डी. सी. टॉमसन बॉक्सवेल, पुलीस, मिलिटरी आनी एक हजार लोकाक घेवन भायर सरलो.

डोनकान म्हळें, 'आमकां शरण येवंक सांगलें मुखेल्याची घरकान्न मानीन, बोतोरदीची मुखेलीण ती. तिणे सांगलें, 'शरण येयना जाल्यार धरून दितलीं.' तिका दियाय कितेंय, सगल्यांक दुडू दिल्या तशें.'

मानी पहानीक आपोवन हाडली. तिणे कांयच उलयनासतना वीस रुपया घेतले. डोनकान म्हळें, 'सेनत्राक तुगे व्हडल्या भावागेर वचोन राव. बीरसायताक तुयें धरून दिला. बोतोरदींत रावल्यार लोक थुंकतले तुजेर.'

– 'कित्याक? तुगे भगवान खंय तर? धर्तर–आबा?' मानी गेली.



# 20

पुराय सरकारी रजिस्टरांनी ज्या मुंडा गांवांक बंडवालीं म्हुण निशाणिल्लीं, तांचे भितर रोगोतो हें सगल्यांत फुडें. ह्या गांवांत उणे ती धा खेपो तरी पुलीस आनी मिलिटरी येवन गेल्ली. ते सेंगलदाचे उज्या-वृष्टी उपरांत पृथ्वी यातनांनी आंवळून येवन कांपताली. मागीर त्या अनादि अतीतांत सिंगबोंगान रानांचो वाठार निर्मून पिडा जातल्या जाग्यार आवरण घाल्लें. भुंयेच्या वयर-सकयल तळा प्रमाण रानूय खंय वयर, खंय सकयल. रोगोतो गांवा लागीं रानांत साल-रुखां माथ्यार माच, माचार एक कूड. साली हांगा रावंक सोदिनाशिल्लें. पूण बीरसान व्यथित विध्द आवाजांत विचारिल्लें, 'पळून वचोन जीव वाटांव?' मागीर ताणे सांगिल्लें, 'हिंगाच राव. सरकाराक वास लेगीत लागचो ना. जेका धरूंक मुंडा वाठार पिंजून काडटाय, तो हिंगा आसा.'

निसण चडून मानी मुखेलीण वयर आयली. तिणे म्हळें, 'डोनका आनी माझियाक धरून घेवंक सांगलें तेचे वीस रुपया. साली, तांदूळ हाडल्या, पूण सुके चाबून उदीक पिये. शिजय नाका! धुंवर जातलो! सगल्यांक कळटलें.' मानीन बीरसाक प्रणाम केलो.

– 'कितें खबर?'

– 'बरें ना, साप कठीन. देओंरा, मुखेली, भाटकार, सावकार सगले मुंडांक छळटाय. पुलीस बडयताय. सायबाचे चाबूक कितलें खर! भंयान सगले क्रिस्तांव जायत आसाय.'

– 'परतेय?' सालीन विचारलें.'

– 'तेंतुंत कितें? मुंडा क्रिस्तांव जाताय, परते मिशन सोडटाय. आतां परतें उलगुलान जातलें तेन्ना परते येतले, जातलें मू उलगुलान, काय कितें, भगवान!'

मानीच्या जड्ड्या, सुरकुतिल्ल्या, आंवळिल्ल्या तोंडार निश्चिंत हांशें पळोवन बीरसाचें काळीज फाटलें. मुंडा वाठाराच्या काळजार फौज, पुलीस, राजाच्या हतयाचें मदमारें आक्रमण! होळये उपरांत मुंडा जशे धर्मीक रिवाजा खातीर भोंवडेक वताले, तेच भाशेन सरकारान मुंडांचीं गांवां आनी भाताचे मुडे जाळून होळी पेटयल्ली. बीरसा आनी बीरसायतांक रानांतल्यान खणून भायर काडपाचो तांणी एक परबे-खेळ केल्लो. फकत हे फावटी सगल्या परबांचें नांव रगता-परब.

मुंडांल्या हड्ड्यांत बेयोनेटाचें तोंक आनी तुबकांतल्यो गुळयो. रानांत ज्या मुंडांची गुपितपणान समाधी जाली, ते सगले बीरसाल्या उलगुलानाच्या उल्याक जाप दिवंक काश्टी न्हेसून काऱ्या-विखाचे तीर हातांत घेवन एक दीस दर्या आनी धतरिच्या धनयांचे फौजे आड लडूंक गेल्ले हें कोणाकूच कळचें नाशिल्लें. फकत फुडाराच्या लोकांक तें पळोवन अजाप जातलें. काळे रानसुंदरीच्या काळजांत अदीं मदीं एखाद दुसऱ्या साल - पियाल - केंदू - रुखांची माथीं भौच ऊंच. त्या लोकाक कळचें ना उलगुलानाचें पिशें लागिल्ल्या मुंडांचे कुडीचें रगत - मांस - मज्जा - हाडां ह्या सगल्यांनी रुखाची धारिणी - ते धरणीक पुश्ट केल्ल्यान ह्या रुखांचीं माथीं इतलीं ऊंच गेल्लीं.

जाल्यारूय मानी हांसताली, म्हण्टाली, परतेंय उलगुलान जातलें. म्हळ्यार बीरसा निखालस भगवान, धर्तर-आबा.

मानीन म्हळें, 'सायब आनी पोराहाटचो राजा धा हती, हजार भर लोक, शिपाय घेवन रान माड्डीत हे दिकेन येता. डोनकान सांगलां, तूं सेनत्राच्या रानांत वच. जे लिपोन रावल्याय, तेय ल्हवू-ल्हवू येवन पावतले. भगवान, म्हाका एक सांग. सेरायकेला, कोरायकेला हिंगाचे राजे भिताय कित्याक? तेंच्या राज्यांत मुंडा आसाय? तेणी कित्याक सरकारां लागीं संगनमत केलें?'

— 'सगल्यांगे तोपयो एकूच.'

मानी वचूंक गेली. परमी फातरार तांदूळ कांडूंक लागलें. तांदळाच्यो कणयो चाबून वेल्यान उदक पिवप. अजाप म्हळ्यार, रोगोतोचो कोनू मुंडा भायर पडलो तेन्नाच्यान परमी भगवाना वांगडा फिरतालें, कोनून सांगिल्ले प्रमाण. बीरसाचें एकूय उतर तें भायर उडयना. पूण तांदूळ पळोवन ताका दिसलें, बीरसाक मानिनासतना आतांच लांकडांक उजो घालून शीत रांदचें, शीत जेवचें. बीरसा ताका रांदूंक दिनाशिल्लो देखून ताका मदीं मदीं येवजतालें, रांदून जेवचें शीत. ताका लागून भगवानाक अटक जाल्यार जावं, रोगोतोचो कोनू मुंडा तांचें राज्य जाल्यार शीत जेवंक मेळटलें, हें चिंतून उलगुलानाक गेल्लो. परमीकूय दिशिल्लें, मुंडा राज्यांत सगल्या मुंडांक दोन वेळचें शीत फाव जातलें. पूण ह्या खिणाक तें उस्वासून फातरार तांदूळ कांडीत रावलें.

परमीक पळयत बीरसान उस्वास सोडून विशण्ण हांसून म्हळें, 'कितल्या लोकाल्या कितल्या वान्सांचो हांयें गोबोर केलो, न्हो गो साली, पूण उलगुलानाची रीतूच इप्रित. तुजो पूत, घोव, फसल, घर सगलें व्हेलें हांयें. परमीचेंय तशेंच!'

— 'दुःख जाता तुका?'

— 'ना. कितले जाण सोंपले, कितले जाण उरचे नाय. हांवूय हे कुडींत उरचों ना दिसता. पूण उलगुलान सफळ ना जाल्यार उलगुलानाक अंत ना. म्हाका मरण ना. हें तूं सगल्यांक सांग, साली!'

रातचीं तीं रोगोतोच्या रानांतल्यान भायर सरून सेनत्राच्या राना दिकेन वचूंक गेलीं.

उपरांत, बऱ्याच तेंपान बॅरिस्टर जेकबान अमूल्यबाबूक विचारिल्लें. 'बीरसाचें अखेरीचें फळित कितें जायत अशें तुवें चिंतिल्लें? तुवें चिंतिल्लें तशेंच जालें? ताचें नांव आयकून तुजें तोंड उजळटा, तें कित्याक लागून?'

– 'म्हाका एका प्रश्नाची जाप जाय आदीं.'

– 'विचार.'

– 'तो भगवान हाचेर तुमचो विश्वास आसा?'

– 'ना. म्हाका दिसता बीरसा हो पिडिल्ल्या मुंडांचो योग्य फुडारी, उजू म्हणयारी.'

– 'म्हाका आतां दिसूंक लागलां, तो ईश्वर.'

– 'खंयच्या न्यायान?'

– 'कित्याक? बिट्रेयल, विश्वासघाताच्या न्यायान. मनीस जेन्ना देव जावन येता, तेन्ना कोण पुण विश्वासघातकी ताचें पतन घडोवन हाडटा. तेन्ना तो खऱ्यांनीच देव जाता. अंतीं विश्वासघातक्यांनीच ताका धरून दिलो, खरें न्हय?'

– 'तशेंच म्हळ्यार जाता ... अजाप!'

– 'कितें?'

– 'जेन्ना मुंडा मरताले, तांचें शोषण जातालें, ते वेठबिगारी करताले, सेवक-पटे बरोवन दिताले, जाण्टेल्यांचीं गांवां वगडायताले, भाटकार-सावकार-सरकार, तिगांल्याय हातांनी मार खाताले, तेन्ना तांचें कोणें चिंतलें ना.'

– 'ते जेन्ना लडटाले, तेन्नाय चिंतूंक ना.'

– 'आतां बीरसाची चळवळ थंड पडल्या उपरांत मुंडां संबंदान लोकांची उमळशीक वाडल्या, सहानुभूतीय बी.'

– 'सगलेंच कितलें विचित्रशें जालें. चारशीं ब्यांयशीं जाणांक अटक जाली. वर्स भर गवाय-प्रमाण पुंजावपाचें निमित करून तांका बंदखणींत दवरले. गवाय-प्रमाण पुंजावन खटलो उबो जाता म्हणसर चवदा जाण बंदखणींतूच तपास चलतना घावांनी वीख जावन मेले, बीरसा सोडून. खटलो उबो जालो फकत अंयशीं जाणांच्या नांवान.'

– 'तांतुंतूय बी चडशा जाणांक ल्हानशा गुन्यांवांक व्हडली ख्यास्त मेळ्ळी. मिशनरींचेर तीर मारिल्ले खातीर परान मुंडाक आजीवन हद्दपार केलो. गयाचे बायलेक, सुनेक, आठ वर्सांच्या नातवाक लेगीत बंदखणीची ख्यास्त जाली.'

– 'हेंय जालें, तें 'बंगाली' ह्या पत्रांत सुरेन बॅनर्जीन, ते दिकेन 'स्टेट्समन' पत्रान बोवाळ घांलो देखून. अंतीं पळयल्यार, जे सरकाराचे बेपर्वायेक लागून बंदखणींत कुसून मेले, तांचे मदले जायते जाण निर्दोश म्हुण सुटले. सुरेन बॅनर्जीक वळखता न्हय? ताचेभशेन उलोवंक कोणाक जमचें ना. बंगाल लेजिस्लेटिव्ह कौन्सिलांत उबो रावन जेन्ना एक-एकल्याक विचारलें:'

-- 'मुंडां आड फौजदारी दंडविधी कायद्याच्या 107 कलमा खाला जी केस चलताली ती फाटी घेतल्या हें खरें?'

– 'अशें जालां आसत, जाल्यार मुंडा कितले दीस, कितले म्हयने बंदखणींत आशिल्ले?'

– 'बंदी आसतना कितले मुंडा मेले?'

'पत्रांत छापून आयलां, तें खरें? बऱ्याच मुंडांक परते नव्या आरोपां खाला अटल केल्यात खंय?

तशें जाल्यार सरकार तपास करून जाहीर करतलें, पांच म्हयने बंदखणींत कुसचे आदीं तांचेर खटले कित्याक भरले ना तें?'

जांणी त्या दिसा सुरेन बॅनर्जीचें उलोवप आयकल्लें तांणी म्हळें, 'बाय जोव्ह! ह्या जड्ड्यान परतोय उजो घालो!'

'फायदो कितें जालो? हय, केस मागीर जाली खरी, पूण ताचे आदीं खटलो चलतना कैदी मरून गेले. जानेरांत खुंटी थाण्यार हल्लो जालो तेन्नाच्यान अटकांसत्र सुरू जालें. केसीचो निकाल लागलो देझेंब्रांत. ज्या कमिशनर, डी. सी., पुलीसांनी तांका खटल्या बगर बंदखणींत कुसयले, हो घोर अन्याय केलो, तांची तुस्त करूंक खासा लेफ्टनंट गव्हर्नर जॉन वुडबर्न रांचीक येवन गेलो. गव्हर्नर जनरल कर्झनानूय कांय म्हळें ना.'

– 'सगले इंग्लेज न्हय ते? बीरसान चाइबासाचे शाळेंत कितें तरी म्हणिल्लें!'

– 'तें तर म्हजे मुखार. ताणें म्हणिल्लें, जाणा, जाणा. सायब-सायब एक तोपी. जालें, तेन्नाच धांवडायलो ताका.'

– 'हांव कायद्याच्या मार्गानूच लडलों खरो, पूण मुंडा ट्रायली उपरांत तथाकथित ब्रिटिश जस्टिसीचें रुपडें पळोवंक मेळ्ळें, तें आदीं केन्नाच दिसलें ना, अशें म्हणप म्हाका भाग पडटा.'

– 'तुमीय इंग्लेज.'

-- 'इंग्लेजांक आमी चलनात.'

– 'मुंडांले सगले यत्न पोल जाले.'

– 'ना अमूल्यबाबू.'

जेकबान अमूल्यबाबूचो हात मायेन घट धरलो. ताणे म्हळें, 'तशें केन्नाच चिंतूं नाका. हांव त्या सरदार आंदोलना सावन मुंडां वाटेन झगडत आसा. म्हूण कितें केस जिखलां? ना, जिखूंक ना. जाल्यारूय अशें मानप - सगलीं झुजां, सगल्यो चळवळी केन्ना पोल जाल्यो, केन्ना सार्थक, ताचो आंकड्यां नेमांनी हिशोब करूंक जाय ना.'

– 'ही चळवळ निकामी जावनूय ती निकामी जावंक ना अशें तुमी म्हणटले हें हांव जाणा. पूण म्हजो ब्रिटिश जस्टिसीचेर जो व्हड विस्वास आशिल्लो तो? कांयच

जायना तें पळयलें, कमिशनर - डी. सी. - एस. पी. मजा पळयतात हें पळयलें, मुंडांक तांका कित्याक बंदी केल्यात तें खबर नाशिल्लें हें कळ्ळें तेन्ना व्हडा यत्नांनी 'बंगाली'च्या एका रिपोर्टराक हाडलो. ताणे बरयलें, 'मुंडांल्या हातांत हातकडें, पांयांक आनी कमराक सरफळ्यो. तो भार ओडीत-ओडीत ते बंदखणींतल्यान मॅजिस्ट्रेटाल्या ऑफिसांत वच-यो करताना जमनीर तोंडान पडटात. पूण कितलेय जाल्यार ते खटलो चालू आशिल्ल्यांतले! केस तयार जावंक ना देखून तांका म्हयनोन म्हयने हेच भाशेन वयचें पडटा."

– 'जाणा हांव.'

– 'ताणें बरयलें. सगले चुरचुरले. पूण सरपळ्यो काडल्यो नात! बीरसाय.... बीरसाकूय....!'

– 'जांणी धरून दिल्ले तांचे विशीं इतले निर्दय जावं नाकात. मुंडांक पांचशीं रुपया म्हळ्यार खूब मोठे. येवजून पळयात, शेंकड्यांनी मुंडा बंदी जाले पुण बीरसाक धरून दिवपाक गेले नात, धरून दिल्यार वाटावपाचे!'

पुण शशिभूषण राइ आनी स मुंडांनी सांपडायलो बीरसाक - तांच्या भगवानाक. कित्याक काय म्हळ्यार, पांचशीं रुपया म्हळ्यार थोडे न्हय. ताका सांपडायलो परमीन, कित्याक, तर शिताची आस ही व्हडली.

दोन दीस आनी दोन राती बीरसा चलून आयिल्लो. सेनत्राच्या रानांत आसरो घेतले उपरांत साली आनी परमीक न्हिदपाक सांगून बीरसा जागत बशिल्लो. आतां ताच्या हातांनी दोन तरसादी. वेळ आयल्यार ताचे कडेन एक तरी वावडूंक जातली वो ना, ताका खबर नाशिल्लें. कारण, ताका आवरूंक येना अशी झेम येताली, फकत झेम येताली.

– 'झेम पडना, भगवान!' सालीन म्हळें.

– 'तूं जागें आसा?'

– 'झेमूच येना.'

– 'जागें राव. फातोडेर न्हीद.'

– 'परमी न्हिदलां.'

– 'न्हिदूं.'

बीरसा फुडें कांय उलयलो ना. रानाचें उलोवणें आयकतालो. पानांचे सळसळीन, वाऱ्याच्या रड्यान, वागाचे तुरतुरीत चालीन रान ताचे कडेन उलयतालें. म्हण्टालें ताका सगलें खबर आशिल्लें, बीरसा सगल्या मुंडांक रानाचे वेंगेंत हाडूंक सोदतालो. ताका कळिल्लें, बीरसाक तें जमलें ना.

करमी भशेन, अनाडी मुंडा आवय भशेन रानभूंय बीरसाक गुणगुणत थातारताली. 'तुका तशें करचेंशें दिसतालें! सगलें तुज्या हातांत ना हें तुका खबर नाशिल्लें. हांव, ही रानभूंय तरी म्हजी? जेन्ना तुज्या पुर्वजांनी रानांतलीं झाडां कापून वसती केली तेन्ना हांव म्हजें आशिल्लें. मागीर मुंडां कडल्यान दिकूं कडेन, दिकूं कडल्यान सरकारा कडेन,

विकप-घेवप, घेवप विकप चलतां-चलतां हांव, तुजी आदिमाय भश्टलें, बीरसा. तुजो कांय दोश ना पुता!'

आदिमायेचो निःशब्द आवाज बीरसाच्या अंतरांत पावसा वरी ओततालो. तो आयकतां आयकतां फांतोड जाली. बीरसा तांबशेल्ल्या दोळ्यांनी म्हणपाक लागलो, 'साली, तूं न्हीद. हांवूय न्हिदतां! म्हाका साकर न्हीद येयल्या. न्हिदेच्या विखान आंग भेरेलां! परमी, तूं जागें आसा. उजो बी मात पेटोवं नाका गो!'

पूण परमीन उजो पेटयल्लो. धुंवर वाऱ्यार वतालो. परमी शीत रांदतालें. शिताचो वास घेतालें.

ते धुंवर पळयत-पळयत थंय येवन पाविल्ले. पांचशीं रुपया म्हळ्यार खूब दुडू. तांणी पळयिल्लें - बीरसा न्हिदिल्लो - भागिल्लो, जाम जाल्लो. मातशें मुखार जमनीर साली न्हिदिल्लें. तांणी बीरसाक दामून धरिल्लो. पांचशीं रुपया! साली तांचे लटाफटीच्या आवाजान, परमीले भंयाभीत किळांचीन जागें जाल्लें. तें आड्डलें, ताणे शशिभूषण राइ आनी माझी तामारियाक, आनीक पांच जाणां वांगडा पळयले. शशिभूषण आनी माझी ह्या दिसांनी दोनूय हातांनी आड जोडटाले. बीरसा सोडून हेर मुंडांक सांपडावन तांका दोनशीं पंचाण्णोय रुपया मेळिल्ले. बीरसाचो आंकडो पांचशीं रुपया. साली आड्डलें. बिजलेच्या लोळा वरी जागो जावन बीरसा हत्यारां सोदूंक लागलो, उठपाचो यत्न करूंक लागलो, पूण बीरसान ताका धांव मारूंक सांगलें, 'म्हागे हुकूम!' साली धांवक लागलें, कित्याक, तर बीरसा ताचे नदरेक नदर दिवन हांसलो, तें आड्डलें, 'तुमी मोठे मनीस जाले रे माझी, पांचशीं रुपया, जमनीचो पटो! खंय घेवन वयतले?'

– 'बंदगांव.'

सालीन तितलें आयकून वयचें, हेंच बीरसाक जाय आशिल्लें. ते उपरांत साली इतल्या दिसांची सादूरकाय सोडून सेनत्राचे वाटेन धांवत आड्डत सुटलें, 'भगवानाक शशिभूषण राइ, आनी माझी तामारियान धरून दिला. बंदगांवांक व्हरतले खंय! मुंडा सगले मेले काय आसा जिते? चोयाय, पांचशीं रुपयां खातीर तांणी भगवानाक धरून दिलो!' हड्डें पेटीत, भयाभीत किळांच्यो मारीत साली गांवाचे वाटेन धांवत रावलें. मुंडा जे कोण उरिल्ले ते भायर सरताले. सेनत्रा सावन बंदगांवच्या मार्गार गांवां फाटल्यान गांवांत – हेसादी – कारिका – सोथ्रा – जालमाइ सगल्याक खबर पातळ्ळी.

बंदगांवच्यान खुंटी, खुंटीच्यान रांची, मार्गार दोंय कुशीक लोकूच लोक. पोलीसांक खबर नाशिल्लें, इतल्या अत्याचारां उपरांतूय गांवां-गांवांनी इतले मुंडा आशिल्ले म्हुण. रायफल घेवन पुलीस आनी मिलिटरी बीरसाक राजभौमानान फाटी-फुडें पाऱ्या सयत व्हरताली. बीरसाल्या माथ्याक मुंडाशें, आंगार चादर, हातांत सांखळ, मान वयर, तोंडार हांशें, दोळ्यांतली नदर भविश्याचेर. ताका एकल्याकूच खबर आशिल्लें, रांचीच्यान खुंटी, खुंटीच्यान बंदगांवावटेच्यान चालकाडाचे वाटेन तो घरा परतो केन्नाच येवंचो ना.

आनीक चालकाडाक परतो येवप ना, आवय मुखार वचून उबो रावप ना. भक्तां मुखार आनीक उबो रावप ना. काळखें रान, तांबडी माती, सुमार उंचायेच्यो दोंगरावळी सगले दाखोवन म्हणप ना, 'सगलें आमी परतें घेतले!' आनी आनी चलत-चलत रातच्या काळखांत हांगाच्यान थंय असो गांवां-गांवांत रान माड्डीत वचप ना.

बीरसाक हाडटात, एक खेरीज स्वतंत्र सेल तयार दवरचें, हे ऑर्डरीचेर अमूल्यबाबूचो पयलीं विश्वासूच बसलो ना. मागीर मागूराम वॉर्डर ताका कानांत सांगून गेलो, भरमी आनी धानीन ताका मेळोन वचूंक सांगलां म्हुण. धानीच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतालीं, धानीन म्हळें, 'ताका एक दीस आमगे सांगाता दवराय.'

अमूल्यबाबून म्हळें, 'न्हावंक ताका भायर हाडटले तेन्ना उलोवन घेयात.'

विशण्ण हांसून धानीन म्हळें, 'म्हजे कडेन तो उलोवंचो ना, ना जाल्यार हांवूच सांगतासलों.'

सेल तयार करूंक अमूल्यबाबून वीस मिनटां काडलीं. वीस मिनटां बीरसा भरमील्या सेलांत आशिल्लो. बीरसान सकल्या आवाजांत म्हळें, 'मागीर रडाय, गजाली मागीर कराय. आतां वेळ ना! हांव सांगतां तें आयकाय. मॅजिस्ट्रेटामुखार वचोन उलट तपासणी जातली तेन्ना तुमी सगल्या चारशींय मुंडांनी सांगपाचें म्हाका वळखनाय. हांयें कितें सांगलें तें तुमकां कळ्ळें ना. अज्ञानान उलगुलान केलें.'

– 'भगवान ______ !'

– 'म्हाका फटिंग म्हणाय, नागावणो म्हणाय, जाय तितल्यो गाळी घालाय, हरकत ना. पूण तुमी सुगूर जायाय. तेंतूंत म्हाका समाधान!'

– 'तूं ______ '

– 'म्हाका ते जेलांतल्यान जितो भायर सरोंक दिवंचे नाय.'

– 'कुडींत एकलो दवरतले, भगवान!'

– 'दवरूं भरमी. हांव भगवान, देखून तुमचो सांगाती जावन येयलां! तुमकां हांयें सोडले ना! कितले मेले?'

– 'कोराचो दुना मुंडा, लोहाजिमीचो सुखराम!'

– 'वखद दिल्लें कोणी?'

– 'कितेंय दिल्यार त्या बंगाली बाबून.'

बीरसा मुमुरखें हांसलो.

उपरांत सॉलिटरी सेलांत येवन धवड बीरसाच्या कमराक आनी पांयांक सांखळ घालून, सकल्या आवाजांत उलयलो, 'म्हाका स्त्रापूं नाका!' बीरसाक कळ्ळें ह्य आतां तो जेलांतल्यान जितेपणी सुटना. हातांत हातबेडयो, कमराक आनी पांयांक सांखळ, ल्हान कोठडेची वणत फातरांची. सामखार गरादीचें दार, दारा मुखार चोवीस वरां सशस्त्र पारेकार. दारा सामखार बंद वारांद, भायल्या उजवाड-वाऱ्याची वाट बंद. वणटीर बरे

उंचायेर वणटी भायलें जनेल. सरकारी निर्णय, ताका सरसमान गुन्यावकार मनीस धरून न्याय जातलो. अपराध, भौ दिसां सावन मनीस हत्या आनी जाळपोळीक आदार करप. सरकारी निर्णय ताका मुंडां मुखार एक सरसमान फोजदारी गुन्यांवकार म्हुण दाखोवप. जाल्यारूय सादूरताय आनी खबरदारी घेताले ती व्हड राजकी फुडाऱ्या वरी. बीरसाक कळून चुकलें, ब्रिटिश ताका भोगसुंचे ना.'

कित्याक, तर खासा डी. सी. येवन ताका सांगून गेल्लो, आपुण पुलीस अधिकाऱ्यांच्या आदारान गुन्यांवाचे सुवातेर सोद करून गवाय-प्रमाण जमा करूंक उचंबळ वाठारांत वचूंक भायर सरतां म्हुण. बीरसाक कळ्ळें आतां डी. सी. वेळ काडटलो. बीरसान आयकलें, जेकब आयला खंय. उपरांत ज्या दिसा बीरसाक मॅजिस्ट्रेटा मुखार हाजीर केलो, त्या दिसा थंय ताका जेकब दिसलो. पूण जेकबा कडेन ताका उलोवंक दिलें ना. जेकबान परतें परतें सांगलें, 'जानेरा सावन आब्रिला मेरेन कैद्यांक कायदेशीर चौकशे बगर अटकेंत दवरल्यात, आजूय केस तयार जावंक ना. ब्रिटिश जस्टिसीच्या नांवान मुंडांचेर पराकोटीचो अन्याय चलला. तांच्या बचावाची कांयच तजवीज सरकारान करूंक ना. जेकब आपूण जावन आयला. जे गुन्यांव मुंडांनी केल्लेच नात, तांचो दोश दवरून तांका आरोपी करूंक चार म्हयने गवाय-प्रमाण पुंजोवप चल्लां. खरें म्हळ्यार, कॉन्स्टेबलाचे हत्येन पुलीस चाळवल्यात. तपासाबगर अटकेंत दवरून मुंडांची सतवणूक चल्ल्या. चौकशे बगर कैद आशिल्ल्यांतले एक-एक करून आठ जाण मेले. केस आतांचे आतां सुरु करूंक जाय.'

बीरसान मॅजिस्ट्रेट उलयतना आयकलें, 'पुलीस केस फायल करिसर हांव कांय करूं शकना!'

अशेच म्हयन्यां फाटल्यान म्हयने वचत रावले. एक विचित्र खेळीशी! 'बंगाली' आनी 'स्टेट्समन' पत्रांनी मुंडांचे केसी संबंदान बरोवन सरकाराचो विवेक जागोवपाचे यत्न चलत रावले. मुंडा हातां-पांयां-कमरांतल्यो सांखळ्यो ओडीत माया म्हयन्यांतल्या मर्णकाळी उज्यांत न्यायालयांत हाजिरी दीत रावले. एका फाटल्यान एक कैदी अर्दीं-मर्दीं जेलांत मरत रावले.

सेलांत बीरसा हातां-पांयांतली आनी कमराची सांखळ ओडीत चलत रावलो. ताका तेंकून आशिल्ले कुडींत सांखळबंद अवस्थेंत धानी आनी भरमी, गया आनी सोना, डोनका आनी माझिया मुंडा खण् - खण् - खण् हो लोखंडा-फातराचे घश्टणेचो आवाज, आयकत रावले. पांयांतली सांखळ ओडीत चलपाचो आवाज, बीरसाक खबर आशिल्लें - ती ओडीत चलपा इतली शक्त ताच्या पांयांनी नाशिल्ली. भौ जड सांखळ. पूण बीरसा हेंय जाणा आशिल्लो - भयाभीत, त्रासलले मुंडा कैदी कुशीच्या सेलांत सो सांखळेचो आवाज आयकूंक कान लावन बशिल्ले. जांका तो विशाळ रानां, अशीम दोंगर अशी भूंय दिवंक सोदतालो, तांका बंदखण दिवंक शकिल्लो. आतां ताणें दिवपाचें आनीक कांय नाशिल्लें,

फकत हो सांखळ–आवाज करून कळीत करपाचें आशिल्लें - आपूण मरूंक ना म्हुण.

एकलो, रिते कुडींत एकलोच स्तब्ध, शांत. सकाळचें दार उगडटालें, भायर येवन मळबापोंदच्यान सांखळ ओडी–ओडीत बीरसा कोर्टांत वतालो. मुंडा वैशाख–ज्येष्ठाचे असह्य गरमेंत सांखळ ओडीत भर दनपरां बारांक परते येतना, वतांत घुंवळ येवन पडटाले, तोंड आपटून पडटाले.

वतना कोणा कडेन उलोवंक मेळनाशिल्लें, तशें येतनाय बी. बीरसाक कळटालें, मुंडांक काळख्या कुडींनी बंदी दवरप प्राणदंडाइतलीच खर ख्यास्त. ताका दिसूंक लागलें, एकसारखें दिसूंक लागलें, ते आनी सांखळ काडून भायर वचूंक पावंचे नात, ह्या खिणाक तरी हीच अखेर दिसताली. देखून, गुळी लागिल्ल्याची जखम कुसून डेमखानेलेचो मनदेव मुंडा मेलो, ताणें मरचे आदीं आड्डून, रडून म्हळें, 'गुळयेच्या घावान मरना हांव, शशि दारोगान चाबकान मारमारून भगवानाच्या नांवान जुविजा मुखार फट उलोवंक लायलो, त्या पातकान मरतां!'

त्या दिसा गरादीचेर हात बेडी आपटून बीरसा आड्डलो, 'मनदेव, आयक! आयकाय मुंडांनो. हांव धर्तर–आबा, मातयेचो हो देह त्यागले बगर तुमका मुक्ती ना. धीर सोडुं नाकाय. भगवान आमकां जेलांत घालून गेलो अशें म्हुणो नाकाय. तुमकां सगलीं हत्यारां दिल्यां, हड्ड्यांत साहस दिलां, दुस्मान कोण तें दाखोवन दिलां. तीं हतयारां सोडून दिवं नाका. जैत एक दीस तुमचेंच जातलें.'

मागूराम वॉर्डर धांवत आयलो, सांगूंक लागलो, 'बीरसा, ओगी राव!'

– 'कितें दिलां म्हाका? म्हागे ताळो जळटा, गळो सुकता, शिरांनी रगत देंवता कित्याक?'

– 'ओगी राव.'

– 'ओगी रावंचों ना हांव. एक दीस परतो येतलों. होळी घालतलों थाण्या–थाण्यार, सोमपुराक तुफान मातयतलों.'

बंदखणींत घांट वाजूंक लागली. संत्री धांवत आयलो. दार उगडून भितर सरलो. बीरसान वळवळ्यांनी आड्डत, दुबावी नदरेन ताका पळयत म्हळें, 'म्हाजेर पारो दवरता? एक दिस चोयतलो तूं, ह्या मुंडा वाठाराच्या नांवान, हांगाचे भुंयेच्या नांवान हांव उच्छाद कांडटलों. दुस्मानांक हांव छोटा नागपूरच्या बावन्न परगण्यांतल्यान धांवडोवन घालतलों. कितें दिलां म्हाका, गळ्यांत उजो जाता, कितें दिलां?'

– 'सायबांक आपोंव?'

– 'सायबान दिल्लें वखद हांव घेतलों? म्हागे ताळो सुकत चल्ला कसो?'

– 'त्रिबुनालार वचूंक जाय न्हू?'

– 'वयतलों. आतांच वयतलों. माघ म्हयन्याचे धावे सावन आयज ज्येष्ठ सोंपलो, त्रिबुनालार वचत आसा, आयजूय वयतलों. पूण सायबान चिंतलां तशें मात जावंचें ना

आं! म्हागे विनाश ना!'

अमूल्यबाबून म्हळें, 'ताका कोर्टांत ना व्हेल्यार जायना?'

सुपरान म्हळें, 'कित्याक?'

-- 'तो बरो ना.'

'म्हज्या मतान तो बरो आसा, ताका कांयच जावंक ना.'

जूनाची गरमी. सांखळ तापल्या, जड आसाच. निश्ठूर सूर्य. पावस ना. कोर्टांत बीरसा घुंवळ येवन पडला म्हूण कळ्ळें.

सकाळीं सुपराक दिसतालें तो सामखो बरो आसा म्हूण. सांजवेळा जेकबान बोवाळ घालो. डी. सी. धांवत आयलो. तेन्ना सुपराक अमूल्यबाबूक आपोवंचो पडलो. अमूल्यबाबून म्हळें, 'ताची नाडी मंद जाल्या, दोळे भितर गेल्यात, ताका तान लागल्या.'

सुपरान डी. सी. क सांगलें, बीरसाक कॉलरा जाला, 'वांचपाची आस उणीच.'

अमूल्यबाबूक हें कळ्ळं. आयकून ताका भितल्ल्यान भंयाचो थरथरो भरलो. ओंकारो ना, परसाकडेन ना, कॉलराचें कसलेंच लक्षण ना. कॉलरा जावंक कांय कारण नाशिल्लें. सुपराच्या हुकमा बगर बीरसान एक गोटोय खावंक ना, पेलो भर उदकूय पिवंक ना. दोतोर जावनूय सुपर कित्याक म्हण्टा ताका कॉलरा जाला म्हूण? तो वांचपाची आस उणी अशें कित्याक म्हण्टा?

सरकारी प्रशासनाच्या नेमा आड वचून अमूल्यबाबून डी. सी. क विचारलें, 'हांवें ताका पळयल्यार जाता?'

'येस, डू!'

अमूल्यबाबू दार उगडून भितर सरलो. बाग घेवन बीरसाच्या काना कडेन उलयलो, 'तूं म्हजे कडेन उलोवंचो ना, नाका उलोवं. पूण मागूराम वॉर्डर दितलो तें सोडून कसलेंच वखद वा हेर कितेंच खावं नाका बीरसा, उदक लेगीत पिवं नाका. आयज जूनाची एक तारीख. तुजे केसीचो व्हडलो बोवाळ जाला. आतां निकाल जातलो काय दिसता.'

बीरसा क्षीण हांसलो. ल्हवू ल्हवू उलयलो, 'आतां उलयना तो तुगे रागान न्हो. म्हाजे सरीं उलयल्यार तूं त्रासांत पडटलो. हांव जाणा तूं मुंडांचो दुस्मान न्हो. पूण अर्थ नासलली धडपड.'

'कित्याक?'

'म्हाका पटकी जावंक ना? सुपर सायब सोडून हें कोणाक बरें खबर ना. म्हाका जितो भायर सरोंक दिवंचे ना ते, तुका खबर ना?'

'वतां हांव.'

-- 'चल. बेश्टी धडपड! म्हागे उतर खरें जाता काय ना चोय.'

-- 'कितल्याशाच मुंडांचो धीर खचला.'

'तेंगे कितें दोश? सायब कसले, तें तेंकां खबर तरी आसलें?'

स दिसांनी बीरसाची कालेत सुदारली. मुंडांक दिसलें, तांचा भगवान आतां वांचलो.

पूण आठ जूनाक डी. सी. परतो आयलो. सुपर आनी डी. सी. मदीं गुपित उलोवणीं जालीं. सुपरान सांगलें, 'हाचे मुखार बीरसाले कुडींत हांव सोडून कोण्ण वचचो ना.'

अमूल्यबाबून पळयलें, गरादीक काळो पड्डो लायिल्लो. मान घुवंडावन तो परतो गेलो.

णव जूनाक फांतोडेर कळ्ळें, राती कडेन बीरसाक तीन खेपो परसाकडेन जालें.

सकाळीं आठांक बीरसा रगत ओंकून मूर्छित जालो. सुपरान ताची नाडी पळयली, घडयाळ हातांत घेवन तो उबो रावलो. आतां रांचीचे कुडी-कुडींत रडपाचो आवाज. पूण सुपरान ताचे कडेन लक्ष दिलें ना. आतां स्पश्ट जाल्लें, बीरसा मरतलो.

सुपरान मनांतले मनांत रिहर्सल केली. मर्णाचें कारण कॉलरा लावप. पोस्ट-मार्टम सांजे करप. विलो काळोख पडटकच लावप. पोस्ट-मार्टमांत बरोवप, बीरसाचें हड्डें वयर-सकयल जातना पळयत सुपरान येवजिलें, बरोवप- 'पोटांत खूब कडांनी आंवळून येवन गुळेशे जाल्यात. धाकली आंतकडी झरून झरून साप बारीक जाल्या. बारीकसाणीन तपासून लेगीत पोटांत वीख मेळ्ळें ना. मर्णाचें कारण कॉलरा.'

मागीर मडें लासूंक जाय. मुंडा मडें पुरतात, लाशिनात. बीरसाचें मडें लासल्यार तांचे स्रध्देक मार बसतलो. तांकां कळटलें बीरसा भगवान न्हय म्हुण. सरसमान कैदी तो, नश्वर मनीस. हेर कोणाय मनशा वरी ताचीय कूड नाशिवंत.

मडें लासल्यार जेकब आनी हेर सगले खुबळावपी तें मडें चिरपाची मागणी आनीक करपाक शकचे नात.

सकाळचीं णव वरां, सुपरान बागवन बीरसाची नाडी, हड्डें, दोळ्यांच्यो बावल्यो पळयल्यो. तो उठून उबो रावलो.

ताणें जेलराक सांगलें, 'आतांच बरय, बीरसा मुंडा, सुगाना मुंडाचो पूत, जल्म 1875. पिराय पंचवीस. डाइड ऑफ एशियाटिक कॉलरा. तारीख 9 जून 1900.'

ताणें वॉर्डराक सांगलें, 'मेथराक आपय. मडें धांपून दवर.'

9 जून 1900. रांची जेल. सकाळीं णव वरां जावन धा मिनटां.



# उपसंहार

अमूल्याचे चोपडेंतल्यान: – 'आज 1901 वर्स सोंपलें. दीसपटी सोंपोवंकूच जाय. बीरसा, म्हजे जितेपणीं कोणाकूय तुजी अजापाची अप्रूप काणी जाणा जावन घेवपाची आसल्यार ताका ही दितलों. नाका आसत जाल्यार, फुडाराक कोणाकूय तुजी खबर समजून घेवंची दिसल्यार ताका म्हजे पटयेंतल्यान ती सगली मेळूं येत अशी वेवस्था करून वतलों.

बॅरिस्टर जेकबाचें देव बरें करूं. ताच्या आदारान म्हाका थोडीं थोडीं कागदां मेळ्ळीं.

म्हजे सामखार आसात ''प्रोसीडिंग्स ऑफ द होम डिपार्टमेंट. आगोस्त, 1900, प्रोग. नं. 330, रांची जिल्ल्यांत मुंडांचें बंड.'' तातुंत मेळ्ळां रांचींत 1899 वर्सा देझेंब्राचे 24 वेर रातच्या 9 ते 10 हाचे मदीं रांची थाण्याच्या एकवीस गांवांनी, बसिया थाण्याच्या चार गांवांनी, खुंटी थाण्याच्या दोन गांवांनी, तामार थाण्याच्या दोन गांवांनी, तोरपा, बुंदू आनी रांचीच्या एका-एका गांवांत बीरसायतांनी क्रिस्तांवांचेर तीर मारले, उजो घालो, दोगांक जिवेशीं मारले, पंदरा जाणांक गंभीर जखमी केले.

सिंगभूम जिल्ल्यांत 24 सावन 28 देझेंब्रा मेरेन आठ थाण्यांच्या 34 गांवांनी उजो पेटयल्लो. 35 जाण जखमी जाले. दोग मेले. मेल्ल्यां मदीं एक पुलीस कॉन्स्टेबल. सिंगभूम जिल्ल्यांत जालें तें सगलें चक्रधरपूर थाण्या खाला. बीरसा, वाचतां वाचतां म्हाका येवजता, तुजे प्रजेन जर फकत तीर मारले, जाल्यार दर एका तिराक मोख मरत अशे तरेन कित्याक मारले नात?

तूं कितें म्हण्टा तें हांव जाणा. तूं म्हण्टा, साला अमूल्यबाबू , तूं दिकू. हातींत तुवें फकत लिखणी धल्ल्या, तुबक धरूंक ना. तूं म्हण्टा, 24 देझेंब्राचे क्रांतीचो खरो हेत भंय घालप हो आशिल्लो. तो आमी दाखयल्लो. ब्लडी शैलराकाब याद ना?

याद आसा. बरे भाशेन याद आसा. तुजे अलौकिक दोळे, अजापाचें हांशें याद आसा तेच भाशेन. दोनूय दोळे अशे हांसताले, उलोवंक जमनाशिल्लें!

आनी याद आसा तुजी जेलांतली नुरा.

तूं जाणा आसतलो, तुजें मरण आजुनूय एक गूढशें जावन आसा म्हुण? कितें घडिल्लें तें म्हाका तरी खबर आसा. खटलो चलतना तुजें मरण अपेक्षित आशिल्लें.

[illegible] दिल्यार तुका जितो दवरचो पडटलो आशिल्लो. तूं जितो उल्ल्यार मुंडांक बळ मेळटलें आशिल्लें. तुजें मरणूच अपेक्षित आशिल्लें खटलो चलतना.

तुज्या खटल्याच्या निवाड्या विशीं खबर अशी. शैलराकाबार जाल्लो फारपेट हीच अखेर आशिल्ली. शैलराकाबार फारपेटा उपरांत 10 जानेराक कमिशनरान खासा आपूण [illegible] भेटून इडवाल्या मुंडांक धरून दिवपाक सांगलें.

हे उपरांत जें जें घडलें तें तूं जाणाच.

जें तुका खबर ना, तें म्हळ्यार. जखमी बंद्यांक चलयत हाडप चालू उल्लें. तांचे [illegible] रावले.

गव्हर्नमेंट ऑफ इंडियाच्या सेक्रेटरीन कळयलें, रांचीच्या डी.सी.न आनिकूय प्रमाण-पुरावे-न्याय मुंडांक बंड जाल्ल्या वाठारांत परतें वचचें.

गव्हर्नमेंटान सांगलें. तांणी स्वता केसींचो न्याय करचो न्हय. केल्यार कोर्ट ऑफ अपील म्हणटलें, डी. सी. चो वैयक्तिक सुवार्थ आसा. डी. सी. कडेन निवाडो जाल्यार तें कोर्ट ह्या लोकांक प्रिजुडिस्ड धरतलें.

बिरसा. हांच्या शासनाची बांदणी इतली कडक, कठोर, जटिल! मुंडांचें भाग्य [illegible] तांची ही बंदावळ झुजारी भगवान जावन हालोवंक तुका शक्य आसा, मुंडांच्या भगवाना? तूं पंचवीस वर्सांचो एक मुंडा तरणाटो. तुजे आड त्या दिसा व्हडल्या [illegible] एकठायल्ली.

न्याय मेळ जावंचो. बेगीन निर्णय जावंचो, अशी सरकाराची इत्सा नाशिल्ली. सरकाराच्या मनांत आशिल्लें. न्याय-प्रमाण पुंजावपाच्या नांवान तुमका अनादि अनंत काळ खटलो चलयत राखून स्थितींत दवरून कम्मर मोडपाचें. खटलो चलते अवस्थेंत बंडवाल्यांक दवरप. जुवान आनी किशोर पिरायेच्यांक चार वण्टीं भितर बंदी करून दवरप सरकाराक भोव बराक पडटा. नवव पळोवंक दिनासतना, काळखांत एकोडे रावपाक सक्ती केल्यार मुंडांल्या मनांनी काळोख भरतलो, हें सरकार जाणा आशिल्लें.

सगळ्यांत चड सरकाराक कळिल्लें, तें म्हळ्यार, मुंडांक आपणें कितें गुन्यांव केला तेंच खबर नाशिल्लें.

उलटनपासणींत तांणीं सांगल्लें, भगवानान साद घालो, आमी आयले. आमचे मूळ अधिकार मागले. आमी कसलेच चुकीचे गुन्यांवकार ना! तुमी इतलें कितें उलयतात, कितें करतात? आमका कळना.

सरकाराक कळिल्लें. मुंडांक आपले भुंयेंत आपले अधिकार परते मागप हो खर, निडर, दंडनीय अपराध हें समजावप अशक्य.

देखून, तांका न्याय-निवाड्याचे मांडणेंतलें कांय कळना, होच सांपळो आनी ताचें जाळ तांच्या पायांक घालून तांचें मनोबळ भंगोवप सगल्यांत बरें. हाकाच लागून, गव्हर्नमेंट ऑफ इंडियाच्या सेक्रटरी कडल्यान आयिल्लो आदेश कायम उरलो.

1900 वर्साक फेब्रेर अनी मार्सांत दोन स्पेशल पुलीस एस. आय. गवाय-प्रमाण तयार करून सडसडीत केस तयार करपाच्या कामाक डी.सी.क आदार करूंक गेले.

जाका आदार करूंक गेल्ले ताचो कॅम्प 9 आब्रेलाक पडलो. 14 माय मेरेन ताणे टूर केलो. आमका कळ्ळें, जे मुंडा जेलांत आसात तांचे आड प्रमाण-गवाय पुंजावप पुराय जालां.

व्हडल्या सायबाच्या आदेशान लीगल रिमेंब्रन्सर 22 मायाक रांचीक येवन बीरसायतां आड गवाय-प्रमाणां पुंजायल्लीं तीं तपासून तांची ताणे मांडणी केली. बीरसायतांचो निवाडो कशे तरेन करतले तेंय तो सांगून गेलो. ताणे म्हळें, (1) तपास पुराय करचो पडटलो, (2) कोणाक बेठीच सजा दिवन चलचें ना हें खरें, पूण (3) सरकाराच्या बेसावधपणाक लागून दोशी सुटूंक फावना.

बीरसा, हांतुंतलें तथ्य समजून घे. तुका धरलो फेब्रेरांत. लीगल रिमेंब्रन्सर आयलो व्हडल्या सायबाच्या हुकमान. मायांत ताका कळ्ळें प्रमाण पुंजावप सोंपलां. तूं इतलो म्हत्वाचो मनीस हें तूं तरी जाणा आशिल्लो? सिमल्याक व्हडल्या सायबाच्या ऑफिसाक थरथरो हाडपाइतलो व्हड म्हुण? तेन्ना तूं सॉलिटरी सेलांत. तूं सरपळी ओडीत चलतालो, हांव आयकतालों.

तूं सरपळी ओडीत चलतालो. एक दीस 9 जून आयलो. तूं मेलो.

जून गेलो. जूल गेलो, आगॉस्त चलतालो, 21 आगॉस्ताक लीगल रिमेंब्रन्सर परतो रांचीक आयलो. परतोय गवाय-प्रमाण पुंजावप सोपिल्लें पळोवन तो खोशी जालो. फायलींचे दाळ आतां पर्वता येदे.

पूण गवाय-प्रमाणां कशीं पुंजायल्लीं? पुलिसांच्या अत्याचारांच्या भंयान उणे ते शंभर जाण तरी जें तांचे कडल्यान वदयलें तेंच उलयले हें कितें स्ट्रीटफील्डाक खबर नाशिल्लें?

तांका त्रिबुनालार उबे केल्यार खरें कितें तें भायर फुट्टलें. ह्याच भंयान तांणी माय-जून म्हयन्यांनी बऱ्याच कैद्यांक कसलेच सर्ति बगर सोडले ना?

तो डी. सी.. पूण जी केस खासा व्हडल्या सायबाच्या आदेशा प्रमाण चलताली, ते केसींतल्या गुन्यांवकारांक सोडून दितना ताणे आपलो प्रत्यक्ष वयलो अधिकारी कमिशनराक लेगीत कांय कळयलें ना. फोर्डाणेशी केल्ली, "हांका ताकतिकेन धरिल्ले, देखून निर्दोश सोडल्यात."

कमिशनर तापलो. ताणे धाकल्या सायबाक कळयलें. धाकल्या सायबान म्हळें, "ताकतिकेन धल्ले नात. सोडले ताकतिकेन." गव्हर्नमेंट ऑफ इंडियाय पिकार जालें. ताणे कळयलें, "तांचो खटलो चलतलो काय ना हाचो विचार तांका सोडपाचे पयलीं करूंक जाय आसलो."

बीरसा, बीरसा, तुज्या संबंदान आनी तुज्या बाळकां संबंदान सरकारी चौकटींत अशी आंगार कांटो हाडपी काणी घडटाली.

कोलकात्याच्या प्रेसांत बोवाळ जालो थोडो. अखेरेक कितें जालें? चारशीं ब्यांयशांमदल्या फकत अठ्ठ्याण्णोय जाणां आड केश तयार जाली.

तेन्ना व्हडल्या सायबाच्या ऑफिसान रांची सरकाराक दोश दिलो. म्हळें, वाठारी ऑफिसरांचो वावर चुकीचो जाला. सूडाचे भावनेनूच इतल्या लोकांक धरिल्ले हें स्पश्ट जालां. जांचे आड सात म्हयने यत्न करुनूय केश तयार करपाक जमलें ना, तांका कैद दवरप चुकीचें, हें ह्या अधिकाऱ्यांक गवाय-प्रमाणां वाचतनाच कळूंक जाय आशिल्लें.

एक गजाल आदींच नक्की केल्ली हातुंत दुबाव ना, गव्हर्नमेंट ऑफ इंडियाचो निर्णय आशिल्लो, "बीरसाचो राजकी कैदी म्हूण न्याय-निवाडो करचे नात. दीर्घ काळ खून आनी जाळपोळीक आदार केल्ले खातीर सरसमान गुन्यांवकार म्हूण खटलो चलयतले."

मागीर तुजे आड निर्णयांत बदल जालो, हेंय खरें. कित्याक जाणा तूं? ल्हवूच सांगून उडयतां - फेब्रेरा सावन माय म्हणसर जेलांत बंद दवरुन चाबकान फाट फोडून, तानेक उदक दिनासतनाय मुंडांचें मनोबळ भंगोवंक जालें ना. तुजेवेली स्रध्दा डळमळांवक जमलें ना.

हांव रातचो वचून तांचे कुडीचे वण्टीक कान लावन आयकतालों. चाबकान रक्तबंबाळ जाल्ले कुडीन - काळे कुडीचें रगत तांबडेंगुंज दिसता - रक्तबंबाळ कुडीन मंत्रावरी भितल्ले भितर गुणगुणटाले.

"भगवानान सांगलां, हो मातयेचो देह सोडिसर तुमी वांचचे नाय. मोडून पडों नाकाय. तुमका व्हांवतेंत सोडून गेलों अशें समजों नाकाय. तुमका सगलीं हत्यारां, हत्यारां वापरुपाचें शिकोप दिलां. तुमी तीं घेवन लडाय. हय, भगवानान सांगलां. पेटाय चाबकान, मेल्ल्यांनो, आनीक कितें आसा हाडाय, मरोंक बीरसायत भिनाय. जे बीरसायत न्हो, ते मरोंक भिताय. ज्या दिसा धर्तर-आबा जावन रानांतल्यान येयलो, त्याच दिसा म्हुणलां, तुमका हांडीर घेवन धोलोवंचों ना, विसरयचों ना, मरोंक शिकयतलों. मार चाबूक."

बीरसा, हांव आयकून पवित्र-पावन जातालों! बीरसा! अनाथ आश्रमांतले म्हजे जिणेंत कोणाचेर माया केली ना. हांवें मोग केल्लो तूंच पयलो आनी निमाणो मनीस. तूं म्हाजो इश्ट, भाव, सांगाती. तूं जेलांत, मुंडा जेलांत, तूं म्हाका वळखूंक तयार नाशिल्लो, म्हाका त्रासांत घालचो ना म्हुण. मागूरामान एक दीस एक खबर सांगली.

ताणे म्हळें, "दोतोरबाबू , आयज मन दुखावलें."

हांवें म्हळें, "कित्याक?"

ताणे म्हळें, "काल वादळ जालें. एक चिमणी बीरसाचे कुडींत वचून पडली. तो तिचे कडेन उलयतालो. म्हण्टालो, म्हाज्या शाण्या भिवं नाका. आयज सकाळीं पळयल्यार सवणें उडून गेलां. हांवें विचाल्लें, सवणें गेलें? बीरसा हांसलो. म्हणपाक लागलो, तें कित्याक हांगा रावतलें, तूं सांग. म्हाज्या सेलांत वत पावना, वारें व्हांवना! मन भोव कश्टलें म्हाजें."

बीरसा, तूं जेलांत, तुजीं बाळकां जेलांत, हांव सुतक्या भाशेन रावतालों.

देखून धांवत वचून मुंडांच्या सेलांच्या वण्टींक कान लावन आयकतालों. चाबकान रक्तबंबाळ जाल्ल्या कुडींनी - काळ्या कुडींचें रगत तांबडेंगुंज दिसता - रक्तबंबाळ कुडीन मंत्रावरी म्हणत रावताले,

"भगवानान सांगलां, हांव एक दीस परतो जल्म घेतलों रे! होळयेचो उजो पेटोवन बूंदू, तामार, सिंगभूम, केओंझाड, गांगपूर आनी बासिया सगल्याक उजोच उजो करतलों. सोनपुराक धुल्लाची वावटळ करतलों. बोनोच्या थाण्याच्या कारकोटा गांवच्या दोंगरार रसमा-किड्यांनी तांतयां घायल्यांय. म्हागे उतरां तीं पातळयतलीं. माराय चाबूक, मेल्ल्यांनो! मारून मारून रगत व्हांवयाय. आमी बीरसायत. मर्णाक आमी भिनाय. बीरसायत न्हो ते भिताय मर्णाक. पळयाय मेल्ल्यांनो. ज्या दिसा गडगडाचे राती बीरसा रानांतल्यान धर्तर-आबा जावन भायर सल्लेलो, ते दीस तेणे म्हुणलेलें - हय, हांव तुमगे भगवान! पूण हांडीर घेवन धोलयतलों, विसरयतलों तसलो भगवान न्हो हांव! हांव तुमका मरोंक शिकयतलों. कळ्ळें मेल्ल्यांनो, अशें म्हुणलेलें तेणें! माराय तुमचें चाबूक. मारून मारून मारोन वडया."

आयकून आयकून हांव पवित्र-पावन जातालों. ते म्हण्टाले, "कितले मारतले, तुमका खबर ना? त्या दिसा भगवानान गार्डाक सांगलां, आयज तुमी म्हाजेर पारो दवराय, एक दिस चोय हांव हे मातयेंत कितें करतां. दांतें जशें बाजरी दळटा, तशी माती दळटलों. मांसाच्या दोंक्यावरी उज्यांत भाजतलों, सगलो वाठार भाजूंदी. वाठार करपून वचों , हांव हक सोडचों ना. म्हागे बावन कोटांच्या छोटा नागपुराच्या दुस्मानांक धांवडोवनूच परतो येतलों, तेंका सोंपयतलों. कोण्णाक ना सोडचों. वाठाराक हालयतलों, थरथरो हाडटलों. भगवानान सांगल्लें अशें, खरेंच. म्हुण्टकूच तुमी माराय आमका, कितले मारतले?"

बीरसा! मुंडांच्या मनाचो हो धीर, तुजेवेली स्रध्दा, हें पळोवन, कळून तुजे संबंदांतलो निर्णय बदलतालो. तुजो खटलो चलतां-चलतां अंत जाल्यार, तें सगल्यांत बरें, हें कोणे थारायल्लें तें मात म्हाका खबर ना.

बीरसा, भंय दिसता तें जाणा जावन घेवपाक. तूं जेन्ना सॉलिटरी सेलांत सरपळी ओडीत चलतालो, तेन्नाच खंय तरी नक्की जाल्लें कांय मुंडांक निर्दोश सोडपाचें, कारण तांची गवाय उलटतपासणेंत पोकी थारतली. तेन्नाच खंय तरी नक्की जातालें, तूं एशियाटिक कॉलरान अचकीत मेल्यार सरकाराचें सगलें सारखें जाग्यार उरतलें, येवजिल्यार भंय दिसता. कित्याक काय म्हळ्यार, तशें जाल्यार पृथ्वी, चंद्रीम, सुर्या सगलें फट, अशें दिसता. येवजिल्यार भंय दिसता तूं आशिल्लो तेन्ना, 9 जूनाक सकाळीं, तेन्नाच खंय तरी नक्की जाल्लें तुजो डेथ रिपोर्ट कशे तरेन बरोवपाचो तें!

तुज्या मरणाच्या रहस्या संबंदान प्रस्न उठूं , निशेध जागूं , अशे इत्सेन हांवें कितल्याशाच फातरांच्या वण्टींर तकली आपटिल्ली.

हांवें आयकलें, कमिशनर – डी.सी. – पुलीस सुपर – जेल सुपर सगले भौ खोशी. युरोपियन क्लबांत खंय भरपूर सोरो व्हांवलो. डी.सी.न म्हळें, ताका सदांच भंय आशिल्लो, बीरसा मुखार उबे केल्यार मुंडा ताचे आड जें कितें उलयल्ले तें सगलें न्हयकारतले आशिल्ले.

ह्या खटल्या खातीर केदी तयारी!

रांचीक बीरसायतांचेर खटलो चलोवपाक जे. ए. प्लॅटलाक स्पेशल मॅजिस्ट्रेट नेमलो.

रांचीच्या डी.सी.च्या वेळार सांगल्लें, ताणे स्वता विचार करचो न्हय म्हुण. तशें केल्यार कोर्ट ऑफ अपील विरोध करतलें म्हुण. डी.सी. स्वताच तातुंत संबंदीत आसा, ताणे खटलो चलयल्यार तें कायद्यान जायना.

पूण सिंगभुमा वेळार कायदो बदललो. रांचीचो डी.सी. स्ट्रीटफील्ड जर स्वता संबंदीत आसत, सिंगभूमाचो डी.सी. डब्ल्यू बी. टॉमसनानूय बंडवाल्यांक धरिल्ले. पूण सिंगभुमांतल्या खटल्यांची जापसालदारकी ताकाच मेळ्ळी.

1899 च्या 24 देझेंब्रा सावन 1900 वर्साच्या 27 जानेरा मेरेन जें जें घडलें, ताचेर वट्ट पंदरा केसी उब्यो केल्यो. एतकेदींत कायद्या भायली जमात आनी कॉन्स्टेबलांची हत्या, – जामरींत जयपालसिंग नागाचें घर जाळप, –सारोयाडाच्या दोन मिशन–घरांचेर हल्ले, – व्यापक जाळपोळ आनी खून वा इजा करून सद्याच्या सरकाराचो नाश करून बीरसा–राज हाडपाच्या हेतान बीरसाच्या मुखेल शिश्यांचें कायद्या भायरें जमप, – ह्यो तांचे भितल्ल्यो मुखेल आशिल्ल्यो. सिंगभुमांतल्या दोन केसींक सगल्यां परस चड म्हत्व दिल्लें. एक चक्रधरपुरांतली कॉन्स्टेबलाची हत्या, – आनी एक कुंद्रुगुटूचें जर्मन मिशन जाळप. शैलराकाबाचेर कायद्या भायरे जमाती खातीर एकूय केस जाली ना. मुंडां खातीर शैलराकाब कितलोय म्हत्वपूर्ण जायत, सरकाराचे विचार, बुद्द खेरीत. सरकाराचे नदरेन खुंटी थाण्यार हल्लो ही शैलराकाबाच्याकूय व्हडली घडणूक. शैलराकाबाक केसींत ओडून हाडल्यार थंयचें ''रक्ता–न्हाण'' चड लोकांचे नदरेक येतलें.

ते भायर न्यायालयांत बीरसा आनी बीरसायतांचो राजद्रोहाचो अपराध उबो करप कठीन. गवाय–प्रमाणाच्या कागदांचो दोंगर जाल्लो पूण तातुंत त्या गुन्यांवकारां आड प्रमाण करपा सारखें कांयच व्हडलेंशें नाशिल्लें.

बीरसा, तूं माया म्हयन्या सावन त्रिबुनालार यो–वच करीत आशिल्लो. जेकब तुमचे पार्तीन झगडटालो पूण सरकार परतें परतें म्हण्टालें, आनीक वेळ जाय. आजून प्रमाण जमोवपाचो वावर सोंपूंक ना. देखून तुजें वचप–येवप इतलेंच चालू उल्लें. आनी खटलो चलते स्थितींत मुंडा मरत आशिल्ले, मरतूच आशिल्ले. पूण सरकाराचे नदरेन मुंडांचें खटले चलतना एका फाटल्यान एक मरप हे घडणुकेचें म्हत्व मुंडांक ''सतावन हाल–हाल करून तांचें मनोबळ भंगोवपाचें धोरण'' बदलपा इतलें नाशिल्लें.

खटलो चलतना रांचींत मिलिटरी पुलिसेची एक कंपनी दवरिल्ली. ''कैद भोगपी बंद्यां आड दाखल तरेकवार खटल्यांचो निर्णय लाग मेरेन, बंडाचीं लक्षणां पुरायेन सोंप मेरेन, ती थंयच उरतली.''

बीरसा, बीरसा, तुवें आपल्याक जितलें म्हत्व दिल्लें, तितलेंच भारत सरकारानूय तुका दिल्लें. जाणा तूं?

रांचीक मॅजिस्ट्रेटाचें न्यायालय जेकबान पेटोवन घाल्लें. तो तुमचो काउन्सल. सरदारांचो पोरणो इश्ट. कोलकात्याक बॅरिस्टरी करून जोडटालो आनी मुंडां खातीर एक पैसो लेगीत घेनासतना झगडटालो.

ताचो निर्भय डिफेन्स आनी उलटतपासणेचें असादारण तंत्र हांच्या मुखार सरकारी गवायदार थतर-वितर जाताले.

कोलकात्याचीं ''दि बेंगॉली'' आनी ''दि स्टेट्समॅन'' पत्रां जेकबा संबंदान संपादकीयांत बरयत आशिल्लीं - ताचो कळवळो एकांगी आनी देखून जेन्ना केश लडटा तेन्ना प्राण पणाक लावन लडटा. सत आनी विवेक ह्या मोखींचेर तो थीर. ताचे सारखो मनीस मेळून मुंडा नशीबवान.

हय बीरसा, हांव लिपचोरयां जेकबाक रिपोर्ट धाडी. तो त्यो खबरी पत्रांक पावयतालो. सुरेन बॅनर्जी तसो आग्रो धरतालो. ''दि बेंगॉली'' तुमच्यो खबरी छापी.

खटलो सारखो चलूंक जाय, मुंडांक आपली बाजू मांडपाची संद मेळूंक जाय, हे खातीर लोकमताचो व्हड दबाव आयिल्लो.

अशें आयकल्लें, म्हळ्यार खबर भायर फुटिल्ली, केशी खातीर पैशे जमोवपी मुंडांचो एकवट पुलिसांनी भंगयल्लो, तांचेकडल्यान पैशे काडून घेतिल्ले.

आनीक एक खबर आयिल्ली, जेल ऑथॉरिटीची काकुळट करून सरकाराचो कायद्या आड वचून जेलांतूच खटलो मेकळो करपाचो बेत आशिल्लो.

बंद्यांचे वतीन उलोवपी कोण नाशिल्लो. थळाव्या वकिलांचो तांका आदार नाशिल्लो. आपली बाजू मांडपाचो ''अनिर्बंध अधिकार'' निरर्थक जाल्लो.

जो गुन्याव तांणी करूंकच नाशिल्लो ताचे खातीर तांका अटकेंत दवरिल्ले ही कल्पनाच भयंकर आशिल्ली.

एका कॉन्स्टेबलाचे हत्येचो सूड घेवंक पेटिल्ल्या पुलिसांनी बंद्यांच्या डिफेन्सांत बादा हाडिल्ली. ह्यो सगल्यो ''स्टेट्समना'' च्यो खबरी.

डी.सी. स्ट्रीटफील्डान ह्या खबरांक जाप म्हुण ''दि स्टेट्समॅन'' पत्राच्या संपादकाक चीट बरयली, ''महाशय, तुमच्या खबरेकारान दिल्ल्यो खबरो फट. दर एक आरोप हांव न्हयकारतां, बंद्यांक तांची बाजू मांडपाची संद पुरायेन दिल्या. तांचे आड निश्चित अशे आरोप नात, हें हांव मानून घेतां. तांका जेलांत दवरल्यात ते खबरदारेचो उपाय म्हुण. कित्याक काय म्हळ्यार गडबड चालूच आसा. अधिकारी जमीनदारांक सामील. हें नीतिहीण

दंगलखोरांचें अर्थहीन म्हणणें."

"दि स्टेट्समॅन" पत्रांत चिटयेची तारीख आशिल्ली 3 आब्रील, 1900. त्याच दिसा "आमच्या खबरेकाराची जाप" अशा माथाळ्याची चीट छापिल्ली. "दि स्टेट्समॅना" च्या खबरेकारान बरयल्लें, हाचे भितल्लें कांयच मान्य ना! मुंडांक आपली बाजू मांडपाची पुराय संद दिल्या, ही "पुराय फट".

बीरसा, खटलो कसो चलतालो म्हूण सांगूं! केश चलतनाच ती सोंपतां सोंपतां प्लॅटेलाक फरीदपुराक धाडलो. स्ट्रॅचेन कूट्सान अखेर मेरेन खटलो आयकलो.

बीरसा, एक दीस तुका याद आसा?

1900 वर्साची मायाची सोळा तारीख. 217 जाणां मदल्या तिगांक जामीन मेळोवंक जेकबान अर्जी दिली.

ताणे म्हळें, "तांचे आड कांयच आरोप ना. फकत डी.सी. स्ट्रीटफील्डाचो एक रिपोर्ट आसा, ते बंडा कडेन संबंदित आसूंक जाय असो अदमास आसा. तांचे आड एक दीस पुण केन्नाय कोणूय तरी गवाय दिवपी मेळटलो देखून तांका दीर्घकाळ अटकेंत दवरिल्ले. खटलो चलतले बरेच कैदी जेलांत मेले."

जेकबाच्या विधानाचे जापेचेर उतरांची लडाय सुरु जाली.

जेकब: हांव जाणा जावन घेवंक सोदतां, फौजदारी कार्यविधी कायद्याच्या 112 कलमा प्रमाण म्हज्या अशिलांक कोर्टांत येवपाची नोटीस केन्ना तरी मेळ्ळ्या काय कितें?... ही भोव म्हत्वाची गजाल. तांचेमदले कितलेशेच मेले. तांका एकोडे, वकील दिनासतना पांच म्हयने बंदखणींत कसल्या गुन्यांवा खातीर दवरल्यात तें तांका खबर ना. तांचो प्रतिनिधी ह्या नात्यान म्हाका तें विचारपाचो हक आसा. मानादीक हुजुरा कडेन हांव हें जाणा जावंक मागतां.

मॅजिस्ट्रेट: तुमका तें सांगपाक हांव हांगा येवंक ना.

जेकब: अशें कशें? म्हज्या अशिलांक कसल्या गुन्यांवा खाला आरोपी केल्यात तेंय तुमी सांगचे नात? जाका लागून तांका आपल्या बचावा खातीर म्हाका आदार करूंक मेळत.

मॅजिस्ट्रेट: अशिलांकूच विचारून घेयात.

जेकब: तांका खबरुच ना. तांका कित्याक धरून दवरल्यात तें सांगलें ना जाल्यार म्हाका फावो त्या निर्णया खातीर हेर कडेन अपील करचें पडटलें.

मॅजिस्ट्रेट: जाय तें करात.

जेकब: हे दीर्घकाळ बंदखणो आदीं कैद्यांची न्यायालयांत तपासणी जाल्ली वा ना हें जाणा जावन घेवपाचो म्हाका अधिकार आसा.

मॅजिस्ट्रेट: ताचो प्रस्नूच येना.

मॅजिस्ट्रेट: तुमचे अशील कोण?

जेकब: ही तांच्या नांवांची वळेरी.

मॅजिस्ट्रेट: बरें आसा. पैलो कैदी चांद मुंडा आड निश्चित आरोप ना.

जेकब: जाल्यार ताका जामिनाचेर सोडोवंक जाता.

मॅजिस्ट्रेट: रेकॉर्डा प्रमाण, म्हजे आदल्या मॅजिस्ट्रेटान 7 आब्रेलाक एक ऑर्डर काडल्या ते प्रमाण शंबर रुपया भल्ल्या ताका जामिनाचो अधिकार मंजूर केला, ताका आनी सगल्यांकूच.

जेकब: हें कितें! गुन्यांवाचें म्हत्व कोणाचेंय कितलेंय आसल्यार, सगल्यांक एके धर्तेचेर जामीन?

मॅजिस्ट्रेट: ह्य, तशेंच.

जेकब: हे ऑर्डरीची खबर तांका कळयल्ली काय ना, हें हांवें विचारल्यार जाता?

मॅजिस्ट्रेट: म्हाका खबर ना.

जेकब: रेकॉर्डांत हें बरयल्लेंच आसतलें?

मॅजिस्ट्रेट: ना.

जेकब: ही तर अजापाची खबर.

मॅजिस्ट्रेट: ही केसूय तसली अजापाची.

जेकब: भौ अजापाची. हुजूर जामिनाची ऑर्डर कन्फर्म करतात?

इन्स्पेक्टर ओफ पोलिस: हुजूर, म्हजें एक मागणें मांडटां. म्हजें म्हणणें, 67 बंद्यां आड खुनाक आदार आनी हेर चार्ज दवरचे.

जेकब: हें आनीक कितें? आतां? हो व्हडलो अन्याय. 7 आब्रेलाक जर म्हज्या अशिलांक आपल्याक जामीन मेळप शक्य आसा म्हूण कळिल्लें, जाल्यार ते आज जेलांत आसचे नाशिल्ले. ते भायर, तांचे आड चार्ज हाडूंक पुलिसेक पांच म्हयने लागले, हो खर अन्याय.

इन्स्पेक्टर: हुजूर, फाल्यां मेरेन वेळ दिल्यार आनिकूय कांय जाणां आड एकूच चार्ज हाडूंक जायत.

मॅजिस्ट्रेट: तुमचें कितें म्हणणें, मिस्टर जेकब?

जेकब: हांव इतलेंच म्हण्टां, हें जें कितें चल्लां ताणे हांव चक्रावलां. जे साप निरपराध, तांचे आड चार्ज घालूंक पांच म्हयने! तेच जेलांत कुसतात. आनीक व्हडलें विचित्रपण म्हळ्यार आतां पुलीस अर्जी दितात हेरां आड चार्ज घडोवंक एक दीस मागून. घडोवंक, हांव म्हण्टां 'घडोवंक'. म्हळ्यार, तुमी मि. प्लॅटेल हांची ऑर्डर बदलतले? तशें तुमी करूंक शकनात.

मॅजिस्ट्रेट: कित्याक? तुमीच ते ऑर्डरीचेर रिव्ह्यू मागला.

जेकब: केन्नाच ना. हांवें तशें कांयच म्हणूंक ना. 7 आब्रेलाकूच म्हज्या अशिलांची

जामिनाचेर सुटका जावं येताली हें म्हाका खबर नाशिल्लें. देखून म्हण्टां, तांका आतां जामीन जाय – ती ऑर्डर लागू करची.

मॅजिस्ट्रेट: त्या 67 जाणांक तर जामीन कसोच मेळचो ना. हेरां विशीं इन्स्पेक्टरान सांगलां तें तुमी आयकलांच.

जेकब: तांचे आड ह्या खिणाक कांयच चार्ज ना. जाल्यार कित्याक तांका धरून दवरतले? म्हाका दिसता, न्यायाचो भयंकर अवमान जाला. भयंकर अवमान. हांगा 217 जाण बंदी आसात सुमार पांचेक म्हयन्यां सावन. गुन्यांव कितें तें तांका कळोंवक ना. आतां आज अचकीत एके पुलीस अर्जेच्या बळार तांका जामीन मेळना तसल्या गुन्यांवा खाला अपराधी थारायल्यात.

ह्या अभाग्यां मदीं 93 जाण म्हजे अशील. पूण केदो व्हड अन्याय! तांचे मदल्या 67 जाणांक आज ज्या गुन्यांवाखाला आरोपी थारायल्यात, तें मानून घेतल्यारुय हांव मागणी करतां – तांचे आड गवाय–प्रमाण कितें कितें आसा तें म्हाका जाणा जावन घेवंक जाय. जाका लागून म्हाका तांका जामिनाचेर सोडोवंक अपील करूंक मेळटलें.

मॅजिस्ट्रेट: पुलिसेची अर्जी मेळ्ळे बराबर हांवें हुकूम दिला. त्या 67 आरोपींक जामीन मेळचो ना. उरिल्ल्यांचीं नांवां, तांच्या गांवांची नांवां अशें सगलें दिल्यार, फकत तांच्या जामिना संबंदान विचार जातलो.

जेकब: पूण मानादीक हुजूर, त्या 67 जाणांचे सुटके विशींचें म्हजें म्हणणें तुमका आयकून घेवंचेंच पडटलें. तांका आतांच जामीन मेळना तसल्या गुन्यांवा खाला आरोपी थारायल्यात जाल्यारुय.

मॅजिस्ट्रेट: अरे! हांवें सांगलें न्हय तांचे संबंदान हुकूम दिलो म्हूण? हेरांचीं नांवां–गांवां म्हाका दियात. तांचीं सगल्यांचींच नांवांय एकेच भशेन!

जेकब: गांवांची नांवां मेळूंक थोडो वेळ लागतलो. तें काम चालू उरूं. पूण हांव परतोय सांगतां – ज्या 67 जाणांक पुलिसांनी आत्तां चार्ज केल्यात, तांच्या जामिना संबंदान म्हजें म्हणणें तुमी आयकून घेवंचेंच पडटलें.

मॅजिस्ट्रेट: हाचेर म्हजो निर्णय जाला.

जेकब: पूण फौजदारी कार्यविधी कायद्याच्या 497 कलमा प्रमाण हांव, "म्हजें म्हणणें न्यायालयान आयकुचें," अशें मागणें करतां. तें कलम हांव वाचून दाखयतां, तुमी आयकुचें – "कोणेय व्यक्तीक जामीन फावना तसल्या गुन्यांवा खाला आरोपी म्हुण थाण्याच्या मुखेल अधिकाऱ्यान वॉरंटा बगर अटक केल्यार वा न्यायालयांत हाजीर केल्यार ताची जामिनाचेर सुटका जातली. ज्या गुन्यांवा खाला तो आरोपी जाला तातुंत तो गुन्यांवकारी म्हुण विश्वास दवरूंक फाव तशें कारण आसल्यार ताका जामीन मेळचो ना."

मुखावेल्या पॅरांत अशें सांगलां, - "त्या संबंदीत ऑफिसराक वा न्यायालयाक तपास वा खटलो चलपाच्या काळांत जर ह्या कैद्यान जामीन फावना तसलो गुन्याव केला अशें मानपाक पुरोशें कारण नासत, पूण ताच्या गुन्यांवा संबंदान आनीक तपास करपाची गरज दिसल्यार अशा तपासा खाला आशिल्ल्या कैद्याची जामिनार सुटका जातली."

देखून हुजूर, पुलीसेन आतां ज्या 67 जाणांक चार्ज केल्यात तांचे आड मांडिल्लो गुन्यांव जामीन फावना तसलो जाल्यारुय तांचे जामिनाचेर सुटके संबंदान म्हजें म्हणणें आयकुचें अशें हांव मागतां.

जेन्ना भारासभास इतली मुखार पावल्ली, तेन्ना डी.सी. स्ट्रीटफील्ड (जो सुनावणी चलतना थंयच लागून आशिल्ले कुडींत बशिल्लो) अचकीत न्यायालयांत भितर सरलो, आनी मॅजिस्ट्रेटा कडेन बरोच वेळ उलयलो. ताचें उलोवप सोंपतकूच मि. जेकबान न्यायालयाक लेखून उलोवंक आरंभ केलो.

जेकब: कायद्याचें जें कलम हांवें वाचून दाखयलें, ताचे प्रमाण म्हजें म्हणणें तुमी आयकून घेतले?

मॅजिस्ट्रेट: ते संबंदान हांवें निर्णय घेवन जाला.

जेकब: पूण खंयच्या तर्कसंगत कारणाक लागून तुमी म्हजें म्हणणें आयकुपाक न्हयकार दितात?

मॅजिस्ट्रेट: तर्कसंगत कारण नासल्यार ते आरोपीच जावंचे नासले.

जेकब: तितलेच खातीर तुमी म्हजें म्हणणें आयकचे नात? ह्या एकाच तर्कान?

मॅजिस्ट्रेट: पुलिसांची अर्जीय तुमच्यांनी वाचूं येता.

जेकब: देव बरें करूं. म्हजें म्हणणें आयकूंक तयार नासपा सारखें कसलेंय तर्कसंगत कारण दाखोवपी अशें हे अर्जेंत कांयच ना. हातुंत फकत इतलेंच म्हळां, बंद्यां मदल्या 67 जाणांच्या नांवांक जामीन फावनाशिल्ल्या अपराधां खाला आरोपी करचे. हांव परतोय मागतां, फौजदारी कार्यविधी कायद्याच्या 107-108-109-110 कलमां प्रमाण हांचे आड दवरिल्लो आरोप रद्द करचो (ह्या चार कलमां खाला कैद्याक कोणाय मॅजिस्ट्रेटाच्यान विशिश्ट काळा खातीर उजू तरेन रावपाचें मान्य करपाचें खुशीपत्र घेवन जामीन दिवंक जाता - पुलीस हॅण्डबुक पान 83-84). तांका आरोपी केन्ना केले म्हाका कळना, आनी ह्या नव्या आरोपा खाला तांका बंदखणींत दवरूंक जाता काय ना तें म्हाका खबर ना. पुलिसांनी व्हडली हुशारी दाखयली जायत, पूण ती फुकट गेली. ह्या वाठारांत कांय कडेन न्याय आसा, कायदो आसा. ह्या 67 जाणांच्या गुन्यांवाचेर विस्वास दवरपाक कसलें तर्कसंगत कारण आसा, तें म्हाका महामान्य हजुरां कडल्यान कळत?

मॅजिस्ट्रेट: हावें तुमका आदींच सांगलां, तर्कसंगत कारण नासतना पुलीस तांचेर खटलो चलोवंचे नाशिल्ले.

जेकब: हें एकूच कारण तुमचें? 67 आरोपींच्या गुन्यांवाचेर विस्वास बसपा सारखें कांयच हे अर्जेंत ना. खंयच्या तरी गुन्यांवाक तांका जापसालदार धरल्यात आनी तांका आनिकूय फुडें ताब्यांत दवरपाक परवानगी मागल्या. म्हजें म्हणणें आयकूंक जायना अशें कसलें तर्कसंगत कारण तुमका खंय दिसलें? तांचे आड कुस्कूटभर तरी गवाय-प्रमाण रेकॉर्डांत आसा?

मॅजिस्ट्रेट: हय.

जेकब: कोणाची गवाय?

मॅजिस्ट्रेट: तें तुमका आत्तां सांगूंक हांव बांदिल्लों ना.

जेकब: हांव सांगतां, तशें बंधन तुमचेर आसा. तांचे सुटके आड, गुन्यांवांचे गंभीरताये संबंदान कसलीं कसलीं ''तर्कसंगत कारणां'' रेकॉर्ड केल्यांत?

मॅजिस्ट्रेट: हेरां संबंदान तुमका कितें सांगपाचें आसा व्हय तर?

जेकब: जाल्यार ह्या 67 जाणांक गुन्यांवी धरपाक तुमका कसलीं तर्कसंगत कारणां दिसतात, तें तुमी म्हाका सांगचे नात?

मॅजिस्ट्रेट: प्रमाणांचो रेकॉर्ड आसा.

जेकब: हें नवेंच आयकलें हांवें. कैद्यांक अशें कितें आसा हाची खबर तरी आसा? कसलें तें प्रमाण? जाणा जावन घेवपाचो अधिकार म्हाका आसा.

मॅजिस्ट्रेट: कायद्या प्रमाण अर्जी दियात. प्रमाण आसा.

जेकब: हांव सांगतां, त्या प्रमाणांचो सारांश जाणा जावन घेवपाचो म्हजो हक. हांव आतांच सर्टीफायड कॉपी जाय म्हुण अर्जी दितां.

मॅजिस्ट्रेट: अर्जी दियात. एक मिनुट रावात. (कांय मिनटांनी तांणी त्रिबुनालाच्या प्यूनाकडल्यान मि. स्ट्रीटफील्डाक एक चिटारो धाडलो.) हय, सांगात मि. जेकब!

जेकब: ज्या 67 जाणांक आतां आरोपी थारायले, तांचे आड मेळिल्ल्या प्रमाणाचो मजकूर म्हाका दितले न्हय सायब? (परती आडखळ आयली. कोर्टाचो प्यून एक चिटारो घेवन परतो आयलो. मॅजिस्ट्रेट चीट वाचीत रावलो.)

मॅजिस्ट्रेट: कितें म्हळें तुमी आतां निमाणें, आयकलें ना हांवें.

जेकब: हांव म्हण्टालों ते 67 जाण दोशी अशें तुमचें मत जावपाक जीं तर्कसंगत कारणां मेळ्ळ्यांत तांचो सारांश म्हाका सांगचो.

मॅजिस्ट्रेट: डेप्युटी कमिशनर स्ट्रीटफील्डान सोपूतपूर्वक जबानी दिल्या, ती आसा.

जेकब: केन्ना दिली?

मॅजिस्ट्रेट: तुमका जेन्ना कॉपी मेळटली तेन्ना कळटलें.

जेकब: बरें आसा! वकीलबाब, अर्जी तयार करात.

मॅजिस्ट्रेट: त्या 67 जाणां संबंदान हाचे मुखार हांव कांयच आयकूंक तयार ना. तुमची वळेरी जाली?

जेकब: जाल्यार जे 217 जाण अभागे फाटले पांच म्हयने जेलांत आसात ते डेप्युटी कमिशनराचे सोपूतपूर्वक जबानेच्या आदारान कैद केल्यात अशें हांवें धरुं येता? म्हज्या 93 अशिलांच्या गांवांचीं नांवां तुमी मागल्यांत. गांव असंख्य आनी पैस पैस पातळिल्ले. जो गुन्यांव तांणी केला म्हूण तांका धरल्यात, जाका लागून ते पांच म्हयने जेलांत आसात, त्या 217 जाणांक गुन्यांव करताना डेप्युटी कमिशनरान पळयल्या व्हय तर? जबानेंत सोपूत घेवन तशें सांगलां?

मॅजिस्ट्रेट: हांवें पुलिसेचे अर्जेचेर ऑर्डर दिल्या. त्या 67 जाणांक जामीन मेळचो ना.

(आतां मॅजिस्ट्रेटाक नदरेन कोणे तरी सांगलें, ताचे फायलीक त्यो केसीच नाशिल्ल्यो म्हूण. डेप्युटी कमिशनर लागचे कुडींतूच बसून आशिल्ल्यान हाचेर तात्काळ उपाय घेतलो.)

जेकब: जाल्यार हांव धरून चलूं , पुलिसांनी आयज 67 जाणांचेर आरोप घाल्यात, तांका सोडून हेर सगल्यांक (सगले तशे म्हजे अशीलूय न्हय) जामीन मेळूंक शकता म्हूण?

मॅजिस्ट्रेट: तांचे आड कितें चार्ज आसा काय ना तें आदीं हांव पुलिसांक विचारतां.

मि. जेकबाच्या लिस्टांत जांचीं नांवां आसात, आयज जांचेर नवे आरोप घाले, त्या सगल्यांचीं नांवां मॅजिस्ट्रेट आनी इन्स्पेक्टरान बारीकसाणीन पळयलीं.

मॅजिस्ट्रेट: (मि. जेकबाक) जांका जामीन मेळुं येता तांच्या नांवांची ही वळेरी. तांका दरेकीं शंभर रुपयांचो जामीन भरचो पडटलो.

जेकब: दरेकल्याची विनवणी भायरावन?

मॅजिस्ट्रेट: बरोबर तुमचें.

जेकब: जामिनाचे पैशे उणे करपा संबंदांतलें म्हजें म्हणणें तुमी आयकून घेवंचे नात?

मॅजिस्ट्रेट: म्हजे आदल्या मॅजिस्ट्रेटान जामिनाचे पयशे थारायल्या.

जेकब: जाल्यार हुजूर, हांव अशें म्हणटलों, म्हज्या अशिलांचे आड न्यायालयाची कारवाय पुराय बेकायदा जाल्या. फौजदारी कार्यविधी कायद्याच्या क़लम 112 त स्पश्ट म्हळां, "107-108-109-110 कलमां प्रमाण वावुरतल्या कोणाय मॅजिस्ट्रेटाक जेन्ना ह्या कलमां प्रमाण कोणेय व्यक्तीक जामीन दिवपाचो आसता, तेन्ना तांणी एक लिखीत ऑर्डर दिवंक जाय ('दिवंक जाय' ह्या उतरांकडेन लक्ष दियात.). तातुंत तपशिलान बरोवंचें चालू घडणुकांचो

सारांश, कितल्या रुपयांचो जामीन, कितले दीस हो जामीन लागू उरतलो, जामीनपत्रांचो आंकडो, स्वरूप, वर्ग खंयचो.'' म्हज्या अशिलांक पांच म्हयन्यांचे बंदखणीच्या काळांत कित्याकूय लागून केन्ना तरी ही ऑर्डर दिल्या?

मॅजिस्ट्रेट: कांय रेकॉर्ड ना.

जेकब: जाल्यार हे केसींत सरकारान थारायल्ल्या कार्यविधीक पाळो दिवंक ना अशें समजप?

मॅजिस्ट्रेट: म्हजे आदल्या मॅजिस्ट्रेटान कितें केलां, कितें करूंक ना ते विशीं हांवें कांय पळोवंक ना. तुमी ज्या साबार नेमां विशीं सांगतात, तांका पाळो दिला वो ना हाचे खंयच कांय रेकॉर्ड ना. पाळो दिल्लो अशें हांव धरून चलतां.

जेकब: पूण नेमा प्रमाण काम जाल्यार ताचो कितेंय पूण रेकॉर्ड आसपाचो न्हय?

मॅजिस्ट्रेट: कांयच रेकॉर्ड ना.

जेकब: केदें अजाप! मिस्टर प्लॅटेला सारखो एक मॅजिस्ट्रेट. तांची बदली जावप हे केसीचे नदरेन व्हडलें दुर्भाग्य. जाल्यार नेमा प्रमाण काम जावंक ना अशें धरूं?

मॅजिस्ट्रेट: म्हाका खबर ना.

जेकब: जाल्यार म्हजी परिस्थिती कितें?

मॅजिस्ट्रेट: म्हाका खबर ना. चूक जाल्याय जावं येता, चूक जाल्याच अशेंय हांव म्हणना.

जेकब: चूक? पुलीस तांचे आड फटींचो खटलो उबो करतली देखून म्हजे अशील पुलीस कोठडेंत? घडणुकांचे वळेरेचो योगायोग तरी कितलो विचित्र! पांच म्हयने ते जेलांत कुसले. तांची बाजू मांडपाक हांव आज आयलां देखून पुलिसांक ते सगले कित्या खातीर जेलांत कुसत पडल्यात ताचो सोद आजूच लागलो. डेप्युटी कमिशनरुय आतां शारांतल्यान परते आयले म्हुण कळ्ळें!

मॅजिस्ट्रेट: तुमी उपकार करून तुमचेच केसी संबंदान उलोवंचें.

जेकब: हांव मागतां, फोजदारी कार्यविधी कायद्याच्या 177 कलमा प्रमाण त्या 67 जाणांक न्यायालयांत हाजीर करचे. तांचो अपराध कितें तें तांका समजावन सांगचें.

मॅजिस्ट्रेट: अं हं!

जेकब: तांचे आड जे चार्ज घाल्यात, तांचें खरेपण तपासूंक तांका कोर्टांत हाडपाचो हुकूम दिवंकूय तुमी राजी नात?

मॅजिस्ट्रेट: सारखें उलयले तुमी.

जेकब: खंयच्या कायद्याच्या खंयच्या कलमा खाला?

मॅजिस्ट्रेट: तुमच्या हेर अशिलां विशीं सांगात. म्हाका आनीक जायत्यो केसी मेकळ्यो करूंक जाय.

जेकब: जामिनाची रक्कम उणी करपा संबंदान हांव उलोवंक सोदतां.

मॅजिस्ट्रेट: ते विशीं हांवें ऑर्डर दिल्या.

जेकब: तुमी म्हळां जामीन थारायल्लो मिस्टर प्लॅटलान.

मॅजिस्ट्रेट: हय.

जेकब: पूण खंयच्या कलमा खाला? बंद्यांक कसल्या गुन्यांवा खातीर आरोपी थारायल्ले?

मॅजिस्ट्रेट: म्हाका इतलेंच खबर आसा. रेकॉर्डांत आसा, जामीन न्यायालयान थारायल्लो.

जेकब: कलम 112 आनी 115 कलमा प्रमाण तांचेर नोटीस काडिल्ली व्हय तर?

मॅजिस्ट्रेट: तें म्हाका खबर ना.

जेकब: उपकार करून म्हाका रेकॉर्ड पळोवंक दिशात? कितें प्रमाण आसा?

मॅजिस्ट्रेट: प्रमाण कांयच ना.

जेकब: तांचे आड कूसभर लेगीत प्रमाण नासतनाच तांका लागून पांच म्हयने कोठडेंत दवरल्यात? सांगात, अशेंच जालां काय ना?

मॅजिस्ट्रेट: तांची केस आजून घेवंक ना.

जेकब: घेवंक ना? तांका हाचे आदीं एक खेप पूण मॅजिस्ट्रेटा मुखार हाजीर केल्ले?

मॅजिस्ट्रेट: तें हांव सांगूं शकना.

जेकब: रेकॉर्ड पळयल्यार तें नक्की कळटलें.

मॅजिस्ट्रेट: ना, कळचें ना. पूण हाजीर केल्ले अशें धरतां. कारण, जामीन दिवपाचो हुकूम आसा.

जेकब: कोण थारायता जामीन? न्यायालय, काय पुलीस?

मॅजिस्ट्रेट: ती मिस्टर प्लॅटेलाची ऑर्डर.

जेकब: फकत तितलेंच आसा रेकॉर्डांत ?

मॅजिस्ट्रेट: तुमका सांगलें न्हय, कसलेंच प्रमाण वा गवाय रेकॉर्ड करूंक ना.

जेकब: आतां पुलिसांनी जांका आरोपी केल्यात, त्या 67 जाणां विशीं म्हजें म्हणणें न्यायालय आयकून घेवचें ना?

मॅजिस्ट्रेट: ते संबंदान हांवें ऑर्डर दिल्ली आसा.

जेकब: पूण हांव तुमका सांगतां, जे खबरेच्या आदारार ॲक्शन घेतली, ते खबरेचें खरेपण करपाचें 117 कलमा खाला तुमचेर बंधनकारक आसा. पांच म्हयने तांका जेलांत दवरप, तांचे आड आयिल्ले खबरेंतलें खरें-फट पळोवप ना, हो घोर अन्याय. कित्याक, तर कालूच कादयेंतल्यान 45 जाणांक निर्दोश म्हुण सोडले. हेय निर्दोश सिध्द जावं येतात न्हय? जाल्यारुय तांका पांच म्हयने

जेलांत दामून दवरले.

मॅजिस्ट्रेट: तुमी कितें म्हणूंक सोदतात, तेंच कळना म्हाका.

जेकब: त्या 67 जाणांच्या जामिना विशीं म्हजें म्हणणें तुमका आयकून घेवंचें पडटलें.

मॅजिस्ट्रेट: ओह!

जेकब: हे जेन्नाच्यान जेलांत आसात, तितले भितर तांचेर 107-112-115-117 कलमा खाला केन्ना नोटीस काडल्या?

मॅजिस्ट्रेट: तें सांगूंक मेळचें ना.

जेकब: 107 कलमा प्रमाण "विस्वास धरिसारखी गवाय" रेकॉर्ड केल्या, रेकॉर्डांत ताचे खातीर कसलो आधार वा दाखलो नोंद जाला?

मॅजिस्ट्रेट: ओह!

जेकब: ही एक म्हा-अजापाची केस.

मॅजिस्ट्रेट: हय.

जेकब: आपणायल्लो कार्यविधीय बी विचित्र.

मॅजिस्ट्रेट: ओह!

जेकब: ज्या 67 जाणांक आतांच, पयलीच खेप आरोपी थारायले तांचें म्हणणें तुमी आयकून घेवंक सोदिनात. जांचें जामीनपत्र घेवन तांका सोडून दिवंक तुमी राजी आसात, तांच्या थारायल्ल्या जामिनांत सूट दिवपा संबंदान म्हजें म्हणणें आयकून घेतले? दर एकल्याक 100 धरल्यार सगले मेळून 3300 रुपया. इतले एकठांय करप अशक्य. हे ऑर्डरीचो अर्थ असो जाता - कोणाकूच सोडप ना. हो सामखो अशक्यांतलो जामीन. जामीन उणो करपा संबंदान न्यायालय म्हजें म्हणणें आयकून घेतलें? जामिनाचो प्रस्न पुरायेन न्यायालयाच्या अधिकारांतलो. जामीन इतलो चड आसूं नज.

मॅजिस्ट्रेट: जे ऑर्डरीचो रेकॉर्ड आसा, तातुंत हस्तक्षेप करपाची म्हजी तयारी ना.

जेकब: हें सगलेंच साप विचित्र, विप्रीत!

मॅजिस्ट्रेट: विचित्र काय अति विचित्र तें म्हाका लागना.

जेकब: जामीन हिशबा भायलो. तांका न्यायालयांत हाडूंक जायना तुमच्यान? तांका कितले तांकता तें आयकून घेवन जाण एकल्याचो जामीन थारावंक जावंचो ना? त्या 67 जाणां संबंदान पुलिसांनी जें करपाक पांच म्हयने लायले, तेंच हांकाय करतले - हीच आस्त दवरून तांका जेलांत दामून दवरल्यात असो मुंडांक दुबाव आसा.

मॅजिस्ट्रेट: त्या 33 जाणांच्या जामिनाची वेवस्था करूंक तुमची तयारी आसा?

जेकब: जामीन उणो करपा संबंदान म्हजें म्हणणें तुमी आयकुचे ना तर?

मॅजिस्ट्रेट: हांवें ऑर्डर दिवन जाल्या. (ऑर्डर वाचून तांणी इन्स्पेक्टराक म्हळें) ह्या 33 जाणां आड तुमचे कसले आरोप आसात?

इन्स्पेक्टर: आतां नासल्यारुय, हुजूर, फाल्यां मेरेन म्हाका वेळ दिता आसत जाल्यार, हांवें तेन्नाय मागिल्लें, जर वेळ दिलो, जाल्यार रेकॉर्ड आरतून – परतून तांका कसल्या गुन्यांवा खातीर आरोपी थारांव येत तें पळयतां.

जेकब: केदो व्हड अन्याय! वीट येवपाची गजाल! 67 जाणां आड चार्ज तयार करूंक चार म्हयने लागले! आनी बाकी कांय जाणां आड कितेंय पूण उबें करपाक एक दीस आनीक जाय? (मॅजिस्ट्रेटाक) हांव हुजुरांक सांगूंक सोदतां ही मागणी भायर उडोवंची. अशेय जाल्यार निर्दोश लोक जेलांत मरत आसात.

मॅजिस्ट्रेट: (इन्स्पेक्टराक) मि. जेकबाच्या लिस्टा वांगडा तुमचें लिस्ट तपासून पळयात. म्हाका सांगात, आतां जांचेर चार्ज दवरल्यात ते 67 जाण कोण?

जेकब: हें कितें चल्लां, म्हाका कांय कळना.

मॅजिस्ट्रेट: कळना? वायट दिसता म्हाका. तशें जाल्यार तुमची वाट मेकळी आसा तुमका.

जेकब: डेप्युटी कमिशनराचें म्हणणें कितें तें म्हाका जाय. म्हाका उपकार करून रेकॉर्ड पळोवंक दिशात? तातुंतली खरी गजाल कितें तें जाणा जावन घेवपाचो म्हजो अधिकार.

मॅजिस्ट्रेट: जें सदां चलता ते भायर दुसरे भशेन तुमका कितेंय दिवपा खातीर हें न्यायालय न्हय. अर्ज करात, फावो तेन्ना विचार जातलो.

जेकब: आतां सांगलांच, अर्जूय दितां. पूण वेळ वांचोवंक उपकार करून डेप्युटी कमिशनरान सोपूतपूर्वक दिल्लें निवेदन म्हाका एक नदर मारूंक दियात.

मॅजिस्ट्रेट: अर्ज दियात. न्यायालयाचें काम हांगाच तहकूब जाता.

जेकब: जामीन उणो करपा विशींचें म्हजें म्हणणें तुमी आयकून घेवंचे नात?

मॅजिस्ट्रेट: ते संबंदानूय एक अर्ज दियात. विचार करूंक वेळ लागतलो. म्हजो निर्णय 22 तारखेर दितां.

बीरसा, ''बेंगॉली'' पत्रांतल्यान एका दिसाची घडणूक मांडली.

बीरसा, बीरसा, जेकबाच्यो मर्ण वेदना हांवें पळयल्यात. तो डाक बंगल्यार रावतालो, पूण कोणूच सायब ताचे कडेन उलयनात, तेंय पळयलां.

तो मदीं मदीं कोलकत्याक वतालो. कायद्याचीं पुस्तकां आनी फायली घेवन परतो येतालो. व्हड जिद्दीन झगडत राविल्लो.

म्हाका म्हणटालो, 'ऑल राइट, ऑल राइट. बीरसा तुजो इश्ट, तूं तिडला. पूण ट्राय टु अंडर- स्टॅण्ड धिस, माय बॉय!'

हांव म्हण्टालों, 'कितें?'

'बीरसा भगवान, मुंडांचो मुक्तिदातो, बीरसा झुजारी, बीरसा संबंदान हजारांनी लोकगीतां, बीरसाच्या थिरार मुंडांनी जेलांत अत्याचार सोंसल्यात.'

'हय.'

'तो जितले दीस मेकळो आशिल्लो, तितले दीस ताका ब्रिटीश ब्यूरॉक्रसी भिताली. पूण जेलांत पडटकच बीरसा तांचे मुखार कितें?'

'बीरसा मेलोच.'

'ना, ना, ताचो देह मेला. पूण ताचो आदर्श मुंडांच्या मनां भितर व्हेरी मच जितो आसा.''

'तुमी मुंडां भाशेन उलयतात.'

'काती पोंदा अर्दो मुंडाच जालां. केन्नाच्यान तांचे खातीर झगडटां.'

'ताका लागून मुंडांचें, म्हळ्यार जेलांत आनी भायर जे आसात तांचें मनोबळ परतें तयार जालां.'

'पूण म्हाका कांयच करप शक्य ना. माय बॉय, डोंट मेक वन मिस्टेक.'

'अशें कित्याक म्हण्टात?'

'बीरसा मस्ट हॅव बीन अ फोर्स. कित्याक, तर एक सांगतां. जितल्यो खेपो मुंडां वटेन झगडलां, तेन्ना तेन्ना म्हजी अडचण कितें तें म्हाका कळ्ळां. मुंडांची बरपाक्षरी भास ना. ते आदिवासी. सदां काळ तांचेर अन्याय जाता. बदमाश वकील तांका केसींनी घुसपावन नाडटाले. कोर्ट कायदो – व्हड करून दवरिल्लो महिमा, ब्रिटीश न्यायसंस्थेची नैतिकताय हातुंतलें तांका कांयच कळनाशिल्लें.'

'ना.'

'ते सगले हँडिक्रॅप हिशबाक धरून केसी लडटालों. पूण केन्नाच अशे तरेचो असो येवजून केल्लो कायद्याचो अवमान पळोवंक ना. हांव झगडटां खरो, पुण ''दि बेंगॉली'' चे रिपोर्ट वाचून पळय, वान्यार तरसाद वावडितां कशें दिसता.'

'तशेंच दिसता.'

'ही डेलिबरेट मिसकॅरेज ऑफ जस्टिस कित्याक? हें सगळे नेम मोडून तांका कोठडेंत दवरप कित्या खातीर? सिंगभुमच्या मनशाक रांचीचे केसींत, रांचीच्या मनशाक सिंगभुमचे केसींत घुसपावप हें कित्याक? कित्याक खटलो चलतल्या कैद्यांक मरण येत आसा? ना, हातुंतल्यानूच कळ्ळें बीरसा वॉज अ फोर्स. ताणे बेसिक ह्यूमन रायट्स मागून इंग्रेजांक भंय घालो, कळ्ळें?'

'कळ्ळें.'

'पळय. शासक ब्रिटीश तुमकां एज्युकेशन–प्रेस–युनिव्हर्सिटी–रेल्वे दिता. तातुंत तांचो सुवार्थूय सादता. पूण ते तुमकां, शासक तुमचे, बेसिक ह्यूमन रायट्स दिवंक

सोदिनात. दिवंक सोदल्यार तांचे जे पिलर छोटा नागपूरचे सावकार-वाणी-जमीनदार-राजा हांच्या सुवार्थाचेर हावळ येता.'

'तुमी सामखे निर्शेल्यात काय कितें?'

'निखालस ना. ते भायर इतले दीस सरकाराचो अवमान जायत देखून बंगाली वकील ओगी रावले हें नशीब म्हजें, कोलकात्यांत बोवाळांत ते सादूर जाले. लोकल बारांतल्या जायत्या जाणांनी म्हाका आदार केला. त्रिबुनालार उबे रावनात खरे. म्हाकाय तें नाका. सरकारान रांची शारांत दमनाचें साम्राज्य उबारलां पळयलां न्हय तुवें? "दि बेंगॉली" च्या खासा खबरेकाराचो रिपोर्ट वाचता तूं?'

हांवें वाचलो.

तातूंत बरयल्लें, "आज सकाळीं रांची पावलों. आतां रातचीं 8.30 जाल्यांत. आतां मेरेन मुंडाज रायट प्रोसिक्युशना संबंदान जितल्या जाणां कडेन उलयलों, त्या सगल्यांनी मोनेपण पांगुरलां. हांगा 'रेन ऑफ टेरर' चलला. इतल्या जाणांक इतल्या म्हयन्यां सावन निश्ठूरपणान बंदी करून दवरले उपरांत सेशन न्यायालयांत तांचे संबंदान सांगलें तांका कादयेंत दवरपांत चूक जाल्या. ते विशींय कोणूच उतर लेगीत काडिना. जेलांत आजून 217 जाण बंदी खटले चलतले परिस्थितींत आसात. तांचे कडल्यान कसलो भयंकर गुन्याव घडला हाचे विशीं फकत दुबाव घेवपूच चालू आसा. पूण गुन्याव कितें तें आजून कळूंक ना, ते विशीं कोणाक कांय खबर ना! रिपोर्टर म्हूण भारतांत फाटलीं तीस वर्सां साबार जाग्यांनी भोंवलां! भंय भीड नासतना, प्रतिवादाक बडगनासतना, मुंडा रायट केसींनी जी सुनावणेची पद्दत आपणायल्या, ती ब्रिटीश जस्टिसेचे आयडियेक जितली विरोधी तितलें दुसरें कांयच आजवेर हांवें पळोवंक ना.

केसी निर्णय जावन अपिला खातीर हायकोर्टांत पावतात. सकल्या कोर्टांनी सुनावणेच्या नांवान कितें चलता, जिल्लो मुखेल्या मुखार कायद्याक कशी मान सकल घालची पड्टा, तें थंय कळटा.

तुमी म्हण्टले, बाबडे कैदी कुसतात थंय. आरंभाक जांका धरिल्ले तांचे मदले कादयेंत कितले मेले तें कळचेंशें दिसता. रायट म्हण्टात ते घडणुकेंत कितल्या जाणांक निर्दयसाणीन गुळयो घालून मारले तें कळ्ळ्यार चड बरें जावपाचें. डेप्युटी कमिशनराक खंय आनी कसली रायट दिसली देवाकूच खबर. दोन दिसां भितर चड करून म्हाका, कितल्या जाणांक मारले तें सांगूंक शक्य जावंये.

सर्वसामान्यांक धक्को बसतलो.

निर्दोश, ते निर्दोश हें स्पश्ट कळटा. तांचेरुच डेप्युटी कमिशनरान चार्ज दवरल्यात. तेंय, मैलांच्या अंतरार बशिल्लेकडेन जी खबर मेळ्ळ्या तिच्या आदारार केलां. हांच्या हातांत हातकडीं घालून, पांयांक आनी कमरांक जड सांकळी घालून तांका आयिल्ल्या दिसा न्यायालयांत हाडटात, जाल्यारूय सुनावणी जायना हो संस्कृतायेक कलंक.

जेलांतल्यान मॅजिस्ट्रेटाचें न्यायालय सुमार तीनशीं गजां परस मातशें चडूच अंतराचेर. सांकळी इतल्यो जड, मातशें चलतकच तांका उबे रावंचें पडटा. जेलांतल्यान ते भायर सरतात. न्यायालय सुरू जाता सकाळच्या सातांक. ताचे आदीं तांका कितें खावंक मेळटा काय ना खबर ना. पूण डाक बंगल्यांत बसलां थंयच्यान पळयल्यार जेलांत परते वतना ते घुंवळ येवन वाटेर पडटात ते दिसता.''

''दि बेंगॉली'' खूब लडिल्लो, जाणा बीरसा! रांचीचे मॅजिस्ट्रेट, डी. सी. आनी पुलीस हांचे अशुभ इश्टागतीचेर कडक इंग्लेजींत टर उडयल्ली. सुरेन बॅनर्जी ''दि बेंगाली'' त फकत संपादकीय बरयताले, रिपोर्टराक रांचीक दवरिल्लो. इतलेंच न्हय-लेजिस्लेटिव्ह कौन्सिलांत उलोवपूय केल्लें.

जर्मन मिशनाःचो डॉ. ए. नॉरकोट हो मिशनरी, मोग आनी दयाधर्माची दीक्षा घेतिल्लो. ताणे एकल्यानूच डेप्युटी कमिशनर स्ट्रीटफील्डाक परबीं भेटयलीं. बंदी मुंडांचो कोर्ट मार्शल करचो म्हूण मागलें.

असलो तो एकलोच.

''दि स्टेट्समॅन'' आनी ''दि बेंगॉली'' पत्रां मदीं मुंडांचे सुनावणेच्या फार्सा संबंदान झूज पेटिल्लें. ताकाच लागून भारत सरकाराक जाग आयली काय?

मॅजिस्ट्रेटाचो तपास आनी सुनावणी 1900 वर्साच्या औतुब्रा अखेर मेरेन चललीं.

सुरेन बॅनर्जीक मुंडा खटल्याची खबर मनांतल्यान कुशीक काडप शक्य जालें ना. बीरसा, तूं जाणा, तो केदो व्हड, नांवाजिल्लो आनी मोलाचो मनीस?

तूं टुयला वाजोवपी, बांसरी वाजोवपी. मांगरांत तुजे वरी नाचूंक कोणाकूच जमनाशिल्लें. चाइबासा मिशनांत अदीं मदीं कपडे हातांत धरून म्हजेकडेन येतालो. म्हण्टालो, 'सांग पळोवया! खंयच्यान बोड आनी खंयच्यान हात घालूं?'

तूं म्हण्टालो, 'एक दीस तूं पळय, बाजरांतलें पुर्राय मीठ विकतें घेयन आवयक दितलों.'

''बेसिक ह्यूमन रायट'' ह्या उतरांचो तुजो अर्थ कितें तें चिंततां.

मीठ, घाटो सांगाताक, रान-मेकळे जमनीर पीक काडून आपले राशीर घालूंक फसल हाडप, वेठबिगारी करप ना, आपले जंगले-जिणेंत सुखांत रावप.

हें सगलें कितें मळबांतलो सुर्या मागपा वरी?काय हिशबा भायर, अतिरेकी अपेक्षा ही?

घडये तशेंय जायत.

ना जाल्यार सुनावणेच्या नांवान संस्कृतायेच्या तोंडाक काळें लावपी खटलो चलतल्या कैद्यांचो कित्याक इतलो छळवाद?

सुरेन बॅनर्जी कौन्सिलांत कित्या खातीर गर्जना करून उठिल्ले-फौजदारी कार्यविधीच्या 107 कलमा प्रमाण मुंडां आड घाल्ल्यो केसी फाटी घेतल्यात?

तशें आसत जाल्यार त्या कलमा खाला सुनावणी चलतना मुंडा कितले दीस बंदखणींत उरले?

कोठडेंत त्या काळांत कितल्या मुंडांक मरण आयलें?

पत्रांत जें आयलां, नव्या चार्जांचेर त्या निर्दोश म्हुण सुटिल्ल्या मुंडांक परतेय धरतात म्हुण, ही खबर खरी?

जर तांका नव्या चार्जाचेर धरतात, जाल्यार सरकार तपास करतालें, पांच म्हयने ते जेलांत आशिल्ले तेन्ना कित्याक हे चार्ज घालप शक्य जालें ना?

"दि स्टेट्समॅन" पत्रान म्हणिल्लें, सगल्यांत मोठी ट्रेजेडी म्हळ्यार निर्दोश मनशाक कादयेंत दवरप. सुनावणी सारखी जावंची, बेगोबेग जावंची अशें मागूंक लॉर्ड कर्जना कडेन आवाहन केल्लें.

पूण सरकाराचीं चक्रां तशीं सोंपेपणीं घुंवतात?

सगलें चलतालें रे बीरसा. पूण जेलांत वचून मुंडां सामखार उबो रावतालों तेन्ना म्हजें काळीज चिरून वतालें. तांका सगल्यांक कळटालें.

धानी मुंडा, भरमी मुंडा कितल्या स्नेहान म्हण्टाले, 'बाबू? तूं तरी कितें करतोलो? तुगे कांय चूक ना. तेंका आमचे आड कसलीच चूक मेळना. तेकाच लागोन जेलांत हाल करून सगल्यांक मारपाक सोदताय. तेंका कळना, भगवान जंय मेलो, थिंगाच आमीय मरतले. बीरसायतांक हेंच जाय.'

सरकाराचीं चक्रां हालनाशिल्लीं, बीरसा. हांव तेन्ना मिरॅकल जावं म्हुण मागतालों. हय, कितेंय अलौकीक घडचें. मुंडा रायट ट्रायलीचें कळंकित काळें सपन सोंपचें.

व्हडलो सायब धाकल्या सायबाचेर दबाव हाडी. धाकलो सायब स्ट्रीटफील्डाक दबकायतालो. स्ट्रीटफील्ड आनी कूट्साक दिसतालें आपुण देव. सगल्या भायर आनी सगल्या वैर.

चक्र विचित्र भाशेन घुंवतालें. गव्हर्नर-जनरल-इन-कौन्सिलान मत मांडिल्लें, "न्यायालयाचो वावर सुरु जावपाच्या वेळा पसून मिसमॅनेजमेंट चल्ल्या." - "केस उबी करून निर्णय जावंक इतलो कळाव जाला, लज दिसपा इतलो" - निर्दोश म्हुण सोडिल्ल्या साठ जाणांक "सुनावणी सुरू जावंचे आदीं सुमार वर्स भर कादयेंत दवरिल्ले."

तांका कळिल्लें, "सुनावणी बेगिनात बेगीन उजू रितीन पुराय जावंक जाय आशिल्ली" - "ट्रॅजेडी म्हळ्यार केस हुमकळायत दवरिल्ल्या काळांत चवदा जाण मेले. मॅजिस्ट्रेटाचे आळसायेचे बळी ते. तांचे मदीं जायते जाण निर्दोश, सुटकेचो आदेशूय जाल्ले आशिल्ले." - "ह्या कळावाचो परिणाम वायट जालो. साद्या-सरळ आदिवासीं भितर ब्रिटिश शासना संबंदान कसलेंच बरें मत निर्माण जालें ना."

गव्हर्नमेंट ऑफ इंडियान म्हळें, "केस तयार करपा वेळार इतलो कळाव जालो ताचें कारण म्हळ्यार गरजेचे ऑफिसर नेंमले नात, सगळी जापसालदारकी थळावे सरकारी

यंत्रणेचेर घाली."

थळाव्या प्रशासनानूय हे टीकेक जाप दिली खरी, पूण सुनावणी चलतनाच कार्यक्षम आनी लायक प्लॅटलाक थंयच्यान हालोवन थंय एक पोरगो, अणभव नाशिल्लो कूट्स हाका नेमपाचें समादानकारक कारण दिवपाक तांका जमलें ना.

गव्हर्नमेंट ऑफ इंडियाक ही मांडणी "सयुक्तिक आनी न्यायसंगत" दिसली ना, देखून ताचें म्हणणें, "अतार्किकपणान, अनपेक्षित रितीन प्लॅटेलाची बदली केल्ल्यान केसीचो निकाल लागूंक कळाव जालो, – डेप्युटी कमिशनर स्ट्रीटफील्डान अकलेचो उणाव दाखोवन दिलो. केस चलतना न्यायालयांत भितर सरून मॅजिस्ट्रेट कूट्सा कडेन संभाशण करून आपल्याक टीकेच्या तोंडाक दिलो."

धाकल्या सायबान "सुनावणेच्या वावरांत कळावाची पुराय जापसालदारकी आपल्याचेर घेतली" आनी "बंड चिड्डून उडोवपांत थळाव्या प्रशासनान तत्परताय, न्याय परायणताय आनी सफळताय दाखयली" असो दावो केलो – "कुतां काडपी न्यायाधीशांचें समाधान करपा सारखीं फाव तीं गवाय-प्रमाणां पुंजांवक एका बदनाम वाठारांत तांका खूब त्रास जाल्ल्यान इतलो कळाव जालो. हो कळाव इतलो गैर न्हय, ताका लागून फुडलें जैत निस्तेज जायना." लॉर्ड कर्जनान म्हळें, थळाव्या प्रशासनान जो घुस्पागोंदळ केला, ताचेकडेन "ह्या सगल्या घडणुकांच्या समादानकारक खुलाशाचो मेळ बसना."

निमाणे कडेन जाल्लें कितें जाणा बीरसा? स्ट्रीटफील्ड आनी कूट्स हांणी पुलिसांक सगल्या परींनी आदार केल्ल्यान जेलांतल्या कामगारांचें बरें सादललें.

ते कैद्यांल्या घरच्यांक, सोयऱ्यांक सांगताले, 'पैशे हाडात, खावपाक हाडात, रित्या हातान कोण केन्ना गुन्यांवकारांक मेळूंक येता!'

मुंडाल्या आवय-बापूय-बायल-भुरगो-भाव-भयण हांची दिवपाची तांक तर तूं जाणाच.

जमता तितलें ते हाडूहाडून दिताले. आनी दुकां पुशीत परते वताले. जेकबाक मेळून सांगून वताले, 'सायब, तेणी आयजूय मेळोंक दिलें ना.'

जेलांत वचून पुलीस मुंडांक म्हण्टाले, 'तुमकां मेळूंक कोण्ण येना. कोण खबर काडिना. तुमी स्वताक बीरसायत म्हण्टात? तुमचे लागींच्या सगल्यांनी बीरसाचो धर्म सोडून दिला!'

ते म्हण्टाले, 'जेलांत आसात, सरकाराचें अन्न खातात, थंय दुकळांत तुमचे सगले लोक मरत आसात. मिशन – सावकार – दिकू – जमीनदार सगल्यांक सोंपोंवक सोदताले? आतां ते कोणूच आदार दिनात. कित्याक दितले? ते तुमचो जीव राखताले, तुमी बैमानी केली ना? बैमानी करतना कळ्ळें ना?'

हांव तांचेकडेन वतलों, भुजवणेचीं चार उतरां उलयतलों, म्हळ्यार तेंय शक्य नाशिल्लें, म्हाका मुंडांक मेळपाक, तांचे कडेन उलोवपाक हुकूम नाशिल्लो.

मॅजिस्ट्रेट कचेरेंतल्यान सेशन कोर्ट. अखेर 1900 सालाच्या मदेकाक सुमार सत्र न्यायालयांत ज्युडिशियल कमिशनर एफ.आर. टेलराक आदार करूंक एका चडावत सत्र न्यायाधिशाची नेमणूक जाली.

कट केल्ल्याच्या गुन्यांवा खाला आरोपी आशिल्ल्या सगल्यांक टेलरान सोडले. ताणे कटा विशींच्या कायद्याचो एक खेरीत खुलासो तयार केलो. ताचें म्हणणें, "अपराध घडला त्या काळांत कटाचें चिन्न नाशिल्लें. खात्रेन सिध्द करूंक जमना जाल्यार कोणाकूच कटाच्या गुन्यांवा खाला ख्यारस्त दिवप शक्य ना."

मुंडांची पंगडा-पंगडांनी सुटका जायत रावली. ताका लागून गव्हर्नमेंट ऑफ इंडियाक थळाव्या प्रशासनाचो चड राग आयलो. "दि स्टेट्समॅन" आनी "दि बेंगॉली" जें आड्डून सांगतालीं, तेंच आतां खरें जालें ना? दोनूय पत्रां लागून म्हणत आशिल्लीं, "चडशे मुंडा निरपराध. कसलेंच गवाय-प्रमाण नासतनाय तांका बेकायदेशीरपणान वर्स भर जेलांत दवरल्यात."

लीगल रिमेंब्रन्सरा उपरांत धाकलो सायबूय आतां गेल्लो. ताणेच न्हय म्हणिल्लें, "दरेका आड समादानकारक गवाय-प्रमाण पुंजायल्यांत?" ताणे सांगिल्लें, "अख्ख्या पंगडाकूच ख्यारस्त जातली."

जेकब, "दि बेंगॉली" आनी "दि स्टेट्समॅन" एकवटान झुजत राविल्ल्यान 1900 सालांतल्या नोवेंब्रांत एक दीस मुंडा रायट केस सोंपली. त्या दिसा रांची आनी सिंगभुमाक 482 मुंडांची सुनावणी जाली. फकत अठ्ठ्याण्णोय जाणांक ख्यारस्त जाली, आडसट जाणांक शांतताय राखपाची समज दिली, दोनशीं श्याण्णोय जाणांक सोडले. 462 जाणांचो हिशोब जालो ना? खटलो चलतले अवस्तेंत सोंपिल्ल्यांचो आंकडो तुजे सकट मेजल्यार विसांचेर पावल्लो न्हय? एतोकेदीक कॉन्स्टेबलाक मारिल्ले खातीर गया मुंडा, ताचो पूत सनरे मुंडा, आनी चक्रधरपुराक कॉन्स्टेबलाचे हत्ये खातीर सुखराम मुंडा हांका फांशीचो हुकुम जालो.

जल्म भरा खातीर काळ्या पाणयाची सजा 40 जाणांक फाव जाली. सात वा ते परस चड वर्सांचो कडक कारावास पांच जाणांक जालो. पांच वर्सांचो कडक कारावास 24 जाणांक. तीन वर्सांचो स जाणांक. तीन वर्सां परस उणो चौगांक - गया मुंडाली धूव, बायल, सून आनी एका वर्साच्या भुरग्याक. टेलरान निमाणे कडेन धूव, सून आनी भुरग्याक एका दिसाची बंदखण घालून सोडलीं. फकत ब्यांयशीं जाणांची खबर हांव बरोवंक शकलों. बाकीच्या सोळांचें कांय कळना.

गया, सनरे आनी सुखरामाचो फांशीचो हुकूम रद्द करूंक जेकबान व्हडल्या सायबा कडेन लेगीत अपील केल्लें. व्हडल्या सायबान तें मानलें ना. सगलें जातकूच गया, सनरे आनी सुखराम म्हजे कडेन उलयले. म्हजेकडेन उलोवपाक आतां तांका बंदी नाशिल्ली.

गयान अचकीत म्हाका म्हणिल्लें, 'आमी जितले दीस आसांय, तितले दीस तूं राव,






बाबू.'

तशें कित्याक म्हळें ताणे, बीरसा? ताका कळिल्लें काय, तांचे वांगडाच म्हजे भितर, म्हजीं तत्वां, म्हजो विवेक, खंयच्याय तरी एका पावंड्यार मरून वतलीं म्हुण?

ताका कळिल्लें काय, हांव चाकरी सोडटलों म्हुण? ना जाल्यार कित्याक ताणे बापाय वरी, मायेच्या बापाय वरी विचाल्लें, 'खातलो कितें तूं? खायनासतना रावपाची संवय आसपाक तूं कितें मुंडा तर?'

बापाय वरी -! तशें पळोवंक गेल्यार बापूय कितें, आवय कितें म्हाका खंय खबर! अनाथालयांत हुंबऱ्यार उडयल्लें अर्भक हांव. म्हजे दोळे भरून दुकां व्हांवलीं. फांशीचो हुकूम आयकून अपील अर्ज निर्फळ जाल्ल्याचें कळटकूच एक उपाशीं, गरीब, जड्डो मुंडा हांव कितें खातलों ताचो हुस्को करता.

धानी मुंडान म्हणिल्लें, 'पोर रडलो कित्याकू?'

गया मुंडान सांगल्लें, 'म्हागे सनरे वरी, म्हागे घरचो भुरगो न्हो, म्हागे दुःखान रडटा.'

म्हाका ताणे सांगिल्लें, 'रडों नाका बाबा! हांव मर्णाक खरोच भिना. बीरसायत मरोंक भिताय? तेका तुयें मरतना पळयल्लो. तो भिल्लो?'

गया आनी सुखरामाक आदीं फांशी जाली. उपरांत सनरेक जाली. मरचे आदीं ताणे भरपूर उदकान न्हावपाची इत्सा परगटायली. नवें आनी अख्खें वस्त्र न्हेसपाक सोदतालो, खावंक कांयच नाका आशिल्लें ताका.

त्या तिगां मदलो एकलोय घाडयाचे मंत्र आयकूंक सोदिनाशिल्लो. ते तुजें नांव घेताले.

मागीर हांवें चाकरेचो राजिनामो दिलो. जेकबान म्हळें, 'कित्याक?'

कित्याक, तें म्हाका पूण खंय खबर आशिल्लें? म्हजें अशें कांयच ना. हांव हे शिक्षण पद्धतीचो, समाज वेवरस्थेंतलो मनीस! ही वेवरस्था बेसिक ह्यूमन रायट दियना आनी विवेकूय शिकयना. मुंडा रायट केसींत बंगाली क्रिस्तांव अमूल्य अब्राहमाक त्रास कित्याक जाता? केस सोंपतांच तो चाकरी कित्याक सोडटा?

म्हजे कडेन सोडपा सारखें आनीक कांयच ना देखून? हांव आनीक कांयच करूंक शकना म्हुण? म्हजीं बोटां कितलीं बारीक, कात कितली मोव, म्हाका तीर मारूंक जमना, भालोय शेवटूंक कळना. म्हाका हें इतलेंच जमता. उरिल्ली जीण समजून घेवपाचो यत्न करप.

तुका. तूं कोण? तूं वेळा आदीं जल्मलो, काय काळानूच तुका निर्मिलो?

तुजी चळवळ कसली? मुंडांक रानांचो अधिकार मेळत? वसयल्ल्या गांवांचेर तांचो जल्मसिध्द हक मान्य जातलो? तांचे जिणेंतल्यान सावकार - वाणी - जमीनदार - जोतदार - जुवीज - कारकून - थाणें - वेठबिगारी हांचो जडभार देंवत?

जितले दीस मेरेन हें सगलें वचना, ते मेरेन तूं मरतलो कसो? कूड मेल्यार अमूल्य

अब्राहमा सारखे लोक सोंपतात. कूड सोंपल्यार बीरसाय मरता?

हांव चालकाडाक गेल्लों. ताचे आदीं बोतोरदी. डोनका मुंडाक पयलीं फांशीची सजा जाली, अपील करतकच जल्मभरा खातीर काळें पाणी.

तो सांतोणाचो रुख हांवें पळयलो, बीरसा. आतां 1901 वर्साचो नोवेंब्र. त्या रुखाक आजुनूय फुलां आसात.

रुखा मुळाक साली बशिल्लें. म्हाका घेवन गेल्लो धानी. धानी वांगडा म्हाका पळोवनूच ताका कळ्ळें हांव ताचो दुस्मान न्हय म्हुण. म्हाका बौल्यार बसयलो. कणयो शिजोवन वाडलो. परिबा मातयेंत खेळटालो. सालीन म्हळें, 'सांगल्लें आयकना. फकत खेळटा.'

परतो येतना साली आनी धानी रुखा पोंदा येवन उबीं रावली. हांवें म्हळें, 'डोनका ना. तुमचें आतां चलतलें कशें?'

सालीचे दोळे हांसले. ताणे म्हळें, 'कित्याक? कश्ट करून. भगवान शिकोवन गेला उलगुलानाक अंत ना. भगवानाक मर्ण ना. मुंडाले जिणेंत कश्ट सोंपल्यार भगवानाच्या मरणाकूच उलगुलानाची अखेर मानची पडटली. खरें न्हो?'

म्हाका उतर फुटलें ना. थंयच्यान चालकाडाक आयलों.

बीरसा, हांव जे सुवातेर बसून ही पटी बरयतां, तो एक एका तळाचो फातर. फातरा पोंदच्यान न्हंय व्हांवता. न्हंयचें नांव नकळ हांव. केन्नाय विचारून घेतलों.

बरयतां, आनी मदीं मदीं तकली वयर काडून पळयतां. मुखार न्हंये दिकेन पळयत बसल्या एक जाण्टी मुंडा आवय. तुजी आवय. करमी.

सद्दां सकाळीं कोमताची धूव तिका हात धरून घेवन येता. हांगा बसोवन वता. दनपारां कोमताची धूव जेवण हाडून तिका हांगाच भरोवन वता. सद्दां सांजवेळा न्हंयचेर वाग उदकाक येवपाचो वेळ जालो, काय हांव, ना जाल्यार सुगाना, तुजो बापूय तिका हाताक धरून घेवन वता.

तिचो थीर विस्वास, तूं एक दीस परतो येतलो म्हूण वाट पळयतां पळयतां ती फातर जातली. त्या दिसा तिका घरा येवंचें पडचें ना.

ती म्हण्टा, 'तुमी म्हाका घरा कित्याक व्हरताय? ही न्हंय, रूख, दोंगर, जमीन पळयतां पळयतां म्हाका तो मेळटा.'

आतां तिका पळयल्यार फातराची म्हुर्तशीच दिसता! तिचे रुक्ष धवे एकठांय करून बांदिल्ले केंस, कुडीर कातीक आनी तोंडार कितल्योच सुरकुत्यो, दुकांहीण दोळे पै ऽ ऽ स तुका पळयतात.

हांव बरयतां. म्हजे सकयल्यानूच न्हंय व्हांवत आसा. म्हाका तिचें उलोवणें भितर आयकूंक येता. फातराळ जमीन, निर्फळ रुखांचें दाट रान, दिगंते मेरेन पातळिल्ले वाकांचे उबे दोंगर. म्हज्या आंगाक तोपता थंड शीतळ वारें. तीं सगलीं म्हाका सांगत आसात, 'आमी जशीं सासणाचीं, संग्रामूय, बीरसाचो संग्रामूय तसोच. पृथ्वीचेर कांयच सोंपना ह

मुंडारी देश ह्ल जमीन ह्ल फातर ह्ल दोंगर ह्ल रानां ह्ल न्हंय ह्ल ऋतूं फाटल्यान ऋतूंचें येवप ह्ल संग्रामूय सोंपना, सोंपूं शकना. पराजयान संग्राम सोंपना. उरता, कारण मनीस आसता, आमी आसतात.

हांव आयकतां. आजुनूय विस्वास दवरपाक जमना. जाल्यारुय आयकतां आयकतां, तुजे आवयक पळयतां पळयतां एक दीस विस्वास दवरूंक शकतलों हेंय हांव जाणा, बीरसा. आतां फकत आयकत रावं? उलगुलानाक अंत ना. बीरसाक मर्ण ना. उलगुलानाक अंत ना. बीरसाक मर्ण ना. उलगुलानाक अंत ना! बीरसाक मर्ण ... !

म्हाका आयकुंदी! आयकूंक शिकलों ना जाल्यार विस्वास दवरतलो कसो?

o o o



इकुणिसाव्या शतमानाचे अखेरेक छोटा नागपूर वाठारांत (आयच्या बिहार आनी झारखंड राज्यांनी आसपावल्ले वाठार) फिरंगी सरकार, सावकार हांचे आड निरक्षर, चिड्‌डल्ले , गांजून गेल्ले आदिवासी झुजूंक उबे रावले. तांचें फुडारपण करतालो एक पंचवीसे वर्सांचो तरणाटो-बीरसा मुंडा! तांचो हावेस आशिल्लो आपलो 'कृष्ण भारत' मुक्त करपाचो. तांणी सपन पळयल्लें मुंडारी / आदिवासी राज्याचें.

ह्या सपनाखातीर आपलें सर्वस्व पणाक लावन झुजाक उबे राविल्ल्यांची ही काणी. म्हळ्यार एक गद्यकाव्यूच! वास्तवाच्यो वेदना आनी मुक्त फुडाराचीं सपनां हांच्या पोडांनी मुंडांच्या बंडाचें हें वस्त्र घडलां. तांतूंत भरिल्ले रंग हे मातयेचे! भारतभुंयेच्या मूळ धनी धुवां-पुतोंनी एके विशाळ राजकी यंत्रणेक दिल्लो धपको ताच्या इतिहासिक कागदां-पुराव्यांच्या आदारान आनी साहित्यिक प्रतिभेसांगाताक सामाजिक बांदिलकेचे भावनेन जितो-जिवो जावन आयच्या प्रस्नांकडेन पळोवपाची एक नितळ-निखळ-नदरूय वाचप्याक दिता.

महाश्वेता देवी हांका एक कृतिशील साहित्यिक म्हूण साहित्य-संवसार वळखता. आपल्या 125 परस चड साहित्यकृतींवरवीं तांणी मुखेलपणान भारतांत ब्रिटिश राजवटकेंत इकुणिसाव्या शेंकड्यांत जाल्ल्यो चळवळी, विसाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांतली नक्षलवादी चळवळ तेचपरी इतिहासिक आनी सामाजिक फाटभुंयेचीं हेर आंगां वाचप्यांमुखार हाडल्यांत.

तांणी जोडिल्ल्या साबार पुरस्कारांभितर साहित्य अकादेमी, ज्ञानपीठ आनी पद्मविभूषण हे भारतांतले तशेंच मॅगसेसे पुरस्कार हांचो आसपाव आसा. फ्रेंच सरकार दिता त्या नागरी पुरस्कारांतलो दुसरे सुवातेवेलो पुरस्कार फावो जाल्ल्यो त्यो पयल्यो भारतीय.



Adhikar Aranyacho (Konkani), Rs. 90/-
ISBN 81-260-2351-1

24 भासांतलीं पुस्तकां उजवाडावपी साहित्य अकादेमी
ही संवसारांतली सगळ्यांत व्हड संस्था

website : http://www.sahitya-akademi.gov.in